# जीव दिवं काय च्या मारूं

दामोदर मावजो

संजना पब्लिकेशन्स

| | |
|---|---|
| **जीव दिवं** | **JEEV DIUN** |
| **काय च्या मारूं** | **KAI CHYA MARUN** |
| (कादंबरी) | (Novel) |


**दामोदर मावजो**
माजोर्डे, साश्टी-गोंय,
मोबाईल : 9422059509
dymauzo@gmail.com

**Damodar Mauzo**
Majorda, Salcete-Goa
Mob. : 9422059509





प्रकाशक :
**संजना पब्लिकेशन्स**
39, दत्तवाडी, सांगे,
गोवा - 403704
sanjanapublications2@gmail.com

Publisher :
**Sanjana Publications**
39, Dattawadi, Sanguem,
Goa. 403704

पयली उजवाडणी : **2020**

First Edition **: 2020**

छापणावळ :
**रीया ग्राफिक्स**
मोबाईल : 9049749211

Printing :
**Riya Graphics**
Mob. : 9049749211

**मोल : ₹ 375/-**

**Price : ₹ 375/-**

**Special Editon**

कोंकणी वाचपाची
गोडी लागिल्ले
सहस्रकाचे
नवे पिळगेक—

च्याची कूंय आयली.
गॅस पेटयलो आनी वयर आदन दवरलें.

उदक सळसळूंक लागलें.

युरेका!

पूण आर्किमेडीस याद जावचे पयलींच जीब हुळहुळूंक लागली.

कला आनी विज्ञान हीं दोन तोंका अशें म्हाका दिसतालें. पूण तांचो संबंद कितलो लागींचो तें च्या करूंक शिकलों तेन्ना समजूंक लागलें.

च्या कशी जाली हाचे परस च्या कशी लागली हातूंत म्हाका चड मज आसली.

पालो, साखर, दूद घालून गाळटासर म्हाका थार नासलो. कप तोंडाक लायलो आनी कश्टांचें सार्थक जाल्ल्याचें सुख मेळ्ळें.

"आरे, च्याचो वास आयलो. केल्या जाल्यार म्हाकाय इली हाड." भितर बशिल्लेकडसून मांन फर्मायलें.

हांवें पाल्यांतच थोडें उदक घालें. हयन्हयशें शिजयलें. आनी दूद ओतून व्हरून दिली. घोंट मारून तिणें तोंड वांकडें केलें, "तूं पियेलो ते च्याचो वास वेगळो आशिल्लो. ही च्या ती न्हय. साखर लेगीत ना सारकी."

तोंड घांपून हांवें कुलेरभर साखर व्हरून तिगेल्या कपांत ओतली.

“चाळ आतां. ना जाल्यार तेंय काम म्हाकाच सांगशी-” म्हणपाचें मनांत आयिल्लें, पूण म्हळें ना. एक नंबरची आळशी. हिणें मातशे हातपांय हालोवंदी म्हणून डॅडीन वावराक मनीस दवरूंक ना. पूण हिची आयतें गिळपाची संवय सुटना. शीतकडी करता ती आसबास नाशिल्ली. किचनांत काम करतना लेगीत लक्ष भायल्या टिव्हीचेर. म्हाका तर दुबावच आसा तिगेल्या रांदपाचेर विटिल्लो डॅडी सद्दां भायर खावन येता आसतलो.

एस.एस.सीक पावमेरेन हांवें च्याचो घोंट मारूंक नासलो. च्या म्हळ्यार वेसन, भुरग्यांनी च्या पियेवंची न्हय हें म्हज्या मनाचेर बिंबयिल्लें. ताका लागून केन्ना घेवची अशेंय दिसूंक नासलें. पूण मदीं घडिल्ले घडणूकेन च्याचे विशीं जिज्ञासा मात जागी जाल्ली. हांव तेन्ना सवेक बी आसूं ये. बरेऽ राती म्हाका जाग आयिल्ली. पयलीं दिसलें शेजाऱ्यालो बुकलो आवाज करता. मागीर शेजारचे कुडींतल्यान मांली परवणी आयकूंक आयली. मदींच ‘आंऽ -पुरो- नाका’ म्हणटाली. डॅडी हं: हं: करीत खरशेतालो आनी मदींच मांचेर ताणशेतालो. कितें करचें कळ्ळें ना. झगडटात काय! पूण मागीर आवाज थांबले. असोऽ दोळो लागपाक वतालो म्हणटासर उलोवणें कानार पडलें-

“उठ आनी च्या कर पळोवंया!”

“रातीचीं दोन जाल्यांत-”

“हांवें वेळ विचारलो ना. च्या कर म्हळां.”

आनी मांन गॅस पेटयिल्ल्याचो आवाज आयलो.

इतले व्हडे राती डॅडीक च्या पियेन दिसल्या! कशी आसता काय ही च्या! इतली बरी लागता काय?

सकाळीं डॅडी स्कुटर घेवन कामार वतकच हांवें मांक विचारलें, “मां,

च्या बरी लागता गे?''

''बरी जाली जाल्यार लागता बरी. कित्याक विचारता?''

''राती डॅडीन तुका च्या करपाक लायली न्हय!''

मांले दोळे मोटे जाले. ''तूं जागो आशिल्लो?''

''ना, गे. जाग आयिल्ली. मागीर रोखडोच न्हिदलों.''

मां घडये विसरली ती गजाल. पूण म्हज्या मनांत जागी जाल्ली जिज्ञासा मात मर्दी मर्दी तकली वयर् काडीत रावली.

चवनांच्यो मावो आंगार आयुश्यभर सांगात दितात तश्यो कांय प्रसंगांच्यो यादी म्हज्या मनाक घट्ट दसून उरल्यात. कितल्या वर्सांचो आशिल्लों काय हांव तेन्ना, जेन्ना घराचीं दारां जनेलां दीसभर उकतींच आसतालीं! जेन्ना मां-डॅडी एकठांय बसून गजाली वा वाद करतालीं! मांन म्हजी अपुर्बाय केल्ली म्हाका याद ना. सुमाराचो व्हड जायसर ती म्हाका खेपताली- 'तूं पोटांत आयलो आनी म्हगेल्या सुखाक चूड लागली.' 'तूं जालो आनी डॅडी पयस गेलो.'

तिच्या कामाक आदार करप ही म्हजी लागणूक अशें मांक सदांच दिसलां. आमगेर वावराक कोण ना हाचो दोश ती डॅडीक दिताली. आनी डॅडी मांक. म्हजे यादींत आमगेर दुर्गाम्मा म्हूण एक बायल वावराक आसताली. हांव वर्साचो जायत सावन आसली खंय ती. एक दीस कितें तरी जालें म्हूण मांन तिका धांवडायली. डॅडी घरा येतकच मां दुर्गाम्माच्या नांवान डॅडीक कितें कितें म्हणूंक लागली तेन्ना डॅडीन तिका थापटायिल्ली, खोंटायिल्ली आनी वयल्यान 'आत्तांच्या आतां च्या करून हाड' म्हूण फर्मायिल्लें ती याद आसा म्हाका. मागीर हांव काळखांत वचून बशिल्लों आनी थंयच न्हिदून पडिल्लों.

मेरशेंतलें हें आमचें घर पोरनें नळ्यांचें न्हय पूण सामकें नवेंय न्हय.

म्हज्या आज्यान बांदिल्लें, पूण बाबडी आजो-आजी रावपाक मात पावलीं नात अशें डॅडीनच म्हणिल्लें केन्ना तरी. बल्कांव बी नाशिल्लें. टिव्हीची एक रिती कास कोठये कुडींत पडल्या. भायल्यान पळोवपाक तशें शें दिसता. घर ल्हान न्हय. मुखार साल. सालाच्या उजव्यान डॅडीली कूड. दाव्यान आशिल्ली कूड बाळंटेरा वेळार मांक दिल्ली खंय, ती आतां सदची मांली कूड जाल्या. फुडें एके कुशीक रांदची कूड. दुसरेवटेन कोठयेची कूड जी उपरांत म्हज्या वांट्याक आयली. सकयल बाथरूम आनी टॉयलेट. आजो, आजी अकस्मात फाटीं फुडें मेलीं तेन्ना खंय दारां जनेलां लेगीत लावंक नासलीं. मां कडेन लग्न थारतकच दोत म्हूण मेळिल्ल्या दुडवांतल्यान दारां लागलीं आनी डॅडी कडेन स्कुटर आयली अशें मां सांगताली. फुडल्या दाराक पयलीं भायर एक आनी भितर एक अशो दोन खिळयो आसल्यो आनी  चुकून सगलीं भायर सरलींच जाल्यार भायले खिळयेक थालें लागतालें. पूण एक दीस त्यो दोनूय खिळयो गेल्यो आनी भायल्यान चावी लावन उगडपाची लॅच आयली ती म्हाका घट याद उरल्या. पास्कोआला घरा मुखार डॉ. सोमेश्वर हाणे एक कोंसुलतार उगडिल्ली. 'आयुर्वेदीक तो. कोण गोंयकार वतलो ताच्या फुड्यांत? बाबडो मूस मारता.' तें आयकून मांक ताची काकुळट दिसली जावंये. एक दीस हड्ड्यांत किसकिसता म्हूण ताकाच आफय म्हूण धाडलो म्हाका. उमेदीन आयलो. मागीर मदीं मदीं येत रावलो. तो येतालो तेन्ना मां म्हाका भायर खेळपाक धाडटाली वा सालांत अभ्यासाक बसयताली. कित्याक काय विचारल्यार, 'दोतोर इंजेसांव तोंपता तेन्ना भुरग्यांनी पळोवपाक जायना' म्हूण सांगिल्लें. कितेंय आसूं - हो दोतोर तपासपाक यत साकून मांच्या जिवाक बरें दिसूंक लागिल्लें.

एक दीस डॅडीक थंडी जाल्ली म्हूण तो दोतोर कोश्ताबीरा कडेन वचपाक भायर सरिल्लो. हांवें म्हळें -'सोमेश्वराक आफोवं? मांक सद्दां तोच तपासता.' जाल्यार डॅडी चाळवलो. आपलें दुखाणें विसरून मांचें आंग दुखसर तिका मारीत सुटलो.

दुसऱ्याच दिसा थेवय आयलो. दोनूय खिळयो निखळायल्यो आनी भायल्यान चावी घुंवडावपाची लॅच दाराक लायली. तेन्नाच्यान चावी घेवन डॅडी वतालो आनी केन्ना केन्ना अकस्मात चावी काडून घरांत येतालो.

घरा भोंवतणी आसा ते सुवातेंत लोक पोरसूं करताले. पूण आमच्या घरा भोंवतणी सुवात आसुनूय एक तुळस सोडल्यार सुको सडो. ना म्हणपाक लागींव एक आंबुल्ली आनी थंयच पयल्यान एक वड आसलो. तो वड आमचो न्हय, तो शिमे भायर आसा. पूण ती आंबुल्ली आमची अशें डॅडी सांगी. वडा मुळांत सकाळीं पळयल्यार रासभर वडफळां पडिल्लीं आसतालीं. म्हजेर एखदें वडफळ पडचें म्हूण हांव भायर वचून रुखा मुळांत उबो रावतालों. पूण वड म्हजेर रागार आसतालो. आंबुल्ली मात शिंयां दिसांनी चंवरताली तेन्ना म्हाका ती खूब सुंदर दिसताली. गिमा दिसांनी तिका घोंटां लागतालीं. इलीं आंबशीं, चड गोडशीं. वाऱ्यान झडटालीं तेन्ना दुसरे भुरगे थंय पावचे पयलीं हांव थंय धांव्वट वचून तीं पुंजावन हाडटालों. मां तांचें सांसंव करताली. डॅडीक सांसंव आवडनासलें खंय. देखून आयतार आनी सुटी सोडून अदीं मदीं करताली. करताली तेन्ना हांव खातालों. भुरगीं घोंटां फातरायतालीं तेन्ना मां तांकां खेपताली. म्हाका सांगताली, ताकां धांवडाय म्हूण. हांवें केन्ना धांवडायलीं नात. पूण तींच म्हाका पळोवन धांव मारतालीं. हांवें राव म्हूण सांगल्यारूय.

ते आमोरेचेर तीं दोगां मात धावलीं नात. धप धप करून फाटो फाट दोन घोंटां झडिल्ल्याचो आवाज म्हगेल्या शिटूक कानांनी आयकलो. कोणूय घांटयांलीं भुरगीं येवन व्हरूं दी म्हूण चिंतून हांव वग्गी रावलों. पूण कोण धांवन आयलीं नात.

आरे बाबू, घोंटां पडिल्ल्याचो आवाजसो आयलो. वचून पळय बेगीन. मांन फर्मायलें. काळखांत घोंटां सोदपाचें जिवार आयिल्लें. पूण गेलों. घोंटणी मुळांतच पडिल्लीं. उकलून वयर पळय जाल्यार मुळाकडन कोणतरी आसा. दोन चांटां घालून फुडें गेलों. एक घागऱ्या-पोलकांतलें

चेडूं आनी एक व्हडलोसो चेडो थंय आंबुल्ले मुळांत काळखांत शीं उबीं आशिल्लीं. घोंटां सोदूंक आयिल्लीं जावंये. हांवें लागीं वचून दोनूय हात फुडें करून विचारलें, घोटां जाय? दोनच आसात. पोरांटी जाल्यार धांवन येतासलीं. हीं थंयच उबीं. वयल्यान ताणें म्हळें, ''दोन आहात म्हुजे हातींत. तूं वोस आतां.'' आनी म्हजीं फकाणां केल्लेवरी तो हांसलो.

म्हाका ताजो रागच आयलो. ताचे दोनूय हात त्या चेडवाच्या उकत्या पोल्कांत आसले. घोटां खंय तर?

दाखय पळोवंया? म्हणीत हांव फुडें सरलों. त्या चेडवान एक हात तोंडार दवरिल्ल्यान तें रडटा बी काय दिसलें म्हाका.

''तूं वोस...'' ताणें आवाज चिड्डून म्हळें.

ताका जाय म्हूण हांव कित्याक वचूं? इतल्यान दारांतल्यान मांन मारिल्लो उलो कानार पडलो. देखून गेलों.

दोनूय घोंटां मांच्या हातांत दिवन सांगलें, आंबुल्ले मुळांत मगे दोग जाणां उबीं आसात. घोंटां जाय काय विचारल्यार तो सांगता दोन घोंटां मेळ्ळ्यांत खंय ताका. ताचे हात तर त्या चेडवाच्या पोल्कांत आशिल्ले. फट कित्याक मारली ताणें?

मांन तकली भायर घालून दोळे बारीक करून पळयलें. ''काळखांत कांय दिसना - घोंटां चोखता काय मुड्डिता तो! तूं यो भितर.'' तिणें दार घालें आनी ताका मेळिल्लीं घोंटां पळोवपाची म्हजी इत्सा जिरून गेली.

आमच्या दारांतल्यान पळयल्यार वड आनी घोंटीण त्या दोगांभाशेन लागीं लागीं उबीं आसात शें दिसतालें. आंबुल्लेचीं घोटां झडनाफुडें भुरगीं येवन फारायतालीं. पूण वडफळां मात थंयच शिंवरून उरतलीं. वड आनी घोंटीण गजाली करतात अशें म्हाका दिसतालें. वड उबो वाडिल्लो आनी दाट पांचव्या पानांनी लडलडिल्लो. ताची रसणाय पळयतकच म्हाका लग्नावेळार न्हवरो जाल्ल्या धाकल्या मामाची याद येताली.

एक दीस वडाक म्हाका कितें सांगन दिसलें आसुंये. एक वडफळ म्हजे

तकलेर घप्प करून पडलें. त्याच वर्सा घोंटीण खुब्ब लागली. पयल्यान आशिल्ल्या वडाची व्हंकल कशी ती दिसली म्हाका. मनांत आयलें लेगीत- वाड्या वयल्या भुरग्यांक आफोवचीं आनी वडा-आंबुल्लेची व्हाड्डीक लावची. त्या दिसा घोंटांचें सांसंव करचें आनी वडाच्यो खोलयो भरून भुरग्यांक वांटचें.

एक दीस सांजेर वाव सुटलो. धप धप करीत रासभर घोंटां झडलीं. मांन वच म्हणचे पयलीं पिशवी घेवन हांव भायर पावलों. सगल्या भुरग्यां वांगडा घोंटां पुंजायतना म्हाका मज्जा आयली. पिशवी भरून घरा हाडलीं जाल्यार घांटयांल्या भुरग्यांनी चड व्हेलीं म्हूण ताणशेत रावली. डॅडीली स्कुटर दारांत पावचीच आसा, मांन कागाळ केली.- ''सगलीं घांटयांलीं भुरगीं येवन घोंटां पुंजायतात. ते परस कोणूय मनीस कोबलें घेवन आफय आनी काडून घे.''

''तुका कित्याक तीं सांसंव करपाक मू?'' डॅडीन कपलाक मिरी घाली.

''विकूंक तरी मेळटलीं.'' मांन वेव्हार पळयलो.

''म्हाका विकूंक बस म्हणटा?''

पूण डॅडीन दुसरोच वेव्हार पळयलो. कोणाक तरी हाडून ती घसघशीत वाडिल्ली आंबुल्ली दाखयली. फुडले आठ धा दीस आमी झडिल्लीं घोंटां पुंजायलीं तितलीं. मागीर ती आंबुल्लीच कातरपाक गेली. वड बाबडो एकटो पडलो हाचें म्हाका चड दुख्ख जालें.

देवू कोण म्हाका खबर नासली. खूब उसरां पळयलो ताका. डॅडी देवूविशीं उलयतनां देवा इतल्याच भावार्तान उलयतालो. देवूक तो 'बाबा' म्हणी. बाबाक विचारिनासतनां तो कांयच करिनासलो. हांवें ह्या देवूक उपरांत खूब उसरां पळयलो. डॅडी ताका मेळपाक शेनवारा सांजचो बी वतालो. 'तो घाडी' म्हूण मांन म्हाका सांगलें. घाडी म्हळ्यार कितें तें म्हाका कशें कळचें? डॅडी केन्नाय मुडांत आसल्यार बाबाविशीं सांगतालो. 'आयज बाबा बरोऽ कुदलो.' 'कोंब्या मान दी म्हळां.' 'आयत्या-बुधवाराचें सूर रोंट चुकलां म्हूण वाठाराचो डूख धरून आसा.' म्हाका तांतलें कांयच कळनासलें. पूण डॅडीली सांगपाची तरा पळोवन ताची नक्कल करची शें दिसतालें.

म्हाका चवथें लागलें तेन्ना मांन डॅडीक याद करून दिल्ली– 'ताका आतां केजीक घालूंक जाय.' म्हाका आतां केजी म्हळ्यार कितें तें पळोवपाचे वेध लागले. पूण एका शेनवारा राती उसरां आयिल्लेकडेन डॅडीन म्हजे हुजीर मांक सांगलें, "बाबुच्या कपलांत शिक्षण ना म्हणटा बाबा."

"अशें कितें तर? सगलीं भुरगीं तर वतात–" मांन विचारलें.

"म्हाका नाका तर तो शिकिल्लो?" जाण्टेपणांत ताणेंच पोसपाक जाय आमकां. शिक्षणा बगर कशें जातलें? पूण तसो योग ना ताका तो तरी कितें करतलो?"

“असोच घरांत बसोवपाचो ताका?”

“बाबान सांगलां- स वर्सां जातकच धाड म्हूण शाळेंत. तो मेरेन अक्कल येता जाल्यार पळोवंया.” डॅडीन दोळे बंद करून बाबाक नमस्कार केलो.

“ताका वेळार शाळेंत धाडलो नाजाल्यार वाट लागतली ताची.” मांक म्हजे विशीं आशिल्लो हुसको पळोवन म्हाका बरें दिसलें.

“ताका शाळेंत धाडटकच फाटल्यान तुका रान मेकळें. तेन्ना तुजी वाट लागतली ती कितें उकत्या दोळ्यांनी पळोवं?” डॅडीले दोळे आतां तांबडे जावंक लागले. मांन विशय थांबयलो. आनी हाचे फुडें केजी पळोवंक मेळची ना इतलें म्हाका समजलें.

दनपारच्या वेळार पैस खेळपी भुरग्यांचो आवाज कानार पडटालो तेन्ना हांव जनेलांत उबो रावन भायर पळयत रावतालों. केन्ना दोग केन्ना तीग म्हजेच पिरायेचे भुरगे खेळटनां दिश्टी पडटाले. केन्ना कोंडेबाल्लांनी, केन्ना लगोऱ्यांनी. केन्नाय तांगेलो बॉल वा तांगेलें बाल्ल जनेला कडेन पडटालें तेन्ना तांचीय नदर म्हजेर पडटाली. मागीर ते हात करताले. म्हजो हात वयर सरतालो आनी आपशींच सकयल येतालो. आमोरेचेर ते वतकच हांव तांचो तो खेळ मनांतल्या मनांत खेळटालों. सकाळीं डॅडी वतकच भायले दोन ल्हान वाटकुळे गुंडे घेवन एकमेकांचेर मोखून मारतालों. म्हजेच कडेन खेळपांतय मजा येताली.

एक दीस ते दोग जाण गड्ड्यांनी खेळटाले. एकल्यालो गड्डो जनेला वटेन आयलो. ‘मार पेणो’ गड्ड्या फाटल्यान आयिल्ल्या भुरग्यान दुसऱ्याक सांगलें. ताणें जर पेणो मारिल्लो जाल्यार आमचे वण्टीक आपटून ह्या भुरग्याक आयतो लागीं मेळटासलो. दुसऱ्या भुरग्यान गड्डो थंयच कुशीक उडयलो. गड्डो काडपाक आयिल्ल्या भुरग्यान म्हाका विचारलें, “येता

खेळपाक?''

हांवें सांगलें म्हजेकडेन गड्डो ना.

''बिश्टो पळोवपाक यो-'' अशें म्हणून गड्डो मिलाचे दिकेन उडोवन तो थंय धावलो.

हांवें वचून मांक विचारलें, ''मां हांव भायर खेळपाक वचूं?'' मांली न्हीद जाल्ली पूण दोळ्यांवयली झेम वचूंक नासली. तिणें मानेनच वच म्हळें मात, हांवें दार काडून भायर धांव मारली. तांचो खेळ पळयत उबो रावलों.

'वीऽऽस-' निमणो पेणो मारून तो जिखलो. ते दोनूय गड्डे तागेले जाले. मागीर बोल्सांत गड्डे खुळखुळायत दोगूय म्हजे सरीं आयले. ''हांव रवी, हो पिटू- तुजे नांव कितें?''

हांवें नांव सांगलें, ''बाबू.'' विपीन म्हूण एक नांव आसा हें म्हाका खबर आसलें. पूण तें नांव म्हजें शें दिसनासलें. म्हजेकडेन गड्डे नात म्हूण सांगतकच एकल्यान विचारलें, ''तूं क्रिकेट खेळटा दिसता!'' ना म्हूण आयकतकच दुसऱ्यान विचारलें, ''फुटबॉल?'' कसलेच खेळ खेळना म्हूण सांगलें तें तांकां खरेंच दिसलें ना.

''स्कुलांतूय खेळना?''

हांव स्कुलांतच वचना म्हूण कळटकच ते चडच अजापीत जाले. तांका म्हजी काकुळट दिसली तें म्हाका आवडलें ना. रवीन पिटूक सांगलें, ''तूं दोन डाव हारलो. आतां तूं हेचे लागीं खेळ. मागीर तूं जिखतलो नवो गड्डो.''

''हांव खेळना. म्हजे कडेन गड्डो ना.'' हांवें सांगलें.

''हांव उधार दितां तुका. खेळून जातरी दी म्हाका परतो.'' रवीन गणीत मांडले. ताचेर पिटू हांसलो, ''तेजेर गेम पडटरी तेगे गड्डो म्हागे जातलो. तो तुका खंयचो दितलो?''

''तें आमचें आमी पळयतले.'' रवीन म्हळें. हांव नाका म्हणटनाय गड्डो हातांत चेपलो आनी म्हाका खेळाचे नेम सांगपाक लागलो. जमनीर

मूठभर घाल्ल्या वाटकुळ्या फोणकुलाक मील म्हणटात. गड्ड्यार गड्डो मारप म्हळ्यार पेणो, गड्डो मिलांत आसल्यार दुसऱ्याक पेणो मारूंक मेळना. मिलान सुरवात, अठरावो पेणोच मारपाचो, एकुणिसावें मील आनी विसाव्या पेण्यान गेम जिखप.

आनी हांव खेळ्ळों. मील-पेणो, पेणो-मील करीत हांव सतरांचेर पावलों तेन्ना पिटूले आठ गूण जाल्ले. म्हगेले अचूक नेम पळोवन तांचे इतलोंच हांवूय अजापीत ज़ाल्लों. गड्डो पयस पयस उडोवन पिटून गेम लांबयली इतलेंच. पूण तो आठांचेर आसतनांच हांवें विसावो पेणो मारून गेम जिखली. पिटूलो गड्डो बॉल्सांत घालून हांवें रवीलो गड्डो रवीक परतो दिलो.

रवी पिटूक कोलावपाक लागलो तेन्ना पिटून ताकाच हुसकायलो, 'तूं तेजे लागीं जिखून दाखय चया!''

रवी वाटच पळयतालो. गेम जाली. तीय गेम रवी पंदराचेर आसतना हांव जिखलों तेन्ना पिटून ताळयो मारल्यो.

हांवें म्हळें, ''आमी तिगूय खेळुंया. गड्डे मोखून. जिखप-हारप ना. पेणे मेजप ना. फकत खेळुंया.'' दोगूय खूश जाले. उपरांत आमी खूब वेळ खेळ्ळे. डॅडी घरा येवचे पयलीं घरा पावपाक जाय म्हणून सांगलें तेन्ना रवीन म्हाका विचारलें, ''तूं डॅडीक भियेता?''

हांव गोंदळ्ळों. भियेवप म्हळ्यार कितें काय? हांवें खरें तें सांगलें- ''हांव नकळो''.

त्या उपरांत सद्दां हांव तांच्या वांगडा खेळपाक लागलों. खेळपय जाता आनी गड्डे वगडावप जायना देखून पिटू खुशाल आसलो. म्हळें लेगीत ताणें- ''तूं येयलल्याक मुरे खेळपा घोस्त येता. आतां आमी जिखपा पासत खेळनाय, खेळपापासत खेळटाय न्हूं रे?'' एक दीस पिटू आयलोच ना. हांव आनी रवी गड्ड्यांनी खेळटां खेळटां खबरी मारतना रवीन मदींच विचारलें, ''आयेन म्हाका एक कील तांदूळ हाडपाक सांगिल्लें. दुडू हाडपाक विसरलों. घरा वचून घेवन येतां. तूं येता?''

पळय जाल्यार इगर्जे बांदार आशिल्ली धाकलीशी खोंप. तेंच तांचें घर. रवीची आवय घराच आसली. ''हो रे तो बाबू?''

रवीन पयलीं म्हजे विशीं तिका सांगिल्लें जावंये. म्हज्या केंसांतल्यान हात भोंवडायत तिणें म्हळें, ''काकुळट, भुरगेपण सांडलां तेजें. चलात बाबा, खेळात.''

गड्डे शेणटात तें कळटालें. भुरगेपण शेणप म्हळ्यार कितें काय!

रवी वांगडा खबरी मारीत आमच्या घरा वटेन आयलों. म्हगेलो परतुपाचो वेळ जाल्लो. रवीन म्हळें, आपूण म्हाका घरा मेरेन पावयतां. मांन दार काडलें तरी आमच्यो गजाली सोंपूंक नासल्यो. रवी म्हजे वांगडा घरांत भितर सरिल्लेकडेन डॅडी पावलो. ''कोण हो? हांगा कसो पावलो? तुजी हिम्मत कशी जाली हाका घरांत हाडपाची?'' डॅडीलो अवतार पळोवन रवीचीं बेअरिंगां कणकणलीं. ताणें धांव मारली.

त्या दिसाच्यान रवी घराच्या आयल्या पयल्यान खंयच दिश्टी पडलो ना. आठ दीस हांव जनेलांत रावन वाट पळयली. पिटू लेगीत झळकलो ना. घडये तांणी खेळपाची सुवात बदलिल्ली जावंये.

दोन गड्डे म्हज्या बोल्सांत आशिल्ले. म्हजे, हांवें कमायिल्ले. दनपारची मां आड पडटकच हांव भायर गड्ड्यांनी खेळपाक लागलों. एकलो खेळपांतूय आनंद मेळटालो. करतां करतां गड्डे म्हजे कडेन खेळपाक लागले.

उगडासांतल्या त्या दिसा एक गड्डो झिली लागीं पावलो. ताका पेणो मारपाक हांवें गड्ड्याचो हात वयर उकलिल्लो मात फुडल्या गड्ड्याकडेन सोरपान फॉस्स केलें. वांवभर तरी आसतलो. फोडो वयर काडून म्हाकाच पळयतालो. तागेली तिकतिकीत कात आनी शिडशिडीत आंग हांव पळयत उरलों. लक्तुबायेचे दोन दोळे म्हाका न्हय म्हज्या हाताक पळयताले. हांव गड्ड्याचेर पेणो मारल्यार ताका लागूं येतालो. म्हजो हात आपसूक सकयल आयलो आनी ताचीच वाट पळयतालो अशे तरेन सोरपान फोडो मेटलो आनी सुळसूळ करीत दुसऱ्या झोपांत रिगलो.

“बाबू, बेगीन घरांत यो.” मां जनेलांतसून पळयताली जावंये. हांवें पेणो मारलोच आनी तो जुस्त लागलो हे खोशेन हांवें दोनूय गड्डे उकलून बोल्सांत घाले आनी भितर सरलों.

डॅडी आमोरेचेर घरा येनाफुडें ताका च्या दिवचे पयलीं मांन ताका सोरपाची खबर सांगली.

“सोरोप कांय दिवोड?” डॅडीन बारीकसाण घेतली.

“सोरोपच. थुमेकाल. आमोरी जाल्या.” आमोरेचेर सोरपाचें नांव घेनात म्हूण मागीर कळ्ळें म्हाका.

“व्हडल्या घरचोच तो. येद्दो फोडो काडिल्लो पळयला हांवें.”

“खंयचेकडेन दाखय-”

मांन जनेलाकडेन व्हरून ताका ती सुवात दाखयली. मागीर डॅडी म्हजेवटेन घुंवलो, “अवचिन्ना, तूं भायर खेळटालो? आनी गड्डे कोणे दिले तुका? हाड ते हांगा.” म्हगेले, म्हजे जोडीचे दोनूय गड्डे डॅडीन झोमून घेतले. “पर्थून केन्ना दारा भायर वचचो ना.” अशें म्हणून ताणेंच उठून धड्ड करून जनेल बंद केलें. त्या उपरांत म्हाका तें उकतें करचें शें दिसलेंच ना.

गड्डे गेले. दार आनी जनेलूय म्हाका बंद जालें. पूण डॅडील्या कपलार मिरयो कित्याक पडल्यो कळ्ळें ना. उकत्यार भोंवपी आनी बिळांत रावपी त्या सोरपाक व्हडल्या घरचो कित्याक म्हणटात आनी थंडसाणीन आपले वाटेन गेल्ल्या त्या जिवाण्याची भिरांत कसली असले प्रस्न म्हजे सल्पबुद्दीक पडत रावले.

डॅडी बरोच धास्ताविल्लो जावंये, “वाठाराचोच तो. दुखावलो ना जाल्यार पुरो. बाबाक सांगूक जाय आतां- कितेंय करणी कर म्हणून.” आनी मागीर ताणें मांक फर्मायलें, “बुधवारा याद कर म्हाका- सूर रोंठ दवरपाक.”

सगलीं भुरगीं सरकींच आसतात अशें भुरगेपणांत म्हाका दिसतालें. पूण मुळावे शाळेंत पावल्या उपरांत एक गजाल जाणवली. सगले डॅडी सारके नासतात. सगल्यांल्यो मां एके भाशेनच्यो आसनात. मुळावे शाळेंतसून एक गजाल स्पश्ट मानून घेतिल्ली. आपापणाल्या पालकांचो आपणे ते आसात तसो स्विकार करूंक जाय.

पयल्याच दिसा हांव शाळेंत पावलों तेन्ना कोणे तरी म्हळें, 'मास्तर आयलो'. भुरगीं खुक्क करून हांसलीं. हांव बसलों. तें म्हाका म्हणिल्लें म्हूण कळ्ळें म्हाका. हेर सगलीं भुरगीं पिरायेचीं पांच वर्सां पुर्ण करून शाळेंत आयिल्लीं. हांव मात स करून. दुसरे फावट 'मास्तर' आयकलें तेन्ना कोण म्हळें काय तें पळोवपाक उठलों. हांव तसो रागान बी उठूंक नासलों. पूण म्हाका पळयना फुडें सगलीं भुरगीं 'तो हांव न्हय' म्हूण दाखोवपाक तें म्हणपी भुरग्या कडेन पळोवपाक लागलीं. म्हणपी भुरगो तकली लिपोवपाक लागलो. म्हजो जावोस पळोवन भियेलो आसूंक जाय. पर्थून केन्ना कोणे कांय म्हळें ना.

शालेय पुस्तकां भायर आनिकूय पुस्तकां आसतात हें म्हाका खबर नासलें. पुस्तकांतले पाठ म्हाका वाचूंक आवडटाले. पूण एक दीस पुस्तकांच म्हाका सोदीत आयलीं. आनी अजाप म्हळ्यार - डॅडीच्या

हातसून पिंदपाचीं वांटावलीं.

मुळावे शाळेंत शिकतनांची गजाल ती. हांव तेन्ना तिसरेक आशिल्लों. नवें वर्स लागिल्लें. इगर्जेच्या मैदानार स्कुलाचें वर्सुकी गॅदरिंग चलतालें. खेळाच्या दोनचार वेंचीक सर्तींची फायनल गॅदरिंगाच्या वेळार दवरपाची चाल आसली. धांवपाचे सर्तींत हांव हे निमणे सर्तेंत पाविल्लों. चीफ गेस्ट आयलो आनी सर्तीची घोशणा जाली.

"पळय तूं. रॉय जिखतलो ही सर्त." धांवपाक सुरवात करचे पयलींच म्हऱ्यांत आशिल्लो गॅरी फुतफुतलो.

"तो पयलो आयल्यार तो जिखतलो." हांवें खांदे वावडून म्हळें.

म्हणसर सगल्यांक तयार रावपाक सांगलें. पिल्लूक जाली आनी सगले धांवंक लागले. हांव हेवटेन तेवटेन पळयनासतनां धांवतालों. मेरेवयले कांय भुरगे 'रॉय, रॉय' म्हूण आड्डताले. तो काय म्हजेमुखार नाशिल्लो. इतल्यान पिल्लूक वाजली. सगल्यांक थांबयले. म्हज्या फाटल्यान धांवपी रॉय ग्राउंडार उडयिल्ले सुतलेक घुस्पून पडिल्ल्यान रेस पर्थून घेवपाचें रेफरीन थारायलें.

एक, दोन, तीन, गो– हांव सुटलों. म्हजे मुखार कोणच नाशिल्लो. फाटल्यान रॉय आनी ताच्या फाटसून हेर. हांव पयलों आयलों. पूण रेफरीन येवन म्हाका सांगलें– "तूं आउट. पिल्लूक मारचे पयलींच तूं धांवपाक सुटलो." आनी रॉय सर्त जिखलो म्हूण जाहीर केलें. लोक वग्गी रावले. थोड्या भुरग्यांनी ताळयो मारल्यो.

गॅरीन कानाकडेन येवन सांगलें– "चयलें मुरे तुवेन? रॉय त्या आमदारागे चेडो. तोच जिखपाचो. तेगे डॅडी आज चीफ गॅस्ट–"

हांव अजापलों. अशें कशें जावं येता? खातरीन हांव पिल्लूक जातकूच धांवंक लागिल्लों. हें समा न्हय–

रॉयाक इनाम दिवन जायनाफुडें मुखेल सोयरो उठलो आनी ताणें जाहीर केलें, "सर्तेंत पयलो येवपाचो तो डिस्कालिफाय जाला. पूण बरो धांवला देखून तेका म्हुगेलें स्पेशल प्रायझ.– दोनशीं रुपये."

आनी म्हजें नांव घेवन म्हाका आफयलो. म्हजो पांय उकललो ना.

"चल, तुका आफयतात." गॅरीन म्हाका धुकललो. पूण म्हजे पांय घुंवले. सगल्यांक फाट करून हांव ग्राउण्डा भायर चलत रावलों. धांवचें शें दिसतालें. वळिल्ल्यो मुठी शिंवशिंवताल्यो. दोळे कपलांतल्यान भायर उडकी मारूंक सोदताले.

फाटल्यान कोण तरी म्हज्याय परस नेटान येतालो. पूण हांवें फाटीं पळयलें ना. ताणें म्हज्या भुजार हात दवरून म्हाका आडायलो.

"बरी कापास्दाद दाखयली तुवें. हांव जबर खोशी. यो, म्हजे वांगडा-" आनी तो म्हजो हात धरून चलूंक लागलो. खांदार ताणें हात दवरिल्लो तेन्ना तो हात फाफडून उडोवपाची वानसा जाल्ली. पूण तागेल्या धीरगंभीर आवाजान म्हजेर मोनेळ घाल्लो. तो म्हाका घेवन इगर्जे कुशीच्या पॅरीश हाउसांत गेलो. तो कुडांत घेवन गेलो तेन्ना ताच्या शर्टाचेर खोयिल्लो खुरीस पळोवन कळ्ळें म्हाका तो ते इगर्जेचो पादकूर म्हूण.

"आयज साबार लोकांमदें उबो रावन तुवेन जी धिटाय दाखयल्या तेजी हांव तोखणाय करतां...." फादर उलयतालो तांतलें अर्दें म्हजे तकले वयल्यान वतालें. हांवें जें केल्लें ताची तो तुस्त अपुर्बाय करतालो. पूण हांवें तर कांयच करूंक नासलें. वयल्यान रेफरीन केल्ल्या फटिंगपणा आड म्हज्यान तिडक लेगीत उक्तावपाक जाली ना हाचो म्हाकाच राग येवपाक लागिल्लो. आनी फादर म्हज्या सामकार बसून व्हडल्यो तोखणायेच्यो खबरी सांगतालो; "हांव जेझू ख्रिस्ताच्या नांवान सांगतां, हांव ग्राउण्डार आसुनूय हांवेन त्या फटकिन्यांआड तोंड उकतें केलें ना देखून परमेस्पराचो हांव गुन्यावकारी आसां. आनी तुजोय. देखून तुका घेयन हिंगा येयलां. म्हाका माफ कर..." आनी फादरान थंयच दिमी मारून थंय नाशिल्ल्या मुखार हात जोडले. ताचे दोळे भरून आयिल्ले. हांव भितरल्यान हाललों.

थोड्या वेळान फादर उठलो. आल्मार उक्ती करून दोन बिस्कीटी म्हज्या हातांत दिल्यो आनी विचारलें, "च्याउ पियेतलो?"

हांवें 'ना' म्हळें.

‘‘आयज लोक सत लेखिनात. फटीक मोल आसा. लोकांनीं सॅल्फरिस्पॅक्ट सोडला. फकत दुडवां फाटल्यान धांवताय. लोकांक तेणीन विकते घेयल्याय. मेंगे जाल्याय लोक तेंचे सामकार... पूण तुजेलागीं डॅरिंग आहा. तेंच्या तोंडार तूं थुंकला....’’

‘‘फादर, हांव वचूं?’’ म्हज्यान तें आयकूं नज जाल्लें.

‘‘पयलीं एक सांग म्हाका. तूं बूक वाचिता?’’

‘‘हय.’’ हांवें सांगलें

‘‘गूड. केसले वाचल्याय?’’ उमळशिकेन फादरान विचारलें.

‘‘थर्डाचे–’’

‘‘ते भायर?–’’ फादर उठलो. बुकशेल्फांतलीं दोन धाकटुलीं पुस्तकां काडून म्हज्या हातांत दिलीं. ‘‘हीं वाच. जेझू ख्रिस्ताच्यो काणयो ह्यो. बायबलांतल्यो’’.

केन्ना काय थंयसून गेल्यार पुरो जाल्लें म्हाका. तीं पुस्तकां घट्ट हातांत धरून हांवें धांव मारली तो बद्द घराकडेन. सांज जाल्ली. डॅडी निकतोच घरा पाविल्लो. घरा येतनां वाटेरच ताका कोणेतरी सांगिल्लें खंय– आमदारान बक्षीस म्हूण दिल्ले दोनशीं रुपये घेनासतना गेल्ल्यान आमदाराचो अपमान जाल्लो म्हूण. भितर सरतनाच डॅडीन म्हज्या गोलाक धरून म्हाका हालयलो– ‘‘खंय गेल्लो तूं गू खावपाक?’’

‘‘फादरान म्हाका–’’

हांव गणमणलों. हातांतलीं पुस्तकां झोमून घेवन ताणें पळयलीं– ‘‘फादरान दिल्यांत हीं तुका? तो कितें तुका क्रिस्तांव करूंक सोदता? आनी तुका त्या आमदारापरस तो फादर बगलेचो दिसलो?’’ अशें म्हणून डॅडीन पुस्तकां थंयच उडोवन म्हजे दोनूय पोले तांबडे केले.

स्कुलांतल्या भुरग्यांकडेन पळोवन पयलीं म्हाका आजाप दिसतालें.

पूण हेडपी मनाक काळखे कुडींत दावणेक बांदपाची डॅडीन म्हाका संवंय लायिल्ली. हेरांकडेन कसलीं स्कूल बॅगा आसात तें पळोवप ना. डॅडीन हाडलां तेंच खांद्याक लावप. घरांत फांती बिस्कीट आसता तेन्ना टिफिनांत फांती, मांन उकडलेंच जाल्यार तांतें. दिता तें खावप. केक, लाडू, शिरो, सँडवीच हांचो विचार लेगीत तकलेंत हाडप ना.

एका आयतारा हांवें भियेत भियेत म्हणिल्लें- ''डॅडी, आमी आयज मिरामार नाजाल्यार दोनापावला या? राजूलो डॅडी खंय दर आयतारा सगल्यांक घेवन कळंगुटे ना जाल्यार बोंडला बी वता.''

ताचेर डॅडीन सांगिल्लें, ''आयतार हो सुटयेचो दीस. स दीस काम करतां तेन्ना हो एक दीस घरांत आराम करपाखातीर मेळटा. तूंय घरा राव आनी सुशेग घे.'' मागीर ताका दुसरेंच येवजलें, ''अशें कर, सद्दां सकाळीं उठून व्यायाम कर. धा सुर्यनमस्कार आनी वीस उठाबशी.''

एक उठाबस ताणें काडून दाखयली. सुर्यनमस्कार ताच्यान जालो ना. पूण म्हजे कडल्यान काडून घेतले. त्या उपरांत बरो टायमपास म्हूण हो व्यायाम म्हाका खूब आवडलो. वेळ फावलो म्हण्टरीच करीत रावलों.

पांचवेक हायस्कुलांत पावतकच कॅजेटनान म्हाका एक दीस विचारिल्लें, 'तुगेलो बर्थ डे केन्ना?' तो मेरेन लोकांलीं भुरगीं बर्थ डे बी करतात म्हण आयकल्लें. मुळावे शाळेंत एखादरो दीस कोणूय युनिफॉर्म घालिनासतना शाळेंत आयलो जाल्यार त्या दिसा ताचो बर्थडे म्हूण कळटालें. त्या दिसा वर्गांतल्या सगळ्या भुरग्यांक एकएक टॉफी मेळटाली. म्हजोय बर्थ डे आसू येता हें खबर नासलें. मां केन्नाय म्हाका म्हणटाली, ''तूं जालो तो म्हजो दुसरो जल्म.'' हांवें ताचेर केन्ना येवजूंक नासलें. एक दीस हांवें डॅडीक विचारलें, ''म्हजो बर्थ डे केन्ना? '' डॅडीन मांकडेन बोट दाखोवन नाक फुलोवन म्हळें, ''ही मरपाची वांटावली तो तुजो जल्माचो दीस,

कळ्ळें?'' म्हाका सारकें कळ्ळें ना. ''डॅडी, कॅजी विचारतालो म्हाका बर्थ डे केन्ना करतलो काय म्हणून. ताका कितें सांगू?''

कोणेय असले प्रस्न विचारिल्लें डॅडीक आवडनाशिल्लें. ''ताका सांग, तुगेल्या जल्माचो उगडास काडल्यार तुगेले आवयक मरणाचे धडेर पाविल्ल्याचो उगडास जाता- देखून आमगेर बर्थ डे करनात.''

म्हाका ताचो अर्थ समजलो ना. आनी कॅजीक सांगलें तेन्ना ताकाय.

उपरांत सवेक पाविल्लेकडेन निलेशान म्हाका आपणांगेर बर्थ डे पार्टेक आफयिल्लो. डॅडीचो मूड पळोवन डॅडीकडेन उलोवचें इतलें हांव शिकिल्लों. त्या दिसा डॅडी घरा आयलो तो शिळोणी घालीत. 'पणजे शेरेपंजाबांतलें मटण खावन येता तेन्ना वा ताका कोणूय फुलगें मेळटा तेन्ना तो असो मुडांत आसता' अशें मां म्हणटनां हांवें आयकल्लें. हांवें ल्हवूच डॅडीक विचारलें, ''बर्थ डे पार्टी आसा. निलेशान आफयला. वचूं?''

खिणांत मूड बदललो. खाल्लें तें मटण मस्तेखोर बोकडाचें जावंये! डॅडीन शिंगां दाखयिल्लेवरी निबरसाणीन सांगलें, ''खबरदार हागेर तागेर गेलो जाल्यार.'' मागीर बगलेक येवन म्हज्या कानाक पिवळ घालून फर्मान सुनायलें, ''तूं केन्नाच कोणागेर वचचो ना. आनी कोणाक घरांत आफोवचो ना.''

डॅडीली शिस्त फकत म्हजेच खातीर नाशिल्ली. चुकून पावपी मामा आनी मां बरी ना जाल्यार येवपी कॉश्ताबीर दोतोर सोडल्यार कोणच आमगेर आयिल्ली म्हाका याद जायना.

चवथ, दिवाळी, नातालां ह्या परबांचो संबंद फकत सुटयांकडेन आनी भायल्या संवसारा कडेन इतलें हांव जाणा आसलों. पूण एक दीस नातालांची परब हुमरो हुपून घरांत भितर सरली. दार काडलें डॅडीन. ''मॅरी ख्रिसमस.'' म्हणीत ती भितर येवंक लागली.

''आमी हिन्दू.'' डॅडी आतां तापतलो शें दिसलें.

तिणें केक आनी कुकीस आशिल्ली मॉंजिनीस बरयिल्ली पोती फुडें काडली. ''वी आर नसरानी. तमीळ ख्रिस्चन.'' तिणें सांगलें.

हांव डॅडी फाटल्यान उबो आशिल्लों. ''टेक. टेक.'' तिणें म्हाका पळोवन म्हळें. आनी डॅडी मुखार उजवो हात धरलो, ''आय ॲम एल्सी.''

म्हाका दिशिल्लें डॅडी तापतलो. पूण पळय जाल्यार डॅडीन तिका हात दिलो आनी म्हाका फर्मायलें, ''पळयता कितें भोट्याभशेन. घे ती पिशवी.'' हांव अनमनत फुडें सरलों.

''हॅलो बॉय. यू लूक गूड. टेक.'' अशें म्हणीत तिणें म्हज्या पोल्याक हात लायलो, ''वीच क्लास यू आर ईन?''

''सिक्स्थ!''

''अय्योय्योऽ, ओन्ली सिक्स्थ?'' मागीर तिणें डॅडीक सांगलें. आपणांक तो व्हडलो सो दिसलो.

म्हाका ती धाकले मामी भशेन दिसली. पूण रंगान काळशी. गळ्याकडेन

सकयल देंविल्लो धवो हातकापो ब्लाउज, तांबशे बोर्डरीची धवी साडी, गळ्यांत नाजूक भांगरा सरपळी आनी सरपळेक एक दावल.

केंस मानेर सोडिल्ले आनी कानावयर केंसांत पूल खोयिल्लें. म्हाका तिचें हांसप आवडलें. तिगेली मुस्तायकी आनी उलोवपाची तराच सांगताली ती मद्रासी जावंये म्हूण. डॅडीन तिका दाराकडेनच कदेल दिलें. ''नो, नो. ॲम गोइंग''अशें म्हळें. पूण हालली ना. आवाज आयकून मां भितरल्या दाराकडेन येवन राविल्ली. पूण भायर आयली ना.

''मद्रासी?'' डॅडीन विचारलें.

तिका तें आवडलें ना शें म्हाका दिसलें. पूण ती हांसली. ''आय ॲम श्रीलंकन. बट माय हज्बण्ड इज तामिलियन.'' आपलो घोव हालींच ट्रान्सफर जावन गोंयां आयला. आनी आपूण पास्कोआलाच्या घरा फाटल्या रो हाउसांत रावतां म्हूण सांगलें. वयल्यान 'एक दीस येयात कॉफी पिवपाक' म्हूण उकतें आमंत्रणूय दिलें. वतां वतां घुंवली आनी डॅडीक सांगलें, ''घोव कामार वतकच आपूण बोअर जातां. बाबूक धाड आमगेर. ताचो अभ्यास घेवपाक लेगीत म्हाका आवडटलें.'' आनी पर्थून पोल्याक हात लावन म्हाका सांगलें, ''फाल्यां यो. हांव तुका बरी कॉफी दितां.''

ती गेली ते दिकेन डॅडी पळयता तें पळोवन मांन मोट्यान म्हळें, ''बाबूक आफयला तिणें. तुका न्हय.'' आनी डॅडी तापतलो शें दिसून भितर गेली.

हाचे पयलीं अशें केन्नाच घडूंक नासलें. आमगेर कोण पावनासले आनी आमकां कोण आफय नासले. 'मॅरी ख्रिसमस' तर ह्या घरान पयलेच फावटी आयकल्लें. त्या दिसा सगल्यांच्या पोटांत जेवण उणे आनी केक चड गेलो.

दुसऱ्या दिसा हांव उमेदीर आशिल्लों ती येतली म्हूण म्हाका व्हरपाक. म्हज्यान वचूं येतालें. पूण जाय तेन्ना जाय थंय वचपाची म्हाका मेकळीक नाशिल्ली. तरी मदीं हांवें मांक विचारलें, काल आयिल्ली तिगेलें घर पयस कांय ना, हांव वचूं काय म्हूण. पूण मांन स्पश्ट सांगलें– ''तिणें

यो म्हळें आनी तूं फुललो वचपाक. म्हाका जाल्यार ती तिट्टिटी बायल शी दिसली!''

तिट्टिटी म्हळ्यार कितें तें हांवें मांक विचारलें ना. सांजे डॅडी घरा येतकच ताका विचारलें. ''तिका सगल्यो बायलो आपणांभशेन दिसतात.'' ताणें म्हळें. म्हाका म्हज्या प्रस्नाची जाप मेळ्ळी ना. पूण 'पर्थून आफयल्यार वच तूं' म्हूण सांगलें. दोन दिसांनी सांजच्या चारांक सुमार ती आयली. हे खेपेक तिणें लांब घागरो आनी धवो ब्लावज घाल्लो. केंस मानेर सोडिल्ल्यान निकतीच न्हावन आयल्या शी दिसताली. ''व्हेअर इज अम्मा?'' विचारतासर मां भायर आयली. हांतांतलें मिठायेचें पाकीट मांच्या हातात दिवन तिणें म्हळें, ''स्पेशल मद्रासी स्वीट.''

मांन बॉक्स घेतलें. ती मद्रासी काय बरी हांशिल्ली तरी मांचें तोंड मख्ख उरलें. तिणें म्हजो हात धरून 'कम. आय वील गीव्ह यू स्वीटस.' म्हळें आनी मांक विचारलें तेन्ना मांन नाका म्हळें ना. देखून हांवूय उडकी मारून तिचे बराबर गेलों.

तिका उलोवपाक खूब जाय आसलें. खबरी मारीत तिणें आमचेखातीर कॉफी केली. कॉफी जातासर म्हाका एक वेगळोचसो लाडू दिलो. तुपान थपथपिल्लो आनी तोंडार मारपा इतलो गोड. मागीर कॉफी हाडून मेजार दवरली आनी म्हज्या हाताक धरून ओडून आपले मांडयेर बसयलो. मांचे मांडयेर बशिल्ल्याचें म्हज्या उगडासांत नाशिल्लें. परकी बायलेचो तर वास लेगीत पळोवंक नासलो केन्ना. लाडू सोंपोवन हांवें कॉफीक हात घालो तेन्ना तिणे बेगबेगीन हात ओडलो. ''नो,नो. कॉफी इज हॉट. वेट.'' अशें म्हणून म्हाका घट्ट धरून म्हजी पापी घेतली. तो अणभव म्हाका वायट सो दिसलो ना. तिचे कडेन कितें तरी उलोवचें शें दिसतालें. तिका उलो कितें मारचो कळ्ळें ना. टिचर? ताई? म्हाका मामीची याद जाली. ''मामी'' म्हणनाफुडें ती उसळ्ळी, ''नो. नो. कॉल मी एल्सी. सिंपली एल्सी.'' पूण नांवान उलो मारप म्हाका मानवलें ना. मागीर मेजार आशिल्ल्या फोटवाक बोट दाखोवन हांवें तो कोण काय विचारलें.

“माय हजबण्ड.” म्हाका तिच्या भुरग्यांबद्दल विचारपाचें आसलें. कशें विचारचें?

“बेबी?” तिकाच बोट दाखोवन हांवें विचारलें.

“नो बेबी.” तिच्या तोंडार थोडी निर्शेणी दिसली म्हाका. मागीर ती पर्थून हांसली, ” यू प्ले वीथ मी. ओके?”

मागीर तिणे कॉफी फूंक मारून न्हिवयत म्हाका पिवयली. “लायक इट? फिल्टर कॉफी; मद्रासी स्पेशल.”

आमगेर म्हाका काफी-सवादांचें उदक मेळटालें. डॅडी-मां चडशीं च्याच पियेतालीं. पूण भुरग्यांक च्या वर्ज्य आशिल्ल्यान ती रूच पळोवंक नासली. असली कॉफी मात पयलेच खेपेक पियेल्लों.

“यू लायक्ड कॉफी?” तिणें पर्थून विचारलें. वायट शी लागूंक नासली. हांवें ‘हय’ म्हळें. ते बराबर तिणें पर्थून म्हाका घट धरून पापी केली. मागीर तिणें खेळ भायर काडलो. इस्पीकांचो काट आनी सोरोप-निसणीचो बोर्ड.

“प्लेयिंग कार्डस?” तिणें विचारलें. हांवें ‘ना’ म्हळें. पूण सोरोप-निसणीच्या खेळाक ‘आं’ म्हळें.

“कमॉन, लॅट अस सीट ऑन द बॅड.” आमी कॉटीचेर बसलीं. उमळशिकेन हांवें आसरमांडी घाली. तीय बाजेर एक पाय दोडून बसली. मागीर थंयच आमी खेळ मांडलो. खेळटनां दरेक दान पडटकच ‘ओह नो’, वा ‘आयोय्यो’ वा ‘व्हेरी गुड’ बी म्हणटाली तें आयकुपाक म्हाका मज्जा येताली. केन्ना चड उलोवपाची संवय नासली तरी त्या दिसा हांवूय उमेदीन ताळी मारतालों. पयलोच डाव हांव जिखलों तेन्ना म्हजेपरस चड आनंद तिका जालो. तिणें म्हाका हड्ड्या कडेन धरून इतलो आंवुळ्ळो की हांव फुगारच जालों. दुसरो डाव खेळटना मात खेळ मोडचो पडलो. फासो उडोवन म्हाका स चें दान पडलें आनी घूल स घरां फुडें काडून पळय जाल्यार फासो ना. सोद सोद सोदलो. सकयल पडूंक नासलो. बाजेरच आसपाक जाय. तिणें म्हजे पांय वयर उकलून म्हज्या कुल्यां

पोंदा बी पडला जाल्यार सांसपून पळयलें. मागीर म्हाका सोदपाक सांगून आपले पांय वयर काडले. हांवें ज्युस्त पळयलो. फांसो तिच्या स्कर्टांत दोनूय जांगडा पोंदां गेल्लो. हांवें काडनाफुडें तीय खूश जाली. पर्थून म्हज्या हाताची पापी घेवन तिणें आतां पुरो म्हळें. हांव थोडो निर्शेलो जावंये. तिणेंच फुडें म्हळें, ''कम टुमारो. वी वील प्ले मोअर, ओके?''

हांव घरा वचपाक उठलों. हरशीं एकलो वचपाक चड पयस कांय नासलें. पूण तिणें म्हाका आडायलो. आपूण येतां म्हळें. आनी म्हजे हुजीरच कपडे बदलले.

ते राती चमचमीत मद्रासी मिठाय खायत डॅडीन म्हाका केन्नाच न्हय तितले प्रस्न विचारले. तिचें घर कशें आसा? तिका भुरगीं कितलीं? तिचो घोव कितें करता? तागेर कामाक कोण आसा? हरशीं हांवें चड उलयिल्लें डॅडीक मानवनासलें. पूण हे फावटी म्हगेली प्रत्येक जाप ताका त्रोटक शी दिसली. नसत्यो चवकशो सोंसनात म्हूण मांक तापसाणी खावोवपी डॅडी आयज म्हजेच कडेन बारीकसाणी काडटालो. म्हाका जितलें कळटालें तितलें सांगून हांवें डॅडीक विचारलें, ''तिणें फाल्यांय यो म्हळां. वचूं?''

ताचेर डॅडीन फकत 'अं' केलें. दुसऱ्या दिसा तिची वाट पळयनासतनां हांवच गेलों तिगेर.

''कम. कम. गूड बॉय.'' अशें म्हणून तिणें म्हज्या केंसांतल्यान हात भोंवडायलो.

आंगार झिरझिरीत नायटी घालून धुल्ले ओले केंस फाटीर सोडिल्ल्यान आयज ती तिसरेच भाशेन दिसताली. ''सीट. आय वील मेक कॉफी.''

हांवें नाका म्हळें. पूण तिणें आयकलें ना. ''नो, नो. यू मस्ट टेक कॉफी.'' आनी कॉफी कशी बरी. कशी 'एनर्जी' मेळाटा, कशी 'तरतरी' हाडटा आनी कॉफीविशीं कितें कितें सांगीत रावली. कॉफी जातकच तिणें म्हाका बिस्कीट दिली. आनी बळयां ओडून म्हाका आपणांले दावे मांडयेर बसयलो. ''आय लायक यू, बाबू'' अशें म्हणून तिणें म्हाका

लागीं ओडलो आनी आपणालो पोलो मुखार करून म्हळें, ''गीव्ह मी अ मुट्टम!''

म्हाका अर्थ कळ्ळो ना तरी ती पापी मागता तें कळ्ळें. पूण तोंडांत बिस्कीट आशिल्ली. ओंठ तशेच तिच्या पोल्यार तेंकयले जाल्यार पोल्याक बिस्किटेचो चुरो लागलो. ''यूऽ, नॉटी मॅन...'' म्हणीत तिणें पोलो फाफडलो. आनी मागीर म्हजे मांडयेर ल्हवूच थापट मारलें. ''ईट फर्स्ट'' म्हळें आनी मांडयेर थापटीत रावली.

केन्ना अपुर्बाय करून घेवंक नाशिल्ल्यान म्हाका हें सगलें विचित्र दिसतालें. पूण नाका शें दिसनासलें. हांवें कॉफी घेवन जायसर तिणें म्हाका देंवपाक दिलें ना. आनी आपणेय कॉफी घेतली ना.

''आनीक कॉफी दिवं तुका?'' आपणाले काफयेचो कप म्हजेमुखार दवरीत तिणें म्हाका इंग्लिशीन विचारलें. नाका म्हणून हांव उठलों. उठलों पूण तिणें म्हाका वचपाक दिलें ना. बशिल्लेकडेन फुडें सरून तिणें म्हाका लागीं ओडून विचारलें, ''यू लायक मी?'' हांव गोंदळ्ळों. ती ना आवडपाचो प्रस्न नाशिल्लो. पूण हें म्हाका घट्ट धरप, पापी करप, मांडयेर घेवप इलें चडच जातालें. ''कम. यू लायक मी? होल्ड मी टायट!'' अशें म्हणून तिणेच म्हजे दोनूय हात ओडून आपले फाटी वटेन व्हेले. म्हजे हात गळसणले. हांव घुंवलों. पळून वचचें शें दिसपाक लागलें. ''वेट.'' हांवें फाट केल्ली तसोच म्हाका ओडलो. ''आय वील गीव्ह यू चॉकोलेट. कम.'' म्हणीत घट धरलो. म्हजें काचाबूल तोंड तिका दिश्टी पडलें ना. बशिल्ले कडेन ती म्हज्या आंगावयल्यान हात भोंवडायताली. हात हड्ड्यावयल्यान देंवन सकयल आयलो. तिणें म्हगेल्या मोटव्या कलसांवांत हात घालसर हांव नर्व्हस आशिल्लों. ''यू आर बीग, यू आर बीग'' म्हणीत ती म्हाका पोशेवपाक लागली तेन्ना मात म्हजेर आकांत आयलो. हांवें सगलो नेट काडून तिका धुकलली. कॉफीचो मग पडून फुटिल्ल्याचो आवाज आयलो. ती पडली काय उठली तें पळोवपाक रावनासतनां हांवें दार काडलें आनी घरा वटेन धांव मारली.

लजेन, रागान आनी तिका वळखुपाक फटवल्ल्यान भायल्यान म्हाका थरथरो भरिल्लो आनी हड्ड्यांतलो घुसमटमार सोंसूं नज जावन हांव फगार जाल्लों. तिणें दिल्ली कॉफी गळ्याकडेन येताली. ओंकून उडोवची शें दिसलें. पूण म्हाका सगलें फुगासांव ओंकून रितो जावपाक नाका आसलें. डॅडी येतलो आनी डॅडीक सांगतलों तेन्ना जीव थाऱ्यार घालतलों... मागीर डॅडी तिका सोडचो ना... इल्याशा कामाक मांक इतल्यो तापसाणी खावच्यो पडटात जाल्यार आतां तिका कितें करतलो काय?

डॅडीली स्कुटर सदचे वाटेन घरा आयली ना. मद्रासील्या घरा कडसून आयलो. डॅडीक पळोवन हांव उठलां मात, झां करून एक थापट म्हज्या पोल्यार पडलें, ''तिगेलें कॉफीचें कप फोडून तूं हांगा धांवट आयला?'' थापटा सरशीं गळ्याकडेन येवन राविल्ली कॉफी भकभकीत ओंकून गेली. डॅडी भितर गेलो. ताणें मांक सांगिल्लीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं- ''च्या बी करूं नाका. हांव फर्स्टक्लास कॉफी घेवन आयलां.''

त्या उपरांत हांवें एल्सीक सामकी टाळली. तीय केन्ना आमगेर आयली ना. डॅडीच केन्नाय थंय वचून येतालो जावंये. 'च्या नाका, कॉफी घेवन आयलां' म्हणटालो ताचेवयल्यान म्हाका कळटालें. त्या दिसाच्यान म्हाका कॉफी म्हळ्यारच वीट येवपाक लागलो.

फुडल्या ख्रिसमसाक मां केकाची वाट पळयताली. डॅडीन सांगलें, 'केक विसर. बिराड गेलें तांगेलें'.

म्हाका स्कुलांत वचपाक आवडटालें. स्कुलांत म्हाका कोण इश्ट मेळटाले म्हूण न्हय. पूण घराचीं दारां, जनेलां तिनूय त्रिकाळ बंद उरिल्ल्यान म्हजो घुस्मटमार जातालो. केन्ना केन्नाय मां जिवाक बरें ना म्हूण न्हिदून रावताली. तेन्ना डॅडी म्हाका फर्मायतालो, ''आज घरा राव आनी तिका आदार कर, समजलो?'' म्हाका कांयच समजना अशें डॅडीक कित्याक दिसतालें हांव नकळों. स्कूल एक दीस चुकयलें म्हूण घात जायना अशें ताका दिसतालें. तशेंच आवयक आदार करपा इतलो हांव व्हड जालां अशेंय दिसतालें. अशावेळार घरांत वावर करपाक कोणाक दवरना कित्याक तें म्हाका केन्नाच समजलें ना. कपड्यांक वॉशिंग मशीन आशिल्लें. पूण आयदनां आनी सान्न इतलें करपा खातीर वावराडी जाय आसली. मां मागीर गरजेपुरतीं आयदनां विसुळटाली आनी पयऱ्यान सान्न मारताली. घरांत कोयर दिश्टी पडल्यार डॅडी मागीर तापतालो. मांचेर पयलीं आनी मागीर म्हजेर, ''मातशी सान्न भोंवडावपाक लज दिसता तुका?''

हांव अभ्यासाविशीं सपसप डॅडीक विचारिनासलों. एक दीस सादें सिंप्लीफिकेशनाचें गणीत आसलें. हांवें डॅडीक विचारलें, ''डॅडी 'मायनस टू ए अपॉन बी' हें सिंप्लीफाय कशें करप?''

डॅडीन बूक हातांत घेवन पळयलें. खीणभर येवजिलें आनी मागीर तापलो. ''शाळेंत वचून शिकता कितें, मडें? इतलेंय कळना?''

''डॅडी, मायनस टू ए...''

“पळय, मायनस म्हळ्यार वजा, टू म्हळ्यार दोन आनी... अशें कर. फाल्यां तुगेले टिचरीक सांग- हांवें सांगलां म्हणचें- सारकें शिकय ना जाल्यार कम्प्लेन करतलों म्हूण.”

हांव गोंदळ्ळों. इतलें सोपें शें दिसलें जाल्यार डॅडीन सोडोवन कित्याक दाखयलें ना म्हाका? घडये, हांवें स्वता शिकून सोडोवचें म्हूण जायत!

एक दीस इंग्लीशीच्या टिचरान आमकां निबंद दिल्लो. ‘माय होम’. हांवें बरोवन दिलो. घर कशें दिसता, घरा भोंवतणी पोरसूं आसा पूण थंय कांयच रोयिल्लें ना. मांक माजरां आवडनात आनी डॅडीक सुणीं..... आंबुल्ली कशी लागताली, पूण भुरगीं फातरायतात म्हूण ती मारून उडयली, आतां लागीं झाडां नात देखून सुकणीं लागीं येनात. वाटेवयले चोर कोण ना शें पळोवन भितर येत म्हूण फुडलें दार बंद आनी जीवजिवाणीं येत म्हूण फाटलें बंद. किमसां बी येतात देखून जनेलां बंद...मांच्यान जायना तेन्ना घरांत सान्न मारतां... घरांत कोण येनात जाल्ल्यान म्हजो अभ्यास बरो जाता... वगैरे.

दुसऱ्या दिसा सगल्यांले निबंद तपासून नोटबूक परते दिले. म्हजो दिलो ना. हांव पुकपुकलों. मार्टीनसर केन्ना तिडकना म्हूण जाणा आसुनूय. पिरियड सोंपतकच म्हाका आफयलो आनी नोटबूक दिवन सांगलें. “म्हाका उलोवच्याक जायें. आमगेर येता सांजेर? हांव बगलेकच राबतां. घोड्या बांद काडून पयलेंच घर-”

गेलों. शॉकच बसलो म्हाका. सराची बायल भायर पोरसांत उदक शिंपताली आनी मार्टीनसर व्हारांदांत सान्न मारतालो. दादले म्हूण केन्ना सान्न मारतात? आनी सर?

म्हाका पळोवन ताणे ‘यो’ म्हळें. पूण सान्न मारपाचें थारायलें ना.

“च्याउ घेता?”

हांवें ना म्हळें, “हांव च्या घेना, सर.”

मागीर ताणे उदकाचो ग्लास हाडून तेंकयलो. च्या दी म्हळ्यार तोच करून हाडटलो आसलो काय?

मागीर बगलेक बसून ताणें म्हजी वासपूस केली. अभ्यास कसो चलला? डॅडी कितें करता? मांची खबर घेतली. 'कसलोच खेळ कित्याक खेळना?' ह्या प्रस्नाक जाप दितनां हांव घुसपलों. खेळना खरो. वांगडचे सगले खेळटात. हांव खेळना कित्याक काय? रवी-पिटूचो सांगात सुटत सावन केन्ना खेळ्ळों ना खरो.

''बुकां कसलीं वाचता?''

पुस्तकां वाचपाक म्हाका आवडटालें. अदीं मदीं टिचरी लायब्ररींतलीं पुस्तकां हाडून दिताल्यो. मनोहररायालीं कवनां, गोदुबायल्यो काणयो, काणी काणी कोतवा अशीं थोडींच वाचिल्लीं.

''इंग्लीश बुकां वाचल्यांय?''

हांवें ना म्हळें. मागीर ताणें भितर वचून दोन पुस्तकां हाडून म्हज्या हातांत दिलीं. एक आसलें 'ऑलिवर ट्विस्ट' आनी दुसरें 'टॉम सॉयर'. वाचून परतीं हाड. आनी सांग म्हाका लाइक जालीं काय ना तें. आनी घोस्ताक गेलीं जाल्यार कितें बरें लागलें तेंय सांग.''

तितल्यान मार्टीन सरालें चली हातांत बास्केट बॉल घेवन भितर सरलें. कपला वयर हॅअर बँड, धवो स्कर्ट आनी धवो टॉप- मातयेन इतलीं म्हेळीं जाल्लीं की ती मुस्तायकी पळोवन म्हाका दिसलें मार्टीनसर आतां तिका तापयतलो. पूण अजाप! ''यो बाय, खेळ बरो जालो आयज? भितर वच आनी नितळ जा. तुका सोप करून दवरला माम्मीन. तुगे जाता म्हूण्टासर येतां हांव. सोप गरम करून दितां.''

हांव उठलों. भायर सरतनां ताणें विचारलें, ''डॅडी-मम्मीक बुकां वाचपाची संवय आहा?''

हांवें 'ना' म्हळें. हरशीं निबंदांत बरयिल्लें ताणें वाचलांच आसतलें- मां टिव्ही पळयता. डॅडी ऑफिसांतल्यो फायली घेवन बसता. दारां-जनेलां घट्ट बंद आसतात. दार उगडटकच येवपी झुमझुमीत वारो म्हाका आवडटा. तितलेंच बंद जनेलांचेंय म्हाका अप्रूप....

त्या दिसा पयले खेपेक हांवें एक वेगळो सो डॅडी पळयलो. स्कूलाचो



हांवें पळयिल्लें पयलें मरण.

सकाळीं फुडें रेकाद आयलो- आजो मेलो.

मांन बेगबेगीन कपडे पोतयेंत भरले. तिचे बराबर म्हजेय. मागीर डॅडी टॅक्सी हाडपाक गेलो. मांन च्या केली. बिस्कीटी काडल्यो. म्हाका सांगलें, 'पोटभर खा. मरणाघरांत खावपाक पिवपाक मेळचें ना. जेवणां उसरां जातलीं.' मांनूय पोटभर खावन घेतलें. डॅडी हॉटेलार खावन घेतलो हें म्हाका लेगीत सांगिनासतनां कळिल्लें. सातवेची परिक्षा दोन दिसांचेर पाविल्ली. पूण अभ्यास जाल्लो आशिल्ल्यान म्हाका हुसको नासलो.

टॅक्सी आयली. म्हजे यादींत हांव पयलेच खेपेक टॅक्सींत बसलों. म्हापशां मामागेर पावलीं तेन्ना धा जाल्लीं.

मडें कशें आसता तें पयलेच खेपेक पळयलें. आज्याक सकयल शेंदरेर न्हिदायिल्लो. ताचे हात बांदून दवरिल्ले! काय म्हाका तशें दिसलें? अर्दकुटे उकते दोळे म्हाकाच चोरून पळयताले. मां केन्नाय सांगताली, 'मामा-मामी आज्याक त्रास दितात'. पूण हांगा तर आज्याच्या आंगार फुलांचे हार घाल्ले आशिल्ले. मामी खंय आज्याल्या ताळ्यार सारकें घालिनासली. पूण मामी थंय हुमसू हुमसून रडटाली. रडटां रडटां सांगताली, 'काल सकाळीं बरो उठला, च्या घेतल्या, चपात्यो खाल्यात. काल नुसतें बरें मेळिल्लें. तळिल्लीं नुसतीं सदचे परस दोन चडच मागून खाल्यांत.

हांवें केल्लें हुमण म्हजी तुस्त करीत भुरकावन जेवला. आड पडला. राती ताचेखातीर रोटयो केल्ल्यो. तोंडाक केल्लें आशिल्लें तरी दनपारचें मागून हुमणाक लावन खाल्यात. बरो न्हिदला. सकाळीं उठून पळय जाल्यार खंयचे कडेन कांय ना--' ताचेर कोणे तरी म्हळें, 'भाग्याचें मरण आयलें गे बाये. आमच्या कपलांत कसलें बरयलां देव जाणा.'

सकाळीं च्यांत बुडोवन बिस्किटी खावन शक्ती भरिल्लेवरी मांय मागीर हामेर घालून रडूंक लागली. अजापून हांव भायर पडवेर आयलों. डॅडी शेजाऱ्यांकडेन गजाली मारतालो. दोनूय माम सुतकीं तोंडां घेवन वावुरताले. आयिल्ल्या गेल्ल्याक हात दिवन आज्याविशीं सांगताले. हांवें केन्नाच आयकूंक नाशिल्ले तरेकवार गूण आज्याच्या आंगांत आसले म्हणपाचें त्या दिसा कळ्ळें. मागीर डॅडी कोणाच्या तरी कानांत सांगतनाय आयकलें, 'मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद. म्हज्यान असलीं नाटकां पळोवं नज.'

कल्पेश म्हाका सोदीत पडवेर आयलो आनी म्हजो हात धरून म्हाका भायर घेवन गेलो. केंसांचो मागो आनी आंगार रंगीत टी शर्ट घाल्ल्यान आपल्याच घरांत सोयरो कसो दिसतालो. भायर ताटी बांदताले. कल्पेशान म्हाका गायड जाल्लेवरी आज्याक हे निसणीर घालून स्मशानांत कशे व्हरतले थंय दाळिल्ल्या लाकडांचेर दवरून आज्याक अग्नी कसो दितले तें म्हाका साग्रसंगीत सांगलें. म्हाका तें पळोवपाची व्हडली शी इत्सा नासली.

हांवें म्हळें, ''हांव येतां तुजेबराबर. वांगडाच रावंया.''

''ह्यो:! आमकां वर्ज्य. बापूय जितो आशिल्ल्या कोणाकच स्मशानांत वचूंक मेळना.'' आनी मागीर एका पंदराएक वर्सांच्या भुरग्याकडेन बोट दाखोवन सांगलें, ''ओ तो उल्हास. ताका चान्स. तो वतलो स्मशानांत- ताचो बापूय मेला न्हय?''

मडें उबारता सर वेळ माथ्यार पाविल्लो. हेरां वांगडा डॅडीय गेलो स्मशानांत. मागीर मांन म्हाका आफोवन न्हावपाक धाडलो. डॅडी परतलो आनी मां कडेन आयलो.

''हांव दीस जायसर रावतलीं. तूं वच बाबूक घेवन.'' मांन सांगलें.

''आनी फुडले बारा तेरा दीस हांव ताचे फाटल्यान नाचूं?'' डॅडीलो आवाज चडपाक लागलो.

''ताची परिक्षा आसा न्हय परांच्यान--'' मां सांगूंक लागली.

''तूं रावतली थंय तो रावतलो. परिक्षा सातवेची. आठवी मेरेन फेल करूंक जायना म्हूण कायदोच आसा. कोण ताका फेल करता तें हांव पळयतां.'' अशें तणतणत डॅडी गेलो.

''आतां तुका फुडले बारा दीस रान मेकळें....'' मां पुटपुटली.

फुडले तीन दीस अशेच सरले. भायर सरूंक मेळना म्हूण व्हडलो माम पिरंगत घरभर भोंवतालो. धाकलो माम कोर्टाची कामां बुडटात म्हूण चिटमिटत फायली उस्तीत बशिल्लो. व्हडली मामी नुस्त्या बगर उंडी कशी वतली हे चिंतेन एक दीस तेंफळां तिखटें, एक दीस वोंव्या कडी, एक दीस तोरांची हुड्डमेथी अशें करून दीस मेजताली. धाकली मामी येतना वतना हारशांत पळोवन मुरगुट्टाली. मरणादिसा माथ्यार न्हाल्ली तेन्ना तिच्या लक्षांत आयिल्लें केंस माथ्यार मेकळे सोडुनूय आपूण बरी दिसतां म्हूण. तिका पळोवन म्हाका एल्सीची याद येवन आंग शिरशिरलें. मेकळे केंस फाटीर बरे दिसतात काय घुंवडावन फुडें हड्ड्यार घेतल्यार चड बरे दिसतात तें मामीन म्हाका लेगीत चार वेळा विचारून जाल्लें. कुळारा आयिल्ले धुवेन म्हूण काम करपाचें आसता अशें आपणांकडेनच म्हणीत मां हाचे ताचेकडेन वाऱ्यावयल्यो गजाली करून दीस सारताली. पयले तीन दीस भायर वचपाचें कसलेंय बारीकशें काम आसल्यार कल्पेशाक फर्मावप जातालें. तो मागीर म्हाकाय हाताक धरून ओडटालो. तारवा फाटलो पनेळ जावपाक म्हाका मात्त आवडनासलें. पूण गेलों. त्या तीन दिसांनीं कल्पेशान म्हाका नावाडगेपणाच्यो खूब गजाली सांगून म्हज्या गिन्यानांत भर घाली.

''सुटलें गिराण.'' चवथ्या दिसा दोगूय माम घराभायर सरतकच कल्पेशान म्हळें, ''आतां आनीक णव दीस उरल्यांत. मागीर सुतकूय

सरतलें.'' त्या दिसा दनपारचें जेवण जालें. आदेसभर हेडून दनपारां जेवणाक परतल्लो व्हडलो माम आड पडिल्ले कडेन घोरेवपाक लेगीत लागिल्लो. धाकलो माम वकील. तो खंय सकाळीं गेल्लो राती आठांक परतुपाचो. आतां कितें करचें हें येवजून कल्पेश खुबच अस्वस्थ जाल्लो. तोंडाक पावडर मारिल्ली, इनशर्ट केल्लें आनी पांयांत मोचे घाल्ले. घराभायर वचपाक पांय कुचकुचताले ताचे. मदींच म्हाका कुशीक व्हरून ताणें सांगलें, ''म्हाका एक काम आसा. वचून सांजे मेरेन येतां. तूं सोडून सगलीं सुस्त न्हिदल्यांत. उठटकंच विचारलेंच जाल्यार सांग- 'बाबुशान मयडोळीं केळीं व्हरपाक आफायलो म्हूण गेला'. आनी हय, केन्नाय विचारूं- आत्तां गेला म्हूण सांग.''

म्हजे जापेची अपेक्षाच नाशिल्लेवरी तो सुटलो. ताचे खातीर फट उलोवपाची म्हजी तयारी नाशिल्ल्यान कोणूय विचारीत म्हूण हांव कडेकुशीकच वावुरलों. पूण तो आमोरेचेर येय सर कोणेच वासपूस ना केल्ल्यान हांव सुटलों. येतना खऱ्यांनीच कल्पेश मयडोळी केळ्यांचो फणो घेवन आयिल्लो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं दोगूय माम भायर सरून वतकच कल्पेशान आपलें गुपीत म्हाका सांगलें.

''तूं जाणां काल हांव खंय गेल्लो तें?'' ताणें विचारलें.

''बाबुशाकडेन--''

''ह्यॅ:! बाबूश म्हणून कोण ना. हांवें तांकां सांगलां- 'बाबूश म्हूण आमदारालो पीए आसा तो म्हाका बरें करता' म्हूण. आमदारालें काम म्हूण सांगल्यार घराकडेन म्हाका कांयच विचारनात. मागीर केन्ना केळीं, केन्ना केक हाडून दितां. हीं खूश!''

''आनी मामान आमदाराक विचारलें जाल्यार?''

''आमदार आमकां भोव लागीं करता.'' कल्पेशान आपली हुशारी सांगली.

''आनी तुका म्हणून सांगतां- कोणाक सांगचो ना मरे?'' हांव

सांगूंक वचचों ना हें खबर आशिल्ल्यान तो फुडें सांगूंक लागलो, ''हांव मरे कळंगुटे गेल्लों. खंय? वेळेर न्हय. तूं हें जाणा?'' अशें म्हणून ताणें नाकाक बोट लायलें. हांव मट्ठ पळोवन ताणें म्हळें, ''तूं मरे, दिसपाकच व्हडलो दिसता. म्हजे परस चार वर्सांनी ल्हान म्हूण म्हाका लेगीत याद उरना. राव दाखयतां.'' तो भितर वचून एक पातळशें पुस्तक घेवन आयलो. कोण लागीं ना हाची खातरी करून ताणें तें उकतें करून म्हाका दाखयलें. एक बायल पांय फाकारून न्हिदिल्ली आनी वयर एक दादलो. दोगांयच्या आंगार कपडे नाशिल्ले. कोणाची तरी सुलूस लागली, कल्पेशान पुस्तक ओडलें आनी पोटांत खोयलें. व्हडली मामी आज्याले कुडींत दिवलेंतली वात सारकी करपाक गेली. कल्पेशान म्हाका हाताक धरून ओडीत भायर वारांदांत व्हेलो. आनी रंगोवन काणी सांगची तशी ती खबर सांगली.... फाटले तीन म्हयने कळंगुटे एक अमेरिकन गोरी पिट्ट बायल येवन रावल्या. कल्पेशाली पिराय अठरा जाल्यार तिची खंय चाळीस. पूण दोन भुरग्यांची आवय कशी दिसच ना. खूब पैशेकार. अश्शे पैशे मोडपी. आंगान गुबगुबीत आनी खूब फकाणेर.... ती म्हापशां बाजारांत आयिल्लेकडेन खंय तिका कल्पेश दिश्टी पडलो. ताका पळोवन हांसली. हातांत चार पिशव्यो आसल्यो. तशो ल्हव आसल्यो- फळां, बिस्किटी, केक, बिअरीचे कॅन्स बी असलें सामान. कल्पेशाकडेन तिणें हॅल्प मागली खंय- सामान घेवन तिचे बराबर कळंगुटे ती रावताली थंय व्हरपाक... त्या दिसाच्यान सप्तकांतल्यान दोन दीस ती ताका आफयता आनी तो वता. मागीर खंय ती ताचेकडसून कितें कितें करून घेता. त्या पुस्तकांत आसा तसलें... आनी वयल्यान पैशेय दिता...

म्हाका सट्ट करून येवजलें, ''आनी ती तुका कॉफी दिता?''

''करॅक्ट. बॅस्ट कॉफी. अमेरिकेंत मेळटा तसली- स्टारबक्स म्हणटात ती.''

वीट आयलो म्हाका. त्या दिसाच्यान परतीं येयसर हांव कल्पेशाक टाळीत रावलों.

तें सुटयेंत हांवें पन्नासेक पुस्तकां वाचलीं आसतलीं. वीस पंचवीस मार्टीनसरालीं. आंत्र्यापयऱ्यान पुस्तकां वाचून हाडटां तें पळोवन पयलीं पयलीं सराक दुबाव येतालो जावंये. तो म्हाका प्रस्न विचारतालो. 'द फॉल्ट इन अवर स्टार्स' हांवें दुसऱ्याच दिसा परतें दिलें तेन्ना ताचो पयलो प्रस्न आसलो- ''वाचलें?''

''हय सर.''

''पुरायेन वाचलें?'' हांवें वाचिल्लेंच.

मागीर तो हेझलच्या डायग्नोसीस विशीं विचारूंक लागलो.

जाप मेळटकच ताणें म्हाका 'द बूक थीफ' दिलें. परतें दिलें तेन्ना ताणें म्हाका हिटलरचे जर्मनी विशीं विचारलें, ज्यूं विशीं विचारलें, पुस्तकांतले ते जर्मन चलयेविशीं विचारून वयल्यान 'तूं सांगशी हे भाशेन काणयो?' विचारलें तेन्ना मात हांवें तकली हालोवन 'ना' म्हळें.

''येत्न कर.'' मार्टीनसरान सांगलें. म्हजी तकली आतां अदीक नेटान हालली. मार्टीनसर पळयत रावलो. ''हांव जाणा, विपीन. यू हॅव स्टोरीस इन यू. पूण तूं तोंड उगडपाक भियेता. काणी सांगपूय एक आर्ट. तुजेलागीं बरोवपाची आर्ट आहा. ओके. तूं बरय. मतींत येता तेशें बरय....''

त्या दिसा हांवें बरयलें. डॅडी आनी हांव, घर आनी स्कूल, वड आनी

आंबुल्ली. सर आनी स्टेला हांचे विशीं बरयलें. वाचून पळयलें तेन्ना नकळटनां जाल्ली ती तुळा म्हाका मात्त आवडली ना. चेड्डी देंवोवन हारशामुखार उबो रावलां शें दिसलें. फाल्यां सरान वाचूंक मागल्यार? हांवें कागदां पिंदून उडयलीं. दोन दिसांनीं पर्थून बरयलें- कल्पेशाविशीं. एल्सीची ती याद. बरयिल्लें त्याच दिसा पिंदून उडयलें. पिंदतकच एक जाणवलें. काळजावयलो भार कागदार देंवतकच मन ल्हव जाल्लेवरी दिसूंक लागता. त्या दिसाच्यान कागद म्हजें दवरणें जालें. तकली जड जाली म्हणटकच भार कागदार दवरप. मागीर कागद पिंदप. मागीर मन ल्हव.... सदळ... शांत....

'आठवेचो अभ्यास खूब कठीण' भुरगीं उलयतालीं. नकळटनां एक उमळशीक लागिल्ली. जुनांत पाठ्य पुस्तकां हातांत पडनाफुडें केन्ना काय वाचून सोंपयतां अशें जाल्लें. निर्शेणीच पदरांत पडली. भाशा विशया वयलीं पुस्तकां म्हळ्यार बालसाहित्य कशें दिसूंक लागलें. इतिहासाच्या पानांनी तरेकवार काणयो वाचून काडल्यो. जिओग्राफी वाचतनां संवसारार भोंवडी मारिल्लेवरी दिसलें. विज्ञानान म्हजी जिज्ञासा जागयली. लॅबोरेटरी म्हाका आवडली. पूण थंय म्हाका जाय तशे प्रयोग करूंक मेळनासलें. लॅबांतले प्रयोग पळयतां पळयतां घरांतलो टॉर्च, रिमोट, लायटी बटन विस्कटावन पळोवपाची गोडी लागली. केन्ना केन्ना एखादऱ्या उतराचो अर्थ समजनासलो. मार्टीनसरान सांगिल्लें, 'अर्थ समजना म्हूण आडखळ्ळो जाल्यार फुडें वचचे पयलीं डिक्शनरी काडून पळोवंक जाय.' घरांतली डिक्शनरी ल्हान आसली. लायब्ररींत ऑक्सफोर्डची व्हडली डिक्शनरी घेवन अर्थ सोदप सोपें जातालें. एक दीस वॅब्स्टर्स डिक्शनरी + थिसोरस पळोवन म्हजी जिज्ञासा जागी जाली. घेवन घरा आयलों. समानार्थी आनी विरोधार्थी उतरांकडेन खेळपाक मजा आयली. दिसाक वीस वीस

पानां वाचलीं आनी याद दवरलीं. उतरांची मुळां उस्तुपाकय शिकलों. निमणी धा-वीस पानां उरिल्लीं. त्या दिसा स्कुलांत गांवकार सर इतिहास शिकयतालो. भारताच्या स्वातंत्र्याचो इतिहास म्हाका पाठ जाल्लो. हांव वॅब्स्टर्स उकती करून वाचूंक बशिल्लों. सरान वर्गाक विचारिल्ल्या प्रस्नाकडेन म्हजें लक्ष नासलें. सरान उलो मारून म्हाका उबो केलो. जाप विचारली. हांवें प्रस्न कितें विचारतकच खुबळ्ळो. सरदार वल्लभभाय पटेला वयलो प्रस्न परतो विचारलो तेन्ना हांवें जाप दिली. म्हज्या डॅस्कार उकती डिक्शनरी पळोवन सराक दिसलें हांवें पुस्तकांत वाचून जाप दिल्या. रागान फर्मायलें, ''तें पुस्तक घे आनी हांगा यो.''

ती जडेली डिक्शनरी पळोवन चाळवलो. ''हांव जीव तोडून हिस्ट्री शिकयतां आनी तूं हांगा डिक्शनरी उकती करून बसला? कितें सोदता तातूंत?''

''उतरांचो अर्थ, सर.'' हांवें जाप दिली.

''खंयच्या उतरांचो अर्थ कळना?'' सरान टोंकून विचारलें.

''शिकतां, सर.''

''डिक्शनरी शिकता?'' सर हांसलो. तें पळोवन भुरगींय हांसली. सरान फुडें विचारलें, ''शिकून जाली?''

''जायत आयली, सर.''

''सांग पळोंवया- हिस्ट्रीचो अर्थ?''

''द पास्ट.'' जाप आयकून सराक चेव आयलो. मागीर ताणें डिक्शनरी उगडून तातूंत पळोवन विचारलें, ''होमिसायड म्हळ्यार कितें?''

''मर्डर, किलींग.''

''आनी प्रोलेटॅरिएट?''

''ग्रासरूट पिपल.''

हांव आव्हान दितां अशें दिसलें जावंये ताका. ''आनी ताचें अँटीनॉम?''

''ॲरिस्टोक्रॅट.'' हांवें म्हळें

ताचो राग वाडूंक लागलो– ''आतां सांग पेनिटेन्शरी मिनींग?''

तोंडार आयिल्लें 'प्रिझनर्स कँम्प' म्हणपाचें. पूण तो अदीक चाळवतलो अशें दिसलें. वग्गी रावलों. मागीर गांवकाराच्या तिडकल्ल्या मुखामळार जैताचो हांसो उदेलो.

''डिक्शनरी शिकता खंय! अभ्यासाचेर लक्ष दी पयलीं.'' आनी मागीर पिरियड सोंपसर आठवेक अभ्यासाकडेन दुर्लक्ष केल्यार धावेक कशे घाणटले तें सांगीत रावलो. आनी वतनां डिक्शनरी घेवन गेलो.

स्कूल सुट्टकच कॉरिडरांत मार्टीनसर दिश्टी पडलो. पळोवन रावलो. सांजेर आपणाल्या घराकडेन पासय मार म्हूण सांगलें, तेन्ना अजाप जालें– हांवें तागेलें खंयचें पुस्तक व्हरूंक नासलें वा परतें दिवपाचेंय उरूंक नासलें. घडये, एखादरें नवें पुस्तक बी वाचपाक दिवपाचें आसूं ये.

''खंय वता? केन्ना परतो येतलो?'' मांचे सदचेच प्रस्न. जाप दिवची शें दिसलें ना.

''यो सवकसायेन. आयज शेनवार. हो घाडयागेर वचून येतलो म्हणटालो.'' म्हाका अर्थातच फरक पडनासलो.

बेगसारच पावलों. हांव भितर सरचे पयलींच स्टॅलान म्हाका येतना पळोवन भितर वर्दी दिली. सर वाटच पळयतालो. सालांत सराची बायल मशिनाचेर शिंवताली. सरान म्हाका कदेलार बसूंक सांगलें. व्हिलाचो आनी वयर–सकयल जावपी सुयेचो कचक कचक आवाज बंद जालो तेन्ना बायलेचें लक्ष ओडून सरान सांगलें, ''आग्नेस, तें काम गरजेचें नासत जाल्यार मातसे हिंगा येता? हेचे लागीं उलोवपाक जायें. तूंय बस.''

ती थंयचे थय़च घुंवून आमकां फुडो करून बसली.

''आयक आग्नेस, हेका हांवेन आफोवन हाडला. पयलीं तुका बॅकग्राउण्ड सांगतां.'' आनी सरान तिका सकाळची स्कुलांतली खबर सांगली. अभ्यासाक फाट करून हो भुरगो डिक्शनरी शिकता ही खबर रायकारसरान खंय स्टाफ रूमांत मीठमसालो लावन सांगिल्ली. ''डिक्शनरी

म्हूण शिकपाची आसता? मागीर रायकारान तेका मिनींग विंचारले. सादीं सादीं उतरां तेका सांगूंक येयलीं. पूण मातसे जड उतर विंचारल्यार हेज्यान सांगूंक जालें ना- ही खबर रायकारान सांगली तेन्ना हांयेन तेका विंचारलें- तें जड उतर खंयचें काय म्हणून! तेकाच तें उगडास नासलें-" मागीर म्हजेकडेन पळोवन सरान विचारलें, "खंयचें उतर तें?"

"पेनिटेन्शरी." हांवें सांगलें.

"तुका जाप खबर नासली?"

"प्रिझनर्स कॅम्प, सर."

"तुवेन जाप कित्याक दिली ना तर?"

"गांवकार सर बेजार जातासलो, सर." हांवें सांगलें.

मार्टीनसर हांसलो. "तूं जाणा आग्नेस? हो वाचतालो ती वॅब्स्टर्स डिक्शनरी कम थिसोरस. स्टाफा पासत हाडलेली. पूण स्टाफ लेगीत रिफर करिनात. हेणेन बाय हार्ट केल्या मिस्ता- हय, मरे?"

हांवें पाठ करूंक नासली. पूण याद दवरिल्ली खरी. वग्गी रावलों.

"जाणा आग्नेस? तेज्या तोंडार सांगप न्हूय. पूण सांगतां. ही इज ब्रिलियंट! तेजी वाचपाची स्पीड आनी ग्रास्पींग पॉवर हांवेन चयल्या. पूण हे भाशेन मॅमोरायझींग कॅपॅसिटी! देवागेली देण ती!"

पार्दितकाच्या फुलांचो शिंवोर म्हज्या आंगार जाता अशें दिसलें. स्टॅलान हाडून दिल्लो केकाचो स्लायस आनी सॉफ्ट ड्रींक घेतल्यार मनांत निर्मण जाल्ले निर्मळ भावनेची रूच इबाडत म्हूण 'नाका' म्हळें. पूण सराचो आगरो मोडूं नज जालो.

ते सांजेर भायर पावस नासतनांय आंगार शितळ ओथांबे झेलीत हांव घरा परतलों.

सोपणाचेर पांय दितनांच खतखतीत गरड कानांर पडली- "थंयच राव उबो."

हांव 'स्टेच्यू'. दारांत डॅडी उबो आसलो. फाटल्यान ताचो तो बाबा.

कमराक म्हेळो वालो, खांद्यार तांबडो कपडो आनी माथ्याक काळो तिरांटो बांदिल्लो. तांच्या फाटल्यान वण्टीक वणखून शेंदरेर मां. मदीं एके कायलींत उजो धुंवरेतालो. सवन वातावरण गंभीर आनी सुतकी. पोरूं आज्यागेर पळयिल्ली मरणकळा याद जाली.

चार तरांचे रुखा ताळे एकठांय बांदून केल्लो खुंटारो वयर उकलून बाबा एक एक पावल आपटीत फुडें येवंक लागलो.

"ना हालचो- ना धोलचो-" तो म्हाका शिटकायतालो काय कोणा अज्ञाताक तें कळ्ळें ना. "कोण तूं खंयचो? असो ना सांगचो? बग म्हाजो इंगो- " अशें म्हणीत तो दारांत पावलो. हांव आजून सोंपणाचेर. इंगळे कशें तांबडे गूंज जाल्ले दोळे घुंवडायता तें पळोवन म्हाका तो पिसावला सो दिसलो. डॅडी ताच्या फाटल्यान हात जोडून उबो राविल्लो पळोवन तर म्हाका विज्मीत कशें दिसलें. सदांच गुर्मेंत आसपी, मांक उठटा बसतना शेडावपी आनी म्हाका सांगणेंत रावपाक सांगपी डॅडी आयज शेंपडी भोंकांत घालपी सुण्यावरी दिसलो.

"दीस गेलो धारेर- हे तीनसानेचे कातरेर -" पानांताळयांची सान्न नचयत बाबा लागीं आयलो.

"उकल तुजें बूड - सोड तेची कूड-" अशें म्हणून ताणें म्हाका मारपाक ती सान्न उकलली तेन्ना ताचो हात देंवचे पयलींच हांवें घट धरलो.

"बग, बग. ह्या देवू घाडयाक आयकाना? इंगळो थेवंक होयो तुज्या हातीर?" तो उलयत सुटलो. डॅडी धांवट आयलो. म्हजो हात सोडयलो. म्हज्या काना कडेन उलयलो, "आयक बाबाचें- तो झाडो घालता. तुका न्हय, तुज्या आंगांत आसा ताका धांवडावपाक."

हांव थंड रावलों. बाबान डॅडीक पळोवन विचारलें, "झील जावो मा तुका?" ताचेर डॅडीन 'हय सायबा' म्हळें. 'हय बाबा' म्हणपाचें चुकलो बी ना मूं? मागीर त्या बाबान तीन खेपेक तो झाडू म्हज्या माथ्यार आपटिलो. पयले खेपेक झाडो उकलिल्लो तो नेट उणो जाल्ल्यान म्हाका कांय जाणवलें ना.

“सुटलो. आतां हाड तेका भितूर–” अशें म्हणीत बाबा वचून धूंवरेवपी कायली कडेन बसलो. मिठाकणयो कायलींत उडयनाफुडें तडतडल्यो.

“आतां टळ्ळी मूं इडापिडा, बाबा?”

बाबान पिंजर काडून डॅडीच्या हातांत दिवन सांगलें, “हें लाय तेच्या कपलाक. आनी तेका व्हरोन कुडींत बंद कर. आज रात तुमी कोण्ण तेचे लागीं वचों नाकात. लायट लावप ना. दिवो ना. खाणें ना, पाणी ना. फाल्यां आयतार हा. कावळो वराडलो की येवूं तेका भायर.” बाबान म्हाका ताचो हात आडायिल्ल्याची शिक्षा फर्मायली.

“हय, सायबा.” डॅडीन म्हळें. आनी कायलींतल्या उज्याच्या उजवाडांत वण्टीचेर नाचपी सांवळ्यांचे साक्षीन सोमतोच म्हाका कुडींत बंद केलो.

हातांत उदक घेवन कायलींतलो उजो पालोवचे पयलीं बाबान डॅडीक विचारलें, “आनीक प्रस्न हा?”

“साडेसाती केन्ना सोंपतली, बाबा?”

“मध्यार हा. भियों नाका. म्हाज्या मुठींत थेयल्या तिका.” अशें म्हणून डॅडीक फुडलो प्रस्न विचारूंक दिनासतनां बाबान कायलींत उदक ओतलें. सगलेभर धुंवर पातळ्ळो. पूण म्हाका म्हगेले कुडींत बंद केल्ल्यान हांव त्या धुंगटांतल्यान सुटलों.

अदृश्य पासांत बांदून म्हाका हे कुडींत बंद केला हाची म्हाका लज जाली आनी रागय आयलो. तोंड खंय लिपोवचें कळना जालें. तरी बरें हाव एकलों आसां. म्हजे वांगडा सर्वकाळ भोंवपी सांवळी लेगीत हांगा ना. दोळे उगडून बंद दारा कडेन पळयलें. येदोळ कायलींत धुंवरेत पेटपी उज्याच्या उजवाडांत सालभर नाचपी सांवळ्योय गायब जाल्ल्यो. बरें जालें. ही नमुश्की पळोवपाक हांगा कोण ना. हें एकलेपण म्हाका जाय जाय शें दिसूंक लागलें. काळोख म्हाका आवडूंक लागलो. दोळे साप उकते दवर वा गच्च धांपून दवर, काळोख म्हजो सांगाती. काळखाक

हांवें इश्ट केलो....

ते राती ते बंद कुडीन म्हाका म्हगेली सुवात दाखयली. हय. हो किट्ट काळोख आनी म्हजें जल्मांतरांचें नातें आसुंये. ह्या काळखांत म्हज्यो सगल्यो संवेदना तिक्ष्ण जावन म्हज्यांतलें चैतन्य जागयतात असो म्हजो अणभव. रवी-पिट्रू हांचे पासून तुटलों तेन्नाच हांवें काळोख लागीं केल्लो. काळखाच्या सांगातान म्हज्यो चित्तवृत्त्यो प्रफुल्लीत जातात हाचो दिश्टावो म्हाका जाल्लो. साडेसाती मध्यार पाविल्ले ते राती म्हज्या कानांनी म्हाका नवो मंत्र शिकयलो.

म्हजे कुडींत घडयाळ नाशिल्ली. वण्टीचेरूय ना मनगटाचीय ना. तरी एक टीक टीक आयकूंक आयली. येत रावली. ही म्हज्या हड्यांतल्या काळजाची धडधड म्हूण कळपाक कळाव लागलो ना. त्या आवाजाचेर लक्ष केंद्रीत केलें. म्हजी तनरी लागली. सगल्यो संवेदना कानांत एकवटल्यो. दोळे उकते केल्यारूय काळोख, बंद केल्यारूय काळोख. आतां कानच म्हजे दोळे जाले. पयसुल्ल्यान पयलीं केन्ना कानांच्या पड्ड्यांक आफुडनासले ते आवाज सुस्पश्ट जावपाक लागले. पास्कोआलालें सुणें मदीं मदीं भोंकताले. घुगमाचे तीख चित्कार आनी निशाचर पाख्या-वागुळांच्या पाखट्यांनी काळखांत मारिल्ले सूर. दिसाचे कानांर पडपी हॉर्नां-ब्रेकांच्या आवाजां इतले स्पश्ट आयकूंक आयले. पयस बांदार धोलपी झाडांच्यो खांदयो आनी पानांची सळसळ आयकतकच म्हाका एके कडेन वाचिल्ली याद जाली. रातसुकणीं खंय आवाजावरसून आपणाली वाट सोदतात. विशिश्ट आवाज काडून शिकार फारायतात.... आवाजाची दुनिया म्हजे सामकार साकार जावंक लागली. आवाज आतां आवाज उरले नात. आवाज स्पृश्य जाले. आवाज जिवे जाले. आवाज मनशां जाले. आवाज म्हाका भिडपाक लागले. आवाज म्हाका आव्हान दिवपाक लागले. काळजाची टीक टीक आनी नाडयेचे कींटकींट हांच्यांतलें साम्य निरखितां निरखितां दोनीं मदल्या वेळाचें खिणयाळें अंतरूय जाणवलें. कुडींतल्यो विंगड विंगड नाडयो एकाच वेळार टिकटिकतात हें लक्षांत

घेतनांच शिरंतरांतल्यान व्हांवपी रगताची मंद गती जाणोवंक लागली. म्हज्या कानांवरवीं हांव म्हजे भितर झांकून पळयतनाच सरभोंवतणचो संवसारूय म्हाका दिसूंक लागलो. श्रवणेंद्रियान दिल्लो हो साक्षात्कारी अणभव काळजांत सांठयत हांवें रात सारली.

धावेक पावतकीर म्हाका वांगडच्यांनी सांगलें- अभ्यासाक चड वेळ बसतकच, भोव करून रातीन झेम येता तेन्ना खंय ते च्या पियेतात. मागीर खंय तरतरी येता. हांवें विचारलें- 'आवय कांय म्हणिना?' ताणीं म्हाका पिशांत काडलो. 'आवयच च्या करून हाडून दिता.' हांवें मांक सांगतकच ती मातशी अनमनली. मागीर तिणे विचारलें, ''तूं खंय रातीचो अभ्यासाक बसता तर?''

खरें तिगेलें. म्हाका केन्ना जागरणां करून अभ्यास करचो पडलोच ना. पूण तिणें तशें म्हणटकीर हांवें रातीचो अभ्यास करपाचें थारायलें. मांक सांगलें, ''धावेक खूब अभ्यास करचो पडटा. हेर भुरगीं तर ट्युशनांक लेगीत वतात. हांवूय आतां रातीचो अभ्यासाक बसतलों.'' ते राती हांवें च्या मागली. तिणें म्हाका रांदचे कुडींत आफोवन सांगलें, ''सद्दां रातचो अभ्यासाक बसतलो जाल्यार सद्दां च्या लागतली. म्हज्यान तें जावचें ना. म्हाका जागरण सोंसना.''

''आगे, पूण हांवें केन्ना-''

''शीक. आतां तूं व्हड जाला. हांव दाखयतां कशी करप तें- '' आनी तिणें म्हाका च्या करपाक शिकयलो.

तेन्ना म्हाका च्या आवडली ना, पूण मागीर एक दीस मार्टीनसरागेर गेल्लों- पुस्तक हाडपाक. तो असो मदीं मदीं म्हाका इंग्लीश कादंबऱ्यो

वाचपाक दितालो. ताणेंच गोडी लायिल्ली म्हाका इंग्लिशीची आनी पुस्तकांची. त्या दिसा तागेर गेल्ले कडेन सराले बायलेन आमकां च्या हाडून दिली. ती म्हाका खूब्ब आवडली. हांवें सांगलें तिका तशें. तिणें सांगलें- "हांव दुदाचीच करतां च्याउ, देखून."

ते राती हांवें तशीच दुदाची च्या केली. बरी जाली.

मार्टीनसरान दिल्लीं पुस्तकां घेवन घरा आयलों तेन्ना म्हाका त्या फादराची याद आयली. ताणें म्हाका बायबलांतल्या काणयांचीं पुस्तकां दिल्लीं. हांवें तीं वाचिल्लीं. आनी म्हाका ताका एक प्रस्न विचारीनसो दिशिल्लो- 'जेझू ख्रिस्त अन्यायाआड झुंजलो. अन्याय करपी सुगूर उरले. जेझू मात खुरसार मेलो. तरी तूं अन्याया आड झुंजप बरें कशें म्हणटा?' पूण पादकूर म्हाका परतो केन्ना मेळ्ळो ना. ताची बदली जाल्ली. तो इगर्जेंत कोणाक नाका जाल्लो खंय.

भायल्यान वळखीची हालेट कानांर पडली. चार रोदांच्या गाड्यार प्लास्टिकाचे पोतयांनी वा झारीनांनी रोयिल्ले फुलांचे रोंपे विकपी मामा-- 'पलांट- रोपटेऽ ' म्हणून आड्डतालो. पयर आयिल्लो तेन्नां सांगिल्लें ताका. आतां तो दारार रावन म्हजीच वाट पळयतालो.

'मां, पन्नास रुपये दी. तो तुळशी घेवन आयला.'

मार्टीनसराल्या दारांतलें पोरसूं पळयत सावन आमच्याय घरा भोंवतणी पोरसूं करपाची उमळशीक लागिल्ली. दोन वर्सां जालीं हांव कामाक लागिल्लों. गिमांत लोकांनी बेणिल्ल्या झाडांचे ताळे, दश्णी, बी रोवन सुरवात केल्ली. पयर हांवें ह्या दारादारांनी विकरेक भोंवपी मनशाक आडावन गुलाबशेंवत्यांचे रोंपे कशे तें विचारिल्लें. धाकट्ल्या फुलां-रोंप्याचे पन्नास सांगिल्ले ताणें. हांवें भितर वचून मांक सांगलें जाल्यार

ती म्हजेर ताणशेली, ''कित्याक जाय तीं फुलां? म्हाका कांय सोंस ना फुलांचो. तेपरस तुळशी रोंपो आसल्यार विचार ताका.'' हांवें विचारलें जाल्यार तो हांसलो, ''बाबू, तुळशी खंयूय मेळटात. तुका जाय जाल्यार हाडून दितां फुडले खेपेक. धा रुपये दी. पूण हों गुलाब घे तूं. गांवठीम्हूण सवाय आसा. गराफ घेयल्यार शंबर दोनशीं पडटात.'' हांवें वाणपण केलें, ''बरें आसा. तुळशी रोंपो आनी हो गुलाब दोनूय हाड आनी पन्नास व्हर.''

ते प्रमाण घेवन आयिल्लो. ''पन्नास रुपयांनी तुळस? नाका म्हूण सांग.''

''आगे तो तीस रुपयान सांगतालो. हांवें ताका दोन रोंपे सांगल्यात. पन्नासांक दोन.''

''दोन कित्याक? एकूच पुरो.''

''आगे एक बावलो, मेलो जाल्यार? देखून दोन सांगले. घेवंया ते दोनूय.'' मां काय पोरसांत येवन पळोवची ना. पन्नास दिवन हांवें ते दोनूय रोंपे घेतले. एक तुळशीचो. दुसरी ती वाल गुलाबशेंवत्यांची. तिका धिगी लावपाची खंय. सोमतोच पोरसांत गेलों. घराच्या दोशीं वटेना धा धा मिटर सुवात आसली. हांवें थंय पोरसूं केल्लें. घराचे दोन कुशीक मातयेन हातभर उबारिल्लें तुळशीचें पेड आसलें. तें पोरूं पावसांत कोंसळिल्लें. हांवेंच तें माती थापून घट केल्लें. तुळस थंय रोयली आनी उजव्यान बरीशी सुवात पळोवन गुलाबाचो रोंपो थंय रोयलो. मागीर बेठीच पोरसांत पासय मारली. फाटल्या पावसांत जुझेन दिल्ल्या दशणी खांदयांनी बरीं मुळां धरिल्लीं. पेत्रोलीचें तर झोंप जाल्लें. धवे दशणीक कळे लेगीत धरिल्ले. दोन दिसां भितर फुलां फुलतलीं. क्रोतोन बरोऽ मातिल्लो. फाटल्या मोडांत चांफो मोडून पडिल्लो तेन्ना ताचे दोन खांदे हांवें दोन कडेन रोयिल्ले. त्या दोनूय खांद्यांचीं आतां झाडां जायत आयिल्लीं. ओंदू चांफो लागपाक जाय. डॅडीची वक्रदिश्टी पडली ना जाल्यार दोन वर्सा भितर पोरसूं बरें फुलतलें. पर्थून एक नदर भोंवडायली. मन प्रसन्न जालें. 'चलो इसी बहाने एक कप च्याय-' अशें म्हणून हांव घरांत भितर सरलों.

प्रिलीम लागीं पाविल्ली.

चड अभ्यास केल्यार चड मार्क पडटात म्हणून भुरगे अभ्यासाक पेटिल्ले. हांवें जाल्ल्या अभ्यासाची उजळणी मारून जाल्ली. मातसो सो बेकार दिसल्यार डॅडी एकतर काम-सांगतालो नाजाल्यार प्रस्न विचारतालो, ''धा किलो कापूस जड काय धा किलो लोखण?'' हांवें जर म्हळें, ''दोनूय धाच किलो न्हय?'' डॅडी बेजार जातालो, ''हांवें विचारलां कापूस जड काय लोखण जड?'' हांवें जाप दिली- ''लोखण. पूण-'' जाल्यार डॅडी म्हाका पिशांत काडटालो.

एक दीस विचारलें, ''ॲटम बॉम्ब कसो करतात सांग पळोवंया?'' हांवें म्हळें ''खबर ना.'' जाल्यार तापलो, ''मॅट्रीकेक पावलो तूं. शिकयतात कितें तर तुका?'' सोमतोच दुसरो प्रस्न विचारलो, ''गोंयकारांक शेतां भाटां चड गरजेचीं काय मिनाखणी गरजेच्यो?'' अशें कितेंय शिकयिल्लें म्हाका उगडास जायनासलो तरी म्हळें, ''शेतां भाटां चड गरजेचीं, डॅडी.'' डॅडीन थापट उबारलें पूण मारलें ना. ''सामको बोंडेर तूं. पास तरी जातलो मरे?''

हातांत पुस्तक घेवन बसल्यार डॅडी म्हणटालो- ''शीक, शीक. तकलेंत वता मरे कितेंय?'' म्हज्या हातांत आशिल्लें पुस्तक अभ्यासाचें न्हय म्हूण कळ्ळयार कितें करतासलो कोण जाणा!

मार्टीनसरान पुस्तकांची अशी गोडी लायिल्ली की केन्ना एक पुस्तक सोंपयतां आनी दुसरें हाडटां अशें जातालें. मार्टीनसरान दोन-दोन पुस्तकां दिवचीं वा नांवां सांगिल्लीं पुस्तकां लायब्ररींतल्यान हाडचीं आनी

आशाधशाभशेन वाचून परतीं दिवचीं अशें फाटलीं दोन वर्सां चलिल्लें. हार्डी बॉयस, अण्डरकव्हर ब्रदर्स बी जातकच ताणें 'प्रायड अ‍ॅण्ड प्रेज्युडीस' दिल्लें. 'थ्री इडियटस' सिनेमा पळोवन आयिल्लीं भुरगीं चर्चा करताली तेन्ना मार्टीनसरान विचारिल्लें, "पिक्चराक वयतलो?" हांवें ना म्हळें कारण डॅडी धाडचो ना हाची खातरी आसली. "बूक वाच, 'फाइव्ह पॉइण्ट समवन'. स्टॅला वाचता. तेगेलें जायनाफुडें तूं व्हर." आनी हाडून वाचलो हांवें.

ल्हान आसतना एकदां मामागेर गेल्लों तितलें सोडल्यार आनी कोणागेर केन्ना वचप जालें ना- शेजाऱ्यांगेर लेगीत. आतां पुस्तकाच्या निमतान मार्टीनसरागेर सप्तकांतल्यान एकदां तरी वचूंक लागिल्लों. प्रिलीम लागीं पाविल्ली तेन्ना लेगीत ताणें नवें पुस्तक हातांत दिवन सांगिल्लें, "लिसांव चुकोवन वाचप ना. आपणांकच शिटकाय. लिसांव जायना तोमेरेन बूक वाचूंक घेवचों ना. सजमलोय?"

ज्युस्त प्रिलीमेच्या आदल्या सांजवेळा मांक जोर आयलो. मांन डॅडीक सांगलें, "म्हज्यान नज. फाल्यां एक दीस सुटी घेयात."

"सुटी काडल्याच हांवें. फाल्यां मॅनेजरागेर सत्यनारायण आसा. सकाळींच आफयला. वचना जाल्यार ताका वायट दिसतलें. गेल्यार ताका आदार जातलो. ताचें बरेंपण जाय म्हाका. समजलें?"

"आनी हांगा कोण? मरणाक आफोवं सांगात दिवपाक?"

"पिकार करूं नाका म्हाका. जोरान कोण मरना. बाबू रावतलो घरा. ताका दाखय- वाळटलो तो शीत. आनी तूं रे- वासुदेवाले खानावळींत वचून भाजी बी कितेंय हाड. सोलां आसात फुटी कडी केल्यार जालें ना? हांव तीन चार वरांमेरेन पावतलों परतो."

"डॅडी, प्रिलीम म्हगेली. पास जालो ना जाल्यार परिक्षेक बसपाक मेळचें ना."

"उजवाड कितें घालतलो कळिल्लेंच आसा. आनी ओंदू बसूंक

मेळ्ळें ना जाल्यार फुडारा परती आसतलीच न्हय?''

सकाळीं डॅडी गेलोच. मांलो जोर निवळूंक लागिल्लो. पूण तिणें फुक्या तोंडान 'तूं परिक्षेक वच' म्हळें ना. हांवें मागीर बूक भायर काडलो. 'टू कील अ मॉकिंग बर्ड' आनी रिगलों तांतूंत.

दनपारां चारांक सुमार बेल वांजली म्हूण दार काड जाल्यार व्हडलो माम. मांन फोन करून बरी ना म्हूण सांगिल्लें काय?

मामाक भितर घेवन मांचे कुडींत व्हरून बसयलो. ''आरे बाबू, वासुदेवाल्या शापार वचून चारपांच बटाटेवडे घेवन यो. दनपारचें जेवणूय बरें जालें ना तुगेलें.'' म्हाकाय भूक लागिल्ली खरी. फुटी कडयेन कितलेंशें जेवं येता? सोमतोच वचून घेवन आयलों. फाटोफाट डॅडी घरांत भितर सरलो. मामाक पळयलो मात--

''तूं रे सो हांगा?'' डॅडीक हो मामा सामको आवडना हें जाणां आसलों हांव. पूण दारांत आयिल्लेकडेन अशें विचारप बरें लागलें ना कानांक.

''तुवें फोन करून सांगलें काय कितें बरी ना म्हणून?'' डॅडीन मांचेर धेंकणो घाल्लेवरी विचारलें.

''ना, सायबा. आनी बऽरें सांगिल्लें- जाल्यार कितें तो येतलो आशिल्लो?'' मां ते फुडली.

''आसूं. ताका च्या बी कितें विचारलां?'' डॅडीन विचारलें. म्हाका कळ्ळें, च्या डॅडीक जाय आशिल्ली.

''कशी विचारूं? म्हज्यान जाता जाल्यार विचारपाचें न्हय? एऽ पळय बटाटवडे हाडून घेतल्यात.'' मांन म्हळें.

''बाबू, तो थर्मास घे आनी वासुदेवाल्या शापार वचून दोन च्या घेवन यो.''

''आसूं, आसूं. उदकच दी.'' मामान म्हळें.

“डॅडी, हांव करूं च्या?” म्हगेले आयकून डॅडीन कपलाक मिर
घाली.

“तूं? तुका कळटा?”

“हांवें शिकयलां ताका–” मांन तापसाणी खावपाचे तयारेन शें म्हळें.

“बरें जालें तर. कर. पळोवंया कशी जाता ती!”

हांवें च्या केली. म्हजे खातीर थोडी भितरच दवरली आनी तीन कप घेवन भायर आयलों. तो मेरेन हाडिल्ल्या पांच बटाटवड्यांतले तीन फस्त जाल्ले. उरिल्ले सोंपचे पयलींच हांवें तांतलो एक काडलो.

तिगांनी च्या फू फू करून घेतली. पूण एकल्यानय बरी जाली वा ना तें सांगलें ना. हांवें रिते कप उकलले.

“रोखडेच विसळून दवर ते.” मांन फर्मायलें, “आनी एक वडो उरला तो व्हर. हांव खायन तो मागीर– जिवाक बरें दिसतकच.”

“तूं काम आसले बगर येवपी न्हय. कितें काडलें आयज?” डॅडी.

“सारकें वळखलो भावोजी. उलोवपाकच आयिल्लों. कल्पेश आतां व्हड जाला न्हय?”

“मागीर कितें ताका सोयरीक सोदता?”

“भावोजी, तूं म्हूण चडच फकाणां करता. ताका वीस जातात थंय आसात. हांव येवजितालों, ताका कामाक लावपाचें.”

“शिकला तर तो?”

“तूं जाणा न्हय, मॅट्रिकेक दोन फावट फेल.”

“प्युनाची लेगीत मेळची ना.”

“आनी तशी मेळ्यारूय ताका खंय नोकरी करपाची ना. तो स्वतंत्र उद्देग करतलो म्हणटा.”

“वाः! म्हळ्यार उद्देगपती जातलो तर हिगेलो भाचो!”

“टुरिस्ट टॅक्सी काडून दी म्हूण लागला तो.” डॅडील्या कुछित्रीपणां कडेन आडनदर करून मामान म्हळें.

“म्हळ्यार ड्रायव्हर जातलो तर?”

“वर्सा भितर गाडी सुट्टली म्हणटा तो. मागीर ड्रायव्हर दवरून दुसरी घेतलो, मागीर तिसरी... करीत कार पूल कंपनी काडटलो म्हणटा.”

“आं! मागीर तो पात्रांव आनी तूं पात्रांवाचो बापूय-” डॅडीलो सूर बदललो ना.

“तुजो आदार मेळ्यार तशें घडूं येता.” मामान खालतिकायेचो सूर कायम दवरलो.

“म्हजो कसलो आदार? गाडी बंद पडल्यार धुकलपाक लेगीत म्हज्यान जावचें ना.”

“लोन काडटलो म्हणटा तो. तूं फियादोर रावल्यार...”

“अशें? म्हणचे, फाल्यां गाडी मोखली, लुकसाणेंत गेली जाल्यार गॅरंटर हांव? बरी आयडिया काडली आं, भावोजीक फोंडांत घालपाची....” डॅडीलो आवाज चडलो.

डॅडीलो मूड इबाडत आनी मेवण्यांमदीं वितुश्ट येत म्हूण मां येदोळच्यान अस्वस्थ जाताली. तिणें तांकां आडावपाक तोंड उगडलें- “म्हगेलें मातशें आयकशात-” आनी तितल्यान तिणें आडावन दवरिल्ली वाय सुटली. पुर्र र्र पाँक- हांव केन्ना हांशिल्लों याद जायना. पूण हांसो येता काय जालो. मामान खुक्क केलें आनी फाटोफाट डॅडी हांसत सुटलो. हांसतां हांसतां डॅडीन म्हळें, “आयकलें. सगल्यांनी आयकलें. जालें मू सांगून? उरलां जाल्यार आमी वतात भायर.”

मांचें पडिल्लें तोंड पळोवन म्हाका तिची काकुळट दिसली.

“म्हाका आतां भायर सरपाक जाय. पूण ते पयलीं आन्येका कामाक आयिल्लों तें सांगतां--” मामान ताळो खांकरून म्हळें.

“जाणाच आशिल्लों. काम आसले बगर हेवटेन झळकुपी प्राणी न्हय तूं. बऱ्याचें मरे?”

“हें पळय भावोजी, हांव जें सांगूंक आयलां तें सगळ्यांच्याच बऱ्याचें.”

“सगल्यांच्या- म्हळयार तुज्या आनी हिच्या धाकल्या भावाच्या- सारकें मरे?”

“भावोजी, प्लीज म्हगेलें आयकून घे. सध्याक हांव टॅन्शनांत आसां. आमची वांटणी चलल्या.”

“कोणां भितर?”

“भावां भितर. व्हडलो स्वता- वकील. म्हाका फटोवंक सोदता. देखून-”

“आनी ही लागना तुमकां?” मांकडेन बोट दाखोवन डॅडीन विचारलें.

“तिका घालून करून दिल्ली न्हय आमी?”

“तुमी?”

“म्हणचे- बाबान.”

“चणे? काय भिकणां?” डॅडील्या आवाजांतली तीखसाण म्हाका खासावीस करूंक लागली.

“बाबा म्हणटालो- दोट्टी गोट, पाटली, कांकणां, तोडे, गळ्यांत गळसरी, कोरदांव तेभायर बाजुबंद...तिका येणें सगलें पावलां म्हणी तो-” मामालो आवाज मातसो नमलो.

“थारायलां मूं तुमी तशें? बरें आसा. आतां कित्याक आयला तें सांग-” डॅडी उठलो.

“आयक. बस. सांगतां. वांटणेचें जाग्यार घालपाक म्हाका तिची ‘पॉवर ऑफ ॲटर्नी’ जाय. फकत एक सय. बाकीचें सगलें हांव पळयतां.”

“सय बीय कांयच मेळपार ना तुमकां. ऊठ. आनी लाग चलूंक. वांटणी कशी जाता तें हांव पळयतलों.” आनी मामाक लागीं लागीं हाताक धरून डॅडीन भायर काडलो.

गोंदळिल्ल्या आनी अस्वस्थ मनान हांव म्हगेले कुडींत गेलों आनी ‘टू कील अ मॉकिंग बर्ड’ उकतें केलें. तिसेक पानां पयलींच वाचून जाल्लीं. सकाळीं हांव स्काउट ह्या मुखेल पात्राकडेन इतलों समरसून गेल्लों की ती चली आसुनूय म्हजीच कथा वाचतां शें दिसूंक लागिल्लें. पूण आतां

म्हाका त्या भुरग्याची नसायशी दिसूंक लागली. ‘हें करूं नाका, तें करचें न्हय’ तिका सांगपी हे कादंबरेंत आशिल्ले. तिका साथ दिवपी टॉमबॉय फिंच आशिल्लो. पूण तें चुकल्यार ताका समजून घेवपीय थंय आसले. हांव तें स्काउट न्हय म्हणपाचें प्रकर्शान जाणवलें.

त्या दिसा उजवाडीं हांव काळखांत सांसपितां अशी म्हजी भावना जाली.

भायर कोणतरी आयलो. पूण म्हाका भायर वचचेंशें दिसलें ना. पूण आवाज कानार पडलो आनी हांव तटास जालों. हात पांय खिळायिल्लेवरी बसलों.

“कोण तूं?”

“मार्टीन. विपीनाल्या स्कुलांत शिकयतां.”

“घराकडेन सो आयला?”

“विपीन केसो आहा?”

“ताका कितें जालां तर?”

“आयच्यान प्रिलीम कॉमेस जाल्या.”

“खबर आसा म्हाका.”

“तो आयच्या पेपराक ॲपिअर जालो ना.”

“फाल्यां धाडटां ताका–”

“हे भाशेन इग्नोर केल्यार खूब लुकसाण जातलें तेजें.”

“जाणां. एक विशयाक फेल जातलो–”

“प्रिलीम ही. फायनल बगलेक पावता–”

“फायनल न्हय मू? आनी ओंदू फेल जाल्यार फुडल्या वर्सा बसूं येता–”

“इतलें कॅज्युअल घेय नाका तूं मिस्टर पोरोब! तूं जाणाय, तो आमगेऽ स्कुलांतलो ब्रायटेस्ट स्टुडंट. घडये बोर्डाक–”

पूण तागेलें आयकून घेवपाच्या मुडांत नाशिल्लो डॅडी. “बरें, बरें. फाल्यांच्यान बसतलो तो.”

दार आपटिल्ल्याचो आवाज आयलो.

मार्टीनसर हो फिंच आनी डॅडी हो रॅडली अशें दिसूंक लागलें म्हाका. केन्ना न्हय तें ताळो दाटून आयलो म्हजो. रडचें शें दिसपाक लागलें.

त्या मामाक लेगीत च्या दिली हांवें. मार्टीनसराक खरें म्हळ्यार भितर आफोवपाक फावतालो. ताका च्या करून दीन आसलों. एक बटाटवडो उरिल्लो तोय दिवं येतालो.

च्या घेवची अशें दिसलें म्हूण किचनांत वच जाल्यार मां थंय बटाटवडो खाता. उदकच पियेवन भायर आयलों. मांन टिव्ही लावनच दवरिल्लो. ताचेर गावपी गायतालो– त्वमेव माता, पिता त्वमेव ....

गीत आयकतनां अर्था कडेन सपसप लक्ष वचना. पूण आयज हांव आयकत रावलों. गीत कितें सांगतालें? तूंच म्हजी आवय, तूंच म्हजो बापूय... देवाक होरायतालो. आंगार शिरशिरी आयली. मां–डॅडी म्हजीं देव काय देवच म्हजीं आवय–बापूय? बापूय देवासमान काय देव बापायसमान? हांवें टिव्हीच बंद केलो.

दुसऱ्या दिसा परिक्षेक बसलों. मार्टीनसर मुखार दिश्टी पडलो तेन्ना हांवें नदर चुकयली. पूण ताणेंच हडकिलो. काल कांयच जावंक नाशिल्लेवरी उलयलो. आनी 'उरिल्ले पेपर बरे बरय. एक पेपर चुकलो म्हूण तुका आडावन दवरचे नात' म्हूण आयकून जिवाक थाकाय मेळ्ळी.

परिक्षा सोंपली. मार्टीनसरान सांगिल्ले भाशेन ते सुटयेंत हांवें पयलीं कोंकणी आनी मराठी मेळून धाबारा तरी कादंबऱ्यो वाचल्यो. एकदोन सोडल्यार खास आवडली म्हणपा सारकी मेळ्ळी ना. बंगालींतलो शरदबाबू थोडोसो आवडलो. 'गॉअन विथ द विंड' कादंबरेन म्हाका गोंदळायलो. अमेरिकेंतली त्या काळावयली समाजीक आवतिकाय आनी बाबडे

स्कार्लेट हिगेलो संघर्श समजून घेवप जड गेलें. वट्ट तीन हजारां वयर पानांनी हांव पुरायेन शेणलों. पूण काफ्काची 'मॅटामोर्फोसीस' म्हाका भोव म्हळ्यार भोव मानवली... मनांत आयलें- हांवेंय एक दीस असोच किडो जावचें आनी लोकांच्यो तरा तरा पळोवच्यो.

ते दोन म्हयने हांव वेगवेगळे संवसार भोंवलों. गोंयची वळख घेतली. डिस्कव्हरी ऑफ इण्डियान भारताची वळख दिली. भारत-पाक फाळणी, अमेरिकेंतलें सिवील वॉर, दक्षिण आफ्रिकेंतले वंशभेद, दलीतांची वेगळी रांदन, मकबूल फिदा हुसेनावयलो बहिश्कार ... हें सगलें वाचतनां हांव म्हाकाच शेणलां हाची जाणविकाय जावंक लागली. वॉर ॲण्ड पीस, मोग आनी भोग, वास्तव आनी विलक्षण हांचेमदलें अंतर आजमावपांतच हांव खरशेलों.

एस. एस.सीक बऱ्या मार्कांनी पास जालों म्हूण वांगडयांनी म्हाका स्कुलांतच परबीं दिलीं. शिकयिल्लें आनी वाचिल्लें म्हाका समजल्लें ते प्रमाण परिक्षेंत बरयिल्लें. बरयिल्ले प्रमाण मार्क मेळिल्ले. इंग्लिशीक, कोंकणीक, मॅथ्साक, सायन्साक, सगल्याच पेपरांक.

"मार्टीनसर सोदी तुका." तागेल्या घरा गेलों.

"आमकां दिसलेलें बोर्डाक मॅरिटांत येतलो." मार्टीनसर उलयत रावलो... मार्क चड-उणे पडले हाचें ताका दुख्ख नासलें. 'गिन्यान जोडीत वच. मनीस वळखुपाचो येत्न करीत राव. मनशाक मनीस म्हूण जोख, वयलेचाराक जें विचित्र शें दिसता, ताचे फाटलें वास्तव सोद. पयलीं म्हळ्यार स्वताक सोद. खावपा-पियेवपांत सूख मानप्यां मदलो तूं न्हय. सामान्यतायेन म्हणटात- काळजा मेरेने पावपाची वाट पोटांतल्यान वता. तूं तांतलो न्हय. तुजी वाट तुका दाखयतलीं तीं पुस्तकां. तांचो सांगात सोडूं नाका...'

तो आनिकूय उलयतलो आसलो. पूण तितल्यान आमच्या वर्गांतलें मॅगी पेढे घेवन आयलें.

"सर, पेढे घे."

तितल्यान सराली बायल थंय पावली. तिणें विचारलें, "कोंग्रॅच्युलेशन्स, बरे पडले मुगो मार्क?"

“हय, मॅम. डिस्टिंक्शन मेळ्ळें.” मागीर म्हाका पळोवन ताणें म्हळें, “पूण हेजे इतुले मार्क न्हूय.”

“तेशें म्हणूं नाका, मॅगी. कम्पॅरिजन्स आर ओडियस. तुवेन बरे येत्न केले, बरे मार्क जोडले. परबीं तुका.” सरान म्हळें.

म्हाकाय पेढो दिवन तें गेलें.

हांव मात सरागेर हात हालयत गेल्लों.

डॅडीच्या हातांत तें पत्र पडसर म्हगेल्या रिझल्टाचें कोणाक अप्रूप नाशिल्लें. पास जालो म्हूण सांगतकच डॅडीन म्हणिल्लें, “जावं वर्स पद्रांत पडलें तर! मार्क कितले पडले?”

एक्याण्णव म्हूण सांगतकच पयलीं दुबावच घेतलो. “फटास न्हय मरे? जावं, बरे मेळ्ळे. तरी- णव उणेच.”

‘एक्याण्णव? तरी णव उणेच’. होच डायलॉग डॅडीन पयरूच मारिल्लो- मांलें वाडिल्लें वजन पळोवन.

हेडमास्टरान डॅडीक पत्र बरोवन हांव स्कुलांत आनी गांवांतय पयलो आयलां म्हूण सांगून आवय-बापायकूय परबीं दिल्लीं. दुसऱ्या दिसा तें पत्र घेवन डॅडी ऑफिसांत गेल्लो. सदांच डॅडीक उणाक लेखपी मॅनेजराचो खंय विस्वासच बसना जालो. मॅनेजरा सयत सगल्यांनी तोखणाय केल्ल्यान डॅडी खूश. ‘फुडें बरो शिकय’ सगल्यांनी सांगिल्लें खंय. हेरांनी इंजिनिअर करचो म्हूणिल्लें पूण मॅनेजरान जें सांगलें ‘पुताक डॉक्टर कर’ म्हूण तें डॅडीन मनार घेतलें. ऑफिसान ताचे कडेन पार्टी मागिल्ली आनी डॅडीन खंय मागीर तिनशीं रुपयांचो केक व्हरून सगल्यांक वांटिल्लो. उरिल्ले मेजून चार स्लायस घेवन घरा आयिल्लो. एक मांक, एक म्हाका आनी दोन स्वता खावन ताणें त्या दिसा रिझल्ट मनयलो.

डॅडी खूश म्हूण मां खूश. म्हाका फुडें शिकोवपाचें डॅडीन थारायलें. ताका मुखेल कारण थारलो ताचो मॅनेजर. हरशीं सदांच डॅडीक तोकासांवां

करपी ह्या मॅनेजराविशीं डॅडी उलयलोच जाल्यार वायटच चड उलयी. कडक शिस्तीचो म्हूण खेपतालो डॅडी ताका. आपुणूय खायना आनी दुसऱ्यांकूय खावंक दिना असलो. पूण म्हगेलो रिझल्ट आयकून खंय डॅडीचेरच खूश जालो. मॅनेजरान ताका विचारलें खंय– 'ट्युशन्स खंय घेतालो?' ट्युशन केन्ना घेतलें ना म्हूण कळटकच मॅनेजरान बोटां मोडून गणीत केलें खंय– किमान पंचवीस हजारांचो फायदो केला. तेन्ना ताका पयलीं प्रेझेण्ट कितेंय दी म्हूण. स्कुटर दी म्हणिल्लें खंय. पूण लायसन्साक अठरा जावंक जाय म्हळें तेन्ना खंय 'कम्प्युटर दी, फुडें अभ्यासाक ताकाच फायदो जातलो' म्हणिल्लें. डॅडीक तें परवडपाचें नासलें दिसता. कानार केंस काडले. तातूंत क्लार्कान सांगलें खंय– इकरावेक पावतकच सरकारच दितलो लॅपटॉप म्हूण. मागीर मॅनेजरानच सल्लो दिलो डॅडीक आनी त्या दिसा म्हगेलो पयलो मोबायल मेळ्ळो म्हाका– तोय स्मार्ट फोन.

सगले म्हणटाले खंय, इंजिनिअरिंगाक धाडूंक मेळटलें म्हूण सायन्सीक घाल. मॅनेजरानच म्हळें खंय, मॅडिसिनाक धाड, थंय स्कोप चड. ॲडमिशन खंय घेवचें तेंय थंयच थारलें. उच्च माध्यमीक शाळेंत म्हणचेपरस ज्युनिअर कॉलेजींत म्हणपांत एक ऑर आसा खंय, देखून शारांतले नामनेचे संस्थेंत प्रवेश घेतलो जंय इकरावी–बारावी आनी तेंकुनच बी.ए./ बी.एस.सी. मेरेन शिक्षण दिताले. इतलींय वर्सां डॅडीन म्हज्या शिक्षणा विशीं एका अक्षरान वासपूस करूंक नाशिल्ल्यान आतां तो इतली मज घेता हाची म्हाका मजाच दिसली.

"तुका डॉक्टर करतलों हांव. मागीर पळय तूं म्हगेलो झेत. गरजच उरची ना म्हाका ते फालतू नोकरीची. आं ऽ – पयलींच सांगतां तुका – त्या मॅनेजराक लेगीत फुकट तपासचो ना."

मां खुशाल जाली काय ना म्हाका कळ्ळें ना. डॅडी खूश मूं, जालें तर! विज्ञान शाखेंत घाल ना तर आयटीआयंत– तिका फरक पडनासलो. म्हाका तर कोणेंच विचारलें ना. तांणी म्हाका विचारूंक जाय आसलें अशें म्हाकाय दिसलें ना.

वासुदेवाल्या च्यावे दुकानाक तेंकुनच डॉ. कॉश्ताबीराली कोंसुल्तार. डॉक्टर सदांच बिझी. पूण त्या दिसा तो भायरच मेळ्ळो. ताणेंच रिझल्टाची खबर आयकल्ल्यान हात दिलो. अचकीत म्हाका येवजून आयलें ताका विचारपाचें. "डॉक्टर, आर्टस आनी सायन्स हातुंतलो फरक कितें?"

ताणें म्हज्या खांद्यार हात दवरून सोप्पें करून सांगलें- "तुजो जल्म कसो जालो तें सांगता ती सायन्स. आनी जल्माक येवन कितें करचें म्हूण सांगता ती आर्ट."

तें आयकून म्हाका आर्ट घेवचें शें दिसलें. पूण डॅडीन घालांच म्हजें नांव विज्ञान शाखेंत म्हूण तोंड धांपून गेलों.

उपरांत जेन्ना मॅक्रोस्कोपीक अनाटॉमी आनी प्रोक्रिएशन शिकलों तेन्ना म्हाका डॉ. कॉश्ताबीरान सांगिल्ली व्याख्या याद जाली - 'तुजो जल्म कसो जालो तें सांगता, ती सायन्स -' दोळ्यांमुखार मां-डॅडी आयलीं. तांचें जुंवळप, गर्भधारणा, गुरवाचार, बाळंटेर... आनी म्हजो जल्म. त्या दिसाच्यान मां आनी डॅडीकडेन पळोवपाची म्हजी नदर बदलली.

त्या आयतारा सकाळींफुडेंच डॅडीन आमकां सांगलें- "आयज आमी देवाक वचपाचें."

"खंयच्या?" हांवें विचारलें.

"सगल्या." डॅडीन झेतान सांगलें, "गाडी केल्या. णवांक भायर सरपाचें."

हांव अजापलों. गोंयचीं सगलीं देवळां हांवें पळोवंक नात. पूण शंबर तरी आसूं येत. "एका दिसाभितर सगलीं देवळां भोंवन जातलीं?"

डॅडी तिडकलो, "हांव कितें तुका भोंवडेंर घेवन वतां शें दिसलें? आमी कुळदेवांचे भेटेक वतात. आमचो देव, हिच्या कुळारचो देव,

तुका होटयेंत घाल्लो ती फातर्पेंची कुंकळकान्न आनी आमचो ग्रामदेव जांबावलेचो दामुद्दर. समजलो? आता चवकशो पुरो कर आनी भायर सर.''

देवू घाडयान साडेसाती आपणाले मुठींत दवरिल्ली जाल्यार ताचो अर्थ साडेसाती सोंपूंक नासली. मागीर हो रिझल्टाचो चमत्कार कसो जावचो? रुजवात करपाक डॅडी ज्योयशासरीं गेल्लो. ताणें सांगलें खंय 'साडेसाती सदांच वायटाक पडटा अशें नासता. बरेंय करता. लग्नकूंडली आनी चंद्रकुंडली दोनींतूय शनी शुभकारक जाल्ल्यान साडेसातीन चाल बदलल्या. देखून हो रिझल्ट बरो आयला. आनीक स म्हयन्यांनी साडेसाती सोंपतली. पूण ह्या काळांत ती ताचे प्रगतींत बादा हाडची ना...' ह्या जोयशानच सांगिल्लें जावंये डॅडीक 'सगल्या देवांची भेट घेवन राखण माग'.

भेट घेवन सांगणें केलें तेन्ना कळ्ळें- विज्ञान शाखेंत म्हाका घाला तेन्ना म्हाका शिकपाची बुद्द दी आनी परिक्षेंत, चडकरून बारावेचे, बरे मार्क दी म्हूण देवाक सांकडें घालपा खातीर ही भेट म्हूण. मनांत आयिल्लें डॅडीक विचारचें म्हणून - देव म्हाका चड मार्कांनी पास करतलो काय म्हूण. पूण पर्थून तापसाणी खावचे परस वगी रावप शाणेपणाचें शें दिसलें.

''माशेलांत पावल्यातच जाल्यार गोंयच्या सायबाकूय वाती लावन येवंया.'' डॅडीन म्हळें. म्हाका दुबाव, ही भोवतेक मॅनेजराली सुचोवणी आसूं ये. बाँ जिझस कॅथेड्रलाक भेट दिवन परततनां वाटेर मेळपी सगल्या देवळांत वचून डॅडीन एक एक रुपयो ताटांत उडयलो. मां तर रस्त्याकुशीच्या घुमट्यांक, शेंदूर फांशिल्ल्या फातरांक आनी ल्हान व्हड खुरसांक लेगीत 'पाव रे सायबा' म्हणून हात जोडटाली.

जांबावले ग्रामदेवा कडेन डॅडीन पाकळी मागली. सट्ट करून प्रसाद जायना तें पळोवन डॅडीन भटमामाचेर धेंगसो घालो. भटमामान देवाचेर. मागिल्ली ती न्हय तरी पाकळी जाली. भटान अर्थावणी केली- ''तुवें पुताचेर पुराय लक्ष दिलें जाल्यारच इच्छीत साध्य जातलें.''

कुंकळकान्नीची खणानाल्लान होंट भरून घरा परततांसर डॅडी ग्रामदेवाल्या कौलाचेरच येवजीत बशिल्लो.

रातीची आठ जायत आयिल्लीं. डॅडीन आमकां घरा सोडलीं आनी "आतां आनी रांदतली कितें तूं? ते परस हांव वतां आनी घेवनच येतां कितेंय खाण." अशें म्हणून तो स्कुटर घेवन गेलो तो बद्द णव जावन परतलो. एक प्लेट पुलावाचें पाकीट दिवन ताणें सांगलें, "वांटून खायात तुमी. म्हाका भूक ना."

.

इकरावेचे वर्ग सुरू जाले तेन्ना एका आयतारा हांव मार्टीनसराक मेळपाक गेलों. ताका सांगलें, हांवें विज्ञान शाखेंत प्रवेश घेतला. म्हाका दिशिल्लें खुशालभरीत जावन मार्टीनसर म्हाका आशिर्वाद बी दितलो. पूण –

"सायन्सीक गेलो? कित्याक?" मार्टीनसरान दोळ्यांत दोळो घालून विचारलें, "सायन्स म्हुटल्यार कितें तें जाणा तूं?"

म्हाका डॉ. कॉश्ताबीरान सांगिल्ल्या उतरांचो उगडास जालो. पूण मार्टीनसरा मुखार तें सांगपाचें धाडस जालें ना.

"डॅडी म्हणटा – मार्क बरें पडल्यात – सायन्सींत फुडार आसा." हांवें गणमणत सांगलें.

"डॅडीन सांगलें देखून तूं सायन्सीक गेलो–" तो विचारता काय फुडें कितें सांगपाक सोदता तें कळ्ळें ना म्हाका. वग्गी रावलों.

"सायन्सींत कितें आहा म्हुणलें?" सरान विचारलें.

"फुडार –"

"कोणाचो?" हांव पुरायेन गणमणलों.

"सो! फुडें कितें करतलो?" सरान विचारलें.

"डॅडी म्हण्टा, मेडिसिनाक वच म्हूण–"

"म्हुण्टरीच, तूं दोतोर जातलो तर?"

"डॅडीन सांगलां– " हांव कितें सांगूंक सोदतां तें म्हाकाच कळ्ळें ना.

“सजमलों. तुगेल्या डॅडीक तूं डॉक्टर जालेलो जाय - रायट?”

हांव हयकारलों.

“तुका कितें जाय तें केन्ना चिंतलां तुवें?” मार्टीनसराली नदर दुखाविल्लेवरी दिसताली. सराक जाप दिवपाक जाय. हांव चिंतूंक लागलों. म्हाका कितें जाय? हाचो विचार होवेळमेरेन करूंक नासलो. घुसपलों.

“म्हाका दिसललें, तूं हेरांपरस वेगळो. तुवेन जायतीं बुकां वाचल्यांय. तूं एस्से बरेऽ बरयता. दिसललें- तूं इण्डेपॅण्डटली चिंतिता... पूण भंगों तें. शीक. बरो शीक. आनी इण्डेपॅण्डटली चिंतूंकय शीक.”

त्या दिसा मार्टीनसरान म्हाका हालीं कितें वाचलां तें विचारलें ना. अमूक पुस्तक वाच म्हूण सांगलेंना. भायर सरतना ताणें इतलेंच सांगलें, “देअर इज नो फ्रिडम लायक फ्रिडम ऑफ माइण्ड.”

वाटभर तें वाक्य घोळयत हांव चलत घरा आयलों.

मनाचे स्वतंत्रतायेचेर विचार करप म्हळ्यार सदचे चाकोरेंतसून भायर सरप. म्हज्यान तें जालें ना.

हांव नेमान वर्गाक हाजिरी लायतालों

हांव नेमान मांक च्या करून दितालों.

हांव नेमान डॅडीक जाय जाय तें बाजारांतसून हाडून दितालों.

हांव नेमान म्हगेलो होमवर्क करतालों.

स्वतंत्र विचारांचें बंद दार उगडपाचो मातूय येत्न हांवें केलो ना. कारण म्हगेलें वागप, म्हगेलो अभ्यास, कोणाचे वाटेक ना वचपाचो म्हजो सभाव. ताका लागून शिक्षकूय म्हाका बरो करताले आनी विद्यार्थीय. फकत नमशीकार सर सोडून. कारणां दोन- तागेले ट्युशन क्लासीक हांव वचनासलों. आनी दुसरें म्हळ्यार म्हगेल्या वर्गांत शिकपी तागेल्या पुताक बायोलॉजी सोडून हेर सगल्या विशयांनी म्हजे परस उणे मार्क पडटाले.

इकरावेच्या वर्गांत आसतनां दिवाळेची सुटी जावन सरकारान लॅपटॉप वांटले. वर्गांतल्या विसेक भुरग्यांकडेन पयलीं आशिल्ले खंय. फुक्याक

मेळटा म्हूण तांणीय घेतले. म्हजे खातीर मात ती नवीदाद आसली. सदचे रुटीन जिणेंत कितें तरी नवें घडलें. बंद दार उकतें जावपाक लागता तेन्ना जी खोस जाता ती म्हाका भोगली.

कांयच गती नाशिल्ली पूण अमृत पटेल ह्या भुरग्यान म्हाका इंटरनॅट कनेक्शन धरून ॲप डाउनलोड करपा मेरेन सगलें शिकयलें. अर्थात तागेली अट मान्य करतकच. ताका कोंकणी आनी इंग्लीश ह्या विशयांत गती नाशिल्ली. हांवें तागेल्यो अडचणी सोडोवन दिल्यो आनी ताणें म्हगेल्यो. हांवें म्हगेलो असो पासवर्ड तयार करून घालो तेन्ना अलिबाबाक घोलींत वचपाखातीर 'तिळा, तिळा, दार उगड' हीं कुरवेची उतरां सांपडटकच जी खोस जाल्ली तिचो प्रत्यय आयलो. गिन्यान आनी म्हायती अशे दोन गर्नाल वांगडाच फुटचे तसो तकलेंत स्फोट जालो. हुबिल्लो धुल्ल खाला बसतासर हांवें लॅपटॉपाचेर जम बसयिल्लो.

इकरावेक पावलों त्या सुमाराक म्हजे खाडके वयली पातळ ल्हंव काळे केंस जावन उदेल्ली. पूण खाड काडूंक जाय म्हणपाचें केन्ना येवजलें नासलें. एक दीस क्लासींतलो निनाद पोले सुळसुळीत करून आयलो जाल्यार भुरग्यांनीं ताका कोलायलो, 'खंयच्या म्हाल्यागेर?' 'सलुनाचें नांव कितें रे?' ते भायर 'फर्स्ट टायम पार्टी जाय' म्हणूंक लागले. ताचेर निनादान झेतान सांगलें- ''हांवें स्वता केलां खाड. रेझर फोरेन! डॅडीनच शिकयलें म्हाका खाड करपाक.''

हांवें घरा येवन डॅडीक सांगलें. ''त्या कामाक हांव कित्याक जाय तुका? खाड आपशीं वाडटा तशी खाड करपाची अक्कलूय आपसूक येता.'' डॅडीन म्हाका फाफुडलो.

''हांव रेझर घेवं तुगेलो?''

''गरज ना. पॉकेट मनी दितां तो त्याच खातीर. वच आनी घेवन यो तुका जाय जाल्यार.''

दुसऱ्या दिसा घेवन आयलों. तिसऱ्या दिसा खाड केलें.

क्लासींत कोण म्हजे वाटेक गेलो ना.

सुटये दिसांतली खबर. शेजारच्या फ्लावियाचें काजार, शेनवारा. पास्कोआल मुजरत आयिल्लो कोंवीत घेवन. डॅडीक पास्कोआल आवडना. ताणें म्हाका वच म्हूण सांगलें. जिवार आयलें. दिसलें– वचून लायब्ररींत बसचें आनी रातीन घरा येवन 'काजाराक वचून आयलों' म्हूण सांगचें. पूण फाल्यां पास्कोआलान डॅडीक विचारलें 'कोणच कित्याक येयलो ना' म्हूण जाल्यार – भंगूं तें. एक बरें जालें म्हजे क्लासींतलो इग्नेशसय वचपाचो आसलो.

काजार म्हापशां. सांजेची बस दवरिल्ली पाश्कोआलान. बरे फॅर्राद कपडे घालून हांव गेलों. पळय जाल्यार बस भरल्या. तरी सगले 'चड तूं' म्हणटात. तसोच चडलों. जाल्यार फुड्यांतच इग्नेशस बशिल्लो. 'यो बाबू.' अशें म्हणून ताणें घोळून म्हाका जागो करून दिलो. धडेर बसलों. पयलीं इगर्जेंत रेस्पेर जाल्लें. आतां रिसॅप्शन हॉलांत. आठांक म्हूण सांगिल्लें तें णवांक सुरू जालें. हांव इग्नेशसाच्या फाटीं फुडें रावलों. मेजा भोंवतणीं तिगां चेडवां, इग्नेशस, तागेलो एक इश्ट, आनी हांव. हांसत, किटकिटत ज्योक करीत तांच्यो खबरो चलिल्यो. इग्नेशस मदीं म्हाकाय तांच्या गजालींनी ओडटालो. बिअर आनी स्नॅक्स आयले. हांव बिअर नाकाच म्हळी. पूण आपणालीं फ्रँडस म्हाका कितें म्हण्टलीं म्हूण ग्लास हातांत घे म्हूण इग्नेशसान सांगिल्ल्यान घेतलो. 'चिअर्स' केलें. तेन्ना ओंठांकूय लायलो. शी, कितें म्हूण घोस्तान पियेतात ही बिअर? सामकी कोडू. हांवें ग्लास सकयल दवरलो.

इग्नेशस आनी तागेलो इश्ट डान्साक उठले दोगां चेडवांकूय तांणी दाम म्हूण उठयलीं. म्हाका आगरो केलो. पूण हांव उठलों ना. तें तिसरें चेडूं बसून उरलें. इतल्यान मार्टीनसर थंय आयलो. हांवें ताका पळोवंकच

नाशिल्लो. बेगबेगीन उठलों. बिअरीचो ग्लास पळोवन कितें म्हणटलो काय! पूण ताणें थंय आडनदर केली. अभ्यासाची वयले वयर वासपूस केली. 'वाचता कितें? काय वेळ मेवना?' हांवें 'वाचतां, सर' म्हळें आनी अब्दूल कलामालें 'इग्नायटेड मायण्ड्स' हातांत घेतलां म्हूण सांगलें. खुश्शाल जालो.

बुफे जेवण जाता म्हळ्यार इकरा उलगलीं. हांव बसींत चडलों. तेन्ना फुडल्याच सीटार बसून घेतलें. पूण मागीर बस भरत गेली. जाण्ट्यो बायलो उब्यो पळोवन हांव उठलों. बस येतना भरिल्ली ते परस आतां परततना चड भरली. गर्दींत हांव चेडवां मदीं फारावलों. फाटल्या फुडल्यान चेडवां तींय बिनधास्त. हांवूच खांकुडटालों हांगा थंय तेंकता म्हूण. मागीर मात बस प्रत्येक मोडणार वा ब्रेक मारतकच घश्टाघश्टी वाडली. कोणाले कुले म्हाका नाका थंय तेंकताले, कोणालें उबार हड्डें दंडाक चिड्डितालें. तीं बळयां तशें करतात असो दुबाव आयलो. मांडवी पुलार पावतासर म्हज्या उस्वासांची गती वाडिल्ली. आनिकूय कितें कितें जातालें.

मध्यानीर घरा पावलों. सोमतेंच हातुणार घालून घेतलें. न्हीद पडली खरी. आनी सपनांय. सपनांत इग्नेशस आयलो ना. मार्टीनसर आयलो ना. फाटीं फुडें दशिल्ल्यो त्यो तरण्यो कुडी... केन्ना तरी राती शिरशिरून जाग आयली. पूण तो मेरेन–

ती म्हजी पयली सपनावस्था. तेदे रातीचो उठून मान्न्यांत वचून निवळ करून आयलों.

फार्टी जांबावले प्रसाद घेतिल्ले कडेन देवान सांगिल्लें– रिझल्ट बरो आयिल्लो जाय जाल्यार पुर्शीं लक्ष दी म्हूण. ग्रामदेवालें तें सांगणे डॅडीन बरेंच मनार घेतलें जावंये. वा मॅडिसिनाक धाडपा इतलें भांडवल तयार जाल्लें देखून जावंये– डॅडीन व्हिआरएस घेतली.

"पळय बाबू, आतां आनी म्हयन्या म्हयन्याचो पगार घरा येवचो ना. पूण तुज्या खर्चाचो भार हांव उकलतां. तूं डॉक्टर जावन दाखय."

म्हजेर टॅन्शन. दाखोवप म्हळ्यार नेमकें करप कितें? मज घेवन डॅडीक जाय तशें करपाचें थारायलें.

त्या दिसांनी मांक आवडटा म्हूण बरकय घेवन आयिल्ल्या म्हगेल्या मामान डॅडीक विचारलें, "इतले बेगीन रिटायरमेंट शी घेतली?"

"जालीं ना रे वर्सां? कितलीं आसतलीं शें दिसता?"

"जाणा हांव, म्हजे परस चड जाण्टो काय न्हय तूं."

"पूण उरिल्लें आयुश्य सुखान वचचें म्हूण घेतली व्हिआरएस, अशें समज."

"व्हिआरएस घेतल्यार आयुश्य बरें वतलें म्हूण कोणे सांगलें तुका?"

"गणीत सादें आसा. फुडल्या पांच स वर्सांनी बाबू दोतोर जातलो घरचो दोतोर आसतकच आमची दोगांयली बलायकी बेस बरी उरतली.

मागीर आमी दिर्घायुशी जातलीं. करॅक्ट?''.

''दिर्घायूश्य मेळचेंच तुमकां. पूण एकूच सांगतां आं- लांब आयुश्याचीं सपनां अवश्य पळोवचीं, पूण फाल्यां मरण येवचें ना हाची खातरी कोणाक आसता? अर्थात, तुवें विचार केलाच आसतलो.''

मामाल्या त्या उतरांचो परिणाम डॅडीचेर कितलो जालो खबर ना. पूण हांव मात चिंतनांनी घुसपलों. तें सांगणे जर डॅडीक लागू जाता जाल्यार तें म्हाकाय लागू जाता. आनी फाल्यां मरपाचेंच आसा जाल्यार आयज जगपांत कितें अर्थ आसा तर?

ते राती म्हाका च्याची कूंय आयिल्ली. पूण आतां अभ्यासाचें नीब नाशिल्ल्यान इत्सा मारची पडली.

एक मात थारायलें. हाचे फुडें, फाल्यां मरण येवं येता हे भावनेन च्या पियेत रावपाचें.

डॅडीन व्हिआरएस घेतिल्लीच खंय बारावी जायसर म्हजे कडल्यान अभ्यास करून घेवपा खातीर. तागेलें गणीत सादें आशिल्लें- जर चड अभ्यास करिनासतना धावेक बाबूक उत्तम मार्क मेळटात, जाल्यार खूब अभ्यास केल्यार खूब मार्क मेळूंक जाय.

सद्दां याद करून दितालो, ''पळय. तुका बरें कॉलेजीक घाला बरो रिझल्ट जाय म्हूण.'' हायर सेकंडरीक कॉलेज म्हणपाक ताका आवडटालें. सांजेर घरा येवपाक म्हाका पांच जातालीं. येना फुडें विचारतालो, ''आयज कितें शिकयलें, दाखय! नोट्स काडल्यात? मन लावन शीक. गायड बी जाय जाल्यार सांग -''

एक दीस प्रो. नमशीकाराक मेळून आयलो. ताणें सांगलें ताका, ''भुरगो शिकता बरो. पूण मेडिसिनाकच धाडपाक जाय जाल्यार आतांच्यानच बायोच्या ट्युशनाक धाड. बारावेक शंबरांतले शंबर घेवन दाखोवपा इतली

कापासदाद हाडून दाखयतां ताच्यांत.''

डॅडी लागलो ट्युशन घे म्हूण. म्हाका गरज ना म्हूण कितलें सांगलें तरी बरें, दुसऱ्या एका प्रोफेसरानच ताका सांगलें खंय - ''भुरगो शिकपि आसत जाल्यार ट्युशनांची गरज ना.'' हांव सुटलों.

ह्याच सुमाराक आन्येक गजाल घडली. म्हज्याच स्कुलांतल्या पूण म्हाका एक वर्स सिनियर आशिल्ल्या मदनान जीव दिलो. ती खबर पेपरांत आयली आनी गोंयभर गाजली. मदनाक हांव स्कुलांत आसतनाच्यान वळखतालों. हुशार गडी. जीव ओंपून खेळटालो. स्कुलांत क्रिकेट खेळटालो. भायर भुरग्यांमदीं फुटबॉल. ताका मुदलांत फुटबॉलाची आवड. पाटांगडो जाल्ल्यान सगले ताका आपणांले टिमींत ओडटाले. पूण घरच्यांनी चेपण हाडलें. खेळटलोच जाल्यार क्रिकेट खेळ. क्रिकेटींत फुडार घडोवं येता. फूटबॉलाक कोण खायना. दोन वर्सां तो स्कुलाचे क्रिकेट टिमींत खेळ्ळो. बॅटिंग आनी फिल्डिंग बेस बरी करतालो. एस.एस.सीक मार्कय बरे घेतले. घरच्यांक आस जाली. मॅथ्सांत 96 मार्क पडले तें पळोवन इंजिनिअरिंगाक धाडून ताका मनीस करपाचे येत्न सुरू जाले. तरी मदनान जिद्द सोडली ना. हायर सेकंडरींत फुटबॉल टिमींत पावलो. अभ्यासूय केलो. इकरावेक फर्स्ट क्लास घेतलो. पूण साठ पांसश्टांनी भागचें ना म्हूण ताका फुटबॉल सोडपाक लायलो. आनी रातदीस ट्युशनां-क्लासेस आनी अभ्यास. ताणें जीव दिलो.

डॅडी बरोच हाललो. केल्ली सगली गुंतवणूक फुकट वचचे परस भुरग्याच्या कलान घेतिल्लें बरें अशें चिंतून थंड रावलो.

त्या दिसा म्हजो जीव मात मदनाचे यादीन आकूळ पिकूळ जाल्लो. बरी कडक च्या करून घेतली तेन्ना थाऱ्यार पडलो.

पयलीं म्हाका सदांच दिसतालें- कथा-कादंबऱ्यांनी मेळटात तीं पात्रां हीं समाजांत वावुरपी सरसामान्यां परस वेगळीं आसतात. पुस्तकांतलो मोग जावं भोग, इत्सा वा वानसा, जावं जिद्द जावं संघर्श सगलें पुस्तकी. अशें खरेपणी घडूं नज. पूण लॅपटॉप मेळिल्ल्या दिसा जाल्लो स्वतंत्रतायेचो दिश्टावो आनी आतां दोळ्यां सामकार दिसपी आपल्या तंत्रान चलपी वांगडचे विद्यार्थी पळोवन पुस्तकांत मेळपी मनशां सरभोंवतणीच आसतात हें जाणवलें.

इकरावेची परिक्षा बेगसार सोंपिल्ल्यान म्हजेकडेन वेळ खूब आशिल्लो. पूण ताचो फायदो मांक चड जाल्लो. बारीक सारीक कामां ती म्हाका फर्मावंक लागली. उठचें पडटा म्हूण कितेंय सांगताली. 'बाबू, पिवपाक उदक हाडून दी.' खावपाची रूच आयली म्हणटकच आफयताली. 'वासुदेवाल्या च्यावे दुकानार वचून दोन बटाटवडे हाड.' हिका नुसतें उजरावपाची उबगण. दारांत येवपी नुसतें नाका करून म्हाका धांवडायताली, 'तिंठ्यार वच आनी विसवणाची पॉस्तां घेवन यो.'

आयताराचो डॅडी घरा आसतालो तेन्ना तो रुची काडून मांक फर्मायतालो, 'आयज शागोती खायन दिसल्या' वा 'बांगड्या किसमूर कर पळोवंया.' मागीर मागीर आयतार उदेलो की ह्गिेली तकली फोडपाक लागताली. केन्ना कमरेंत वाय भरताली जाल्यार केन्ना आंगाची काडामोड जाताली. मागीर डॅडी म्हणटालो, 'बाबू, अंकुशाले खाणावळींतल्यान मटण घेवन यो - सांग ताका, पोळोव चडच घाल म्हूण. आनी रॉकीले कातऱ्यांचे पाव हाड.'

पुस्तकां वाचून जावंये, म्हज्यो संवेदना दिशीं दिशीं तिव्र जावंक लागिल्ल्यो. म्हजो भिडेस्त सभाव मार्टीनसराक अभिप्रेत आशिल्लें मनाचें स्वातंत्र्य भोगपाक म्हाका आडखळ करता हाची जाणवीक जावंक लागिल्ली. अद्रुश्ट बंदेपास तोडून मन मेकळो स्वास घेवंक सोदतालें. म्हाका जाय तशें वागूंक-करूंक मन धडपडटालें. पूण मां-डॅडीलीं बंदनां हावेंच तर म्हजेर लादून घेतिल्लीं. आवय-बापायले सांगणेंतलो म्हूण

म्हजी तोखणाय जातली ह्या भ्रमांत काय हांव नासलों. तोखणाय केल
वा जाली म्हूण हांव कितें भुल्लुसून वतासलों? निखालस ना. पूण सगल
संवयेन करप जातालें- तांकां जाय तें.

सुटयेंत कांय कामांची हांवें आवड लावन घेतिल्ली. लायब्ररींतल्यान
हाडिल्लीं पुस्तकां वाचप, लॅपटॉपाचेर म्हायती-तंत्रज्ञाना विशीं वाचप
नेमान थोडो व्यायाम करप, पोरसांत लायिल्ल्या झाडांक उदक-सारें घालप
आनी मदीं फुरसत काडून च्या पियेवप.

एक दीस वाटेर म्हजे क्लासींतलो इग्नेशस मेळ्ळो. ताणें विचारलें,
"आमगेऽ घराचे वण्टीक तेंकोन एक आंब्या रोंपो जाला. थिंगा वाडोंक
दिल्यार तो वणट फोडटलो. पायन सांगलां तो हुमटावन भायर उडय
म्हुणोन. तुका जायो जाल्यार व्हर." फाटलो उगडास जालो. घराक तेंकून
आशिल्ले घोंटणीचो. डॅडीन ती कातरून उडयिल्ली. आतांय घडये- पूण
ते खबरेक वर्सां जाल्लीं.

येदें व्हडलें पोरसूं आसाच. हांवें तो हाडलो.चार हात वाडिल्लो. येवजून
आयलें, डॅडी म्हणटलो, बारावेक पावलो आनी तूं हें घेवन बसला? देखून
हांवें डॅडीचे नदरेक पडचो न्हय असो पयस कोनशाक रोयलो. पयली
हातभर पोंदा नेम मारलें. तातूंत शेण, गोबोर आनी काथो घालो आनी
दोंगराची हुसके मुळांतली माती हाडून घाली. रोवन जातकच कळसुली
भर उदक मुळांत घालें.

दुसऱ्या दिसा शेजारचो पास्कोआल झगडूंक आयलो. "काल तुवेन
आंब्या रोंपो रोयला तो सामको शिमेर कित्याक रोयला? तेजे बगलेक
नीस आहा तो देखों येना तुकां?"

शेजाऱ्या कडेन झगडपाचो प्रसंग म्हजेर केन्नाच येवंक नासलो. आनी
हो बोवाळ डॅडीच्या कानार पडल्यार? हांवें म्हळें, "सॉरी अंकल, थंयचो
काडून दुसरे कडेन रोयतां हांव-"

"कांय गरज ना." थंय पाविल्ल्या डॅडीन शिंगां दाखयलीं. "शिमे

भितरच तर आसा. आनी तो नीस हांगा कसो पावलो? हांव जाणां, तुवेंच तो फातोर हालयला. ना जाल्यार आफय आग्रेमेसूर आनी कर रुजवात.''

''तुका जाय तें कर. हांव शेंटार मारतां तेसल्या आग्रेमेसुरांक.'' अशें म्हणून तणतणत पास्कोआल गेलो.

दुसऱ्या दिसा पळय जाल्यार तो आंब्या रोंपो थंयचो नाच्च जाल्लो.

म्हाका डॅडीचो राग आयलो. हांव काय बरो तो रोंपो काडून दुसरे कडेन रोयतासलों. आतां रोंपो गेलो तो गेलो. नसतें तेम मात पदरांत पडलें.

हांव लॅपटॉप घेवन बशिल्लों. मांक बेगीन च्या जाय आशिल्ली. मातशी राव म्हळें. ती ताणशेत पिरंगत रावली. उबगून उठलों. च्या केली आनी व्हरून दिली.

“ही च्या तूं घे. तुका करून दवरल्या ती म्हाका दी.” तिणें बशिल्ले कडेन फर्मायलें.

“म्हाका च्या करूंक ना हांवें.” हांवें थंडसाणीन सांगलें.

“कित्याक?”

“म्हाका नाका आतां. मागीर घेतलों.”

“तेन्ना म्हाकाय दी आं!”

“ही च्या नाका तर?” विचारतां थंय आसां तिणें कप तोंडाक लायलो.

हांव वचपाक घुंवलों. म्हज्या कानार पडसारकें तिणें म्हळें, “म्हाक जाय तशी च्या केन्नाच मेळना.”

म्हाका ऑस्कर वायल्ड येवजलो. तो म्हणटा– संवसारांत दोन तरांच्यो ट्रॅजडी आसात: 1. जाय तें कांयच मेळना 2. जाय तें सगलें मेळटा.

मांक जाय तें कांयच मेळना! कसल्यो अपेक्षा घेवन जियेता काय ती? म्हजे यादींत हांवें तिका केन्ना खोशी पळोवंक ना. म्हजो जल्म जाल्लो तेन्ना तरी खोशी जाल्ली काय? काय तिका चली जाय आसली? तिका च्या करून दिवपाक, तिची सेवा करपाक! भुरगेपणांतय तिका जाय

तेन्ना जाय तशें कांय मेळ्ळें ना जावंये. आवयबापायन कांय सूख दिलें ना काय? मामा केन्नाय येता खरो, वयलेचाराक खबर घेवपाक म्हणटा, तरी काम आसल्यारूच येता. ताका भावबीज, रक्षाबंदन कांयच लागना. ती चालच ना खंय तांगेर. लग्न जावन ह्या घरांत आयल्यार पंचवीस वर्सां तरी जातलीं. कसल्या अपेक्षांचो पोटलो घेवन हांगा आयिल्ली काय ती? तरी बरें, डॅडीलें स्वताचें घर हें. मांय-मांवाचें सूख मेळ्ळें ना म्हूण ही पिरंगण काय? तिका जाय तेन्ना जाय तशें मेळ्ळें ना म्हळ्यार नक्की कितें? डॅडी कडल्यान सूख? भांगर-शिंगर? सॅक्स? आजून तशी ती जाण्टी जावंक ना. पन्नाशी तरी हुंपल्या? पूण पन्नाशी हें जाण्टेपणाचें लक्षण कांय न्हय. माधुरी दिक्षित खंय पन्नाशी कडेन पावली. आजून तिशींतली दिसता. आनी मां? साठ म्हळ्यार कोण ना म्हणचो ना. डॅडीन निमणी केन्ना घेतिल्ली काय वेंगेंत?

डॅडीक मेळ्ळां काय जाय तें सगलें? ऑस्कर वाय्ल्ड म्हणटा तें खरें आसत जाल्यार जाय तें सगलें मेळप हीय ट्रॅजेडीच. सगलें मेळूंक जाय असो कोणाचो आगरो नासता. पूण थोडें तरी?

हांव ल्हान आसतनाची एक याद जाता. मामा खबरेक आयिल्ले कडेन डॅडीन म्हजे हुजीर ताका सांगिल्लें- 'लग्न जायत सावन हिणें कसलेंच सूख दिलें ना म्हाका. फकत झांक आनी झांक...' मांक उलोवपाक खूब जाय खरें. डॅडीक तें मात्त सोंसनासलें. मागीर डॅडी घरांत आसतना ती टीव्ही लावन बसताली. हालीं हालीं तर एकलीच उलयत बसताली.

डॅडी जोडकार. ताका जाय जाय तें सगलें मेळटा काय? मेळटा जावंये. तो ताका जायजाय तें भायर खावन येता. ती घरांत करना म्हूण तो भायर खाता काय तो भायर खाता म्हूण मां घरांत रांदना, म्हाका खबर ना. पूण खूब वर्सां जालीं गरजे पुरतें जेवणाचें सोडून ती वेगळें कांय करूंक वचना. मांन कसलेंच सूख दिलें ना म्हूण डॅडीन मामाक सांगिल्लें. आयज म्हाका ताचो अर्थ होलमता. तशें जाल्यार- डॅडी आपणाल्यो गरजो भायल्यानच

भागोवन घरांत येता?

आनी म्हाका? म्हाका कितें जाय हाचो विचारच केलो ना हांवें! कितें जाय काय म्हाका? जाय तें सगलें मेळटा देखून कसली तक्रार ना काय म्हजी? जायत. म्हाका मोबायल मेळ्ळो. लॅपटॉप मेळ्ळो. म्हाका मेळना अशें कितें आसा काय? 'द पिक्च्यर ऑफ डोरियन ग्रे' पर्थून वाचूंक जाय. आं! ऑस्कर वाय्ल्डाची ट्रॅजडीच जाल्ली म्हणटात. ताचें कितें जाल्लें काय? जाय तें कांयच मेळ्ळें ना? काय जाय तें सगलें मेळ्ळें? तो लग्न जाल्लो. आनी दोन भुरगीं जाल्लीं ताका. पूण तो गे आशिल्लो. समलिंगी संबंद दवरिल्ले खातीर ताका बंदखणींत घाल्लो. थंय रावनूय ताणें कविता रचिल्ल्यो.

येवजून तकली कणकणपाक लागली. भितरल्यान मां एकलीच उलयताली. नशिबाक दुशण दिताली जावंये. काकुळट दिसली म्हाका. उठलों. किचनांत वचून दोन कप च्या केली. दोनूय कप घेवन भायर आयलों. म्हळें, ''तुका जाय तो कप उकल.''

तितलें तरी तिका जाय तें तिका मेळ्ळुंदी.

वेंचणुकेच्या दिसांनी विद्यार्थांचेर इतलो भार येता की ते वर्गां भितर कमी आनी भायर चड दिश्टी पडटात. ओंदू तर पोरूं परस चड धुमशेणां. हायर सेकंडरीक हरशीं चड लागना पूण लागींच आशिल्ले तेच संस्थेचे कॉलेजी कडेन सॉलिडेरिटी दाखोवपाची हांची ती क्लासीक तरा. ते वटेन प्रतिनिधी जावपा खातीर विद्यार्थ्यां मदींच सर्त. सामको खेव येता भुरग्यांचेर. पोरूं वर्सा हांव हातभर पयस राविल्लों. ओंदू थारावन वांवभर पयस रावलों. पयर शेनवारा घडिल्ले घडणुकेन तर म्हजो विद्यार्थीशाये वयलो विस्वासच हुबिल्लो.

आज सोमार. वचचें ना वचचें येवजितालों. पूण कालमेरेन हरंधारांनी कोंसळपी पावस आयज हुबिल्ल्यान मळब निळें दिसलें. मनाक हुशारीशी आयली. गेटींतल्यान भितर सर जाल्यार वेगळेंच शें जाणोवंक लागलें. कालमेरेन वळख ना दाखोवपी कांय भुरगे बेठेच 'हाय' करपाक लागले. म्हाका पळोवन हांसतात शे दिसले. कांय चलयोय म्हाका बोट दाखोवन हांसताल्यो. सोमतोच पयलीं वॉशरुमांत गेलों. हारशांत पळयलें. शर्टाची फाट फूड तपासून पळयली. कावळ्याचो प्रसादय ना आनी कसलो म्हेळूय ना. क्लासीवटेन घुंवलां मात, ऑफिसांतल्या प्युनान येवन विचारलें, ''विपीन पोरोब?''

''हय. कित्याक?''

''प्रिन्सिपालान आपयला तुका-''

'कित्याक' म्हूण विचारचे पयलींच तो चलूंक लागलो.

इकरावेक प्रवेश घेतल्या उपरांत हांवें प्रिन्सिपॉलाल्या कॅबिनांत केन्ना पांय दवरूंक नासलो.

''यो बस.'' एका विद्यार्थ्याक असो येवकार मेळटा अशें केन्ना आयकूंक नासलें. ''यू आर अ ब्रेव्ह बॉय!''

हांव गोंदळ्ळों. फाटल्यान आनीक कोण आसा ताका बी म्हळां काय म्हूण फाटल्यान घुंवन पळयलें. कोणच तर ना! बकच्छायांनी बी म्हण्टा काय? ''सर, हांवें कितें केलां?''

''कितें केलां? यू हॅव मेड अस प्राउड, माय बॉय!'' अशें म्हणून ताणें मेजावयली बॅल दामली. प्यून भितर आयलो, ''फातिमाक आफय. आनी तीन च्या घेवन यो.''

म्हाका कांय कळना जालें. कोण हें फातिमा आनी म्हाका अशी च्या बी कित्याक?

''सर, मे आय कम इन?''

''प्लीज कम. आतां फातिमाकडसूनच आयकूंया.''

म्हणसर तें भितर आयलें.

"होच मुगो तो? युअर सेविअर?"

"येस सर."

आं हेंच तर तें पयरचें –

शेनवारा हांव लायब्रींतसून भायर सरतां म्हळ्यार सांजेचीं साडेपांच जाल्लीं. भायर पावस ओततालो. सत्री हाडूंक नाशिल्ल्यान आसोर जायसर रावलों. मागीर सडसडीत पावलां मारीत बसीकडेन वतालों. म्हणसर पर्थून पावसान नेट धरलो. एका रुखापोंदा खीणभर रावंया म्हळें. पानां वयल्यान पडपी ओथांबे झेलीत रावलों. फुडल्यान एक लांब हाताचो चुडीदार घाल्लें, माथ्यार ओडणी पांगुरिल्लें चली रस्त्यान वतालें. पावस थारपाची चिन्नां दिसनात आनी ओथांब्यांची टपटपूय वाडत वता तेन्ना मातसो धांवल्यार रोखडोच बस स्टॉपार पावतलों अशें चिंतून पावल उकललें. इतल्यान एक मारूती व्हॅन गाडी ते चलये मुखार येवन थारली. हांवें धांव मारिल्ली खरी. पूण जुस्त ते गाडये फुड्यांत पावलों मात – कितें तरी भयंकर घडटा हाची जाणविकाय जाली. गाडयेंतल्यान देंविल्ले दोग जाण ते चलयेक दोशींवटेन ओडून गाडये कडेन हाडटाले. म्हजे पांय थंयच थीर जाले. नकळटनां हांवें मारुतीचें दार ब्लॉक केल्लें.

"गॅट लॉस्ट –" एकलो म्हजेर आड्डुलों. पूण म्हजे पांय घट जाल्ले.

"कुशीक सर. ना जाल्यार– " आनी दुसऱ्यान सुरी भायर काडली. ताका दिसलें काय हांव भियेतलों म्हूण? खंयतरी वाचिल्लें तें वाक्य पिट्टकरून नदरे सामकार आयलें– भंयाचेर जैत जोडात, मरणाचेर जैत जोडटले. मरण? कशें आसता खबर ना. पूण भंय दिसपासारकें आयजवेर केन्नाच कांय घडूंक नासलें. आतांय पळून वचचें शें म्हाका दिसलें ना. म्हगेल्यो मुठी कवळ्ळ्यो. हांवें पुस्तकांचें बॅग पांयां कडेन सकयल उडयलें आनी दोनूय हात उबारले– ताणें म्हजेर सुरयेचो हात उबारल्यार

आडावपाक. तितल्यान मारुतीच्या ड्रायव्हरान गाडी रेस करून हालयली. वांवभर फुडें व्हेली. फुडले दोगूय आबूज जाल्ले. म्हाकाय कितें करचें तें कळनासलें. ते संदेचो फायदो घेवन तें चली तांच्या हातांतसून सुटलें. ते बराबर दोगूय काचाबूल जावन गाडये कडेन धांवले. ते बसले आनी गाडी फास्ट गेली.

म्हणसर म्हगेली बस आयली. त्या दिसा थापो जावन म्हगेलें बॅग आनी हांव घरा परतल्लीं.

त्या दिसा ते चलयेचें तोंड लेगीत पळोवंक नासलें. आनी तशें पळयल्यार हांवें कांयच करूंक नासलें. ते दोगूय चलयेक ओडटाले तेन्नाच हांव थंय पाविल्लों. आनी ते म्हाका मारीत म्हूण आडावपाक हांव तयार राविल्लों, इतलेंच.

"वॅल डन, विपीन. फातिमा तुका थँक्स दिवपाक राविल्लें."

फातिमाचे दोळे भरून आयिल्ले. 'थँक यू..' हय न्हय शें उतर फुटलें. म्हणसर हुंदको फुटलो. सरान बस म्हणचे पयलींच ताणें कदेलार घालून घेतलें.

सर उठलो. उदकाचो ग्लास ताच्या हातांत दिवन ताणें विचारलें, "आर यू ऑके?"

फातिमान तकली हालयली.

प्यून तीन कप च्या घेवन आयलो. सरानच उठून म्हज्या हातांत कप दिलो. फातिमा नाका म्हणटालें. पूण सरान म्हळें, "ना म्हणू नाका. विपीनाक लागून एक अनप्लॅझंट प्रसंग निस्तरलो म्हणून घे."

"एक सांग, विपीन, ते गुंड कोण तें खबर आसा तुका? तूं वळखुशी तांकां?" सरान विचारलें

खीणभर येवजिलें, "हांव वळखना, सर. पूण पर्थून दिश्टी पडले जाल्यार घडये वळखन" मागीर फुडें सांगलें, "घडये ना वळखन."

"आमी जतनाय घेतलेच अशें फुडारांत घडचें न्हय म्हूण. तरिकूय तुका विचारतां, फातिमा, आमी पोलीस कम्प्लेन करची अशें दिसता तुका? वा तुज्या घरच्यांक?"

"ना, सर."

"शुअर?"

"हय, सर."

मागीर सरान म्हाकाय विचारलें, "तुका दिसता, तक्रार करची?" हांवूय न्हयकारलों.

च्याचो घोंट मारतकच फातिमाचो आवाज सुटलो जावंये. म्हजेकडेन पळोवन दिनवासून म्हळें, "थँक्यू. त्या दिसा तूं नाशिल्लो जाल्यार!" आनी पर्थून भरून येवपी ताळ्यान म्हळें, "आनी कोणूय जाल्यार- भियेता आसलो... पूण तुका भियेवन वो लोग भागे... थँक्यू."

कॅंटिनांत जाता तेयपरस ही च्या बरी लागली.

भायर सरतना फातिमा मातशें लागीं आयलें, "म्हगेलो भाव, असलमभाय को मिलना है तुमको. फाल्यां येतलो तो हांगा."

"कित्याक?"

"टू थँक यू..."

"हें पळय, फातिमा....हांवें कांयच केलें ना. ते भियेवन पळ्ळे, इतलेंच. म्हाका कोणे थँक्यू म्हणपाची गरज ना."

"प्लीज, विपीन. फाल्यां सकाळीं.. णवांक? गेटीकडेन?"

ना म्हणप जिवार आयलें.

तें वचपाक घुंवलें आनी येदोळच्यान मनांत घोळपी प्रस्न याद जालो. "एऽ फातिमा, एक सांग - म्हाका कांय तूं वळखनासलें. कोणच वळखना तसो. म्हजें नांव कोणे सांगलें तुका -?"

"चित्रान. ताणें पळयलो तुका -"

चित्रा कोण तें आनी कित्याक विचारूं म्हूण हांव चलपाक लागलों. वर्गांत वच जाल्यार काल मेरेन जाप करनासले ते येवन शाबासकेचो हात दिवन गेले. क्लासींत बसपाक नाका शें दिसपाक लागलें. चडशीं भुरगीं इलेक्शनाच्या कॅनव्हासिंगाक बोवाळटालीं. घरा परत वचपाचें थारावन हांव उठलों. दारांतच प्रचाराचीं पत्रकां वांटपी अमृत पटेल मेळ्ळो, "हाय बडी, हिरो ऑफ द डे!"

हेर विद्यार्थी लागीं येतात तें पळोवन हांवें अमृताचो हात धरून ओडलो,

"हांव वतां घरा. आय काण्ट स्टँड धीस."

"व्हॉट? हें उपकरचें ना आं, पोरोब, फाल्यां रॅली घेवन तुका फॅलिसिटेट करपाचो प्लॅन आसा आमचो. ग्रेट डॅरिंग मॅन!"

"खरें सांगतां, अमृत, हांवें कांयच केलें ना. प्लीज, डॉण्ट..."

"तुवें त्या गुंडांक फायट दिली तें फट तर?"

"तेंच तर सांगतां. हांव थंय उबो तें पळोवन तेच भियेवन पळून गेले–"

"तांणी सुरो दाखयिल्लो मरे? मागीर तूं आंगार गेलो मरे तांच्या?"

"वा. तांणी सुरी दाखयली म्हूण हांवें तांकां भियेवपाचें तर! मारपाक आयलेच जाल्यार तांकां आडावपाची हांवें तयारी केल्ली, इतलेंच." हांवें खरें तें सांगलें.

अकस्मात अमृतान म्हज्या खांद्यार हात घालो, "अजापांचोच तूं. लोक हांगा करूंक नाशिल्ल्या कामाचें क्रॅडीट घेवन मेकळे. आनी तूं हांगा तुवें दाखयिल्ल्या धाडसाचें आमी कवतूक करतांत जाल्यार नाका म्हणटा? नॉट डन. फाल्यां फॅलिसिटेशन जातलेंच."

सदचेच बसीर चडलों. सदचेच वाटेन परतलों. पूण वातावरणांत बदल घडिल्लो. भायर पावस शेनतालो. सत्री बंद करून हांवें तोंड वयर करून पावस आंगार घेतलो. प्रसन्न दिसप म्हणटात तें हेंच काय? नकळटनां म्हज्या हातसून कितें तरी घडून गेल्लें, इतलें खरें.

आजवेर केन्नाच अणभवूंक नाशिल्ली उमेदीची एक भावना ल्हार जावन वयर आयिल्ली. पुस्तकां वाचतना जे भावने कडेन हांव पयसुल्ल्यान तटस्थपणान पळयत आयिल्लों तीच भावना आयज म्हाका आंगा खांदार खेळयता शें दिसपाक लागलें. ही म्हगेली निजाची भावना न्हय अशें एक मन निश्ठून सांगतालें. पूण घे वळखून तिका; तुजीच ती; तुजो अधिकार तो; घट धर तिका अशें दुसरें मन सांगतालें. इतले दीस खंय लिपिल्लें हें दुसरें मन? खरें मूं हें? कांय अडेचें?

वारो तेज व्हांवतालो. त्या वाऱ्यार हुबत हांव घरा पावलों.

दनपाराचीं बारा जाल्लीं. वासरेंतच डॅडी वॉल्तेरार बसून घोरेतालो. हालीं व्हीआरएस घेत साकून चडसो घराच आसतालो. करतलो तरी कितें? वाचनाची गोडी केन्नाच नासली. पेपरलेगीत वाचनासलो. एकदां हांवें सुचोवणी केल्ली लेगीत- जाल्यार म्हणूंक लागलो, ''कामार आसतनां घेतलो ना. आतां बेकार आसतनां पेपराचेर दुडू वगडाय म्हणटा?'' ताका टिव्ही मुळांत आवडना काय मां टिव्ही पळयत बसता म्हणून हाका पळोवपाक आवडना खबर ना. घरांतलीं कामां बायलांनी आनी पोरसांतलीं कामां वावराड्यांनीं करपाचीं अशें ताका दिसतालें. सकाळ सांज बाजारांत पासय मारून येवप आनी उरिल्ल्या वेळार झेम काडप. मदीं वेळ मेळटा तेन्ना मां कडेन कसल्या ना कसल्या विशयाचेर हुज्जत घालप. फाटल्या दोन अडेज म्हयन्यांत डॅडीलें वजन लेगीत दोन-अडेज किलो वाडिल्लें.

म्हगेलें बॅग कुडींत उडयलें. च्या जायशी दिसली. आयज उमळून आयिल्ली भावना च्याचो घोंट ताळ्यार पडटकच फुलतली अशें दिसलें. उदक दवरतकच लक्षांत आयलें, जेवणाची कसलीच तयारी नासली.

''च्या करता रे - म्हाकाय दी, आं!'' मांन दाराकडेन येवन म्हळें.

''मां, आजून रांदूंक ना? केन्ना करतली?''

''म्हज्यान साप नज रे आज-'' डॅडीन व्हिआरएस घेतिल्ल्याक मां रांदपाक चडच आळसाय करताली.

“डॅडी घराच आसा मगे!”

“तो छळटा म्हाका. हांवें सागिल्लें– ‘तूं तांदूळ धुवन शिताक उडय. हांव मिक्सराचेर सोय पिळून काडटां.’ जाल्यार सांगता– ‘बायलांचीं कामां बायलानीच करचीं.’ सदचेंच जालां तागेलें.” तितल्यान तिका म्हजी याद जाली, “तूं आयलो तें बरें जालें. अशें करूंया– वासूदेवाल्या हॉटेलार वचून दोन पाव आनी बटाटवडे घेवन यो. तुजी आनी म्हजी गरज जातली.”

“आनी डॅडी?”

“ताणे आपणां खातीर बिर्याणी मागयल्या. हांवें आयकलां– ताणें फोनार ऑर्डर दिल्या. स्वताचेर मोडपाक पैशे आसात ताचे कडेन. तुजेर म्हजेर खर्च करतना हाचे हात आंवुळटात.” अशें बडबडत मां भितर गेली.

हांवें च्या गाळून काडली. कपांत ओतपाक भायर वॉल्तेर लवंडल्ल्याचो मोट्यान आवाज आयलो. भायर वचून पळय जाल्यार डॅडी वॉल्तेर घेवन पडला. फुडें वचून पयलीं वॉल्तेर उबें केलें. आनी डॅडीक हात दिलो जाल्यार ताका मोडणें मारून आयलां.

“मां,” हांवें धांवट वचून मांक विचारलें. “डॅडीक मोडणे मारून येवपाची संवय आसा?” तिणें ना म्हणटकच हांवें पयलीं डॉक्टर कोश्ताबीराक फोन लायलो. रोखडोच घेतलो ताणें.

“डॅडीक मोडणें मारलां; कितें करूं?”

“जातलो बरो. पूण बरो जायसर तेका कांयच करूं नाका. फकत बगलेक राव. कीप अ वॉच.”

मां येवन सांगपाक लागली, “उदक मार तोंडार–” पूण हांव थंड रावलों. कांय वेळान डॅडीन दोळे उकते केले. हांवें हात दिवन म्हळें, “ऊठ डॅडी. बस वॉल्तेरार.”

डॅडीन सगलोच भार म्हजेर घालो. स्वता उठपाचो कांयच येत्न करना तें पळोवन हांवेंच विचारलें– “मातसो रावन उठटा?”

डॅडीन तोंड उगडलें. पूण तें वांकडें दिसलें आनी उलयलो तें कांयच कळ्ळें ना. म्हाका दुबाव आयलो.

“डॅडी, हात वयर काड पळोवंया!” हात तस्सो. “कितें जाता डॅडी?” ताचें तोंड पळयतनाच म्हाका कळ्ळें. सोमतोच डॉ. कोश्ताबीराक फोन केलो. ताणें सांगलें, “108 आफय आनी बेगोबेग हॉस्पिटलांत व्हर. इटस ॲन इमर्जन्सी.”

108 फोन करून रिसिव्हर सकयल दवरतां थंय आसा. मां च्याचे दोन कप घेवन आयली. पूण म्हजी च्या वयली वानसाच गेल्ली.

म्हणसर बेल वाजली. भायर् धांवलों. पळय जाल्यार डॅडीन ऑर्डर केल्ली ती बिर्याणी घेवन मनीस आयिल्लो. हांवें कितेंय सांगचे पयलींच मां फुडें आयली आनी तें पाकीट घेवन भितर गेली.

जी.एम.सी. विशीं वायट चड आयकल्लें. पूण आमकां अणभव बरो आयलो. बेगोबेग डॅडीक आय.सी.यूं.त व्हेलो. कांय वेळान डॉक्टर भायर आयलो- “टि.आय.ए.!” ताणें सांगलें, “स्ट्रोक. ट्रान्झिएंट इस्कॅमीक अटॅक! टायमार हाडलेल्यान साल्वार. आतां हीं वखदां बेगीन घेवन यो.”

“आत्तां?” हातांत कांय नासतनां पयशांचें सवंग कशें हाडप तें कळना जालें.

“डॉण्ट वरी! आमी ट्रीटमेंट सुरू केला. पूण - चड वगत करूं नाका.”

घरा धांव मारली. पळयल्यार मां डॅडील्या वल्तेरार बसून बिर्याणी खाताली..

“कसो आसा हो?”

“हुसको आसा तर तुका?” म्हाका उतर फुटलें.

“आसा म्हणून विचारलां. पूण हुसको केलो म्हूण भूक मरता?”

हांवें तोंड धांपून डॅडीलें सामान उस्तिलें. पास बूक, चेक बूक काडलो. बॅंकेंत गेलों. तांकां पत्र बरोवन दिलें. बॅंकेन आपलो मनीस म्हजे बराबर धाडलो. हॉस्पिटलांत वचून डॉक्टराक सांगून चेकाचे फाटले वटेन ताची

सय घेतली. हॉस्पिटलाचो स्टॅम्प मारून घेतलो. डॅडीचो आखाणो बँकेच्या मनशाहुजीर चेकाचेर लायलो आनी धा हजार काडले तेन्ना वखदांचो बंदोबस्त जालो.

इतलेंय करून डॉक्टरान सांगलें, ''हेमी प्लेजिया! पुराय बरो जावपाक कुस्तार. पूण तुमी फूल अटेन्शन दिलें जाल्यार कंट्रोलांत उरतलो...''

डॅडीलें दावें आंग पुरायेन धरिल्लें. दावो दोळो धांपिल्लोच उरतालो. हात निर्जीवसो लोंबकळटालो, पांय लागनासलो. जीब लुळी पडिल्ली. पूण नर्सी आनी डॉक्टरांचे तत्पर सेवेक लागून म्हाका चडसो त्रास जालो ना. तिसऱ्या दिसा डॅडीक वॉर्डांत हाडलो.

त्याच दिसा सांजचो मार्टीनसर हॉस्पिटलांत मेळपाक आयलो. ताका खंय डॉ. कॉश्ताबीरान सांगलें. येतना क्रीमक्रेकर बिस्कीटेचो पुडो हाडिल्लो ताणें. हांवें परतो दीत म्हळें, ''सर, आजून कांय खायना तो.''

परतो म्हज्या हातांत दिवन म्हणूंक लागलो, ''तूं खा.''

थोडो वेळ बसलो. वतनां विचारलें, म्हाका पयशांची गरज आसा काय म्हूण. कसलीय गरज पडल्यार सांग म्हूण सांगून गेलो.

हांव मदीं मदीं घरा वचून येतालों. वतनां मां खातीर हॉस्पिटलाच्या कँटिनांतल्यान रोटी-भाजी वा शीत-कडी घेवन वतालों. तिसऱ्या दिसा मांक पुलाव खायन दिसलो. दोन दिसांनी चिकन -

धा दीस हॉस्पिटलांत उरलो डॅडी. तितले मजगतीं म्हाका आनीक दोन फावटी बँकेंतल्यान दुडू काडपाची गरज पडली. खर्च जावं, पूण वखद पारलें. आठ दिसांनी ताका हांतरुणार उठोवन बसयलो. तो उलयता तें हांव सोडून कोणाक समजनासलें. पयलीं साकून डॅडीक वळखता जाल्ल्यान आनी आतां तागेलें समजून घेवपाचो येत्न केल्ल्यान तो कितें सांगूंक सोदता तें म्हाका थोडें भोव कळटालें.

डिस्चार्ज दिवपाच्या दिसा व्हडलो डॉक्टर तपासपाक आयिल्ले कडेन डॅडीन डॉक्टराक जें विचारलें तें डॉक्टराक कळ्ळें ना. पूण म्हाका अदमासान कळ्ळें. म्हाका बोट दाखोवन तो डॉक्टराक विचारतालो, ''हो

केन्ना जातलो दोतोर?''

''कितें सांगता तो?'' डॉक्टरान म्हाका विचारलें.

सांगचें, ना सांगचें! पूण सांगलें. म्हजेकडेन पळोवन डॉक्टरान विचारलें, ''तूं मेडिसीन शिकता?''

''ना, डॉक्टर. हांव बारावेक आसां.'' बेगबेगीन हांवें फोडणिशी केली.

डॉक्टर हांसलो, ''शिकय तेका, जातलो तो डॉक्टर-''

डॅडीली जीब पर्थून हुळहुळ्ळी, ''तो करतलो म्हाका बरो!'' हें तो सांगतालो काय विचारतालो तें म्हाकाय कळ्ळें ना. ''तो उलयता तें समजना'' अशें सांगून हांवें वेळ मारून व्हेलो.

डॉक्टरान म्हाका थंयच सांगलें, ''डिस्चार्ज दितां हाचो अर्थ तो फुल्ली रिकव्हर्ड एसो न्हूय. कॅअर घेवचीच पडटेली. फुडें तेका रिहॅबिलिटेशन थॅरपी दिवची पडटेली. पूण ते पासोत तेणें पयलीं एनर्जी रीगेन करूंक जायी. आन्येक आठ धा दिसांनी तूं फिजिओथॅरपिस्टाक मेळ. तो तुका इन डिटेल एक्स्प्लेन करतलो.''

हॉस्पिटलांत आसासर तितलें कांय जाणवूंक नासलें. अर्दांग जाल्ल्या वायटकाराची सेवा म्हळ्यार कितें तें घरा येतकच कळपाक लागलें. शीत-दाळ मुड्डून ल्हान ल्हान उंडयो तोंडांत घालप धरून गू-मूत काडपामेरेन सगलीं कामां करतासर जेवणाखाणा वयली वानसा मरून वताली.

जाय दिसताली ती फकत च्या.

घरा येवन दोन दीस गडबडींत गेले. फाटले बारा दीस क्लासी चुकिल्ल्यो. इतले दीस ती याद लेगीत जावंक नासली. आयज अचकीत याद जाली. फाटल्या मंगळारा अमृत ते रॅलीचें आयोजन करपाचो आसलो. जाली काय रॅली? ते भायर फातिमाचो भाव म्हाका मेळपाक येवपाचो आसलो. रावन रावन गेलो आसतलो. आनी ती नवी उमेद जागोवपी उमळ. त्या दिसा घरांत पावल दवरलें आनी उमेदीचें तें ल्हार केन्ना निस्तून गेलें कळुंकच नासलें.

बारा दिसांत कितें कितें चुकलें काय म्हाका? वर्गांत एखादरो टॉपीक शिकयलो की त्याच दिसा पुस्तकां आनी संदर्भग्रंथ वाचून नोटस काडपाची म्हजी पद्दत. फाटल्या बारा दिसांनी चुकिल्ल्या वर्गपाठांचो अभ्यास करून लुकसाण भरून काडूं येतालें. पूण डॅडीची सेवा आनी घरांतलीं कामां आटापून म्हाका अभ्यासाक वेळ मेळाटलोच म्हणपाची खातरी आसली व्हय? विवेकानंदाली उतरां याद जालीं - 'नॅव्हर से आय काण्ट!' मनाची तयारी केली- आयच्यान क्लासी चुकोवप ना.

डॅडीलें गू-मूत काडून, हांतूण निवळ करून, ताका च्यांत बुडोवन फांती बिस्कीट खावोवन हांवें कपडे केले. लक्ष दी म्हूण सांगचे पयलींच मांन पिरंगण सुरू केली- "पयलींच सांगतां, म्हज्यान जावचें ना. म्हजोच देह म्हाका जड जाला. ताचें करचें पडलें जाल्यार फाल्यां म्हाकाच तुवें

हॉस्पिटलांत घालची पडटली.''

म्हज्या काळजार फातर दवरपाचो तिचो येत्न सुफळ जालो ना. निबर काळजानच भायर सरलों.

क्लासीक पावपाक पांच मिण्टां लेट जाल्लों. प्रो. नमशीकर बायोलॉजीचो क्लास घेतालो. ''सर, मे आय -''

म्हजेर नदर पडनाफुडें नमशीकारान हांसून म्हळें- ''यो, यो. बस.''

बांकार बसतां थंय आसां, सरालो प्रस्न, ''बारावेचे क्लासीक आयला, काय तेराव्याच्या जेवणाक रे?''

थोडीं भुरगीं बेठींच हांसली. सराक नेट आयलो. ''दीस मेजल्यात हांवें. कितले दीस जाले क्लासीक आयलो ना तूं सांग पळोवंया?''

''बारा. आयज तेरावो.'' तींच भुरगीं पर्थून हांसलीं. हीं सगलीं ताचेकडेन ट्युशन घेवपाक वचपी.

''खंय आशिल्लो?'' नमशीकाराक दुबाव, हांव जॉनसराले ट्युशन क्लासीक बी ज्यॉयन जालों ना मूं?

''जेनेटिकली इंजिनिअर्ड इन्सुलीन शिकोवन जालें म्हगेलें. गॅरंटीड प्रस्न येतलो ताचेर. मेक अप कशें करतलो? ट्युशन?'' तो अदमास घेतालो जावंये.

हांव वग्गी बसलों. हात कामरून.

''डॅडीन सांगिल्लें म्हाका- तुका बरो शिकय म्हूण. डॉक्टर करतलो खंय तुका. तूं हेड हांगा थंय, लोकाल्या चेडवांक प्रॉटेक्शन दीत.'' हांवें दिर्घ स्वास हड्ड्यांत भरून घेतलो.

''डॅडीक सांग तुगेल्या - फाल्यां येवन मेळ म्हूण म्हाका. तूं सांगता काय हांव सांगूं?''

''हांव सांगना. तूंय सांगुनाका. तो येवचो नां.'' हांव बॅग हातांत घेवन उठलों आनी नमशीकाराले दांत ओंठ पळयनासतनां भायर सरलों. बद्द कॅंटिनांत. खूब दीस चुकिल्ली कॅंटिनाची च्या घेवपाची तल्लफ आयिल्ली.

च्याचो कप घेवन कुशीच्या रित्या मेजाकडेन वचून बसलों. पयल्याच घोंटान तरतरी आयली. क्लास चुकोवपाचोच आसलो जाल्यार आयलों तरी कित्याक? च्या मारपाक? च्या तर घराकडेनूय करून घेवं येताली. ही तरतरी आयल्या ती च्याचीच? काय ह्या भोंवतणाची? घरांतल्या त्या कुबट आनी रोगीट वातावरणा कडसून पयस वचूंक मेळचें देखून आयलां काय हांव हांगा?

"हांव हांगा बसल्यार उपकरता?" ते चलयेन हातांतलो कॉफीचो कप मेजार दवरीत विचारलें.

"मेज म्हजें न्हय. विचारपाची गरज ना." म्हजो आवाज सदचे परस रुक्ष सो दिसलो म्हाकाच.

कदेल इलें चडच लागीं ओडून तिणें सांगलें, "खरें तुगेलें. मेजाकडेन कोणेंय बसूं येता. हांवें तुज्या म्हऱ्यांत बसल्यार जाता काय विचारलां."

"म्हाका कांयच प्रॉब्लॅम ना. बस तूं. पूण म्हाका चड उलोवपाक कळना."

"बरें जालें. म्हाका उलोवपाक आवडटा. म्हणटकच चड उलोवपाचें काम हांव करतां. तूं थोडें उलय." अशें म्हणून ती खुक्क करून हांसली. हांसतना बरी दिसली. म्हाका बेठेंच गोंदळिल्लेवरी दिसलें. तिच्या हांसपाचीं स्पंदनां म्हज्या काळजाक स्पर्श करतात आनी त्याच बराबर हांवें म्हजे खातीर राखून दवरिल्ले सुवातेचेर अतिक्रमण करतात अशें शें दिसपाक लागलें.

"हाय विपीन, हांव चित्रा." तिणें हात फुडें केलो. हांव गणमणलों. उठून वचचें शें दिसलें.

पूण पांय खिळाविल्लेवरी थंयच उरले.

"कमॉन, आवडलें ना तुका वळख करून दिवप?" तीय स्पश्ट उलोवपी जावंये. तिच्या आवाजांत दुखाविल्ल्याची भावना देंवन येता शी दिसली. आनीक थोडो वेळ हांव वग्गी रावलों जाल्यार ती उठून

वतली शें दिसलें. ती तशी वचची अशें दिसलें ना. हांवें हात फुडें केलो. फाटीं हांवें रोयिल्ल्या विलुदाच्या फुलाचो स्पर्श असोच आसलो. मोव, मुलायम, वॅल्वॅटी....

"हॅलो-" तिचें समादान जावंक नासलें. "हांव चित्रा-"

"यस. हॅलो - चित्रा"

"थँक्स." हात हयन्हय सो हालोवन तिणें सोडलो. "तुका मेळून बरें दिसलें, विपीन."

"तुका म्हजें नांव कशें कळ्ळें?"

"कित्याक म्हण्टा? रोलाचेर अशेंच आसा तुजें नांव - विपीन परोब. रायट?" आनी मागीर तेंच उलयत रावलें. उलयलें तें सगलें मेकळेपणान. तेंय बारावेक आशिल्लें; पूण आर्टसाक. ताका खंय चित्रकलेची आवड. बारावी करून फायन आर्टस शिकपाचें आनी मागीर मास्टर्स करपाक बरोडा- एम.एस युनिव्हर्सिटींत.... "तूं कितें करतलो, विपीन?"

म्हाका जाप येवजली ना म्हणचे परस उतर फुटलें ना. आयकतच उरिल्लों.

"एस.एस.सीक मॅरिटांत आयिल्लो न्हय तूं?"

"ना, ना. स्कुलांत, गांवांत टॉप केल्लें, इतलेंच."

"हांगा इकरावेकूय टॉप केलें खंय तुवें. ग्रेट! फुडें कितें? मेडिसीन काय इंजिनिअरिंग?"

हांवें खांके वावुडले. "येवजिल्लें मेडिसीनाक वतलों म्हूण. पूण-"

"पूण कितें?"

"निखटोच विचार बदलला -" हांव इलें चड उलयलों काय? बेगबेगीन च्याचो घोंट मारलो.

"तूं जाणा, खूब उमेदीन हांव आर्टसाक आयिल्लें. पूण वर्सभरयानच उबगलें. कलेचो कांयच संबंद नाशिल्ल्या ह्या शिक्षणाक आर्टस कित्याक म्हणटात कळना"

"भाशा विशय शिकना तर तूं? साहित्य शिकयतात न्हय? तीय

कलाच न्हय?''

''यू आर रायट, पूण -''

''वाचनाची आवड आसा?''

''खूब.''

''मागीर जालें. फॉर्मल शिकयतात तें आवडना मूं? तशें जाल्यार पुस्तकां वाच. चड शिकतलें.''

हांव खूबच व्हांवतां काय हाचेकडेन उलयतना अशें येवजितनाच चित्रान विचारलें-

''तुका लिटरेचर आवडटा. रायट''

''तुका कशें कळ्ळें?''

''फिक्शन. तेंय ऑफ-बीट क्लासीक्स.. रायट?'' म्हज्या तोंडार ताणें कितें पळयलें कोण जाणा; तें हांसलें, ''हांवें कितें स्पायींग करून सोदून काडलां अशें न्हय आं! हांवें लायब्ररींत पळयला तुका- पुस्तकां घेतना. सायन्सीचो स्कॉलर लिटरेचराची पुस्तकां वाचता ताचें म्हाका अप्रूप, इतलेंच.''

''सारकें तुगेलें. म्हाका फिक्शन वाचपाक आवडटा. तेंय सर्रियल, ॲब्सर्ड, विलक्षण... असलें.''

''आमची आवड जुळटा. आल्बॅर काम्यू म्हाका खूब आवडटा. तुका सांगतां, आल्बॅर काम्यूलें 'द मीथ ऑफ सिसीफस' वाचून हांव इतलें इन्स्पायर जाल्लें की सिसीफसाची दोन पेंटिंग्स जालीं म्हजे हातसून. तुका दाखोवपाक हाडूं?'' हांवें हय वा ना म्हणचे पयलींच चित्रान फुडें विचारलें ''फाल्यां?''

फाल्यां? डॅडीचे बी पी मॉनिटर करपाक डॉक्टर कॉश्ताबीर येतलो. भानार आयलों. पांखां पातलावन वाऱ्यार झपय घेवन मळबांत भोंवर मारतां थंय आसां, अचकीत पाखां तुटून सकयल आपटुंचो तशी गत जाली म्हजी. डॅडी कसो आसा काय? मां लक्ष दवरीत काय सारकें? कशें सांगूं, फायचो दीस कसो आसतलो तें?

“सांगूं येना. डॅडी बरोऽ ना.”

“नो प्रॉब्लॅम, विपीन. म्हाका तुजो नंबर दी पळोवंया. तूं दिसलो ना जाल्यार फोन करीन तुका -”

तें म्हाका गृहीत धरतालें. आनी म्हाका ती गजाल मानवल्ली? आयज पयले खेप मेळिल्लीं आमी. पूण वर्सांसंखेची वळख आशिल्लेवरी उलयतालीं. हांवें घड्याळ पळयली. वरभर जाल्लें हांव कँटिनांत आयल्यार.

“विपीन, आन्येक राउण्ड करूंया? म्हाका कॉफी जाय.” चित्रा उठलें. तें पळोवन हांवूय उठलों, “तूं बस. हांव हाडटां.”

“नो, प्लीज. ही ऑफर म्हजी. नॅक्स्ट टायम तूं दी.”

“म्हाका च्या -”

“जाणां.” अशें म्हणून तें वचून घेवन आयलें.

च्याचो कप म्हज्यामुखार दवरून ताणें सांगलें, “तूं जाणा, विपीन, म्हाका कॉफी खूब आवडटा.”

“म्हाका च्या.” कप उकलून हांवें म्हळें

“तुका आल्बॅर काम्युलें तें वाक्य याद जाता?”

“खंयचें?”

“तो फेमस कोट तागेलो- शुड आय किल मायसॅल्फ, ऑर हॅव अ कप ऑफ कॉफी?”

हांव जाल्यार कितें म्हणटासलों? जीव दिवं? काय च्या मारूं?

काम्यू पर्थून वाचचो पडलो.

चित्राचो निरोप घेवन घरा परततना पर्थून तें निस्तून गेल्लें उमेदीचें ल्हार म्हाका वेंगावपाक आयलें. हांवेंय ताका आडायलें ना. त्या ल्हारांत रेवडावन घेवपाक म्हाका आवडलें. पुस्तकांनी असलीं ल्हारां हांवें

पळयिल्लीं. पूण तटस्थतायेन, धडेर रावन, सुको रावन. असल्यो ह्यो भावना फकत पुस्तकांतच वाचपाच्यो अशें म्हाका सदांच दिसतालें. पूण आयज ह्या ल्हारांत चिप्प भिजपाचो आनंद हांव भोगतालों -

जाणा आसलों- घरा वतकच डॅडीची सेवा करूंक जाय. आयजय मां रांदतली अशी आशा ना. तांतल्या तातूंत मॅडिसीनाक वचपाचो विचार मनांतसून काडून उडयिल्लान मुक्ततायेची एक सुखदिणी भावनाय हांव अणभवतालों. घरावटेन चलूंक लागलों आनी खोशेच्या ल्हारार उफेतच हांवें वासुदेवाल्या हॉटेलार वचून शीतकडी पार्सल सांगलें आनी तें येतासर एक च्या मारली.

''डॅडी आतां कसो आसा?'' वासुदेवान चवकशी केली. कॉश्ताबीरान सांगलें आसतलें हाका. वासुदेवाक थोडेभितर सांगलें सगलें. ताका पयलींच तें खबर आशिल्लें जावंये. ताणें बगलेक येवन म्हज्या खांद्यार थापटीत म्हळें, ''हें पळय बाबू, अशें सदां उठून शीत-कडी, बटाटवडे, भाज्जी-पुरी व्हरून पोट भरप बराबर न्हय. तूं घरांत कामाक मनीस कित्याक दवरना?''

इतले दीस कित्याक येवजलें ना काय हें म्हाका? डॅडीच सगलें येवजितालो जाल्ल्यान म्हाका कांयच लागूंक नासलें. आता हाचेर विचार करूंक जाय हें म्हाका पयलेच खेपेक जाणवलें.

पार्सल घेवन घरा यो जाल्यार मां वल्तेराचेर बसून सफरचंद खाता. आनी डॅडी आड पडिल्लेकडेन तिचें तोंड हालता तें एक तांक पळयता.

''मां, सफरचंद खंयच्यान हाडलें?''

''धाकलो माम आयिल्लो- हाचे खबरेक. ताणें हाडिल्लीं.''

मनांत म्हळें बरें जालें. डॉक्टरानूय ॲपल मिक्सरांत काडून दी म्हळां डॅडीक.

''खंय दवरल्यांत?'' आमी जेवन घेवचे पयलीं डॅडीक दिवपाचे तयारेन विचारलें.

''कितें?''

''सफरचंदां गे- ''

‘‘सोंपलीं. खालीं हांवें.’’ मांन थंडसाणीन सांगलें.

‘‘सगलीं?’’

‘‘अशें कितें रासभर हाडिल्लीं तर? चार पांच आशिल्लीं.... जेवणाचो वेळ जाल्लो. भूक लागना मनशाक?’’

‘‘हांव आनी जेवण घेवन आयलां –’’

‘‘सफरचंदां खाल्यार जेवण जाता? शीत जायच –’’अशें म्हणीत मांन जाता नज करीत आपणांलो जड जीव वल्तेरांतल्यान भायर काडलो.

ल्हार निस्तरता शें जाल्लें. तें थातारपाक म्हाका मार्टीनसरागेर वचूंक जाय आसलें. जाता ते भाशेन डॅडीलीं वखदां आनी पथाचें खाण खावोवन सांजेर मार्टीनसरागेर पावलों तेन्ना थंय कसल्यातरी सुवाळ्याची तयारी चलिल्ली.

‘‘यो, विपीन. जुस्त पावलो. आयज आमगेल्या स्टॅलागेलो बर्थडे.’’

कोण आयलो काय पळोवपाक स्टॅला भायर आयलें. म्हजेर नदर पडटकच थोडें निर्शेलें शें दिसलें. घडये, जाची वाट पळयतालें तो न्हय म्हूण जावंये. हांवें पयसुल्ल्यानच ‘हॅपी बर्थडे’ म्हळें. जाल्यार तेंच लागीं आयलें आनी हात दिवन ‘थँक्यू’ म्हळें. म्हणसर सराची बायल थंय आयली, ‘‘आयज आमोरेचेर स्मॉल पार्टी आहा. स्टॅलागेले फ्रँडस येतले. तूंय राब आं!’’

हांव हात हालयत पावलां तें येवजून म्हजी म्हाकाच लज जाली. रावप शक्य नासलें. ‘‘सर, तूं जाणा. डॅडीक घरा हाडला. पूण तो न्हिदून आसा. ताका वेळावेळार वखद दिवपाक जाय. म्हाका रावपाक मेळचें ना. सॉरी.’’

सरान म्हाका हाताक धरून भितर व्हेलो. हे कुडींत तागेली लायब्ररी आसली. तीन आल्मारी भरून पुस्तकां आसलीं. थंय आशिल्ल्या

बरोवपाच्या मेजारूय पुस्तकांचो दाळ आशिल्लो. नकळटनां म्हजी नदर पुस्तकां वयल्यान भोंवंक लागली.

"घरांत कामाक कोण आहा?" म्हाका सकाळीं वासुदेवान काडिल्ल्या उतरांचो उगडास जालो- घरांत कामाक मनीस कित्याक दवरिना? मागीर सरच उलयत रावलो. घरांतलीं कामां आनी डॅडीची सेवा करीत रावल्यार अभ्यासाक वेळ कसो मेळटलो ह्या प्रस्नाचेर 'हांवें मेडिसीनाक वचपाचो विचार काडून उडयला' म्हूण सांगपाचें मनांत आयिल्लें, पूण वग्गी रावलों. मां घरांतल्या कामाक हात घालना हाचो ताका अदमास आयिल्लो. धावेचे प्रिलीमेकडेन आमगेर आयिल्लो तेन्ना डॅडीच्या रागीट सभावाची ताका वळख मेळिल्लीच. म्हजें फुडें कशें जातलें हाची चिंता ताका सतायताली.

"पळय, विपीन. डॅडीक वखदां, फिजिओथेरपी बी मेळण कितले दुडू लागतले हेचो अदमास आहा तुका?" म्हाका कांयच गती नाशिल्ली. पूण मदीं हॉस्पिटलांत येवन वतकच खंय ताणें खबर काडिल्ली. डॅडी खंय आनी कसलें काम करतालो तें म्हाका लेगीत खबर नासली. ताणें व्हिआरएस घेतल्या म्हूण हांवेंच सांगिल्लें. आतां ताणें म्हाका सांगलें- "हांव तुगेल्या डॅडीच्यो चाडयो सांगतांशें दिसत तुका. पूण यू शूड नो. तुगेलो डॅडी मायनिंग कंपनीच्या ऑफिसांत सादो फायलिंग क्लार्क आसलो. मायनिंग बंद केल्याउपरांत कंपनी बुकां तपासतना तांकां स्टॉकाचो हिशोब मेळ्ळो ना. तेंकां दुबाव डॅडीचो. पीनल ॲक्शन म्हूण कंपनीन तेका काडून उडयलो. पूण इतल्या वर्सांची सर्वीस चवन कंपनीन तेका प्री-रिटायरमँट पॅकेज दिलें आनी घरा धाडलो. तेणें तुमकां व्हिआरएस बी सांगलां तें खरें न्हूय. म्हुगे मेवण्यागेली बायल तेंगेल्या हेड ऑफीसांत कामाक आहा. ती सांगताली- कंपनीन तेका बरें पॅकेज दिलां खंय. प्रोव्हिडंट फंड, ग्रॅच्युइटी आनी स्पेशल पॅकेज धरून तेका स लाखांवयर मेवल्यात खंय. फ्रँकली, तितल्यान तेगेलें भागपाचें ना. हेजेर तुवेन कितें चिंतलां?"

हांवें मान हालयली.

"ते भायर तुगे फुडार आहा. दोतोरकेचें शिकप सोपें न्हूय. तूं बरो

शिकल्यार तुका ॲडमिशन मेवतेलें. पूण पांच वर्सां तरी लागतेलीं. आनी पोस्ट ग्रॅज्युएशन करशी जाल्यार आनीक दोन तीन वर्सां. केशें करतलो?''

थोडो वेळ थांबून ताणें फुडें सांगलें, ''चिंतून चय, विपीन. म्हज्या कोंतान तुगे डॅडीक सांबाळूंक नर्स जायी. पार्ट टायम मेल नर्स मेवता. पूण बायल नर्स मेवल्यार घडये घारांतुल्या कामांकूय आदार जावं येता. म्हारग पडटेली. पूण तुमगेलें फिनान्श्यल कंडीशन चय आनी थाराय.''

तितल्यान स्टेला केक घेवऩ आयलें. हांवें एक स्लायस घेतलो. 'थँक्यू' म्हणपाकय विसरलों.

स्टॅला वतकच सरान म्हळें, ''पयलीं केक खा. हें जें हांव सांगतां तें तुका भेश्टावपाक न्हूय. पूण यू हॅव टू ब्रेस फॉर इट.'' म्हज्या मनांत तें जिरसर तो रावलो. ''वाश्ट दीस तूं ओवरकम करतलो हेची गॅरंटी आहा म्हाका. हांव इतलेंच सांगोंक सोदतां – तुका केसलीय गरज पडली जाल्यार हांव आहां. यू मे काउण्ट ओन मी!''

आयचो दीस हो पुस्तकांतल्या पानां मदलो सो दिसलो. सकाळीं तें चित्रा आनी आतां हो मार्टीनसर.

भायर सरलों तेन्ना पावस शेनतालो. हांवें सत्री व्हरूंक नासली.

''राब म्हुगेली सत्री घेवन वच.'' सरान म्हळें.

''नाका, सर.''

म्हणचें शें दिसलें, 'आयजमेरेन जिणेंत सगलें ड्राय ड्राय आसलें. आयज म्हाका पावसांत भिजूं दी. आय विश टू गॅट ड्रेंचड इन द रेन्स...' हांव वचपाक लागलों. सर म्हाका पळयत उरलो. आनी हांव? आंगार उमेदीचें ल्हार आसतनांच माथ्यार पावस फुलां झेलीत घरा परतलों.

दुसऱ्या दिसा भायर सरूंक मेळ्ळेंच ना. डॉ. कॉश्ताबीरान येवपाक कळाव केलो. तोमेरेन हांवें डॅडीलें आंग पुसप, हांतरूण बदलप, पातळ आलिमेंत दिवप, वखद ताळ्यांत ओतप.... सगलें करून जाल्लें. पूण कोंसुल्तारेंत वचचे पयलीं येवपाचो कॉश्ताबीर दनपारां साडेबारांक आयलो. मजगतीं साडे धांक सुमार फोन वाजलो. डॅडी-मांलो आनी क्वचीत येवपी मामालो फोन सोडून म्हाका येवपी हो पयलोच फोन. हांवें अदमास केल्लोच.

"कितें जालें विपीन? आयलो ना तूं?"

"सांगिल्लें न्हय तुका? डॅडी बरो ना –"

"नो प्रॉब्लॅम. म्हाकाय अदमास आशिल्लो. म्हणून हांव आयज चित्रां बी घेवन येवंक ना. कसो आसा डॅडी आतां?" चित्राक घडये डॅडीक थंडी जोर बी दिसलां आसूं ये.

"तसोच आसा. बरो जावपाक कळाव लागतलो. फाल्यांय पावन शें दिसना."

"बरें जालें. आय मीन, फाल्यां म्हाकाय फावचें ना. मम्मा बरीऽ ना म्हूण फोन आयला पप्पालो. हांव काणकोणा वतलें आयज. सकाळींच वचपाचें. तूं येत म्हूण राविल्लें. आमी शेनवारा मेळूंया? मे बी आयताराचो कितेंय प्लॅन करूंया. ओ.के.?"

हांवें तकली हालयली. पूण तें ताका कशें कळटलें!''

"हांव जाणा तूं चड उलोवपी न्हय. म्हणून सांगतां- शेनवाराक, साडेणवांक, कँटिनांत. ओ.के.? बाय द वे, एक प्रॉब्लॅम, काणकोणा म्हाका रेंज मेळना. तूं फोन करचोच ना, हांव जाणां. पूण म्हाकाय करूंक मेळचो ना.''

ताचेच भाशेंत 'नो प्रॉब्लॅम' म्हणचें शें दिसलें. फोन दवरचोच आसा, मां चो प्रस्न- "फोन कोणाचो?''

कितें सांगूं? चित्राचो? 'कोण चित्रा?' म्हूण विचारतकच कितें सांगतलों? ते परस-

"कॉलेजींतलो -''

"कित्याक?''

"क्लासी चुकतात न्हय गे, देखून.''

मांचें समादान जालें. पूण हें संभाशण डॅडील्या कानांर पडिल्लें. दाव्या कानान आयकूंक येता कांय ना, खबर ना. पूण उजवो तरी शाबूत आसलो न्हय? उजव्या हातान कुरू करून ताणें म्हाका बगलेक आफयलो. लुबडे जिबेन उलयलो- "म्हाका बरो जावपाक जाय. तूं दोतोर जायसर हांवें चलपाक भोंवपाक जाय. एक फावट तूं दोतोर जालो की मागीर हांव घट... शीक. तूं दोतोर...''

"डॅडी, आतां न्हीद तूं. जातलो बरो.''

हांव पयस वचत म्हूण म्हजो हात घट धरून दवरिल्लो ताणें, "दुडवांची चिंता करूं नाका. आसात. बँकेंत ... फिक्सांत ... ताका आतां हात लावं नाका, खात्यावयले काड.''

"कशें काडूं? तुज्या नांवार आसा-''

"काड. हांव करतां सय-''

डॅडीक खरस मारता शें दिसलें. 'मागीर उलोवंया' म्हूण हांवेंच विशय थांबयलो.

कॉश्ताबीर येवन वतकच मांनच विचारलें, ''बाबू, जेवण कितेंय घेवन यो. वासुदेवाली शीत-कडी खावन जीव विटला. आनीक खंयच्यानूय हाड आयज. बिर्याणी बी कितेंय .''

हांवें म्हळें, ''म्हाकाय उबगण आयल्या वासुदेवालें खावन. आयज आमी घराच रांदुंया.''

मांन कपलाक मिरी घाली. ''म्हज्यान जातालें जाल्यार रांदतासलीं...''

''तूं नाका. हांवच रांदतां आयज. तूं फकत दाखय म्हाका. ''

त्या दिसा हांवेंच कुकर लायलो. शीत केलें. दाळ शिजोवन तातूंत हळदी पिठो, मिरसांग, आमटाण, मीठ सगलें मांक विचारून पूण म्हगेल्या अदमासान घालें. सोय ना म्हूण मां पिरंगताली. हांवें नाल्ल बी फोडलो. पूण कांतपाक सपसप जमना जालें. रोस तसोच करून काडलो. चार सोला उदकांत घालीं आनी मीठ, मिरसांग, गोडा कुडको आनी हिंगा वास लायनाफुडें फुटी कडी जाली. खरें सांगतां - वासुदेवाली शेळी शीत-कडी खावचे परस हो हुनार हून शीत रोस बरो लागलो. मां लेगीत बरी जेवली. पूण फडफडतच. तिणें जीब पाजून दवरिल्ली बिर्याणी खावपाक.

जेवणा उपरांत हांवें सगले डबे उस्तून कितें जाय नाका ताची वळेरी बरोवन काडली. ते सांजेर बाजारांत वचून कांदे, बटाट, रवो, गंवापीठ, तेल, मीठ, मिरसांग, हळद, जिरें, साखर, गोड, कोतमीर ... जाय जाय तें सगलें सामान घेतलें. च्या पावडर मागली जाल्यार पसरकारान विचारलें -'कसली दिवं?' आतां म्हाका कितें खबर च्या वेगवेगळे भाशेन येता म्हूण!. 'बरी ती दी' म्हणटकच ताणेंच सांगलें, 'तुमगेर स्ट्राँग व्हरतात न्हय?' तीच घेवन आयलों.

ते राती हांवें डॅडी खातीर पातळ लरांव केलें आनी हिंग- मिरसांग घालून रव्याचो सांजो केलो.

डॅडीक कुलेरान लरांव खावयलें. तोंड मुळांतच वांकडें जाल्ल्यान

आवडलें काय ना तें कळ्ळें ना. मांन मात थोडोसो म्हजेखातीर दवरून सांजो सोंपयतना म्हळेंच, ''केलाच तो गोडसो शिरो केल्लो जाल्यार हांवूय घोस्तान खातासलीं.''

मनाच्या कुरकुटांत दीस भर आपालिपा खेळत राविल्लें चित्रा रातीच्या काळखांत म्हजे कुशीक येवन बसलें. विचारलें लेगीत ना – 'हांवें हांगा बसल्यार जाता?'

·

सकाळीं पाव हाडपाच्या निमतान वासुदेवाल्या हॉटेलार गेलों. पातळ गिरायक आशिल्ल्यान नाबीरच बशिल्लो. पाव घेवन परततां जाल्यार वासुदेवान म्हळें, ''राव रे बाबू, एक च्या घे. म्हगेली म्हूण.'' हांवें घेतली. बरें जालें. म्हाका विशय काडपाची संद मेळ्ळी.

सुरवातेक हांव वासुदेवाक 'बाप्पा' म्हणी. तागेलो पूत संदीप ताका 'बाप्पा' म्हणी म्हूण. पूण संदीप कॉलेजीक पावलो तेन्ना ताणें 'बाप्पा' म्हणपाचे बदलून 'पप्पा' म्हणपाक सुरवात केली तेन्नाच्यान गांव उलो मारता तसो हांवूय 'वासुदेव' म्हणपाक लागिल्लों, ''वासुदेव, काल तुवें म्हणिल्लें पळय, घरांत कामाक मनीस कित्याक दवरिना म्हूण. म्हाका दिसता, आतां–''

''हांवूय तोच विशय काडूंक सोदी.'' म्हाका आडावन वासुदेवान विशयाक हात घालो. ''तूं आमगेल्या कृष्णाक वळखता न्हय?'' अशें म्हणीत वासुदेवान विस्कटावन सांगलें. बारा वर्सांचेर येवन फाटलीं पांच वर्सां हॉटेलांत काम केल्या उपरांत आतां ताका दुसरी नोकरी करपाची आसा. ताणें वासुदेवाक एक म्हयन्याची नोटिस दिल्या. तितले भितर वासुदेवाकय दुसरो मनीस कामाक मेळ्ळा. 'कृष्णा म्हज्या विस्वासाचो. कसलेंय काम सांग ताका. 'जायना' अशें म्हणचो ना. ताका जर दुसरे कडेन सिर्वीस मेळटा जाल्यार तो बऱ्याक पावचो म्हूण हांव आडावपार ना. नशिबान म्हाका दुसरो मनीस मेळ्ळा. म्हयन्याचो पगार हातार दिवन

घरा बस म्हूण सांगपाक म्हाका पुटवना रे बाबू. हांव म्हणटां - तूंच ..."

डॅडीक फिजिओथॅरपी सुरू केल्या उपरांत म्हजी जी धांवपळ जाताली ती दोळ्यांमुखार आयली. कृष्णाक हांव फाटलीं कांय वर्सां तरी पळयत आयलां. पूण कसो कितें कात समजून घेवपाची केन्ना गरज पडूंक नासली.

"भुरगो एकदम बरो. दीसभर काम करून रातीचो अभ्यास करीत ताणें आठवी पास केल्या. आतां नोकरी करतनाच मॅट्रीक जावपाक सोदता... हांव उलयलां ताचेकडेन. हांव ताका दोनवेळा च्या आनी दनपारचें जेवण दिवन पांच हजार पगार दितालों. तुवें तितलोच दिल्यार पुरो."

"ताची तयारी आसा?" हांवें खांकडत विचारलें.

"हय... पूण ताच्यो कांय अटी आसात."

"अटी?" हांव अजापलों.

"कामाच्यो न्हय. वेळाच्योय न्हय. ताका शिकपाक जाय खंय. आनी शिकोवपीय... पूण तें तूं ताचेच कडेन उलय. मागीर हांव धाडूं ताका तुमगेर?"

घरा येवन च्या करतासर कृष्णा दारांत पावलो. दोन कप केल्ली च्या तीन कपांत ओतून एक कृष्णाक दिलो. बस म्हळ्यार कृष्णा कसोच बसलो ना. कुशीक आदबीन उबो. हांवें म्हगेली च्या सोंपयली. तितल्यान डॅडी कुथणटा तें आयकून हांव उठलों. डॅडीन हांतुणारच गू-मूत केल्लें. तें निवळ केलें. डॅडी न्हिदिल्लेकडेनच तागेली मुस्तायकी आनी हांतूण बदललें. ताका लरांव पिवयलें. हें सगलें जायसर कृष्णा थंयच रावन सगलें पळयतालो.

मागीर हांवें ताचे कडेन खबर काडली. कृष्णा मदल्या वाड्यार आवय बापाय वांगडा रावतालो. मुळांत तीं दांडेलीचीं खंय. पूण कृष्णाचो जल्म गोंयांत. घरचे अवतिकायेक लागून स्कुलांत गेलो ना. पूण स्वता जिद्दीन शिकतालो- आपले आपूण.

हांवें स्पश्ट विचारलें, "आमगेलें काम हॉटेलांतलेवरी न्हय. मां बरी

नासता. रांदपाची तयारी जाय. डॅडीक तूं पळयता- ताचें सगलें काम करचें पडटलें. हांव कॉलेजींत वतलों तेन्ना फाटलें सगलें -''

''सर, हांव सगलें काम करन. फकत-'' आनी तो थारलो.

वासुदेवालीं उतरां याद जालीं. ''वासुदेव सांगतालो, तुज्यो कांय अटी आसात.''

''अटी न्हय, सर. मागणें आसा.''

''पयली गजाल म्हळ्यार तूं म्हाका सर म्हणूं नाका. घरचीं आनी वळखीचीं म्हाका बाबू म्हणटात. तूंय म्हण..''

''पूण सर -''

''पर्थून सर?''

''सॉरी, सर.''

हांवें तोंड वांकडें केलें. तो गोंदळ्ळो. ''बरें. बरें बाबूसर!''

''आरे बाबू म्हण. फकत बाबू -''

''म्हजें मागणें सांगूं? म्हाका तूं शिकय. सगलीं कामां करन. फकत म्हाका -''

''कितें शिकोवं?''

''कोंकणी आनी इंग्लीश, सर- आं सॉरी, बाबू.''

म्हाका अमृताची याद जाली. गोंया भायरसून आयिल्ल्या ह्या भुरग्यांक कोंकणी शिकपाची गोडी आनी गोंयकारांक मात तिची पर्वा ना!

''राव रे. काय बरी कोंकणी उलयता मरे?''

''उलोवपाक कळटा. पूण बरी बरोवपाक शिकूंक जाय म्हाका.''

''आनी इंग्लीश?''

''समजता. पूण उलोवपाक कळना.'' कृष्णाची एक गजाल म्हाका मानवली. आपणांक कितें शिकपाक जाय हे विशीं तो स्पश्ट आशिल्लो.

''तुका दुसरी नोकरी मेळपाची आसा मरे?''

''मेळपाची ना. करपाची आसा.''

ताणेंच खांकडत फुडें सांगलें - वासुदेवकाकालो संदीप आपणांक

शिकयतलो हे आशेन तो थंय कामाक राविल्लो. पयलीं दोन वर्सां ताणें आदार केलो खंय. पूण मागीर तो कानांर केंस काडपाक लागलो. देखून तो म्हजेकडेन आयिल्लो.

हांव ताका घेवन रांदचे कुडींत गेलों जाल्यार खंय कितें आसा तें हांव समजायतांसर कृष्णान च्याचीं आयदनां आनी कप धुवन काडले. मांचे कुडींत व्हरून मांची वळख करून दिली जाल्यार ताणे बाग घेवन तिका नमस्कार केलो. तिका ताची खबर सांगतासर ताणें तिगेले कुडींत हांगा थंय अस्ताव्यस्त पडिल्लें सामान थाऱ्यार घालें.

हांवें पगाराचें विचारलें – ''तुमी दितात तें घेतलों हांव. फकत शिकय, सर.'' सर तोंडांतलें वचपाक कळाव लागतलो अशें म्हणून हांवें ताका निवळावपाचें सोडून दिलें. आनी टायमींग विचारल्यार म्हणूंक लागलो– ''डॅडी बरो ना. मम्मीय बरी ना. हांव दीसभर रावतलों. शिकोवपाचो टायम मात, सर, तूं सांग–''

''ओ.के. केन्नाच्यान येतलो सांग.''

''आयच्यान. आतांच्यान.'' अशें म्हणून कृष्णा बद्द रांदचेकुडींत गेलो.

शेनवारा सकाळीं बेगसारच भायर सरून हांव कॉलेजींत पावलों. हरशीं जाल्यार वेळ सांबाळपी हांव त्या दीसा णवां पयलींच कॉलेजींत पाविल्लों. डॅडीचो हुसको कृष्णा आशिल्ल्यान पातळ जाल्लो. उठोवप, बसोवप, वखदां, पातळ आलिमेंत, पॉटी... सगलें देड दिसा भितर ताणें समजून घेतिल्लें. मांक वेळावेळार च्या खाण दिवपाचें ताणें कालच्यानच मनार घेतिल्लें. आयज सकाळीं आठां पयलींच हाजीर जाल्लो. नुसतें घेवपाक दोनशीं रुपये ताचेकडेन दवरून घरांतल्यान भायर सरतनां माथ्यावयलें सगलें वजें ताच्या माथ्यार दिल्ल्यान म्हाका ल्हव ल्हव दिसतालें.

बेगीन पाविल्लों तरी पावलां मात सदचे संवयेन झपाझप पडटालीं. क्लास सुरू जाल्ली. म्हाका काय क्लासीक वचपाचें नाशिल्लें. तरी उमळशीक जाणवताली. कोण हें चित्रा! ताका मेळपाखातीर कॉलेजीक

आयलां हांव? अशें कितें कॉमन आसा आमचेमदीं की म्हाका ताचेविशीं आपलेपण दिसचें? हांव सायन्स स्टुडण्ट तें आर्टस. ताका चित्रकार जावचें आसा. म्हाका मॅडिकल डॉक्टर. ना, ना. कालपयर मेरेन म्हाका डॉक्टर जावचें आसलें. फुडें कितें तें म्हाकाच खबर ना. ताका कालय पेंटर जावचें आसलें आनी फुडेंय. तें बडबडें. हांव सल्पभाशी. ताका कॉफी आवडटा. म्हाका च्या. कांयच कॉमन ना. ना? चित्रानच म्हणिल्लें त्या दिसा– 'आमची आवड जुळटा. हय. ताका वाचनाची आवड आसा. ताका काम्यू आवडटा. आजवेर म्हाकां काम्यू, काफ्का, मुराकामी वाचिल्ले वांगडी मेळूंक नासले. मार्टीनसराक लागून ह्या विलक्षण साहित्यकारांची वळख जाल्ली. पूण तांचेविशीं सराकडेन म्हजीं मत्तां शेअर करपाक मन येनासलें. चित्राकडेन ती नदर आसा– जिणेंतलीं विलक्षणपणां हीं सरसामान्य नासलीं तरी तांचेकडेन सामान्य म्हूण पळोवपाची नदर. खरें म्हळ्यार तीं विलक्षणपणां हेंच वास्तव. कोण तरी सांगता अहिल्या ही पातकी म्हूण आनी आमी दोळे धांपून खरें मानतात. सगलें पातक केल्लो इंद्र मात देव! कुंतीन, घोवाचे संमतीन वा ताका काळखांत दवरून, स जाणांकडसून भोग घेतलो हें खरें. पूण कुंतीक पावित्र्य प्रदान करपाक जाय म्हूण त्या स जाणांक देवत्व दिवन आमी मेकळे! संभोगाच्या वेळार कुंतीन स्वच्छंदपणान तृप्त जायसर भोगिल्लो आकंठ आनंद हें तर्कसंगत सत्य लिपोवपाक व्यासान केल्ल्यो कायलोळ्यो आमी बुद्द धाण दवरून मानून घेतात. आल्बॅर काम्युल्या द आउटसायडर कादंबरेंतलो मरसॉल हो विलक्षण मनीस. पूण तुमी मानून घेतिल्ले फास्केंत तो बसना म्हूण ताका अँटी हिरो म्हणप? आल्बॅर काम्यू ताका स्ट्रेंजर म्हणटा. स्ट्रेंजर म्हळ्तार तिरायत. अनवळखी, जगावेगळो अशें कित्याक म्हणचें? खून करचो शें दिसलें म्हूण ताणें अरबाक मारून उडयलो. ताचेकडेन कसलो युक्तिवाद घालपाचो? फांसार दितले मूं? मरसॉल तयारच आसा. स्वताचे जिणेकडेन त्रयस्थ जावन पळोवपाची ताची तरा जर कोणाकूय जगावेगळी दिसता जाल्यार तो ताचो प्रॉब्लेम न्हय. फाल्यां म्हगलो डॅडी मेलो जाल्यार हांवें

दुख्ख करचें काय ना, कितलें करचें, कशें करचें हें हांवें थारावपाचें काय लोकांनी? काम्युल्या मरसॉला भाशेन हांव म्हजे कडेन तिरायतपणान पळोवंक शकतां व्हय? जाल्यार सांग पळोवंया- आयज हांव हांगा आयलां कित्याक? चित्राक मेळपाक? अमृताक मेळपाक कित्याक न्हय?

थिंक ऑफ द डेव्हील! अमृत मुखारच उबो. पयलीं पळयिल्लो जाल्यार चुकयन आसलों.

"हाय बडी. अशें चिकान करप मरे?"

हांव रॅलीक पावलों ना हाचें वायट दिशिल्लें ताका काय राग आयिल्लो?

"पूण बरें जालें- रॅली जालीच ना. फातिमाक तो इशू ब्लोअप केल्लो नाका आसलो. सो वी ड्रॉप्ड द आयडिया."

"थँक्यू." म्हाका उतर फुटलें.

"बाय द वे, त्या दिसा नमशीकर सरान इन्सल्ट केलो खंय तुजो. हांव क्लासींत नासलों म्हूण सुटलो तो ब्लडी नमशीकार. नाजाल्यार -"

"सोड खबर."

"अशी कशी सोडूं? हांव सीआर. तूं फकत सांग- हांव कसो बुद्द शिकयतां पळय त्या नमशीकाराक- आमच्या फँटमाक अशें म्हणप ताणें? चल. आतांच यो."

अमृतालो हात सोडोवन हांवें ताका तोडलो. "नाका, म्हाका काम आसा. वतां हांव."

"लायब्ररींत? कॅरी ऑन स्कॉलर-" अशें म्हणून अमृत गेलो.

आजून धा मिण्टां आसलीं साडेणवांक. चित्रा येता तेन्ना येवं, पयलीं एक च्या मारची म्हूण कॅंटीनाकडेन गेलों.

च्या घेवची काय चित्राक रावचें? काय एक च्या, एक कॉफी घेवनच मेजार ताची वाट पळोवची? दुसऱ्याचो विचार करून च्या घेवची काय ना घेवची हें थारावप्यांतलो हांव न्हय, पूण आयज म्हगेले च्याक चित्राची

वाट पळयत तिश्ठावपाचें हांवें थारायलें.

साडेणवांक दोन मिण्टां आसतनांच तें दिश्टी पडलें. हांव तोंड लिपोवापाक लागलों. ह्या वेळार तरी तें नाका आशिल्लें मेळपाक. पूण तें म्हाकाच सोदीत कशें म्हऱ्यांत आयलें. 'हॅलो, विपीन.' म्हणून संवकळीचो जाल्लेवरी कदेल ओडून म्हऱ्यांत बसलें. सुटनासून हांवें हांशिल्ले भाशेन केलें.

"त्या दिसा तूं आयलोच ना. असलमभाय रावतालो तुका मेळपाक." फातिमान म्हळें.

"सॉरी. पावलों ना." आयज फातिमा फाटलेपरस बरें दिसतालें. ओडणी केंसावयल्यान घेवन गळ्याक सदळशी रेवडावन दाव्या खांद्यावयल्यान फाटल्यान उडयिल्ली. "दुसऱ्याय दिसा आयिल्लो तो. आनी तिसऱ्याय–" फातिमान 'चवथ्याय' म्हणचे पयलींच हांवें सांगलें, "डॅडी चड बरो नाशिल्लो." फातिमाक कटोवचें कशें हें येवजीत आसतनांच फातिमान म्हळें, "सांगलें म्हाका चित्रान –"

"तूं वळखता ताका?" अजून येवंक ना कशें तें विचारपाचें मनांत आयिल्लें.

"ऑफ कोर्स! वी आर कॉफी मेटस."

"क्लासमेटस?"

"ना, ना. कॉफीमेटस. हांव एफवायक आसां. पूण सदांच आमी मेळटात – ओव्हर कॉफी."

विचारपाचें मनांत येतालें, पूण उतर फुटनासलें. फातिमा हांसलें –

"तूं विचारना कित्याक म्हाका?"

"कितें तें?"

"चित्रा येवंक ना कित्याक– तें?"

चित्रा म्हाका मेळपाचें आसा हें आनीक कोणाक खबर ना अशें म्हाका कित्याक दिसचें!

"तुका कशें कळ्ळें?"

“ताणेंच धाडलां म्हाका. ताका अकस्मात काणकोणां वचचें पडलें- मम्मा चड बरी ना म्हूण मॅसेज आयली ताका. तुगेलो फोन लागलो ना खंय, देखून.”

इतलें सांगपाक हाणें फातर्पेंच्यान गोंय लागीं कित्याक करचें? बेजार जावन उठलों. आतां मात च्या गरजेन जाय आसली.

फातिमा बसून आशिल्लें. आतां आनी कितें काम उरलां हागेलें?

“म्हाका च्या जाय.” काउंटरा कडेन वचत हांवें सांगलें.

“म्हाका कॉफी.” कसली मुर्वत बाळगिनासतनां फातिमान सांगलें.

प्रिन्सिपलाल्या ऑफिसांत पयलेंच मेळिळलें तें फातिमा आनी आयज कँटिनांत बसलां तें फातिमा हाच्यांत जमीन आस्माना इतलो फरक दिसलो. त्या दिसा तें भिवकुरें पाडूक कशें दिशिल्लें. आयज तें तिटतिट्या हरणावरी दिसलें.

“चित्रान म्हाका पयलींच शिटकायिल्लें -”

“कितें म्हूण?”

“विपीनाक मेळूंक वता जाल्यार म्हाकाच उलोवचें पडटलें. आयकुपाक कांयच मेळचें ना.”

चित्रान म्हजेविशीं आनीक कितें सांगलां तें म्हाका कित्याक जाणा जायन दिसचें? तरी विचारलेंच -

“आनीक कितें सांगतालें?”

फातिमा हांसलें. “खूब कितें कितें! पूण -”

“पूण कितें?” हांव अस्वस्थ जावपाक लागिल्लों.

“ताच्याच तोंडसून आयकुपाक मजा येतली तुका,” अशें म्हणून तें हांसलें. च्या सोंपली. तें पळोवन फातिमानूय कॉफीचो निमणो घोंट मारलो.

“चित्रा केन्ना परततलें तें लेगीत विचारलें ना तुवें!”

हांव कित्याक विचारूं? अशें कितें म्होंव लागला तर ताका?

“तुका नाका जाल्यार हांव कित्याक सांगूं?” कदेलावयल्यान उठत फातिमान म्हाका तिडायलो. पयले खेपेक मेळिल्लें तेन्ना दिसूंक नासलें

हें अशें फकाणेर म्हूण

"फकाणां पुरो. सांग-"

"तुका मॅसेजीस वाचपाची संवंय नासूंये म्हूण चित्रा सांगतालें तें खरें तर!"

मोबायल काडलो. मॅसेज पळयली. "सोमारा. सेम टायम, सेम प्लेस."

फातिमाक क्लासींत वचपाचें आशिल्लें. कँटिनाच्या भायर पावतकच ताणें म्हाका आडायलो, "यू नो विपीन, म्हाका डान्स आवडटा. चित्राक पेंटिंग. कॉमन आवडी खूब थोड्यो. तांतल्यो मेन दोन. एक म्हळ्यार -"

"कॉफी?"

"करॅक्ट! आनी दुसरी- तूं." अशें म्हणून फातिमा मुमुरख्यांनी चलत रावलें

एके वेगळेच घूंवळेंत हांव चलपाक लागलों. फाटल्यान सडसडीत पडपी घप घप पावलांच्या फाटोफाट उलो आयकूंक आयलो, "परोब!"

हांव थारलों. हो तर नमशीकार सरालो पूत. म्हजेच क्लासींतलो.

"चार दीस जाले तुका सोदतां..." खरशेत ताणें सांगलें. "वळखलो न्हय म्हाका?"

"नमशीकार- "

"प्लीज, म्हाका त्या नांवान उलो मारूं नाका. वीट आयला त्या आडनांवचो म्हाका. सर्वेश नांव म्हजें."

"कित्याक सोदतालो म्हाका?" वाट चलतां चलतां हांवें विचारलें. म्हाका थंयच्यान कडसरपाची ताकतीक आसली.

"सॉरी म्हणपाक. त्या दिसा डॅड जे भाशेन उलयलो तुजे कडेन- लज लज जाली म्हाका. रागूय आयलो. पूण- " म्हजे कुशीन पावलार पावल मारीत सर्वेशान म्हळें.

"त्या कामाक तूं सॉरी कित्याक म्हणटा?"

"अनफॉर्च्युनेटली तो बापूय म्हजो." तो उलयत रावलो. म्हाका ताकतीक आसुनूय ताका आडावप जालें ना म्हज्यान. मनाकाळजा थावन उलयतालो. बापायचे वृत्ती विशीं आशिल्ली तिडक उलोवन स्वताच्या काळजा वयलो भार देंवोवपाचो तो येत्न सो म्हाका दिसलो.

"तूं जाणा परोब, म्हाकाय म्हजें म्हूण एक अँबिशन आसा. म्हाका रांदूंक आवडटा. मॉम रांदता तेय परस बरें जाता म्हगेलें. नवे प्रयोग करतां. मॉम सपोर्ट करता. म्हाका शॅफ जावपाचें आसा. पूण डॅड आयकना. हिणसायता म्हाका 'आचारी', 'रांदपी' म्हूण. ताका जाय हांव डॉक्टर जाल्लों. ताका डॉक्टर जावपाक मेळ्ळें ना. आतां म्हाका डॉक्टर करूंक सोदता."

आरेच्चा! म्हजी गत्त आनी ताची गत्त- व्हडलोसो फरक ना तर!

"आय ॲडमायर यू परोब. तुका गट्स आसात. त्या दिसा ते मुस्लीम चलयेक तुवें गुंडां पासून वांटायली. आनी पयर डॅडीलीं तोकासांवां तोडून तूं क्लासींतल्यान भायर सरून गेलो... ते गट्स म्हज्यांत नात."

बसस्टॅण्डार पावसर तो उलयत आसलो. मागीर बॅगांतल्यान एक टिफीन पॅक काडून म्हज्या हातांत दीत ताणें सांगलें, 'सर्वेस्का', म्हजें इन्वॅन्शन. माय ओन रेसिपी. बेबिंकाक लागीं- देखून सर्वेस्का. घे. आय डॅडिकेट इट टू यू." ताच्या तोंडा वयली अजिजी म्हज्यान पळोवं नज जाली. हांवें तो टिफीन पॅक घेतलो.

"थँक्यू परोब. आन्येक विचारतां, म्हजो मित्र जावशी?" तितल्यान बस आयली. हांव भितर सरलों. सर्वेशाचो प्रस्न अनुत्तरीत उरलो.

घरा येवन पळय जाल्यार-

घराचीं सगलीं दारां, जनेलां पासाक लागून सताड उकतीं. इतलो तेंप फास्के भायर उरिल्लीं उजवाडाचीं झगझगीत किर्णां उडक्यो मारून घरांत रिगिल्लीं. सगल्या घराक उमेदीचो ओतो आयिल्लो.

आनी ह्या उजवाडान भरिल्ल्या घरांत डॅडीली शिस्त मोडपी कृष्णा

वारो जावन भोंवतनां हांवें पळयलो.

मां हांतुणार न्हिदिल्ली आसतनां, भायल्यान खाण मागय नासतनां आनी हांवें किचनांत पांय दिनासतनां दनपारच्या देडा पयलींच जेवण तयार आसा म्हूण आयकुपाची म्हगेली हीं पयलीच खेप. तिसऱ्यांचें आंबाडे घालून केल्लें हुमण आनी हांवें बाजारांतसून हाडिल्ल्या मोडशाचें कृष्णाचे भाशेंत सांगचें जाल्यार 'रवा फ्राय'. वासानच मांली भूक चाळवल्ली जावंये. हरशीं नज म्हूण ताट कुडींत हाडून दी म्हूण फर्मावपी मां आफोवचे पयलींच जेवणा मेजार येवन बसली. कृष्णान आफयल्यार हांवें म्हळें, 'मांक पयलीं जेवंदी- आमी मागीर जेवंया'. दोन पोस्तां कृष्णान कुशीक काडून दवरूंक नाशिल्लीं जाल्यार मांल्या आडव्या हातांतसून तीं सुटचीं नासलीं. धेंकरार धेंकर दीत मां उठली आनी हांवें ताट घेवचे पयलींच मांली मंद घोरेवणी म्हज्या कानांर पडली. आयज चडच जेवली म्हणपाचें सांगनासतनांच कळटालें. बाबडो डॅडी! आंबल्यां दिसांनी तिसऱ्यो हाडटालोच. आनी वासुदेवालें 'तवा फ्राय' तर ताच्या अती घोस्ताचें. वास तरी ताच्या शाबूत आशिल्ले उजवे नाकपुडयेंत पावला काय?

मेजार एकच ताट पळोवन हांव उठलों. दुसरें ताट हाडलें. ''यो कृष्णा, आमी जेवंया.''

''ना,सर. हांव मागीर -''

''तशें जाल्यार हांवूय मागीर बसतां.'' अशें म्हणून हांव उठलों तेन्ना तो खांकडत बसलो.

पानार सोंपिल्लें वाड म्हूण सांगपा भायर जेवतना कोणाकडेनच कितेंय उलयिल्लों म्हाका याद जायना. पूण आज उलयलों. ''ही शिकपाची जिद्द खंयच्यान आयली तुका?''

कोणायकडेन तरी शॅअर करपाची वाट पळयतालो जावंये- कृष्णान

घडघडीत सांगून उडयलें. शिकलेबगर कोण मनीस जायना अशें तागेल्या अप्पान ताका सांगिल्लें. अप्पा कितें शिकला तर अशें विचारल्यार ताणें सांगलें ताका तशी संद मेळ्ळी ना. पूण शिक्षण नासून आपूण फटवलों अशें अप्पा म्हणटा खंय.

"कितें शीक म्हण्टा तुगेलो अप्पा?"

"स्कूल ... वाचपा बरोवपाक... जालें जाल्यार फुडलें."

"कॉलेज?"

"नायट स्कुलांत हांवें आठवी केली. पूण नायट कॉलेज ना न्हय?"

"इत्सा आनी जिद्द आसल्यार कितेंय शक्य आसा."

"म्हाका 'कूक' जावपाचो आसा." कृष्णाल्या आवाजांत निर्धार सो दिसलो.

"तशें जाल्यार वासुदेवाली नोकरी कित्याक सोडली?"

"तसलो कूक न्ही सर. म्हाका व्हडल्या हॉटेलांत 'शॅफ ' जावपाचें आसा. तेखातीर कोंकणी बरोवपाक आनी इंग्लीश बरी उलोवपाक येवंक जाय. देखून आयलां हांगा -"

सतरा वर्सां पिरायेचेर कृष्णान फुडाराचें सपन पळयिल्लें. निर्धार केल्लो आनी तें सपन फळादीक करपा खातीर कितलेय कश्ट काडपाची तयारी केल्ली. आनी हांव? म्हाकाच खबर ना हांव कितें करतलों, कोण जातलों!

जेवलों, आंवलों आनी कृष्णाक म्हळें, "पुस्तक घेवन यो. शिकपाक-"

"अर्द वर दी, सर. रोखडो येतां." त्या अर्द वराभितर ताणें आयदनां घांसून जाग्यार घालीं. आनी फुगोवन दवरिल्ले कपडे उंबळून काडले. तागेलो कामाचो आटाप अजापीत करपा सारकोच आशिल्लो. शिकपाची गती तेय परस बरी. तागेलीं आवय बापूय घरांत कन्नड उलयतालीं. पूण कृष्णाकडेन मात कोंकणी. स्वताची कोंकणी हेंगाडी शी दिसता देखून भुरगेपणांत खंय ताका निगूत कोंकणी उलोवपी शेजाऱ्यांगेर ल्हान व्हड

कामां करपाक धाडटालीं. बापूय गॅरेजींत काम करतां करतां मॅकानीक जाल्लो. आवय पयलीं शेजाऱ्यांगेर वावराक वताली. पूण बापायन मागीर तिका वावर सोडपाक लायलो. कृष्णाक मुळावे शाळेंत घाल्लो. पूण थंयचो मास्तर ह्या भुरग्याक घांटी लेखून ताचे कडसून आपणांलीं घरचीं कामां करून घेतालो. उपरांत हायस्कुलांत वचपाच्या वेळार कृष्णाल्या अप्पाचेर एक बगलांट आयलें. गॅरेजीच्या पात्रांवान सर्व्हिसिंगाक आयिल्ले एके गाडयेंतली नवी स्टेपनी फारायली. आनी सांपडलो तेन्ना अप्पाक चोरी आपणांचेर घे आपूण तुका रोखडो सोडयतां म्हूण सांगलें खंय. बाबडो अप्पा फटवलो. पोलीस केस जाली. सांगिल्लें तेभाशेन पात्रांवान पोलिसांक पैशे खावोवन अप्पाक सोडयलो. पूण नोकरेवयल्यान काडलो. गरजेक पडून कृष्णाक वासुदेवाल्या हॉटेलार काम करचें पडलें. अप्पा आतां बांबोळे युनिव्हर्सिटीचे वाटेर स्कुटरी सारक्यो करपाचें काम करता खंय. इलो इलो जम बसूंक लागला. ताणें कृष्णाक सांगलां खंय – एस एस सी मेरेन एक्स्टर्नल शीक. ट्युशनाचो खर्च आपूण दितां म्हूण.

ते सांजेर कृष्णा बराबर हांव ताच्या घराकडेन गेलों. आयतार जाल्ल्यान अप्पा घराच आशिल्लो. एका भाटकाराल्या आउट हाउसांत तीं रावतालीं. पांच हजार भाडें खंय त्या दोन कुडींच्या आउट हाउसाचें. ते भायर गरज पडल्यार भाटकाराल्या घरांतलीं कामां करचीं पडटालीं. गोंयकार न्हय जाल्ल्यान आपणांक 'घांटी' म्हूण आयकून घेवचें पडटा हाची अप्पाक खंत आसली. आपणाली कोंकणी आयकून आपूण घांटी म्हणपाचें लोकांक कळटा देखून पुतान बरी निगूत कोंकणी उलोवपाक जाय तेन्नाच ताका गोंयकार म्हण लोक मानून घेतले अशें अप्पान सांगलें.

कृष्णाले अम्मान च्या हाडून दिली. कृष्णान येदेंशें तोंड करून सांगलें– "सॉरी सर. दूद थोडेंच आशिल्लें."

तांचे गोंयकार जावपाचे जिद्दीची तोखणाय करीत ती उण्या दुदाची च्या हांव घोस्तान पियेलों.

सोमार. सेम टायम, सेम प्लेस.

वेळार पावलों. कृष्णान जापसारदारकेचो भार उकलिल्ल्यान हुसक्यामेकळो आशिल्लों. चित्रा आयलें ना. फातिमा आयलें. तें मेजालागी पावचे पयलीं हांवें मोबायल काडलो. हय. मॅसेज आशिल्ली– 'सॉरी.'

तकली वयर काडून पळय जाल्यार फातिमाच्या दोनूय हातांत दोन कप. च्याचो कप म्हज्या फुड्यांत दवरून तें बसलें. ''चित्रान सॉरी म्हटलां.'' अशें म्हणून हांव फुडें कितेंय विचारतलों म्हूण रावलें. खीणभर मनांत आयलें– चित्रान मुद्दाम हाका धाडूंक ना मूं म्हज्या फुड्यांत? हेंच बी ताका फाटीं राव म्हूण सांगून आपूण येना मूं म्हाका मेळपाक? हांव आनी पिसों सो आफयना फुडें येवन बसतां वाट पळयत! उठून वचचें शें दिसलें. कुले उकलले लेगीत –

''च्या निवतली. पिये आनी मागीर वच.'' हें फातिमाय म्हूण बरेंच मनपारखी. फाटले खेपेक फातिमान सांगिल्लें ती याद जाली – आमच्यो कॉमन आवडी दोन. हांवें नदर लावन फातिमाकडेन पळयलें. माथ्या वयल्यान ओडणी घेतिल्ली; ती केंस धांपपा खातीर काय आपणालें सुंदर रूप उठून दिसचें म्हूण? सुंदर? फातिमा निकतेंच पार्लरांत वचून आयिल्ले भाशेन दिसतालें. ओडणे भितरले केंस, भिंवयो, ओंठ, दोळ्यांतलें काजळ... हांव मज घेवन पळयतां शें दिसून फातिमा संकोचलें. आपणाल्या

ुखामळार उदेवपी संकोच लिपोवपाक ताणें कॉफीचो मग ओंठांक लायलो तेन्ना ताणें नाखटांक लायिल्ली मंद गुलाबी नेलपॉलीश नदरेक पडली. फातिमा आशिल्लें सुंदर! आनी चित्रा? एकदांच मेळिल्लें. हांवें खंय बारीकसाणेन पळयलां? पूण ताणें लिपस्टीक सारोवंक नासली. केंसांक स्टायल नासली. नाखटांक रंग पळयिल्लो याद तरी जायना! कित्याक जाणा कोण, चित्राक पळयतकच म्हाका शरदबाबूली राजलक्ष्मी दोळ्यां मुखार उबी जाताली.

आरेच्या! हांव दोगां मदीं तुळा शी करूंक लागलां! घडये, फातिमान पयर म्हणिल्लें न्हय, तांची एक कॉमन आवड हांव –

"एक विचारूं, विपीन?"

हांवें मानेनच कितें विचारलें.

"तूं रातीचो किट्ट काळखांत न्हिदता?"

"तुका कित्याक लागता?"

"सांग न्हय, प्लीज."

"हय, म्हाका काळोख आवडटा."

"तरीच! चित्रा म्हणी, विपीनाले दोळे काळेशार– काजळ घाल्लेवरी. हांवें म्हळें, राती काळखान घाल्लें काजळ तें"

हें उलोवपाक लागल्यार चित्राची खबर विसरतलें. मन सकयल वयर जालें.

"आजून तुवें विचारूंक ना–" फातिमान तिडावपाच्या सुरांत विचारलें

च्याचो कप ओंठांक लायिल्लेकडेन हांवें भिंवयो उंचायल्यो. हांवें आजून चित्राविशीं विचारूंक ना खरें! पूण ताच्यान सांगपाक जायना तर?

"आवय चड बरी ना चित्राची. आनीक आठ दीस तरी पावचें ना म्हूण सांगलां ताणें." खीणभर रावन विचारलें, "एक फोन कित्याक केलो ना तुवें?"

हांव गणमणलों. हांवें केलो ना; पूण ताच्यान करूं येतालो न्हय?

"इटस् ओके. तुवें केल्यारय लागचो नाशिल्लो. ताका थंय रेंज

मेळना.''

''आय ॲम वेस्टिंग माय टायम!'' अशें म्हणून हांव उठलों.

''आयक. फाल्यां क्लास बंक करून हांव वचूंक सोदतां -''

''म्हाका शें सांगता?'' हांवें तिडकून शें विचारलें.

''काणकोणा चित्रागेर. आवयची चिंता खाता बाबड्याक.''

म्हजे पांय खिळायिल्लेवरी रावले. पयलेच भेटेंत उमेदीचो वझरो कस्सो दिशिल्लें चित्राचें रूप आता चिंतेन गिरासतकच कितलें बावलां आसतलें!

''तूं येवशी? ताका बरें दिसतलें. म्हाकाय कंपनी जातली.''

हांव गेल्यार चित्राक बरें दिसतलें हें हांवें मानून कशें घेतलें काय? काय फातिमाक कंपनी मेळटली म्हूण हांवें कबूल केलें? हांव नकळो. सकाळीं कदंब स्टँडार मेळपाचें थारावन आमी फुटलीं, इतलें खरें.

मेल नर्स म्हयन्याक पंदरा हजार घेता म्हूण कळटकच घरकाम, रांदप करुनय डॅडीची शुश्रुशा करपी कृष्णाक पांचच हजार दिवप मनाक कशेंच पुटवना जालें. मार्टीनसरान डॅडीले अर्थीक आवतिकायेचो सुमार दिल्लोच. डॅडील्या पासबुकाचेर लाखभर रुपये आशिल्ले. तांतले हॉस्पिटलाचो आनी वखदांचो खर्च मेळून चाळीसएक हजार काडून जाल्ले. हाच्या मुखार खर्चाक काडपाचे ते डॅडीले सयेन. उजवो हात शाबूत आशिल्ल्यान डॅडी आतां सय करूंक शकतालो. पूण सगलें सारकें आसासर जाणा जावन घेवपाक जाय.

पयलीं हांवें मांक विचारलें. तिका कांयच खबर नाशिल्लें - आनी तें अपेक्षीत आसलें. फाटीं व्हडल्या मामान विशय काडिल्ल्यान तिका लग्नांत घाल्ल्या भांगरां विशीं आयकल्लें. चाळीस पन्नास तोळ्यांच्या भांगरावस्तींचें कितें जालां मांक खबर नासलें. तिणें डॅडीच्या सुवादीन केल्या उपरांत मामांच्या लग्नांक घाल्ल्यो तितल्यो. त्या उपरांत तांचें दर्शन

ावंक नासलें खंय. लॉकरांत दवरल्यात अशें डॅडीन सांगिल्लें ताचेर तेचो विस्वास नासलो.

"डॅडीकच विचार-" तिणें म्हळें. आनी म्हज्या फाटोफाट तीय डॅडीले कॉटी कडेन आयली.

पैशांची खबर डॅडीकडेन उलोवन नकळो आशिल्लों. भुरगेपणांत घेतिल्लो कांच आजून उरिल्लो. पूण आयज दुबळो जावन हांतुणार पडिल्ल्या डॅडी मुखार दुडवांचो प्रस्न काडटनां जीब मातूय कांचवेली ना. डॅडीन आयकून घेतलें. मां उमळशिकेन आयकता तें डॅडीक मानवलें ना जावंये. डॅडीन उजवो हात फाफडीत 'तूं वच हांगची' अशें स्पश्ट आयकूंक येसर चार फावटी सांगलें. निर्शेवन मां आपले कुडींत गेली.

"हांव केन्ना बरो जातलों?" कान तोंडाकडेन व्हरून आयकलें तेन्ना प्रस्न समजलो.

"वखद चालू आसा न्हय डॅडी, जातलो बेगीन बरो." तशें सांगपाची चाल आसा हें हांव जाणा आसलों.

"हांव बरो जातकच दितां. पैशाचें तूं येवजूं नाका. बरो शीक. तूं दोतोर जायसर पुरो इतले दुडू आसात म्हजे लागीं- "

"पूण डॅडी, आतां जाय, खर्चाक." हांवें अडचण सांगली.

"गवेतांत आसात. ते काड." इतलें सांगतासर डॅडी खर्शेलो. सांगूं येतालें ताका, ते दुडू केन्ना सोंपले म्हूण. पूण मागीर त्या खर्चाचो हिशोब मागतासलो. बरो जायसर ताणें टॅन्शन घेवपाक फावना, बी.पी. नॉर्मल उरूंक जाय म्हूण डॉ. मेश्कीतान सांगिल्लें. हांव कुशीक सरलों.

कोंसुल्तार बंद करून घरा वचचे पयलीं डॉ. कॉश्ताबीर डॅडीली बी.पी. पळोवपाक आयलो.

"एकदम नॉर्मल." अशें म्हूण तो वचपाक वतालो. हांवें दारा कडेन ताका म्हगेली अडचण सांगली. डॅडीक तो सारको वळखतालो. घुंवलो आनी डॅडी लागीं येवन ताणें स्पश्ट सांगलें, "मिस्टर पोरोब, हांव तुका त्रातार करतां. पूण पंदरा दीस जाले म्हुगे व्हिजिटांचें दुडू म्हाका मेवले

ना. बाबून जायते मोडले देखून तूं साल्वार जालो. पूण ह्यान फुडें आनीक देस्पेज आहा. तेजे लागीं दुडू नासले जाल्यार तो तुका फुडलो त्रातामेंत केसो दितलो?''

हें वखद बरें पारलें. कॉश्ताबीर वचनाफुडें डॅडीन म्हाका आफोवन घेतलो. चेक बूक हाडपाक लायलो. फाटीक उशें तेंकोवन बसयतकच ब्लँक चेकार सय करून म्हाका शिटकायलो, ''बॅअरर चेक तो. कोणा हातांत पडपाक दिवं नाका. तूंच वचून काड. जितले जाय तितलेच.'' इतलें सांगून फुडेंय सांगलें, ''तुका ज्यॉइंट अकाउण्ट होल्डर करपाक जाय. मॅनेजराक सांग.''

बँकेंतल्या एफडींची म्हायती दिली. मांल्या वस्तींविशीं विचारलें तेन्ना ते तसले आवतिकायेंतय तो गणमणलो. मागीर ताची जीब चडच लुबडी जाली. तो मांक दुशण दितालो इतलें कळ्ळें. ती बगलेक घेना देखून मोडचे पडले अशें शें आयकलें हांवें. पूण ताचेर चड विचार करचो अशें दिसलें ना. चेक सुगूर जाग्यार दवरलो. आनी उंबळिल्ल्या कपड्यांची घडी करून दवरपी कृष्णाक उलो मारून शिकोवणेक आफयलो.

फर्स्ट यिअराचें फातिमा ह्या बारावेच्या भुरग्या कुशीक पील कशें दिसतालें. तीग जाणांच्या सिटाचेर पयलीं आमी दोगांच आशिल्लीं. पूण सुट्टां सुट्टां बस भरली. फातिमा जनेला कुशीक बशिल्ल्यान हांव मदीं सॅण्डवीच जाल्लों. बेगसार भायर सरिल्ल्यान वातावरण थंड आशिल्लें. कुपांक कुशीक सारून तकली भायर काडिल्ल्या सुर्याचीं किर्णां रुखां–झोपांक किरायतालीं. पांचवीं पाना चकचकतात तें पळोवन फातिमान म्हळें, ''चित्रा आशिल्लें जाल्यार हांगाच देंवन चित्रां काडूंक बसतासलें.''

''फोन केल्लो तुवें?''

''ताचोच आयिल्लो. मम्मा आतां न्हिवळटा म्हणटालें. सांगलां ताका, आमी आयज येतलीं म्हणून'' आनी अचकीत विशय बदलून फातिमान म्हळें, ''तूं जाणा, विपीन, हांव बसीन पयलेच खेपेक इतले लांबचो प्रवास करतां. आनी आय ॲम सो हॅपी – हो प्रवास तुजे वांगडा करतां.'' अशें म्हणून फातिमान म्हज्या दंडाक ल्हवूच चिमटो काडलो. हांवें तरी खंय चड प्रवास केला? मेरशे एके मेरशे आनी मेरशे दोने पणजे. चार पांच वर्सांफाटीं एकदां म्हापशां मामागेर आनी एस.एस.सी जातकूच देवांक गेल्लों, तोय टॅक्सीन.

कुंकळ्ळी, बाळ्ळी काडून घांट लागचे पयलींच पावसाची दडक आयली. फातिमा कुशीचो जनेलाचो हारसो बंद जायना जालो. हांवेंय

येत्न केलो. येत्नांत आसतनाच बसीन ब्रेक मारलो आनी हांव फातिमाचेर लवंडलों. 'सॉरी' म्हणून सारको बसलों. पूण जनेल अर्दकुटें उकतें उरिल्ल्यान फातिमा म्हाका धोंगशीत म्हजे कुशींत रिगलें. दुसरे वटेनच्या पॅसेंजराक कितलो म्हूण धुकलतलों? फातिमा मात बिनधास्त म्हजे कुशींत चेपतालें. मागीर ताणेंच म्हाका सुचयलें – "तुजो हात म्हजे फाटीवयल्यान घे. मागीर तूं चेपचो ना." फुडें पावस उणो जायसर म्हजो हात ताच्या भुजांचेर उरलो.

"तूं जीम करता?" अचकीत फातिमान विचारलें.

हांवें न्हयकारून तकली हालयली.

ताचेर फुडें कांय उलयलें ना तेन्ना हांवेंच विचारलें, "कित्याक विचारलें?"

तें हांसलें. मागीर मान फाटीं व्हरून म्हजो दंड चेपून म्हळें, "युवर मसल्स." हांवें ल्हवूच ताचे फाटी वयलो हात काडलो.

चित्राचें घर नांवाजतें आसूंये. स्टॉपार देंवन विचारिल्लें मात दोग जाण आपखोशेन दाखोवपाक आयले. भायर चिऱ्यांची जाळी आशिल्लें व्हडलें सुंदर दुरीग. भितर सोबीत पोरसूं. एकवटेन गॅरेज. गॅरेजींत एक जीप, एक ब्रॅझा गाडी, दोनींच्या मदें एन्फील्ड बाय्क आनी फाटले वशीन गोठो. घर व्हडलें म्हूण भायल्यानच कळटालें. चौखाचें. वाडो कशें.

सोपणां चडचे पयलींच तापसाणीचो आवाज कानार पडलो. दादलो आपणाले बायलेचेर मोटमोट्यान तापतालो. 'करूं नाका म्हणटा तितलें करूंक जाय? सांगल्यार समजना तुका?' तापसाणी आयकुपाची म्हज्या कानांक संवय आशिल्ली. डॅडीय तापतालो मांचेर. ती तापसाण तीख आसताली. ते तापसाणीच्या मारान म्हज्या मनार लेगीत वळ उदेताले. पूण ही तापसाण वेगळी– मोव मोव. पुस्तकांनी जसो मोगी आपणाले

मोगिकेक उशें घेवन मारता तसली.

आमी भायरच उबीं रावलीं. इतल्यान 'भोंक भोंक' करीत एक धवेंच सुणें खंयच्च्यान तरी धांवत आयलें. थर्त भियेवन फातिमान म्हज्या दंडाक घट धरलें. सुणो भोंकत दोनेक मिटरांचेर उबो रावलो. त्या भोंकपांतूय म्हाका ती मोव तापसाण जाणवली.

''पाखल्या, वगी राव. फ्रँडस तीं म्हगेलीं.'' चित्राल्या धेंकण्या सरशीं सुण्याली शेंपडी हालूंक लागली. आमी भितर सरलीं. ''पाखलो इज अवर बॅस्ट फ्रँड !'' चित्रान पाखल्याच्चें माथें खरपीत म्हळें.

इतल्यान भितरसून आयिल्ल्या पप्पाकडेन वळख करून दिली. शॉर्ट पँटीचेर धवो फुल्ल शर्ट घाल्लो तागेलो पप्पा वीस वर्सांफाटलो सिनेमांतलो हिरो आयज कसो दिसतलो तसो दिसलो. 'येतां आं' म्हणून भितर गेलो.

''सो हँडसम!'' आनी म्हाका कोपर मारून फातिमान म्हळें ''तुजे भाशेन''.

चित्रा आमकां घेवन मम्माले कुडींत गेलें. मम्मा लांब हातांच्या वल्तेराचेर बसून वीणकाम करताली. वीस पंचवीस वर्सां फाटीं रुपेस्त आशिल्ली म्हणपाची गवाय तिची शिरवंत काया सांगताली. निस्तेज दोळे मात सांगताले, ही वायटकान्न म्हूण.

भितर सरनाफुडें बायल मनशेच्या उपजत सभावाक धरून फातिमा फुडें वचून मम्मालें वीणकाम मज घेवन पळोवंक लागलें.

''हें फातिमा, मम्मा.'' चित्रान वळख सांगली.

''हें तें? फाटीं ईदाकडेन तुवें मगो धाडिल्ली बिर्याणी? आजून याद काडल्यार जिबेक उदक सुट्टा.'' फातिमा फुललें.

''काय बरें विणटा तूं मम्मा! म्हाका शिकोवशी?'' फातिमान लागोळें जावन विचारलें.

''आनंदान शिकयन आसलें. पूण– आतां कळाव जालो बाय. म्हजे कडेन तितले दीस नात --''

''मम्मा, कितें उलयता तूं? म्हगेल्या भुरग्यां खातीर तोपरें, आंगलें

आनी मेय विणले बगर खंयच वचची ना म्हणटाली न्हय गे तूं?'' चित्रान तिचेर मायेचो धेंगसो घालो आनी फुडें सांगलें, ''आनी हो विपीन. मम्मा. कळ्ळो कोण तो?''

''हय तर! तूं जाका मेळपाचें आसलें तो मुगो? धाडशी, हुशार, मोनो ..''

''आनी आर्टसाक वचपाचो जो चुकून सायन्साक पावलो तो, हय मुगो?'' भितर येवन पप्पान तिगेलें वाक्य पुर्ण केलें. संकोचून म्हाका तोंड खंय लिपोवचें कळना जालें.

''चलात. नाश्ता इज रेडी.'' पप्पान भितर बोट दाखोवन म्हळें, ''आनी तूंय यो गो. सांगातान च्या घेवंया. यो.'' अशें म्हणीत पप्पान मम्माच्या हाताक धरून तिका उठयली, ''म्हज्या हातान चटणी केल्या हांवें तुजे आवडीची- धाकलो अट्टलांव घालून.''

पुदिन्याक कोंकणींत धाकलो अट्टलांव म्हणटात हें म्हाका त्या दिसा कळ्ळें.

चटणे बराबर तांदळांचे पोळे! भुके पोटार बरे गेले. दोन किटल्यो दवरिल्ल्यो. म्हज्या कपांत च्या ओतून चित्रान सांगलें, पप्पाल्या हातची च्या पळय. घरच्या दुदाची.'' मागीर ताणें पप्पाकूय च्या ओतली. ''होय च्याचो भक्त.''

''आनी म्हाका गो?'' फातिमान विचारलें.

''आमकां कॉफी-'' अशें म्हणून चित्रान दुसरे किटलेक हात घालो.

''आज म्हजी तयारी आसली आं - च्या पियेवपाची. ''अशें म्हणून फातिमा म्हजेकडेन पळोवन हांसलें.

''यू नॉटी गर्ल! धीस इज नॉट फेअर! स्व धर्म सोडप समा न्हय.'' चित्रान नापसंती उक्तायली- म्हळ्यार अडेची, म्हळ्यार मनांतली.

''यू मीन- तुमचो दोगांयचो धर्म एक?'' पप्पान फकाणां केलीं.

''ऑफ कोर्स! वी आर कॉफी लव्हर्स!'' चित्रान म्हळें.

मम्मा मदीं पडली. ''पूण जाणा जा चित्रा, धर्मांकय आड वाटो दवरूंक

जाय. आमचेंच पळय. हाका च्या जाय. म्हाका कॉफी आवडटा. पूण केन्ना केन्ना ताचे खातीर हांव च्या घेतां आनी ताकाय तुवें पळयला - केन्नाय कॉफी घेतनां. देखून आमी समानधर्मी. हय मरे?''

''शंबर टक्के खरें.'' अशें म्हणून पप्पान कुशीक बशिल्ल्या फातिमाक ताळी दिली आनी वर्सां संखेच्या इश्टाक प्रतिसाद दिवचो तशी फातिमानूय ताळी घेतली. अशेय बापूय आसतात तर! आनी मम्माय! दुयेंत आसुनूय?

आमकां बसीकडेन सोडपाक आमचे वांगडा चलत आयिल्लें चित्रा आनी घरांत हांसत्या तोंडान वावुरपी चित्रा- दोनूय वेगळीं आसलीं. तरी येत सावन म्हाका दिसतालें- हें मनमेकळें वागपाचें नाटक करता. तोंड वळटा तरी हांसतें दवरता. पूण आमी भायर सरलीं आनी चित्रालें अडेचें रूप झडून गेलें.

''पप्पा आपणापरीन आनी हांव म्हजेपरीन नाटकां करतात घरांत. मम्माच्यान नज तरी ती कामां करूंक सोदता. पप्पा मागीर तिचेर धेकणे घालता. तिका सुशेग मेळचो म्हूण आमचो येत्न आसता. सुमारा भायर वखदांनीच ती अर्द जाल्या - ''

''कितें जालां तर तिका?'' म्हज्या मनांत उपराशिल्लो प्रस्न फातिमान विचारलो.

''कॅन्सर!''

केन्ना काय बस येता आनी आमी थंयसून कडसरतात अशें जालें म्हाका. चित्राल्या बाविल्ल्या तोंडार नदर घालपाक धीर येना जालो. म्हणसर बस दिश्टी पडली.

''थँक्यू विपीन. तूं आयलो. खूब बरें दिसलें.'' म्हजो हात हातांत घेवन चित्रान म्हळें.

''वा: वा! आनी हांव?'' फातिमान ताका चाळयलें.

''तुका चड थँक्स. तुकाच लागून तर पावलो विपीन हांगा. घे.'' अशें म्हणून चित्रान फातिमाक घट धरून ताच्या पोल्यार ओंठ तेंकयले. तशें करतनाय दोळ्यांच्या कोनशांतल्यान तें म्हाकाच पळयतालें काय?

म्हज्याच पोल्यार पापी उदेल्याची भावना घेवन हांव बसीर चडलों.

पणजे पावसर आमी चडशें कांय उलयलीं नात. पावत आयलीं तेन्ना फातिमान विचारलें, "केन्ना मेळूंया?"

हांवें फकत खांदे फाफुडले. तें हांसलें. "हांव जाणा तुगेली जाप."

"कितें ती?"

"चित्रा येतकच- रायट?" हांवें पर्थून खांदे वावुडले.

"पूण म्हाका मेळूंक जाय. आय ओ यू अ थिंग" सिरियसली सांगिल्लेवरी फातिमान म्हळें. बस मुक्कामार पाविल्ली.

"कितें तें?" लोकांक देवपाक दीत हांवें विचारलें.

"याद है? बाय करचे पयलीं चित्रान म्हज्या पोल्यांर ओंठ तेंकयिल्ले?"

"मागीर?"

"तूं जाणा? ताका ते म्हज्या ओंठांर तेंकोवपाचे नासले-."

"सो?" हांव देंवपाक उठलों.

"बुद्धूच तूं." मागीर म्हज्या दोळ्यांक तोंपिल्ली नदर कुशीक काडून म्हळें, "तो कीस म्हजे खातीर नाशिल्लो. आतां म्हाका तो रिटर्न करपाक जाय- तुका."

आनी फातिमा फाटीं पळयनासतना आपले वाटेक लागलें.

•

फुडले पंदरा दीस हांव कॉलेजीक गेलों ना. चित्राची मॅसेज आयिल्ली, आपूण दिवाळी सोंपतकच क्लासीक येतलें म्हूण. फातिमान दोन फावटी फोन केल्लो. मूड ऑफ उरिल्ल्यान म्हाका घेन सो दिसलो ना. मजगतीं डॅडीली फिजिओ थेरपी सुरू जाली. पयलीं कांय दीस हांव ताका स्वता घेवन वतालों. कृष्णाय वांगडा येतालो. मागीर फिजिओनच सांगलें– 'ताका कृष्णा बराबर धाड, तूं अभ्यास कर.' डॅडीनूय सांगलें– 'बेगीन डॉक्टर जा. मागीर म्हाका शंबर वर्सां जगपाक जाय'.

गेलों कॉलेजीक जाल्यार दुसऱ्या दिसाच्यान सुटी सुरू.

सुटी पडटा म्हळ्यार भुरगीं सामकीं खुशाल आसतात. काल पयर मेरेन म्हाका, सुटी आसूं नासूं, सगले दीस सारके दिसताले. पूण हें खेपेक एक तरेचें रितेंपण जाणवलें. तरी बरें, लॅपटॉप म्हजो सांगाती जाल्लो. सगलो पोर्शन घरा बसून शिकूंक मेळटालो. नमशीकारालें निमाणें लेक्चर अटॅंड केल्लें तेन्ना ताणें जेनेटिकली इंजिनिअर्ड इन्सुलीन शिकोवन जालां तें मेकप कशें करतलो काय विचारिल्लें. नमशीकारान तो टॉपीक भयंकर कठीण जाल्ले भाशेन सांगिल्लें. घरा येवन लॅपटॉपाचेर सोदलें. वाचून

काड जाल्यार सामकेंच सोपें. मागीर अमृता कडल्यान सगलो करिक्युलम बरोवन हाडिल्लो. आतां घरा बसून अभ्यास जाता जाल्यार क्लासीक तरी कित्याक वचूंक जाय?

त्या दिसा मात लॅपटॉप नाका सो जालो. जेवण जाल्लें. कृष्णालो अभ्यास घेवन जाल्लो. डॅडी सुस्त न्हिदिल्लो. मां टिव्हीचेर सिरियल पळोवपांत गुल्ल आसली. हांव एकलों कुडींत बशिल्लों. कृष्णान घराचो ताबो घेतिल्ल्याक सगलीं जनेलां उकतीं आसतालीं. आयज मनांत इतलो काळोख दाटून आयिल्लो की जनेलांतल्यान येवपी उजवाड दोळे दिपकावपाक लागलो. उठून जनेल बंद केलें. रितों रितों जालां शें दिसलें. एकलेपण खावंक येवंक लागलें. म्हाका खंयतरी वाचिल्लें याद जालें. 'इफ यू फील लोनली व्हॅन यू आर अलोन, देन यू आर इन बॅड कंपनी'. हांव खुबच अस्वस्थ जालों. हे आवतिकायेंतल्यान म्हाका भायर काडपाक चित्रा जाय आसलें, अशें कित्याक दिसचें म्हाका? आनीक कोणाचीच याद कित्याक जाली ना? आनी मागीर म्हाका याद जाली– मार्टीन सराची.

दनपारचो वताचो भार देंवंक रावलों. चार वरां जायसर वाट पळयली. सर घराच आसलो. ''हांवेन आयजच तुजो उगडास काडिल्लो. पूण म्हुटलें तूं बोवाळांत आसतलो. फाल्यां दिवाळी न्हूय?''

फाल्यां दिवाळी? जायत. अशें कोणेंय सांगल्यार कळपाचें.

''तुमगे हायर सेकंडरी स्टाफ बरो म्हूण आयकिलां. यू आर हॅपी, मुरे?''

सराची अपेक्षा पूर्ण करपाक म्हूण हांवें 'हय' म्हणपाचें? वग्गी रावलों.

''नेये फ्रॅण्ड्स बी केल्याय मुरे?''

आतां मात तकली हयकारली. पूण नांवां विचारल्यार कितें संगपाचें? चित्रा? फातिमा? हांवें विशय बदलपाचें थारायलें. ''सर, म्हाका सायन्स नाका दिसूंक लागलां. ते परस आर्ट्स...''

''किदें?'' मार्टीनसराक असो अजापिल्लो हांवें केन्नाच पळोवंक

नासलो.

आतां म्हजें म्हाकाच अजाप दिसलें. हो विशय काडपाक आयिल्लों हांव हांगा? हांवें तर चिंतुकच नासलें हे विशीं!

"तूं मॅडिसिनाक वचपाचो आसलोय."

हांव वग्गी.

"डॅडीक सांगलां तुवेन?"

"ना सर. हांव बारावी सायन्स करतलों सर."

"लूक माय बॉय, तुवेन पेडणेची तिकेट काडल्या. आतां अर्दे वाटेर मदेंच देंवन तूं काणकोणा वचपाचें चिंतताय?"

काणकोणा? चित्रा दोळ्यां सामकार आयलें. तें आर्टसाक गेलां देखून हांव सायन्स नाका म्हणटां काय? मॅडिसिनाक वचपाचो विचार हांवें सोडुन दिला खरो. पूण सायन्स?

"तुवेन मुरे पयलींच आर्ट्स घेवपाचें. म्हाका दिसलेलें तूं रायटर वा फिलोसॉफर जातेलो म्हूण. तूं सायन्सीक गेलो. आतां दोन वर्सां उपरांत जर तूं चिंतिता. आनी हें तुगे चिंतप जरी तर इण्डिपॅण्डेंट आनी फायनल आसत जाल्यार बरें आहा. हांव इतलेंच सांगतां- जें करता ते चिंतून कर. आनी उगडास धर, तेशें करपी तूं पयलोच न्हूय. 'झॅरोसीक पार्क' बरोवपी मायकल ख्रिचटन हार्वर्डांत मॅडिसीन शिकिल्लो. रायटर जालो."

मन शांत जावचें म्हूणा गेल्लों. अस्वस्थतायेंत गोंदळाची भर घालून घेतली. खवदळिल्ल्या उदकाचे लोट येवन बुचकळ्यो खावच्यो तशी आवतिकाय जाली. सरळ घरा येवचे सुवातेर हांव वाट वांकडी करून आमोरेचेर घरा परतलों.

कामां आटापून कृष्णा म्हजीच वाट पळयतालो. "फाल्यां मातसो उसरां येतलों, सर. दिवाळी न्हय?"

जेवणा वयली वानसा गेल्ली. हांवें दारां जनेलां गच्च धांपलीं. सगळें ध्यान अस्वस्थतायेचेर केन्द्रीत केलें. कालसांव देंवयलें आनी पुराय

अस्वस्थतायेचें स्खलन जायसर हस्तमैथून केलें.

सकाळीं उठून जनेल उकतें करनाफुडें लख्ख उजवाड आनी शितळ वाऱ्यान म्हाका अभ्यंगस्नान घालें.

"हॅपी दिवाली, विपीन." सकाळींच चित्रालो फोन. चित्रालो आवाज आयकून मन प्रफुल्लीत जालें.

"थँक्यू." फुडें कितें उलोवचें येवजलें ना.

"म्हाका वीश केलें ना तुवें!"

म्हाका वयलेचार आवडना. 'हॅपी दिवाली' हाचो अर्थ म्हाका केन्नाच समजलो ना. लोक म्हणटात तेन्ना थँक्यू म्हणपाचें खबर आसा. तेंय एक वयलेचार म्हूण.

"सॉरी. म्हाका मुगो फॉर्मेलिटी कळना." अशे तरेन कोणा कडेंन मन मेकळें उलयिल्ली म्हाका याद ना– आजच कित्याक?

"आसूं रे. तोच तुजो गूण म्हाका आवडटा." मनाक खातकुतल्यो जावप म्हळ्यार कितें ताचो अणभव घेतलो.

"न्हालो मरे?" चित्रा कितले सहजतायेन उलयतालें!

"उठटनाच उजवाडान आनी थंड वाऱ्यान न्हाणयलो." कशीं सुट्टात अशीं उतरां तोंडांतसून?

"वा:! पोएटीक उलोवपाक लागलो. फातिमाचो वास लागलो दिसता."

बॅल वाजली म्हूण दार काडटासर चित्रान विचारलें, "फोव कसले केल्यात रे?"

कृष्णान हातांतलो डबो दाखयत दारांतच सांगलें– "अम्मान फोव दिल्यात, सर!"

"कसले?" हांवें कृष्णाक विचारिल्लें तें चित्राक दिसलें आपणांक.

‘‘म्हाकाच विचारता? केल्यात मरे फोव?’’

‘‘फोण्ण फोव.’’ कृष्णान दिल्ली जाप हांवें चित्रामेरेन पावयली.

‘‘आमगेर यो, न्हय? धा तरेचे फोव मेळटले.’’

‘‘धा?’’

‘‘धा पप्पान केल्ले. तेभायर मम्मान केल्ले दुदांतले आनी हांवें केल्ले धंयांतले. पळय. आयल्यार आमकां आनंद जातलो.’’ चित्रा मनापासून उलयता म्हणपाचें म्हाका सांगनासतनां कळटालें.

‘‘बट फॉर द डिस्टन्स! तूं खा म्हजे म्हणून. म्हाका पावले.’’

‘‘फातिमान केलें मरे तुका वीश?’’

चित्रान फातिमाचो विशय काडिल्लो म्हाका मानवलें ना.

‘‘तें खूब बेजार आसा तुजेर. तूं फोन घेना खंय तागेलो?’’

हांव वग्गी रावलों.

‘‘शी इज अ गूड गर्ल, विपीन. आनी म्हगेलें बॅस्ट फ्रँड. ताका दुखोवं नाका, प्लीज! तें कितलें मानता तुका जाणा?’’

कशें सांगू चित्राक – तूं ‘मानता’ म्हणटा. तें ‘आवडटा’ म्हणटा.

पप्पान ताका उलो मारलो आनी चित्रान फोन दवरलो. तें दवरता थंय आसा फातिमालो फोन. घेतलो.

‘‘जावं बाबा, थँक्यू.’’ म्हाका दिशिल्लें तें ‘हॅपी दिवाली’ म्हणटलें.

‘‘थँक्यू कित्याक?’’

‘‘फोन घेतलो म्हगेलो म्हणून. चलो, अब मुबारक बात– हॅपी दिवाली.’’

‘‘थँक्यू.’’

‘‘वाट पळयतालो मरे म्हगेल्या फोनाची?’’

‘‘नो’’ म्हाका उतर फुटलें.

‘‘कमॉन. यू हर्ट मी. वाट पळयतालो म्हणपाक कितें पैशे पडटात रे?’’

‘‘फट कित्याक मारूं?’’

‘‘ओ विपीन. यू आर सो ब्रुटली ऑनेस्ट. म्हाका प्लीज करपाक

इली शी फट मारूं जायना तुज्यान?" आनी म्हजी जाप येना म्हण ताणें फुडें विचारलें, "चित्रालो फोन आयिल्लो तुका - ताचेय कडेन असोच उलयलो तूं. आय ॲम शुअर - नॉट."

"डॉण्ट मिक्स अप-"

"बरें आसा. आतां तूं फोन दवरचे पयलीं विचारतां- केन्ना मेळुंया ? सुटयेंत- -"

"वाट पळय." अशें म्हणून हांवें फोन दवरलो.

दिवाळे दिसा हांवें कृष्णाक म्हयन्याचो पगार दिलो. तो खांकुडलो. "वासुदेवकाकान पांच म्हूण सांगिल्लें."

"आतां तूं म्हगेलें काम करता. ताचे हे."

"सात?" मागीर पैशे माथ्याक लावन ताणें म्हळें, "थँक्यू सर! पूण सर - शिकोवणेचे काडले नात तुवें!" पैशे परते म्हज्या हातांत दीत कृष्णान सांगलें.

"ते काडून दिल्यात."

कृष्णाली शिकपाची जिद्द आनी तत्परताय तोखेवपा सारकी आसली. एक दीस हांवें विचारलें, "वर्सां कितलीं तुका?" दुसऱ्या दिसा बर्थ सर्टिफिकेटच घेवन आयलो.

"आठवी पास जालाच तूं. एस.एस.सी. परिक्षेक कित्याक बसना?"

"ओंदू?"

"हय ओंदू."

आनी हांवें ताका मॅथ्स, सायन्स, हिस्ट्री, जिओग्राफी शिकोवपाक सुरवात केली. आकलन सुमार आशिल्लें. पूण एक फावट समजलें की घट यादींत उरतालें. पाठांतर बरें आसलें आनी कश्ट करपाची तयारी

आसली. आयज शिकयलें कीं फाल्यां पाठ करून येतालो. म्हयन्या भितर ताचो आत्मविस्वास वाडलो. सोमतोच स्कुलांत वचून एक्स्टर्नली परिक्षेक बसतां म्हूण सांगून आयलो.

मदीं एक दीस फातिमालो फोन आयलो.

''हम आपके हैं कौन?''

''व्हाय आस्क मी?'' हांव गणमणलों.

''मॅटिनीक रे! यो न्हय म्हजे वांगडा- '' फातिमान गळ्यांत पडिल्लेवरी विनयलें. काय तशें नाटक करतालें? मनयतालें काय तिडायतालें?

''आनी कोण मेळ्ळो ना?'' रागान विचारलें. पूण तो अडेचो अशें म्हाकाच जाणवलें.

''चित्रा हांगा आशिल्लें जाल्यार तुजे लागीं फेव्हर मागचें नासलें-''

''ब्लॅकमेल करता?''

''ऐसा ही समझो. पूण यो.''

ताका खऱ्यांनीच दिसतालें काय, हांव गरयेक फारावतलों म्हूण?

''सॉरी.'' म्हणून फोन कट केलो हांवें. पूण फातिमाचें फोनार उलयतना पळोवंक नाशिल्लें लागोळें, आसक्त, फकाणेर मुखामळ दीसभर चाळयत रावलें. त्या दिसा हांवें सपसप करिना ती गजाल केली - लॅपटॉपाचेर 'हम आपके है कौन' पळयलो.

सुटी सोंपचे पयलीं चित्राक फोन करून मम्माची खबर घेवची शें दिशिल्लें. पूण मागीर हांवेंच म्हाका विचारलें– तुका केन्नाच्यान चित्राचे मम्माचो हुसको दिसूंक लागला? ते परस सरळ चित्राकच विचार – केन्ना येतलें? केन्ना मेळटलें?

चित्रानच फोन करून सांगलें– केन्ना येतलें, केन्ना मेळटलें!

भुरगीं रिझल्टाची लेगीत वाट पळयनात तशी वाट पळयली त्या दिसाची. कँटिनांत पांय दवरतासर म्हज्या काळजाची टीकटीक कानांच्या पड्ड्यांचेर आपटूंक लागिल्ली. पळय जाल्यार म्हजे पयलींच चित्रा येवन बशिल्लें. केंस लूज बांदून मानेर सोडिल्ले. धवो फुल्ल चुडिदार आनी ताचेर काळी ओडणी. ओंठार मंद हांसो. आनी दोळे उमेदीन उपाट भरिल्ले.

"हांवूय आसां हांगा." तेंकून बशिल्लें आसुनूय म्हजें फातिमाचेर लक्ष वचूंक नाशिल्लें खरें.

"बाय वन गॅट वन फ्री का जमाना है ना? देखून चित्राचेर फातिमा फ्री."

म्हाका आवडलो ना तो कॉमेंट ! पूण चित्रान मात ताळी दिली फातिमाक.

"चित्रां हाडल्यांत?" उलोवणे सुरू करचें म्हूण हांवें चित्राक विचारलें.

"चित्राक हांव घेवन आयलां." फातिमा फाकाणांच्या मुडांत आसलें.

‘‘तूं -’’ म्हाका फुडें येवजना जालें, ‘‘फकाणां पुरो.’’

‘‘करूं रे ताका फकाणां. तेच खातीर तें म्हाका आवडटा. फकाणां तोंडार हांसो फुलयता.’’ चित्रालें आयकून वगी रावलें जाल्यार तें फातिमा कसलें?

‘‘ॲण्ड अ डे विदाउट स्माइल इज अ डे वेस्टेड.’’ पर्थून ताणें चित्राक ताळी दिली, ‘‘पूण कंबख्त! अशेय लोक ह्या संवसारांत आसात जांचे सगलेच दीस वेस्ट जातात....’’

‘‘बरें गो जया! तुका तागेलें स्मायल मेळना जाल्यार तो तुजो प्रॉब्लॅम. तागेलो हांसो- ‘‘

चित्राक मदींच तोडून फातिमान विचारलें, ‘‘तुवें पळयला?’’

‘‘ऑफ कोर्स! तुमी काणकोणां आयिल्लीं तेन्ना दाखोवपाक विसरलें. आं राव आं -’’ अशें म्हणून चित्रान मोबायला वयलें चित्र सोदून काडलें. ताणें पेन्सिलीन काडिल्ल्या स्कॅचाचो व्हॉट्सेपाचेर काडिल्लो फोटो दाखयलो. ‘‘हो फोटो कॅन्व्हासाचो. अर्दकुटें आसा चित्र. कंप्लीट जातकच हाडटां दाखोवपाक’’

हें म्हजेंच रेखाचित्र? हय. दोळे, नाक, ओंठ. चेऱ्याची चवकट

‘‘गूड स्कॅच! पूण तोंडार हांसो खंय आसा गो?’’ फातिमान बोंचो करून म्हळें.

‘‘तो पळोवपाक नदर लागता.’’ चित्राल्या दोळ्यांत आत्मविस्वास दिसतालो. हांवें पर्थून तें स्कॅच पळयलें. पेन्सिलेचीच करामत जावंये - ओंठांर, पोल्यांर फकत शेडस. पूण दोळे? ते हांसताले?

‘‘च्या हाडटां.’’ अशें म्हणून हांव उठलों.

‘‘कॉफी -’’ चित्रान याद दिली.

दोन कॉफी तांच्यामुखार दवरून हांवें च्याचो कप घेतलो.

‘‘कितें रे विपीन! आमकां कंपनी म्हणून तरी तुवें आयज कॉफी घेवची आसली!’’ चित्रान रुठिल्लेवरी म्हळें.

‘‘दुसऱ्यांक बरें दिसपाखातीर म्हाका आवडना ती कॉफी घेवप म्हाका

योग्य दिसना."

म्हगेलें सांगप सारकें जालें ना काय? दोगींनी खीणभर एकमेकांकडेन पळयलें आनी विशय बदललो.

"सुटयेंत कितें केलें?" चित्रान कॉफीचो मग तोंडाकडेन व्हरीत विचारलें.

हांव येवजुपांत पडलों. कितें कितें केलें हांवें? कांयच ना - सांगपासारकें.

"हांव सांगूं ताणें कितें केलें तें? सिनेमा पळयलो." फातिमान फोण्ण मारलें.

"हय? कसलो?"

"हम आपके हैं कौन!" फातिमान दोळे मिचमिचायत म्हळें.

"हय रे?"

नकळटनां म्हजी तकली हालली.

"हय गो. आमी मॅटिनीक गेल्लीं."

चित्राक तें खरें दिसत म्हूण म्हाका सकयलवयर जालें.

"म्हाका घेनासतनां?" चित्राल्यो भिवंयो वयर सरल्यो.

"तें फटी सांगता. हांवें यू ट्युबाचेर पळयलो. तें कोणा वांगडा मॅटिनीक गेल्लें तें विचार ताका -" म्हगेलो सूर स्पश्टीकरणाचो जाल्लो तांकांय जाणवलें जावंये.

"आसूं रे. हांवें तीन फावटी पळयला तो." चित्रान विशय फाफुडलो.

कॉफी सोंपोवन फातिमान बॅग उखललें, "वेळ कळ्ळोच ना. लॅक्चराक वचूंक जाय म्हाका. ना जाल्यार मॅडम नोट करता."

आमीय उठलीं.

"आमी एक पासय मारूंया, विपीन?" भायर सरतां सरतां चित्रान विचारलें.

"हांव येतासलें. पूण- नाका. तुमी चलात." फातिमा वचपाक अनमनतालें जावंये. पूण चित्रान ताका धुकललें- "चल तूं. कबाब में

ड्डी नाका.''

''ओ.के. बाय विपीन. हड्डी घेवन तूं वच. कबाब चललें क्लासीक.'' आमकां चाळयत फातिमा धांवलें.

''शी इज सो लायव्हली. म्हाका खूब आवडटा तें.'' आनी खीणभर रावन चित्रान म्हाका कोंपर मारून म्हळें, ''आनी ताका तूं.''

''शी इज टू मच! '' म्हज्या तोंडसून उतरां आयलीं.

''खरें तुगेलें - पूण तागेल्या ह्या सभावाक लागून शी इज मोस्टली मीस-अंडरस्टूड. तूं जाणा? शी इज़ स्कॅअर्ड ऑफ बॉयस. भियेता तें -''

''आनी तरिकूय म्हजेकडेन -''

''तेंच सांगतां हांव तुका. ताका तूं आवडटा, कारण यू आर डिफरंट.''

चित्रालें फातिमा-पुराण सोंपूंक नासलें, ''ताका पोएट्री खूब आवडटा. उर्दू, हिन्दी, कोंकणी कितलें बरें उलयता पळयलां न्हय तुवें? खूब सुंदर-''

आमी रस्त्यार पाविल्लीं. अकस्मात एक स्कुटर येवन बगलेक थारली. ''हॅलो चित्रा, कैसी हो? आयज तुजी शेंपडी, फातिमा खंय तर?''

''तें आतांच क्लासींत गेलां.'' आनी म्हजेवटेन घुंवन चित्रान वळख करून दिली- ''असलमभाय, हो तो आं, विपीन. कळ्ळें कोण तो?''

''ओ विपीन परोब! कितली वाट पळयली त्या दिसा. थँक्यू सो मच. बहोत शुक्रगुजार हूं आपका. फातिमाची इज्जत बचायी..'' ताणें दिल्लो हात घेतलो पूण हांव उलयलों कांय ना. केन्ना काय गेल्यार पुरो जाल्लो तो.

तो आपले वाटेन गेलो. तरी चित्राली खबर सोंपना, ''कळ्ळें मरे कोण तो? फातिमाचो भाव..'' चित्रा वांगडा चलतना म्हाका फातिमाचो विशय नाका आसलो.

''तूं म्हाका चित्रां दाखोवपाचें आशिल्लें.'' हांवें याद करून दिली.

''हय. सिसीफसाचीं. नॅक्स्ट टायम हाडटां.'' मागीर तें हांसलें, ''खरें सांगूं? हांव आजून ॲमेच्युअर आसां. पेंटिंग आपले आपूण शिकतां. देखून कोणाक दाखोवपाक सोदना. तुका दाखोवपाक हाडटां म्हणिल्लें - कित्याक जाणा?''

“सांग.”

“तुका पर्थून मेळपाक म्हाका निमित्य जाय आसलें.”

“आनी ती पेंटिंग्स?” चित्रा फट उलयलां हे कल्पनेनच म्हज्या उतरांक धार आयली जावंये –

“ऑफ कोर्स, ती पेंटिंग्स आसात. हांगाच म्हळ्यार मामागेर आसात. आनी तुका तीं दाखोवपाक म्हाका खातरीन आवडटलें. केन्ना हाडूं सांग. फाल्यां?”

दुसऱ्या दिसा खऱ्यांनीच तें चित्रां घेवन आयलें. चित्रां उबीं दवरपाक एक फोल्डिंग स्टॅण्डय घेवन आयलें. सिसीफस म्हाका वळखीचो सो दिसलो. “तुका दिसना, विपीन , ह्या चित्रांतलो सिसीफस आनी तुज्यांत साम्य आसा?” हांव गोंदळ्ळों, “फकत फिजिकल न्हय. ताच्या तोंडार आयिल्ले भाव पळय. निरागस, निर्विकार, कठोर. तेच बराबर ‘कम व्हॉट मे, हांव तो फातर वयर व्हरतलोंच’ हो निर्धार.”

हांव पळयत रावलों. खंय आसा काय चित्राक अभिप्रेत आशिल्लें तें साम्य!

“तूं मेळचे पयलीं काडिल्लीं हांवें हीं चित्रां. उपरांत तुका पळयलो तेन्ना तूं म्हाका वळखीचो दिसलो; संवकळ क़रची शी दिसली; ताचें कारण हेंच.”

“पूण– हांव – असों....”

“म्हजे नदरेंतल्यान पळयल्यार तुका तें साम्य दिसतलें. तरी ह्या चित्रांतली एक गजाल म्हाका तुज्यांत दिश्टी पडना –”

“खंयची?”

“सॉरी टू से धीस– पूण जो निर्धार ह्या सिसीफसाचे नदरेंत आसा, जो आल्बॅर काम्यूक अभिप्रेत आसा, तो सॅल्फ कॉन्फिडन्स म्हाका तुज्यांत दिसना. ऑफ कोर्स, तो तुज्यांत पळोवपाक म्हाका आवडटलें.” अशें म्हणून चित्रा पेंटिंग्स पॅक करपाक लागलें.

म्हज्यांत खूब कितें उणे आसा हें म्हाका ल्हानपणासावन जाणवत आयलां. न्हय, म्हाका तें सतत जाणोवन दिलां. हीं उणेपणां घेवनच हांव हांगा मेरेन पावलां. तीं सदांकाळ म्हजेबराबर उरतलीं ही भावना म्हाका घट दशिल्ली आसा. ती दुखरी भावना हांवें केन्ना जिबेर हाडली ना. ती कोडू भावना एक एक लेप आंगार चडयत एक व्हडलो दाळ जावन उबी आसा. चित्रान आयज तिका मातशी हालयली जाल्यार तो दाळ कोंसळटा काय जालो. आतां च्या जायच--

"कँटिनांत या? म्हाका च्या ्जाय." हांवें उठून म्हळें.

"या. पूण एक रिक्वेस्ट - मन मेकळें करून उलय म्हजेकडेन."

चित्राल्या आर्जवान हांव विरगळटां शें दिसपाक लागलें. च्याची कूंय अस्वस्थ करपाक लागली. चित्राचो सांगातय सोडपाचो नासलो.

"हांव उलयतां न्हय!" खऱ्यांनीच आजवेर केन्ना कोणाकडेन उलयलों ना इतलें उलयतालों चित्रा मेळिल्ल्याक, "आनीक कितें उलोवं?"

"तुजे विशीं. तुजें घर. तुगेलीं मनशां. तुगेलें भुरगेपण. तुगेलें वाचन."

"म्हाका कळना कितें उलोवचें. पूण - तूं विचार हांव सांगतां."

आनी तशेंच जालें. त्या दिसा कँटिनाचीं दोन कदेलां आमी दोन वरां तापयलीं.

घरा परतलों तेन्ना याद जाली- ताचे मम्माची खबर घेवपाची उरली.

कृष्णा खातीर हांवें वेळापत्रकच केल्लें. सकाळीं आठ ते णव ताका मॅथ्स वा सायन्स; तीन ते चार इतिहास, भुगोल आनी चार ते पांच भाशा. दीस ल्हान जावपाक लागिल्ल्यान स वरांचेर ताणें घरा वचपाचें आनी शिकयिल्ल्या पाठांची उजळणी करपाची. आनी जें समजलें ना तें दुसऱ्या दिसा विचारून घेवपाचें. ताची पोटतिडक आनी तयारी पळोवन समादान मेळटालें.

डॅडी आतां आपले आपूण बसतालो. एक पाय लागना म्हणटकच कोणाचोय आदार घेवन टॉयलेट बी करतालो.

कृष्णा आदाराक मेळत सावन मांक इलो चडच सुशेग मेळटालो. तरी डॅडीली उठबस करपाक आंग मारताली. कृष्णा घरा वतनां तिका डॅडी म्हऱ्यांतल्या वल्तेराचेर बसयतालो आनी हांव मेकळो जावन ताबो घेतकच मां टिव्ही पळोवपाक आपणांले कुडींत वताली. हो नित्याचो कार्यक्रम आसलो.

हांव लॅपटॉप घेवन बायोलॉजीचे नोटस् काडटालों. आमोरी जाल्ली. कृष्णा गेल्लो. सातांक मां टिव्ही मुखार बसपाची. त्या दिसाचें काम आटापून हांवें लॅपटॉप बंद केलो जाल्यार भायर मां कोणाकडेन तरी उलयता तें आयकलें. भायर येवन पळय जाल्यार डॅडी खाटीर आडवो

आनी ताच्यामुखार वल्तेराचेर बसून मां ताचे कडेन उलयता. म्हाका फाटकुडी बशिल्ल्यान तिणें म्हाका पळयलो ना. हरशीं जाल्यार म्हाका कवतूक दिसतासलें पूण मांचो सूर तक्रारीचो आनी दुशण दिवपाचो सो दिसलो. हांव आयल्यान आयलों तरी मां नेटानेटान उलयत आसली. हांवूय आयकत उरलों.

"तूं पळय भोगता तीं तुज्याच कर्मांची फळां... लग्न जायनासतनां बियाक उरिल्लीं जाल्यार लेगीत सुखांत आसतासलें हांव.... तुजे कडेन गांठ पडली आनी नरकांत.पडलें... म्हाका पिडापीड भोगोवपाक आवडटालें न्हय तुका? ... आतां तूं भोग.. दादलो खंय तूं. बायलांचीं कामां बायलांनी करपाचीं म्हणी तूं... म्हाका कितें वावराडी म्हणून हाडिल्ली?.. सगलो वावर म्हज्या हड्ड्यार घालो... म्हाका वावराडी सोंसना हें खरें... पूण कित्याक तें तूं नकळो?.. बाळंटेरा दिसांनी हाडिल्ले वावराडेक म्हजे असवडीं कसो धाडायतालो तें कितें म्हाका कळनासलें?... आनी ते दुर्गाम्माक? तेच खातीर म्हाका नाका आसली वावराडी घरांत... म्हजी केन्ना पर्वा केल्या तुवें?... तुका भायली गोडी... तुका हांव नाका जाल्लें... वावराडी नाका म्हणिल्ली मू हांवें?.. मागीर एक मानांय दवरचो आशिल्लो घरच्या कामांक.... ना. तुका दुबाव तो म्हाका लागत म्हूण... बाबान पन्नास तोळे घाल्ले म्हाका... हांव सुखांत उरचें म्हूण... सूख भोगलें तुवें... कोणा हड्यार घालीं भांगरां? म्हाका कितें सूख नाका आसलें?.. तूं तुका जाय तेन्ना येतालो. ...तें उश्टें सोनें म्हाका खावोवपाक.... आतां पळय कोण लागीं करता तुका... हांव पयलींच सांगतां... हांव कांयच काडपाचें ना तुगेलें...."

डॅडी उकत्या दोळ्यांनी आनी उजव्या कानान आयकतालो... ताचो उजवो हात आनी उजवो पांय पिटपिट्टालो. तिडकी येताल्यो जावंये. मांची म्हाका फाट आशिल्ली. पूण डॅडीक हांव दिश्टी पडटालों. तो तोंडान लुबडीं उतरां काडटालो आनी काडिल्ले फावटी लाळ देंवताली. मां बरी नेटार आसली....

“हांव जाणा ... तुका संवय ना आयकून घेवपाची..... तूं बरो आसतनां सांगूंक जालें ना म्हज्यान.. थापटावन तोंड बंद करतालो तूं... आतां आयक... कांय करूंक जायना तुज्यान... फाल्यां बरो जातलो आनी बुद्द शिकयतलो म्हूण येवजूंनाका. .. तूं असोच उरपाचो... लुळो-गुळो....” आनी ती विचित्र हांसपाक लागली.

“मां, पुरो. चल भितर.” एके वटेन म्हाका तिगेलें मानवूंक नासलें जाल्यार दुसरे वटेन तिची काकुळट दिसताली. म्हजो आवाज कानांर पडलो तशी कांयच जावंक नाशिल्लेवरी ती उठली. ल्हवुल्हवू चलून कुडींत गेली.

दोन मिण्टांनीं टिव्ही लागलो. डॅडी बरो आसासर टिव्ही कुडींत आयकुपा पुरतो लागतालो. आतां घर भर घुमूंक लागलो.

सकाळीं पळय जाल्यार हांतुणाचेर डॅडीचो आठको जाला. फाटल्या अणभवान शाणो जाल्ल्यान हांवें कॉश्ताबिराक सांगिनासतनां 108 घुंवडायलो.

मेश्कीतान सांगलें, “हे खेपेक वांटावलो. पर्थून बी.पी. अशें शूट जावपाक दिवं नाका.”

हे खेपेक हॉस्पिटल संवकळीचें जाल्ल्यान म्हजी धांवाधांव जाली ना. दीसभर थंय रावपाची गरज नाशिल्ली. नर्सी सगली काळजी घेताल्यो. पातळ आलिमेंत आनी गरज तेन्ना वखदां हाडून दितालों.

कृष्णालें काम इलें उणें जाल्लें. आतां हांव ताका चड वेळ अभ्यासाक बसयतालों. हांव बसीर हॉस्पिटलांत फावटी मारतां तें पळोवन कृष्णानच म्हाका एक दीस म्हळें – “बाबू, डॅडीली स्कुटर बंदच आसा. ती कित्याक घेवन वचना?”

म्हाका कशें येवजलें ना इतले दीस? - ''पूण म्हजेकडेन लायसन्स ना.''

''म्हजेकडेन खंय आसा? हांव तशीच चलयतां.''

स्टार्ट मारून पळयली. कशी जातली?

''म्हगेलो अप्पा करतलो सारकी.'' ताणेंच फोन करून अप्पाक सांगलें. चार म्हयने बंद उरूनय एका वरा भितर दुरूस्त जाली. पयलो राउण्ड कृष्णान मारलो. मागीर हांव बसलों.

''सर, तुका कळटा चलोवपाक?''

केन्ना चलोवंक नाशिल्ली खरी. पूण कशी चलयतात तें पळयिल्लें न्हय? मेरशेंतच एक भोंवडी मारून आयलों. म्हाका चित्राल्या उतरांची याद जाली- 'तुज्यांत म्हाका सॅल्फ कॉन्फिडन्स दिसना.' फुडले खेपेक स्कुटर घेवनच वचप चित्राक मेळपाक.

त्या दिसा हॉस्पिटलांतल्यान घरा येवन पळय जाल्यार मांन कृष्णाक कामाक लायला- आपणाले पांय चेपपाच्या. त्या दिसा हांवें कृष्णाक चडच होमवर्क दिलो.

सकाळीं स्कुटरीन हॉस्पिटलांत वतां वतां फोन आयलो. फातिमा! तागेली मस्करी आयकुपाचो मूड नाशिल्लो. हांवें तोडलो. रोखडोच पर्थून आयलो. थांबून घेतलो. ''विपीन, बॅड न्यूज.''

''पुरो कर आतां फकाणां! आय ॲम इन नो मूड -''

''आयक विपीन. चित्राल्या मम्माचो डॅथ जाला. राती गेली खंय. चित्रा पावलें काणकोणां.''

म्हाका जाप फुटना जाली.

''हांव वचपाक भायर सरलां. म्हज्या भावान असलमभायन गाडी काडल्या. तूं येता, न्हय?'' तें धरून चलतालें हांव 'हय' म्हणटलों म्हूण.

"ना. डॅडी इज इन हॉस्पिटल... चित्राक सांग - "

'सांग' म्हळें. पूण कितें सांग तें येवजना जालें.

"सांगतां हांव. यू टेक कॅअर." हांवें सांगनासतनाच कितें सांगपाचें तें कशें कळ्ळें काय फातिमाक?

हॉस्पिटलाच्या पार्किंगांत स्कुटर थांबयता थंय आसां, फाटोफाट मार्टीनसराली स्कुटर येवन थारली. "तूं कितें करता हिंगा?"

तो आयिल्लो तागेल्या सोयऱ्याचे जापेक. थंय वचून मागीर डॅडीचे खबरेक आयलो. पूण खबर काडली ती दुसरीच.

"हो टायम तें विचारपाचो न्हूय. पूण होच टायम तें विचारपाचो. देखून विंचारतां-" मार्टीनसरान विशयाकच हात घालो. 'डॅडी बेगीन बरो जावचोच. पूण खबरदारी म्हूण तागेले सगले पेपर सारके आसूंक जाय'. कसले पेपर आनी ते सारके आसप म्हळ्यार कितें तें म्हाका ल्हवुल्हवू समजायलें.

डॅडी पंदरा दीस हॉस्पिटलांत सारून घरा परतो यो मेरेन डॅडीलीं बँकेतलीं खातीं. कायम ठेवी, घर, स्कुटर सगलें म्हज्या नांवार करपाचें काम चालीक लागिल्लें. मार्टीनसराले दूरदिश्टीकोनाक लागून खुबशीं कामां कशीं सोपीं जालीं हाचो प्रत्यय येवपाक कळाव लागलो ना. ड्रायव्हिंग लायसन्साक लेगीत अर्ज दिलो.

नातालांची सुटी पडसर हांव क्लासीं निमतान कॉलेजींत पावलों ना. गोंय मुक्तीदिसा म्हाका फातिमालो फोन आयलो. वाटच पळयतालों जाल्लेभाशेन सडसडीत घेतलो. हॅलो म्हणटां थंय आसां फातिमान म्हळें, "तूं विचारचो ना म्हूण हांवच सांगतां. त्या दिसा हांव चित्राले मम्मीच्या मरणाक वचून आयलें. हरशीं स्ट्राँग दिसपी चित्रालो पप्पा त्या दिसा

साप हुमटून उडयिल्लेवरी कॉलॅप्स जाल्लो. त्या मानान चित्रा कंपोज्ड आशिल्लें. दफन, ओह नो– दहन काणकोणांच जालें. यू नो, पप्पाच्यान जायना म्हूण चित्रान उजो दिलो. व्हॅरी करेजिअस ऑफ हर. इजण्टीट?''

शांत चित्तान मम्माचे चितेक अग्नी दिवपी चित्राची प्रतिमा दोळ्यांमुखार आयली.

''आयकता न्हय तूं विपीन? म्हाका दिसता– आमी मेळुंया, उलोवंया. तूं येवशी फाल्यां पणजे? कांपालार, कला अकादेमीच्या कॅंटिनांत? पांचांक?''

गेलों. जाल्यार फातिमा कॅंटिनांत पयलींच बशिल्लें. मुखार एक कप कॉफी आनी म्हजेखातीर एक कप च्या घेवन. ''च्या घे. गरम आसा. तुका येता तो पळोवन निकतीच हाडल्या.''

फातिमान माथ्यावयल्यान घेतिल्ली ओडणी पुराय केंस लिपयत घट्ट ओडिल्ल्यान ताचो मूड चडच किण्ण दिसतालो. च्या सोंपसर आमी कांयच उलयलीं नात. चैतन्याचो भार आयिल्लेवरी वागपी फातिमा आयज खूब शांत आनी गंभीर आशिल्लें. मागीर ताणेंच सांगलें, ''काल चित्राचो फोन आयिल्लो. तुजो डॅडी कसो आसा काय विचारतालें. तूं फोन करून सांग ताका– मागीर.''

चित्राच्या ह्या दुख्खांत हांवें ताचे कडेन उलोवपाच्या विचारानच झेलाचो गुळो मानेवयल्यान निसरत फाटी कण्यावयल्यान सकयल मेरेन देंवचो तशें जालें.

''आमी भायर एक पासय मारूंया?'' हांवें म्हळें. तें रोखडेंच उठलें. हरयाळी वयल्यान चलत आमी मांडवीचे देगेवयल्यान जॅटी मेरेन गेलीं. दाव्यान घुंवन कार पार्किंगांतल्यान मार्गार आयलीं.

''हांव जाणा, हांवें हरशीं आपयल्यार तूं येवचो नाशिल्लो. चित्रा विशीं म्हणून आयलो–'' किण्ण हांसून फातिमान म्हळें. हांव आनी कितें उलयतलों? खरेंच सांगतालें तें!

नकळटनां पावलां मिरामारचे दिकेन पडूंक लागलीं.

''आनीक कितें सांगतालें चित्रा?'' हांवें मोनेळ मोडपाच्या हेतान विचारलें.

''म्हणटालें- डॅडी बरो आशिल्लो जाल्यार येत आशिल्लो तूं -''

''आय डोण्ट नो.'' हांवें खरें तें सांगलें.

''इव्हन आय कूड नॉट फेस हर दॅट डे! ताचो उगडास काडून कलेजा टूटता है मेरा.'' अशें म्हणून फातिमान म्हजो हात धरलो. ताचीं बोटां थंड लागलीं. तसोच म्हजो हात धरून तें चलत रावलें. बीचार टुरिस्टांची गर्दी आशिल्ली. आमी कुशीक बसपाक सुवात सोदूंक लागलीं. एके कडेन धा पंदरा जाणांचो पंगड खोशेच्या मुडांत एकामेकांक वेंगो मारीत मजा करतालो. एकलो गिटार वाजयतालो. दुसरो गायतालो. तांचो मूड आमच्या मुडा कडेन विसंगत आशिल्ल्यान आमी लागींच दुसरे कडेन सुवात सोदली. मिरामार भोंवपाक आयिल्ल्या लोकांच्यो विविध तरा पळयत वेळेर बसलीं. उलयलीं थोडें, मोनेळ चड.

दीस पडपाक लागलो. मदींच सुर्याक पळोवन स्वता कडेन उलंयिल्ले भाशेन फातिमान म्हळें, ''ऐ डूबते सूरज, चित्रा की सारी मायुसी को साथ लेकर डूब, प्लीज.'' सुर्य बुडसर तें पळयत रावलें.

''या मुगो, फातिमा, वेळ बुडलो पळय.'' हांवें म्हळें, ''म्हगेली बाय्क कला अकादेमी कडेन दवरिल्ली आसा.''

''हय रे बाबा. काळोख जावचे पयलीं पावपाक जाय म्हाका.'' अशें म्हणून फातिमा उठटा थंय आसा - पांच स दादल्यांनीं येवन आमकां रेवाडो घालो.

''ए ऽ, क्या करते हैं आप यहाँ?'' एकल्यान आवाज काडलो.

''लगता है भागके आये हैं कहीं से-'' दुसऱ्यान मत दिलें.

''क्या धरम है तुम्हारा?'' तो पयलो चडच आक्रमक दिसलो.

''मुस्लीम है वोह. और लगता है, ये हिन्दू है -'' तिसऱ्यान म्हळें.

''पँट उतार के देखो ना -'' सगले मोट्यान हांसले.

म्हजीं दाडवणा निबर जालीं. कानसुलांनीं रगत देंवलें. कोण हे?

आमचे वाटेक कित्याक? कसली ही आजनेर? हांव कित्याक सोसूं? हांवें फातिमाचो हात धरून बगलेक ओडलें. ते अदीक लागीं आयले.

"बऱ्यान सांगतां - पयस रावात." म्हज्या तोंडांतसून गरड सुटली.

फातिमान दोनूय हातांनी म्हजो दंड घट धरलो. गरड आयकून ते थोडे धास्तावले. इतल्यान एकल्यान म्हळें- "आरे, हो गोंयकार मरे!"

"तो क्या हुआ? धरम डुबाने वालों को माफ करेंगे?" हो आशिल्लो आंगान किरकोळ. पूण आवाज काडटालो व्हडलो.

"कितें जालां तुमचें? कोण तुमी?" हांवें केल्ल्या प्रस्नांत तांच्या अधिकारांक आव्हान आशिल्लें.

"अभी दिखाते हैं हम कौन हैं।" अशे म्हणीत ताणें आपणांले दंड थापटिले.

"हिन्दू वॉच डॉग समिती - नाम सुना है?" दुसरो उलयलो. व्हडले क्रांतीकारी जाल्लेवरी तांणी घेतिल्ले ते बदनाम संस्थेचें नांव आयकून शिरंतरांतल्यान उजो व्हांवंक लागलो. हांव तांच्या आंगार झुडून गेलों. तो त्या धपक्यान सकयल पडलो. हेर सगले चाळवले. कोणेतरी चाकू काडलो. इतल्यान येदोळ बीचार मजा करपी तो आख्खो पंगड थंय आयलो.

"ए ऽ, कितें चललां? कसली मस्ती ही?" त्या आवाजांत जरब आशिल्ली.

"आमी तांकां फकत शिटकावपाक आयिल्ले. मस्ती ताणें केल्या पळय." तांतल्या गोंयकारान नमत्या आवाजान सांगलें.

"तुमकां जाय कितें?"

"तें चेडूं मुसलमान. हो हिंदू. तांचो मोग आमी खपोवन घेवचे नात. हिन्दू वॉच डॉग आमी. तेंकां - " तो ताणशेवंक लागलो.

"कितें करतले?" ग्रुपांतल्या त्या मनशान फुडें सरून ताचे कॉलरीक हात घालून वांगडच्यांकूय उलो मारलो. तेय आयले, "येयात रे, आमी हेंची पयलीं सुन्ता करुंया. धरात तेंकां-" पंगडांतले मुखार सरना फुडें सगले वॉच डॉग गणमणले आनी भोंकांत शेंपडी घालून पळ्ळे. दोन तीन

मोटरसायकली सुरू जाल्ल्याचो आवाज ये सर ते रावले आनी, "चलात तुमी. ते परते दिसपार नात. येयल्यार कितें करपाचें तें आमी पळयतले." अशें म्हणून 'थँक्यू'ची अपेक्षा धरिनासतना ते परते आपणाले सुवातेर धांवले. बोवाळ आयकून लागीं आयिल्ले लोकूय पातळ जाले.

"या आमी". अशें म्हणून फातिमाचो हात धरून हांवें परतीची वाट धरली.

"भियेलें गो?"

"तूं बगलेक आसतना?" म्हजो हात दामून फातिमान म्हळें. भिरांत वचून तें मूळ पदार येता हाची म्हाका खातरी जाली.

"कसली मस्ती पळय. तीय धर्माच्या नांवान!"

"खूब जाण आसात तशें चिंतपी. सगल्याच धर्मांनी आसतात तसले. आनी असलेय आसात– आमकां हॅल्प करपाक धांवून आयले तसले."

फातिमा बस स्टॉपार वचूंक लागलें. "राव, हांव स्कुटर घेवन येतां. तुका घरा मेरेन पावयतां."

"नाका. येदोळ मातशें नर्व्हस जाल्लें खरें. पूण तुका कितें दिसलें, हांव तांकां भियेलें? डरपोक लोक ते. मॉब पळोवन फुरफुरतात. गोंयां तांकां कोण खायना– " बस येता तें पळोवन फातिमान म्हजो हात दामून म्हळें, "पूण– आय ॲम हॅपी, तुजो कन्सर्न पळोवन. तुवें म्हाका पावपाक येता म्हळें. नॅक्स्ट टायम हांव आफयतलें तेन्ना मात येवपाक जाय आं!"

बस सुटली. म्हजीं पावलां परतीं वेळेवटेन घुंवलीं. तो तरनाट्यांचो पंगड आजून थंय मजा मजा करतालो. गावप, नाचप, मस्करी. हांव लागीं येतां तें पळोवन तांतले दोग जाण पंगड सोडून लागीं आयले. लागीं पावनाफुडें म्हजी ट्यूब पेटली. तरीच, हे म्हाका वळखीचे दिसताले.

"आयज तुमचो रिव्हर्स रोल?" म्हगेलो हो प्रस्न तांकां अनपेक्षीत आशिल्लो. घडये ते म्हज्या आभारप्रदर्शनाचे अपेक्षेन लागीं आयिल्ले.

"आमकां दिसलेलें तूं वळखलो ना आमकां–" इतल्यान आमकां

उलयतात तें पळोवन लागीं आयिल्ल्या पंगडांतल्या एका मनशान विचारलें, ''गे फ्रॅण्ड?''

''नो, नो. यू गो. आमी एक च्या मारून येतांव-''

म्हाकाय च्या जाय आसली. आमी भायर आयले. रस्तो हुपून गाड्यार आयले. पेपर कपांत च्या घेवन बांकार बसले.

''यू आर रायट. आमगे रोल रिव्हर्स जाला. आनी वी वॉण्ट टू थँक यू फॉर दॅट.'' आनी मागीर आपणाली पुराय खबर कुमसार जाले.

ते दोगूय पार्टनर आसले. दुर्दैवान तांकां वीड घेवपाचें वेसन लागिल्लें. बोल्सां रितीं जाल्लीं. तल्लफ आंयली म्हणटकच कित्तेंय करपाची तांची तयारी आसताली. अशाच त्या दिसांनी तांणी ती येवजण आंखली. फातिमाक उबारून व्हरप आनी घरच्यां कडल्यान एक लाखाची मागणी करप. फातिमालो बापूय वेपारी. एका लाखा खातीर तो पोलिसांत वचचो ना आनी पैशे सोंपेपणीं मेळटले अशें तांणी चिंतलेलें. पूण अचकीत हांव थंय पाविल्ल्यान तांचो प्लॅन फिस्कटलो खंय.

''पूण त्या कामाक थँक्स आमकां-?''

ताचीय जाप दिली ताणीं. तांकां भिरांत दिशिल्ली, फातिमाल्या घरचीं पोलिसांत वतलीं; हांव गवाय दितलों, कॉलेज ताचो इशू करतलें आनी तांकां पोलीस वॉरण्ट येतलें. फुडले आठ धा दीस ते लिपून रावले. त्या धा दिसांनी तांका ड्रग्स घेवपाची संदच मेळ्ळी ना. आनी धा दिसांनी तक्रार ना म्हूण तांकां सू जालें तेन्ना तांच्या लक्षांत आयलें की जर धा दीस वीड घेनासतना रावं येता जाल्यार सदांकाळ सोडूं येता. मागीर केन्नाच घेतलें ना.

''पूण तुमी ते चलयेची वाट लायतासले- ताचें कितें?''

''यू मीन रेप? नो वे! आमी पार्टनर. गे फ्रॅण्डस.'' म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो. कालच सुप्रीम कोर्टान दिल्ल्या एका निकालान एलजीबीटीक्यू लोकांक थाकाय मेळिल्ली. देखून ती खोशी मनोवपाक तो गे लोकांचो पंगड थंय मजा करतालो.

"ओके." उठून हांवें म्हळें, "तरी एक कर्तव्य म्हूण तुमकां म्हणटां
- थँक्यू. तुमी येदोळ थंय वेळार पाविल्ल्यान प्रकरण मेटलें."

"दॅट मेक्स अस इव्हन -" आनी शेक हॅण्ड करतनाच फुडें म्हळें,
"बाय द वे, आमकां खबर नासली- शी इज युवर गर्ल फ्रॅण्ड.. गूड
च्यॉयस. तिकाय सांग, आमच्यो बॅस्ट विशीस."

ते पंगडाच्या दिकेन धांवले.

फातिमाक आनी तें सांगपाचें आसा? तें म्हाकाच कोलायतलें.

परिक्षेचो ताण म्हाका केन्नाच नाशिल्लो. डॅडी बरो आसतनां अभ्यास कर म्हणून फाटीक लागतालो. मॅडिसिनाक प्रवेश मेळपाइतले मार्क मेळय इतलीच ताची माफक अपेक्षा आसली. आनी म्हज्यान ती पुर्ण करूंक जातली हाची म्हाकाय खातरी आसली. तरी डॅडीचें समादान करपाक जाय हाचें चेपण आसलें. पूण मॅडिसिनाक वचपाचो विचार काडून उडयलो त्या दिसाच्यान खुबच ल्हवपीक दिसपाक लागिल्लें. फुडें कितें करचें ताचें चेपण शें नासलें. बारावेचे परिक्षेक बसूं ना बसूं, अभ्यास चालू आसलो. लायब्ररींतलीं पुस्तकां आनी लॅपटॉप इतल्यार म्हजी गरज भागताली. क्लासीक वचप जायनाशिल्ल्यान घराकडेन चड वेळ उरतालों. तोय वेळ पावना जालो तर रात म्हजीच आसताली.

कृष्णाली शिकोवणी चालू आसतनाच फातिमालो फोन आयलो. ‘‘चित्रा येता फाल्यां.’’

‘‘जाणां.’’ हांवें फाटीं फोन केल्लो तेन्नाच ताणें सांगिल्लें, संक्रांत करून येतलें म्हूण. पंदरा तारखेरच येवपाचें. पूण पप्पान म्हळें खंय कंक्रांतीक भायर सरचें न्हय, अशें मम्मा म्हणटाली. तेन्ना ताच्या दुसऱ्या दिसा वच म्हूण.

‘‘म्हाका कांय म्हणपाचें ना तुका?’’ फातिमा उमेदीर आसलें दिसता.

‘‘फाल्यां –’’

“आयज?”

“कितें म्हणूं?”

“तेंय हांव सांगूं? आयज बर्थ डे म्हगेलो !”

“ओह! हॅपी बर्थ डे टू यू! आतां – हॅपी?”

दुसऱ्या दिसा चित्रा आयलें. हांव कॅंटिनांत पावलों तेन्ना दोगांय कॉफीचे मग हातांत घेवन गंभिरतायेन उलयतालीं.

“ओऽ पळय आयलो. ताकाच विचार.” फातिमान म्हळें.

च्या घेवन तांच्या वांगडा बसलों. फातिमानच सांगलें – “चित्रा इज इन डिलेमा! टू बी ऑर नॉट टू बी !”

“पुरो गो, जया! तुवें वाचला तरी शेक्सपिअर?” चित्रान ताका आडायलें आनी आपणेच ताका पडिल्लो प्रस्न मांडलो.

मम्मा बरी ना जायत सावन चित्राक अभ्यास करपाक फुरसत मेळ्ळी ना. क्लासी चुकल्यो आनी वाचनय चुकलें. आतां बॅकलॉग भरून काडून परिक्षेक बसचे परस ओंद् ड्रॉप घेवचो काय ना हे द्विधावस्थेंत तें आसलें.

“तुका कितें दिसता, विपीन?”

म्हाका जाप येवजली ना.

“आतां कोणाकडेन ट्युशन्स मागपय शक्य ना. परिक्षा दोन म्हयन्यांचेर पावल्या. कोणालेंय गायडन्स मेळ्ळें जाल्यार तड मारीन हांव. पूण--”

“स्पश्टच सांग गो ताका!” फातिमान तोंड घालें. आनी म्हाका लेखून सांगलें, “ताका दिसता हांवें हॅल्प करचो म्हूण. हांवें बारावेचो अभ्यास कसो केल्लो तें हांव जाणां. अशांतूय हांव आं म्हणन आसलें. पूण फाटले चार म्हयने हांवेंय अभ्यास केल्लो ना. अंदू वर्स वगडायल्यार आबू खातलो म्हाका!”

च्याचो निमाणो घोंट मारून हांवें तकली फाफुडली. आन्येक च्या जाय शी दिसली. “एक मिनीट दी म्हाका. काडुंया सोल्युशन.”

वचून च्या घेवन आयलों. गरम घोंट ताळ्यासकयल देंवनाफुडें तरतरी

आयली. “हांव शिकोवं?”

दोगी तटास. चित्राच पयलीं उलयलें, “हॅलोऽ, हांव आर्टसाक आसां. विसरलो?”

“लॅट मी ट्राय. तुज्यो डिफिकल्टी सांग. पोर्शन सांग. आनी टॅक्स्ट बुकां हाडून दी. पळोवंया.” म्हज्या आवाजांतलो विस्वास दोगींकूय पचपाक जड आसलो.

“ओके. मान्य पूण मागीर परिक्षा कितें म्हगेलीच ना. तुजीय आसा. तुकाय –”

“डॉण्ट वरी. म्हजी आनी तुजीय जबाबदारी घेतां हांव –”

मागीर ताका शिटकायलें, “हांव मॅडिसिनाखातीर येत्न करचों ना. पूण तुका फाइन आर्टसाक ॲडमिशन जाय जाल्यार पुर्णवेळ दिवचो पडटलो. फुडलें तुजेर आसा.”

“ये हुई ना बात!” फातिमान एदो वेळ रोखून दवरिल्लो स्वास सोडीत म्हळें, “व्हॉट अ कॉन्फिडन्स!” अशें म्हणून ताणें म्हाका ताळी दिवपाक हात उकललो पूण म्हजो हात वयर सरलो ना तें पळोवन मेजार आपटिलो.

“आय ॲडमायर यू, विपीन!” चित्राल्या कपलार अजून मिरी दिश्टी पडटाली, “पूण – आजून सांगतां, तुजो वेळ –”

“तो विचार म्हजेर सोड.” हांवें विशय सोंपोवपाक म्हळें.

“तशें जाल्यार, आयक –”

चित्रान मागीर विस्क्टावन सांगलें. इंग्लीश, कोंकणी आनी हिस्ट्री हे विशय ताचें तें शिकतलें. ताका कठीण लागतात ते विशय म्हळ्यार जिओग्राफी आनी इकॉनॉमिक्स. आनी थोडे चॅप्टर सायकोचे.

फातिमा रावतालें पान परतुपाक. “जालें तुमचें? ऑल सॅटल्ड? जाल्यार हांव केक भायर काडूं?” अशें म्हणून ताणें कालच्या बर्थडेच्या केकाचे स्लायस आमच्या हातार दवरले.

केक खातनां म्हाका चित्रान फोनार सांगिल्ली याद जाली. कंक्रांतीचो दीस अपशकुनी म्हूण.

"चित्रा, इज इट ट्रू- कंक्रांतीचो दीस म्हळ्यार 15 जानेवारी इज अ बॅड डे?"

चित्रान कितेंय सांगचे पयलींच फातिमा उसळ्ळें- "रायट! आय ॲम अ बॅड गर्ल. देखून तुका आवडटां हांव. कारण बॅड बॉयस लायक बॅड गर्लस! हय मुगो चित्रा?"

चित्रान पोटभर हांसून घेतलें.

येदोळच्यान म्हाका पडिल्लो प्रस्न हांवें विचारून सोडलो. "आतां म्हगेली एक डिफिकल्टी आसा. तुमी खूब फावटी जया नांव घेतात. कोण जया हें?"

बोट वयर काडून फातिमान म्हळें, "तें ट्युशन हांव दितलें ह्या जयेशाक."

दोगींनी मागीर जया-जयेश नांवां कशीं कोणाकूय पिशांत काडपाक वापरतात तें सांगून म्हगेल्या कॉलेज-लिंगो विशयाच्या गिन्यानांत भर घाली.

फुडें परिक्षा जायसर म्हगेले दीस भोव बरे गेले. दीस रात काम. कृष्णाली शिकोवणी, चित्राची तयारी आनी फाविल्ल्या वेळार म्हगेलो अभ्यास. हांव जापसालदारकी घेतां म्हूण सांगना फुडें चित्रान मनाची तयारी पदर खोंवन म्हणटात तशी केल्ली. तो मेरेन स्कुटरीचें लायसन्स हातांत आयिल्ल्यान थंयय म्हजो वेळ वाटावतालो.

एक दीस तर फातिमालो फोन आयलो -"सर, म्हाका एक टॉपीक डिफिकल्ट लागता, शिकोवशी?" सदचीं फकाणां समजून हांवें ताचेर धेकणो घालो, "फातिमा, प्लीज लिव्ह मी अलोन. परीक्षा पयलीं जावं दी. मागीर कर तुगेलीं फकाणां."

"खरेंच सांगतां रे!"

“तूं सिनिअर म्हाका -”

“तें नांवाक. तूं फकत समजावन सांग- चित्राक सांगता तसो, प्लीज!”

काकुळटेक आयलें तेन्ना कळ्ळें ताका खऱ्यांनीच डिफिकल्टी आसली. मागीर पयलीं कॉग्निशन टॉपीक हांवें शिकून घेतलो आनी उपरांत ताका समजावन सांगलो.

हॉल तिकेट हातांत पडसर चित्रालो सगलो अभ्यासक्रम कव्हर जाल्लो. रिव्हिजन करप ताच्या हातांत आसलें. ताणें तें केलेंय. फातिमाले सेमिस्टर परिक्षेक कळाव आशिल्लो. कृष्णाली एस.एससी परिक्षा एप्रील लागतनाच म्हळ्यार बारावेच्यो सोंपतकच जाल्ल्यान म्हाका डॅडीचो वा घराचो हुसको नाशिल्लो.

बारावेचो पयलोच पेपर इंग्लीश, दोगांकूय कॉमन. आमकां सेंटरय एकच. पेपर सोंपोवन भायर आयलों जाल्यार चित्रा म्हाकाच रावतालें. मुखामळार खोशेची उमळ दिश्टी पडटाली.

“सुरवात तर बरी जाली.” चित्रान म्हळें

“सो हाफ डन.”

मागीर मात हेर पेपरांचे दीस जुळना जाले. चित्रालो निमाणो पेपर सोंपतकच पांचव्या दिसा म्हजो निमाणो.

सगले पेपर अपेक्षे परस बरे गेले म्हूण तें खुशाल आसलें. पप्पा एकलो उरता म्हूण पेपर सोंपना फुडें तें काणकोणा वचपाचें आसलें. ताका लागून निमाणे शें मेळप जावचेंच नासलें. पूण म्हगेलो निमाणो पेपर सोंपोवन भायर सर जाल्यार मुखारच चित्रा. सामकें हॉलाच्या दारांत. “कसो लागलो सरप्रायज?”

“काणकोणा वचून परतें आयलें?”

“गेलेंच ना. पप्पाक सांगलें चार दिसांनी येतलें म्हूण. पूण पयलीं हें सांग, कशी जाली परिक्षा?”

“कितें सांगू? जाली हें म्हत्वाचें ” हांवें म्हळें.

“बरीच जातली. म्हजे भाशेन. “

हांव चित्रा वांगडा चलत स्कुटरी कडेन आयलों. “केन्ना मेळुंया?”

“आयजच” चित्रान खीण वगडायनासतनां जाप दिली.

“आयज?”

“आतां.”

ना म्हणपाक कारण नासलें. हांवें स्कुटर स्टार्ट मारली. म्हाका कूंय आयिल्ली, “मिरामार या - थंय च्या बरी मेळटा.” हांवें म्हळें.

“नाका.” म्हजे फाटीर धुमको घालून चित्रान म्हळें, “थंय कॉफी मेळना. दोना पाउला या.”

वाऱ्यार केंस हुबयत म्हज्या कमराक विळखो मारून बशिल्ल्या चित्राक घेवन स्कुटर चलयतनां तो रस्तो कितलो सुंदर तें म्हाका पयलेच फावट जाणवलें.

लागीं मेळटा थंय भितर सरलीं. च्याच्या वासानच हांवें नाक किल्शिलें.

पूण कॉफीचो घोंट मारून चित्रान म्हळें, “बॅस्ट आसा. सीप मारता?”

“नाका गो बाये! बरे कॉफी परस वायट च्या म्हाका चलता.” हांवें खरें तें सांगलें.

“खरें सांगतां, विपीन, फकत तुका लागून वर्स पदरांत पडलें.”

असलें आयकतकच म्हजीं गात्रां आंवुळटात, “पुरो आतां. हांवें फकत घोड्याक उदकाकडेन व्हेला.”

“तेंच सांगतां. उदक दिश्टीच पडनासलें ताका. यू आर सिंप्ली ब्रिलियंट! तूं नकळो तुज्यांतलें पॉटेन्शल! असो भिडेस्त रावं नाका. स्वताक वळखून घे.”

परिक्षेचे दीस आशिल्ल्यान जावंये, टुरिस्टांची खेट नाशिल्ली. पूण हॉटेलांत लोकांची यो वच चलिल्ल्यान म्हाका खांकुडिल्लेवरी जालें.

“चल आमी भायर पासय मारुंया.” हांव उठलों. चलत आमी दोंगुल्लेच्या मुळसाकडेन पावलीं. चित्रान त्या दोनापाउला विशीं बरयिल्लो

मजकूर वाचून म्हळें, "खरें आसूं फट आसूं - दोना पाउलाची कथा म्हाका आवडना."

"लेजण्ड म्हणून सोडून दिवपाची."

"लेजण्डस लोकांक इन्स्पायर करपी आसूंक जाय. आत्महत्येचें ग्लोरिफिकेशन म्हाका आवडना."

"जीव नाका जाता तेन्ना तो दिवपाचो अधिकार ताका न्हयकारचो कित्याक?" हांवें ह्या विशयाचेर केन्नाच विचार करूंक नासलो तरी हें उलयलों कसो? घडये, चिड्डून उडयिल्ले विचार चित्रामुखार वयर सरतात जावंये!

"पूण हो पुतळो म्हाका आवडटा. शिल्प म्हूण."

तेमकार कोण कोण येवन वताले. पूण बसपाक मेकळी सुवात आसली. मळबांत कुपां दाटिल्लीं. सुर्याक लिपोवपाचो तांचो येत्न आसलो. "एऽ, विपीन, हीं कुपां कितें सांगतात सांग?"

"पावस येवपाचो आसा म्हूण-?"

"ना. तीं म्हाका सांगतात, आपणाक तुगेल्या चित्रांनी आसपावन घे म्हूण."

तितल्यान कुपांक कुशीक सारून सुर्यान तकली भायर काडली. वोत ताच्या दोळ्यांर मारता तें पळोवन हांवें म्हळें, "वोताक फाट तरी कर."

चित्रान बसका बदलली आनी म्हाका फुडो करून बसलें. म्हाका संकोच जायसर पळयत रावलें- "कितें पळयता अशें?" हांवें गोंदळून विचारलें.

"तुका याद आसा, विपीन? हांवें तुका म्हणिल्लें सिसीफसाचे नदरेंतलो आत्मविस्वास म्हाका तुजे नदरेंत दिश्टी पडना म्हूण?" म्हाका तें घट्ट याद आसलें. चित्रान फुडें म्हळें, "आय वॉज रॉंग - पार्टली. तुज्यांत जगावेगळें कितें तरी आसा. आनी तुज्यांत सरसामान्यांतलें कितें तरी ना. एक अस्पायरिंग चित्रकार म्हूण म्हाका ती चॅलेंज कशी दिसता. म्हाका ती सोदून काडपाक जाय. चित्रांत कॅप्च्यर करपाक जाय." चित्रा पळयतालें

म्हाका. पूण स्वतामदीं शेणिल्लेवरी उलयतालें.

‘‘तुका हांवें पयले खेपेक पळयलो लायब्ररींत- तेन्नाच तुज्यांतलें वेगळेपण जाणवल्लें म्हाका. लायब्रेरियना कडेन खबर काडली हांवें आनी मागीर आय बिकेम ऑल द मोअर इंटरेस्टेड. वळख करून घेवची शें दिसलें. पूण संदच मेळ्ळी ना. दुसरे खेपेक- पावस झडटालो, तूं लायब्ररींतल्यान भायर सरलो. तेन्नाच तुका थांबोवचो, तुजेलागीं उलोवचें शें दिसलें म्हूण फुडें सरलें. पूण तुवें पळयलेंच ना म्हाका. चलत रावलो. पावस वाडलो तेन्ना तूं रुखामुळा रावलो. तूं भिजचो न्हय म्हण तुका सत्री धरची म्हूण ताकतिकेन मुखार योसर तूं बस स्टॉपावटयां धांवलो. इतल्यान - व्हॉट अ ड्रामा ईट वॉज! ती व्हॅन थारली. फातिमाक तांणी ओडलें तें पळोवन म्हजे हात पांय थरथरले. पूण तूं रॉक कसो मदीं उबो रावलो. आयजय तें पुराय चित्र दोळ्यांमुखार येता. हांवें तेन्नाच जाणलें- तूंच, फकत तूंच तें करूंक शकता-’’ थोड्या वेळान भानार येवन चित्रान म्हळें, ‘‘साडे स जालीं सूर्य सकयल देंवलो. उठुंया?’’

म्हज्या तोंडार भाव उदेल्ले पळयले जावंये. चित्रान विचारलें, ‘‘कसली याद जाली?’’

हय याद जाल्ली खरी. तेन्ना मुळावे शाळेंत भुगोल शिकयतना टिचरीन सांगिल्लें ‘पृथ्वी सुर्या भोंवतणी घुंवता आनी सुर्य मात एकेच सुवातेर थीर आसता’. मागीर डॅडीन जेन्ना म्हणिल्लें, ‘सुर्य माथ्यार पावलो’ तेन्ना हांवें डॅडीक सांगिल्लें- ‘ना डॅडी. सुर्य थंयच आसा. पृथ्वी घुंवल्या देखून दनपार जाल्या’. डॅडीन धेंगसो घाल्लो- ‘पुस्तकांतलीं शाणेपणां पुस्तकांतच दवरपाचीं’. डॅडीमुखार हांव चड उलयनासलों. तरी विचारिल्लें- ‘पूण डॅडी, वयर सकयल वता ती पृथ्वी. मागीर आमी सुर्य भोंवता म्हणटात तें चूक न्हय तर?’ तेन्ना डॅडीन कानाक पिळव घालून सांगिल्लें- ‘जाण्ट्यांली जाणवाय ती. चूक आसूंकच शकना. टिचर शिकयता तें पेपरांत बरोवपाचें आसता. आमी सांगतात तें वेव्हारीक ज्ञान. समजलें? हय म्हण.’ म्हजे कडसून ‘हय’ जाप आयली ना म्हूण कानसुलार फुलयिल्लें.... इतलीं

वर्सां काळजाच्या करणांत लिपून उरिल्ली ती याद आयज अशी वयर सरली. विशेश म्हळ्यार, हांवें ती चित्राक सांगली.

देंवतना चित्रान म्हळें, "तरीच! फातिमा म्हणटा, तुज्या तोंडार हांसोच येना."

"आनी तूं कितें म्हणटा?" म्हज्या प्रस्नाकडेन आडनदर करून ताणें फुडें सांगलें, "ताका खंय तूं खुब्ब आवडटा. पूण तूं खंय ताका लागींच करना. ताका दिसता- तुका तें आवडच ना. हांवें सांगलें ताका -"

"कितें?"

"ताका आवडटा तूं. तुका तें कळना, इतलेंच."

"आनी तुका?"

"तें म्हाका कळटा आनी तुकाय. वेगळें सांगूंक जाय?"

परततनां चित्रा म्हाका चडच खेटून बसलें, "सवकास चलय. चड वेळ बसूंक मेळटलें."

स्कुटरीन ताका मामागेर सोडलें तेन्ना ताणें सांगलें, "फाल्यां वतलें हांव घरा. फोन कर केन्नाय. आनी म्हाका लागलो ना जाल्यार फातिमा कडेन रकाद दवर."

त्या दिसा हांव घरा परततांसर राविल्ल्यान कृष्णाक घरा वचपाक रात जाल्ली. पूण चुकलेंच म्हजें. फुडें मागीर तागेली परिक्षा सुरू जायसर हांवें ताचेकडसून पुराय रिव्हिजन करून घेवपाचें थारायलें. नवें वेळापत्रक तयार केलें. डॅडीचें चडशें काम म्हज्या आंगार घेतलें. तरी आडमेळीं येत रावलीं. तींय त्या दोगींकडल्यान. पयलीं चित्रालो फोन आयलो.

"पप्पा तुका मेळूंक सोदता. केन्ना येता?"

"पप्पा? म्हाका?" हांव शादूर जालों.

"हय. तुजी खूब तोखणाय दिसता ताका."

चित्रानच कितें कितें सांगलां आसतलें. ''सॉरी, चित्रा. म्हाका जमचें ना येवपाक!''

''परिक्षा जाली. डॅडी स्टेबल आसा. आतां आनी कसलें कारण दितलो?''

''कृष्णाली परिक्षा लागीं पावल्या–'' मागीर ताका कृष्णाविशीं सांगचें पडलें. आयकून म्हणटा– ''तूं तोखणाय करपाक आनिकूय कारणां दिता पप्पाक. राव आं – '' आनी तें पप्पाकडेन उलोवन परतें फोनार आयलें. ''बरें आसा. पप्पा म्हणटा ताका फावना जाल्यार आपूण वतां ताका मेळपाक. केन्ना येवं काय विचारता. कितें सांगूं?''

कातरेंत सांपडिल्ल्यान हांवें येतां म्हळें. जाल्यार, ''आयतारा यो. रावपाकच.''

डॅडी हांतुणार आसा हाची जाण करून दितकच तें नमलें. ''बरें तर. पूण जेवपाकच यो. वाट पळयतां आयतारा.''

''आयतारा नाका गो. कृष्णाल्या अप्पाक खंय पुताखातीर केल्ली आंगवण पावोवपाक जाय. तो नासतनां म्हाका खंय वचूंक मेळना. सोमारा येतां.''

''शिवराक जेवपाक?''

''म्हाका कांयच फरक पडना.''

''पूण आमकां काणकोणकारांक पडटा. ते परस मंगळारा यो.''

परस्परांनी थारावन केल्ले भाशेन फातिमाचो फोन पावलो, ''मेळूंक जाय.''

''कित्याक?''

''अभ्यास जायना.''

''मागीर हांव कितें करूं?''

''डिफिकल्टी सोडय.''

''सॉरी –''

“हांव फेल जाल्यार म्हणचेंच पडटलें तुका. तेपरस- मेळ.”

म्हजी कुचंबणा. ना म्हणचें शें दिसता. ना म्हणूंक जमना.

“केन्ना?”

“आयतारा तुका फावना.” चित्रा कडेन उलोवन जालां तर हागेलें, “सोमाराचो तूं शिवराक न्हय?”

“नसत्यो गजाली नाकात. आनी म्हाका सोमार बिमार लागना.”

“म्हाका मरे शेरेपंजाबांतली मटन बिर्याणी खायन दिसल्या. आमी थंयच जेवणाचेर उलोवंया- डिफिक्लटी.” हालीं तागेली मस्करी म्हाका मानवूंक लागल्याशी! “प्लीज! हांव मस्करी करिना.” म्हज्या मनांतलें पारखिल्ल्यान जावंये, म्हाका तिडायिल्ले भाशेन जालें.

“हांव दवरतां फोन.” आनी खऱ्यांनीच दवरलो. म्हणसर परतो आयलो. “सॉरी, सॉरी. हे पळय, कान धरले हांवें. आयज सांजेच्या पांच वरांचेर. तूं स्कुटर हाडटलो न्हय? मांडवीच्या कॉर्नराचेर रावतां.” आनी हांवें हय ना म्हणचे पयलींच ताणें फोन दवरलो.

हीं दोगांय एक जावन म्हजो बोकडो करिनात मूं असोय विचार आयले बगर रावलो ना. पूण ना. पांचांक फातिमा वाटेक नदर लावन उबें आसलें. अजाप म्हळ्यार आयज ताणें माथ्या वयल्यान ओडणी घेवंक नासली. आनी चुडीदार न्हय तर जिन्साचेर टी शर्ट घाल्लो.

दोशीं वटेन पांय घालून फाटल्या सिटार बसत ताणें विचारलें, “कशें दिसतां हांव?”

“फातिमा भाशेन. ” हांवें स्कुटर फुडें व्हेली.

“यू मीन, नो डिफरण्ट?” आनी स्कुटरीन टर्न घेतिल्लो पळोवन कानांकडेन आड्डुलें, “आरे, आरे खंय व्हरता म्हाका?”

“लायब्ररी?”

“नाका. आनी खंयूय व्हर. गीव्ह मी अ रायड.”

“आनी तुगेली डिफिकल्टी?”

“हीच ती. तुजे फाटल्यान पिलियन म्हूण बसपाक शिकपाचें आसा

म्हाका.''

कितें म्हणपाचें? हांव फुडें वचत रावलों. मिरामार बी व्हरशी म्हाका! थंय ते वॉच डॉग बी आसतले!''

''भियेता तांकां?''

''ना रे! पूण तांणी म्हणिल्लें न्हय, पँट देंवोवया म्हूण तुजी? म्हाका बाबा पळोवपाचें ना, देखून. ते परस फुडें या, दोनापाउला.''

फातिमान दोनूय हात कोंपरा मेरेन म्हज्या खांक्यांत घालून वयर काडले आनी घट चिकटून कानांत म्हळें, ''फास्ट व्हर म्हाका. आय लव्ह स्पीड.''

''सॉरी. हांव म्हजेच स्पिडीन वतलों.''

''तेंच सांगतां - तुजी स्पीड ती म्हजी स्पीड. पळय नाजाल्यार- आमी बरोबर पावतलीं दोना पावलाक.''

फाटले वरीच हांवें त्या हॉटेलांत म्हजेखातीर च्या घेतली आनी फातिमाक कॉफी.

''तुजे बराबर च्या घेवपाची म्हजी तयारी आसा. त्यां दिसा प्रिन्सिपलाल्या केबिनांत घेतली ना? तरी तूं म्हाका कॉफी कित्याक पिवयता?'' हांव वग्गी रावलां तें पळोवन ताणेंच फुडें म्हळें, ''जानती हूँ. यू कॅअर फॉर मी- देखून!''

हांव गोंदळ्ळां? काय फातिमान म्हाका गोंदळायला?

कॉफी सोंपोवन ताणें म्हळें, ''पासय मारूंया. म्हाका चलपाक खूब आवडटा तुज्या वांगडा'' आनी ताणें म्हज्या दंडांत आपलो हात घुसपायलो.

मुळसाकडेन पावलीं तेन्ना वयर पळोवन फातिमान म्हळें, ''वयर नाका. आयज तूं म्हाका दुसरे कडेन व्हर- खंयूय.''

चित्रा आनी फातिमामदीं कितेंच लिपना हाचें समादान म्हाका जालें. दाखय लिपय करप म्हाकाय सोंसना. आनी एकामेकांमदीं पड्डो दवरपूय जमना.

दुसरे कडेन व्हर म्हळें आनी म्हाका जॅटी वटेनाय ताणेंच ओडून

व्हेलो. बांकार पयलीं आपूण बसलें आनी ओडून म्हाका बसयलो आनी पयलोच प्रस्न केलो - ''तुका शायरी आवडटा?''

''ना.''

''संगीत?''

''ना.''

''डान्स?''

''ना.''

''असो कसो रे तूं सुको सणसणीत?'' ताच्या दोळ्यांत म्हाका एक हय न्हय शी वेदना जाणवली. ''तुज्या तोंडार म्हाका हांसो कित्याक दिश्टी पडना? चित्रा म्हणटा तुज्या दोळ्यांनी ताका तो मेळटा. म्हाका ताची नसाय दिसता. प्लीज, विपीन, म्हजे खातीर मातसो हांस-''

''प्लीज फातिमा. म्हजेकडेन जें आसा तें माग. ना तें दिवं कशें?''

''तुका कोणच इश्ट नात रे?'' फातिमान विचारिल्ल्या प्रस्नाचेर ना म्हूण जाप दिली जाल्यार चित्रा आनी फातिमा- दोगांकूय वायट दिसूं येता. आनी खरें सांगपाचें जाल्यार- ''नाशिल्ले. अंटील आय मॅट चित्रा अँड यू.''

''थँक्यू. आनी ताचें कारण आमी तुका इश्ट केलो. आजून तुजें सर्कल वाडोवं येता. पूण तूं फकत नाका मुखार पळोवन चलता. मातसो विंगेंत पळय. खूब दिश्टी पडटले- कांय समानधर्मा, कांय लायकेबल...''

हांवें घाड्याळ पळयली. ''म्हाका बेगीन पावंक जाय, फातिमा. परतुंया आमी?''

''बाज नहीं आयेगा. तूं मरे वण्टी बांदता आपणां भोंवतणी. पूल बांद.''

''पूल बांदपाक दोन तडी लागतात-''

''करॅक्ट! दोळे उकते करून पळय. चित्रा आसा, हांव आसां. बांद पूल. हॅल्प जाय? हांव दितां. फकत हात फुडें कर.'' अशें म्हणून फातिमान म्हजो हात हातांत घेतलो.

''म्हजेखातीर तुमचो दोगांचो कॉमन अजेण्डा आसा काय कितें?''

‘‘मे बी. चित्रा एक कलाकार, पेण्टर. तुज्या अंतरंगाचो थाव घेवपाचो ताचो येत्न आसा.’’

‘‘आनी तूं?’’

‘‘म्हाका शक्य आसल्यार तुज्या गुमशुदा मनाचो ताबो घेवपाक पळयतां.’’

‘‘पुरो. तुजी परिक्षा लागीं पावल्या हाचें भान आसा मुगो?’’

‘‘परिक्षा पास जावपाकच जाय म्हाका. पूण ती वेगळी परिक्षा. ज्या दिसा तुका दिलखूलास हांसतनां पळयतलें त्या दिसा हांव परिक्षा पास जाल्ल्याची खोशी मनयतलें.’’

खऱ्यांनीच कळाव जाल्लो. कृष्णाक आडावन दवरप समा जावचें नासलें. हांव उठलों.

‘‘राव. हांवें एक पोएम बरयल्या. कोंकणी न्हय आं! तुका आवडली जाल्यार मागीर कोंकणींत बरयन. ही- म्हळ्यार उर्दू, म्हळ्यार हिन्दी. गुमशुदा. मूळ गुलजाराची. हांवें थोडी तोडफोड केल्या.’’ अशें म्हणून ताणें पर्सींतल्यान एक कागदाचो कुडको काडून म्हज्या हातांत दिलो. वाचून तूं कॉमेंट दिवचो ना म्हूण जाणा हांव. पूण वाच. तितलें पुरो म्हाका .’’

परतीचे वाटेरय ताणें म्हाका घट धरिल्लो. मदींच कानाकडेन येवन उलयलें, ‘‘तूं असो लाग्गीं आसता तेन्ना तुज्यांतली पॉवर – इन्सपिरेशनल पॉवर म्हज्यांत येता. आय फील इट. डू यू?’’

हांव अर्थांत उत्तेजीत जाल्लों. पूण फातिमाल्या अक्षरान अक्षराचेर हांवें विस्वास दवरलो. तें उलयलें तातूंत म्हाका कांयच गैर दिसलें ना. अडेचें तर नाच ना.

देंवतनां फातिमान कानांत मंत्र दिवचो तशें सांगलें – ‘‘सद्दां सकाळीं म्हजी याद काडून हारशांत पळय आनी हांस. हांसो सभावीक आनी सुंदर दिसतलो त्या दिसा म्हाका फोन करून सांग. लॅट अस सेलेब्रेट दॅन!’’

आनी हांव पिसों सो! सकाळीं उठून हारशांत पळोवंक लागलों.

सोमारा कृष्णा आयलो ना. पूण सांगिल्लेप्रमाण मंगळारा सकाळफुडें हाजीर जालो. डॅडीली आवतिकाय हालीं खूब नरम जाल्ली. उलयिल्लें कोणाक समजना जाल्ल्यान ताणें उलोवपच बंद केल्लें. आलिमेंत तोंडा कडेन हाडटकच आं करतालो. पूत डॉक्टर जातलो, आपणांक बरो करतलो आनी भरपूर जोडटलो हें सपन पळोवपाचें ताणें केन्ना सोडून दिल्लें. बाऊल कंट्रोल गेल्ल्यान ह़ागूं-मुतूंक जाल्यारय सांगूंक येनासलें. जाण्ट्यांचे सॅनिटरी नॅपकीन ताचेर वापरपाची ट्रेनिंग कृष्णाक दिल्ली आनी तोय कर्तव्यबुद्दीन सगलें करतालो. मांक आयतें रांदून मेळटालें. म्हजे असवडीं तर ती रुचीक बरें लागता तें कृष्णा कडल्यान रांदून घेताली. कृष्णाक आमगेर धाडून वासुदेवान केल्ले उपकार स्मरून म्हाका केन्नाय हांसू येतालें- वासुदेवान कृष्णाक नंदाच्या सुवादीन केल्लो खंय.

काणकोणा वचपाक अपराधी भावनेनच भायर सरलों. पूण दार उकतें केलें आनी वसंत रुतूंतलो सैमाचो शिरंगार पळोवंक मेळ्ळो. पोरसांत रोयिल्ल्या आनी रोयनासतनां वाडिल्ल्या रोपांचेर फुलां फुलिल्लीं. चार फुलां चित्राक व्हरचीं असो एक विचार मनांत आयलो पूण रोखडोच हांवें तो फाफुडलो. ना. फुलां झाडांचेरच बरीं दिसतात. स्कुटर स्टार्ट मारतनां एक फुलपाखो दोळ्यांमुखार नाचत कुशीक गेलो. चित्रांतलो कसो. चित्राची याद जाली. म्हणसर फातिमाच्या किटकिटपाची.

परतुपाक कळाव जावं येता हाची कृष्णाक कल्पना दिवन हांव कदंबा बस स्टॅंडार गेलों.

पाखलो धांवन आयलो. भोंकलो पूण शेंपडी हालयत. धा जायत आयिल्लीं पूण चित्रा ब्रेकफास्ट घेवपाक राविल्लें.

आयज तांगेर आन्येक जाण्टेलो आयिल्लो आशिल्लो. ''हो म्हजो मावशेभाव, विसू- आय मीन विश्वनाथ. चित्रा ताका विश्वाप्पा म्हणटा.''

"पूण तें म्हाका आवडना. तूं म्हाका विसूच म्हण." मनीस इलो बारिकसाणीचो सो दिसलो.

"विश्वाप्पा येदोळ वचपाक भायर सरिल्लो. पूण पप्पान ताका तुजी खबर सांगली जाल्यार तुका पळोवनच वतलो म्हूण रावलो." चित्रान सांगलें.

"आयज तुजेखातीर हीट-रोस." पप्पान म्हळें.

ताचेर चित्रान सांगलें, "हांवेंच म्हळें, इडली सांबार खंयूय मेळटा. पूण गोंयचो परंपरीक आसुनूय हीट-रोस लोक विसरल्यात. पयलीं खाला केन्ना?"

खंय खातलों? बडबडपाच्या मुडांत आसल्यार मां केन्नाय सांगताली. पंचमीकडेन आनी श्रावण आयताराक करतालीं म्हणून. त्या दिसा पयलोच पळयलो.

खातां खातां पप्पालें तोखणाय पुराण सुरू जालें. फातिमाचेर फाटीं केल्ले उपकार, चित्राल्या अभ्यासाक केल्ल्या आदाराचे उपकार, मम्माल्या मरणाउपरांत ताका दिल्ले भुजवणेचे उपकार ह्या सगल्या हांवें ना केल्ल्या उपकारांचें वजें म्हज्या माथ्यार मारिल्ल्यान, मनाची तयारी आसुनूय, हांव चेपून चेपून पातळ जालों. इतले मेरेन बरें आशिल्लें. सोयऱ्याक कितें तरी कुचकुचतालें जावंये. पप्पालें उलोवन जावपाची वाट पळयत आशिल्ले भाशेन ताणें मदीच तोंड उगडलें, "बरोच गूण संपन्न तर हो!"

तें गूणसंपन्न म्हणपा फाटल्यान त्रोस बी नाशिल्ल्यान वगी रावलों. इतल्यान चित्रा उठून भितर गेलें. तितल्यान ताणें चवकशी सुरू केली. खंय रावता, मूळ गांव खंयचो, डॅडी कितें करता.... हाचे पयलीं कोणेच म्हजी केन्ना इतली मज घेवन चवकशी करूंक नासली. जाता तशें सांगत गेलों. मागीर ताणें आडनांव विचारलें. परोब म्हूण सांगतकच पर्थून विचारलें- "म्हळ्यार प्रभू मूं?" हांवें वगी रावप पसंत केलें. "काय परब म्हळें तुवें?" अशें विचारतना आपलेपणाचो सूर मातसो बदललो. हांवें म्हळें, म्हाका तांतलो फरक कळना. मागीर ताणें मांचें कुळार खंयचें

विचारलें. इतल्यान च्या हाडपाक पयल्यान गेल्लें चित्रा गरम च्या
वन आयलें. ताच्या कानांर पडलें जावंये– ‘‘कित्याक इतल्यो चवकशो
वेश्वाप्पा? तूं कोणाक सोयरीक बी व्हरूंक सोदता?’’ तें आयकून विश्वाप्पा
गातसो अस्वस्थ सो जालो. वयल्यान चित्रान म्हळें, ‘‘आजून कुळदेव
बी विचारलें ना?’’

चित्राक आपणाली चवकशी मानवली ना हें विश्वाप्पाक होलमलें. ताणें बेगोबेग च्याचो कप तोंडाक लायलो.

‘‘आसूं गो. खरें सांगचें जाल्यार कुळदेव म्हाकाच खबर ना.’’ हांवें खरें तें सांगलें.

इकरावेक प्रवेश घेतकच म्हाका डॉक्टर करपाचें सांगणें करपाक गेल्ल्या देवांची याद जाली. पूण तांतलो नेमको कुळदेव कोण तें याद जायना जाली.

‘‘तूं जाणा, पप्पा? आमची इतली मैत्री आसा. पूण आजून ताणें म्हाका आडनांव विचारलें ना. सांग रे खबर आसा तुका? म्हाकाच न्हय, फातिमाक लेगीत दुबाव आसा, हाका तें मुसलमान म्हण खबर आसा जाल्यार. कारण ताका फरकच पडना.’’

‘‘विश्वाप्पा तरी खंय मानतां गो? ताणें आपलें सादेपणान विचारलें.’’ पप्पान निस्तरावपाचो येत्न केलो, ‘‘तुका केन्ना भेदाभेद शिकयल्यात हांवें?’’

‘‘ना, रे. पूण तूं जाणां तरी अशे भेदाभेद आसात म्हूण. विपीनाक तेंय खबर ना. आनी तेच खातीर ताका मित्र मानतां हांव.’’ चित्रा असो विचार करता आनी तें पप्पाक अशें स्पश्ट सांगूंक शकता तें पळोवन खूब बरें दिसलें.

च्या सोंपोवन विश्वाप्पा उठलो. ‘‘येतां हांव. कारवारची बस मेळ्यार बेगीन घरा पावतलों. अशें म्हणून भायर गेलो. पप्पा ताका दारामेरेन सोडून आयलो. येवचे येवन ताणें म्हाका विचारलें, ‘‘तुका वायट बी दिसलें ना मू?’’ म्हजो न्हयकार आयकून ताणें फुडें सांगलें, ‘‘हे तुमचे

पिरायेचेरच मनीस घडटा. तुमी स्वतंत्र विचार करतात तें आवडटा म्हाका. चित्रा आमचें वेगळ्या विचारांचें. विचार योग्य आसल्यार तशी कोणाक आडखळ आसूंक फावना.''

''पप्पा, हांव जाणा, आतां तूं देवाच्या अस्तित्वा विशीं विचारतलो.'' चित्रान हांसून म्हळें.

''विचारपांत कितें आसा? सांग रे, तूं आस्तीक काय नास्तीक?''

असो गंभिरतायेन केन्ना केलोच ना विचार. हांवें म्हळें, ''खबर ना.''

''जाचो देवाचेर विस्वास ना ताचो स्वताचेरच विस्वास ना अशें स्वामी विवेकानंद म्हणटा.'' पप्पान म्हजी काकूळट करीत म्हळें.

''पूण म्हजो स्वताचेर पुराय विस्वास आसा. आनी विवेकानंदान म्हळां कीं जाचो स्वताचेर विस्वास आसा तो आस्तीक अशें समजुचें. विवेकानंदाचो दांभिकतायेक विरोध आसलो तसो म्हजोय आसा.''

''पळयलें पप्पा. देवाधर्माकडेन पावतकच आमी आपणांक कन्व्हिनियंट तें मानून घेतात.''

''तुमची पिळगी पळय आसा, कशीय आसूं - विचार करता हाचोच म्हाका आनंद.'' उलयलो तें मनापासून उलयलो पप्पा.

उठून भायर आयलीं. पप्पानच सांगलें चित्राक भोंवडावन हाड म्हूण. आमी भायर सरलीं. घर व्हड आशिल्लेंच. आशिकुशीचें सगलें भाटूय तांचेंच आसलें. ''वेळेर वचून येवंया? मातशें चलचें मात पडटलें.'' चित्रान म्हळें.

चलतना हांवें विचारलें, ''तूं नासतनां कोण करता घरांतलीं कामां?''

''मनशां आसात. भाट, पोरसूं, गोरवां आनी घरकाम- एक कुटूंबच पोसलां आमी त्या कामाक. मम्मा आसासर रांदप स्वता करताली. पप्पाकूय रांदपाक आवडटा. आतां रांदपाक रांदपीण येवन वता. हांव नासलें म्हूण पप्पालें कामाचें कांय अडना. पूण आतां मम्मा वतकच ताचें कशें जातलें हाचो हुसको दिसता.''

अशी म्हजी मां मेल्ली जाल्यार डॅडी कितें करीत आशिल्लो काय?

म्हाका डॅडीचो हुसको दिसतासलो काय? रांदप, उंबळप, सान्न मारप.....
डॅडीन ह्या कामाक हात सोड, बोट लेगीत केन्ना लायलें ना. म्हजेरच पडपाचें सगलें. तरी बरें, मार्टीन सरान वेळार योग्य सल्लो दिल्लो- नाजाल्यार डॅडीले पैशे आसुनूय डॅडी वखदांक वयर पडटासलो.

"एक विचारूं? तूं नास्तीक काय ॲग्नॉस्टीक?" मदींच चित्रान विचारलें.

हांवें खांदे वावुडले. "आनी तूं?"

"हांव कर्मकाण्ड मानिना. पूण जाणें हो संवसार निर्मिला तो चराचरांत आसा अशें मानतां."

चिंतून हांवें म्हळें, "हो संवसार जर देवान निर्मिला जाल्यार तो चराचरांत कसो आसूं येता? तो भायर आसूंक जाय."

"अशें कित्याक म्हणटा?"

"तूं जेन्ना चित्र काडटा तेन्ना तूं चित्रांत खंय आसता? तूं भायर उरता, तशें-"

चित्रा गोंदळांत पडलें. "हांव चित्रांत ना कशें? पूण नदर आसा ताका दिश्टी पडटा. तसोच म्हाका तो जाणवता इतलें खरें."

आतां हांव चिंतूंक पडलों. म्हाका फाटीं वाचिल्ली मनोहरराय सरदेसाय हांगेली एक कविता याद जाली.

*तूं जोगलांत, तूं वादळांत*
*तूंच उज्यांत जळटा*
*सगल्यां भितर आसून तूं*
*सगल्यां भायर उरता.*

म्हणसर दर्याची गाज कानांर पडली. आनी चित्रा यादींनी शेणलें.

"जाणा मरे, आमी ल्हान आसतनां मे म्हयन्यांत आमगेर सोयरीं येतालीं- मामी, मावशी आनी नातें नाशिल्ली पप्पाली एक मानिल्ली भयण. दर्यार न्हवपाक येतालीं. तांचे बरोबर तांचीं भुरगीं आसतालीं. मागीर आमी सगलींच वेळेर येतालीं. सक्काळीं येवप. बायलो धोंपरभर उदकांत

वरभर न्हाताल्यो. आंग सुकोवन वेळेरच पागील्या घरांत लोळटाल्यो. आमी भुरगीं रेंवेर खेळटालीं. पुरो जावन न्हिदतालीं. सांजची पर्थून वेळेर. बायलो पर्थून बुचकळटाल्यो. मावशेलीं धोंपरां दुखतात म्हूण ती पांय रेंवेंत बुडोवन बसताली ... आमी भुरगीं रेवेंत घरां बांदतालीं, शिंपयो, शंख, जिबल्यो पुंजायतालीं. मामीन म्हाका शिंपयों दसोवन चित्रां काडपाक शिकयिल्लें. थंयच म्हाका चित्रांची गोडी लागली.''

ताच्या तोंडार उदेवपी भाव पळयत रावलों. मागीर म्हळें, ''हांव तुका पळयतां तेन्ना पोरसांत येवपी फुलपाख्याची याद येता म्हाका.''

''कित्याक सांग?'' चित्रान म्हाका विचारलें.

''मे बी, ताचे विविध रंग?''

''ना. ताची स्वच्छंद वृत्ती.''

कितलें खरें!

आनी मागीर पप्पान ताका कशें स्वतंत्र विचार करपाक प्रवृत्त केलें, वाचनाची गोडी कशी लायली, मम्मान ताका रंगसंगती वळखुपाची नदर कशी दिली ताचेर तें खूब उलयलें.

उदकाक पांय लावनच आमी परतलीं. ''तूं कांयच उलयना ताचो हांव कसो फायदो घेतां पळय. आतां तूं सांग कितेंय -''

हांवें मान हालयली. खरेंच! कितें म्हूण सांगूं? वेळेर सोडच, घरा-पोरसांत लेगीत केन्ना भुरग्यां वांगडा खेळ्ळों ना, तें? जोडून वगडायिल्ल्या त्या दोन गड्ड्यांची काणी? डॅडीन रंगयिल्लीं कानसुलां? मांन दोन वरां राती डॅडीक करून दिल्ली च्या? धांवपाचे सर्तेंत न्हयकारिल्लें बक्षीस? पादकुरान दिल्लीं बायबलांतल्या काणयांचीं पुस्तकां घेतलीं म्हूण डॅडीन केल्ली संभावना? म्हाका घडये-घडयेक पडपी असंख्य प्रस्न?

''एक खरें, विपीन. तुजेसारको तोंड धांपून आयकुपी मेळ्ळो जाल्यार आमच्या सारक्या बडबड्यांचें फावता.'' अशें म्हणून चित्रा मोट्यान हांसलें. मागीर ताका फातिमाची याद जाली. ''आयज फातिमा आसूंक जाय आसलें. खूब मजा येतासली.''

तीं दोगांय एकठांय आयल्यार म्हाका कशीं कोलायतलीं आसलीं तें येवजितनाच म्हाका याद जाली. बोल्सांत हात घालून हांवें तो कागदा कुडको भायर काडलो. आनी चित्राच्या हातांत दिलो,

''ही पळय ताणें केल्ली कविता -''

''फातिमा कविता वाचता म्हूण जाणा हांव. तें बरयता हें हांव नकळो आशिल्लें- काल मेरेन.'' आनी थंयच उबें रावन ताणें ती वाचली-

*तलाश है एक गुमशुदा की*
*लगभग बीस की उम्र होगी*
*उडा-उडा रंग नीम गोरा मायेल*
*उदास आँखें हैं, खुश्क रहती हैं बेशतर वो*
*भवें काली हैं पर लगता है तंग आई हैं किसी से*
*मैं जगाऊंगी मोहब्बतकी चेतना*
*और सजाऊंगी ख्वाब सुहाने*
*मेरा प्यार जो है; हमसफर जो है*

आनी वाचून म्हाका विचारलें, ''तुका केन्ना काल सांजे दिली? काल सकाळींच म्हाका वाचून दाखयिल्ली.''

''तूं जाणा आशिल्लें तर?''

''हय. मूळ गुलजाराली कविता ती. आपल्याक जाय तशी रिकन्स्ट्रक्ट केल्या ताणें. पिशेंच तें!'' चित्रान कवतुकान म्हळें.

आमी घरा पावतांसर हीट -रोस जिरून गेल्लो. पप्पा भितर जेवणाची तयारी खंय पावल्या तें पळयतासर चित्रा म्हाका घेवन आपणांले कुडींत गेलें. पेंटिंग्स दाखोवपाक. म्हाका पेंटिंग्सांतलें व्हडलेंशें कळना. पूण एखादऱ्या अणभवी चित्रकाराली प्रगल्भता त्या चित्रांनी म्हजे सामान्य नदरेक जाणवले बगर रावली ना. नांव काडलेबगर रावचें ना.

इतल्यान पप्पा थंय पावलो. ''दाखयलें मुगो ताका? कितें म्हळें ताणें?''

''ना. तें निमाणें दवरलां हांवें.'' अशें म्हणून आन्येक कॅन्व्हास ताणें

वयर काडलो. तें चित्र म्हजें म्हूण सांगनासतनां कळटालें. आनी पयलेच खेप म्हाका जाणवलें– म्हजे दोळे हांसकुरे दिसताले. घडये, हांव थंय चित्राचे नदरेंतल्यान पळयतालों म्हूण जावंये.

म्हजे खातीर म्हूण कोणेय रांदलां, मांन लेगीत, अशें केन्नाच घडूंक नासलें. इतले जिनस एका जेवणांत पानार पडिल्लेय पळोवंक ना केन्ना. फ्लावियाच्या काजराचे बुफेक मांडिल्ले जायत. पूण तें धा जाणांनीं धा जाणां खातीर रांदिल्लें वेवसायीक जेवण. हाची सर कशी करूं येत? कोळाची सागोती केल्ली. रानदुकराक कोळ म्हणटात म्हूण हांव नकळो आसलों. झणझणीत जाल्ली. वड्यांक लावन खाली. कोणाल्यातरी लग्नाक वडे खाल्ले याद आसा. पूण ते आवडूंक नासले. आयज सागोती वांगडा रुचीन खाले. पालीस करूंक नाशिल्ल्या गांवठी तांदळांचें शीत आनी काळुंदरांचें हुमण. पप्पा भुरकायता तें पळोवनच सुरबुसाणीचो अदमास आयलो. म्हण्टासर चित्रान वेंतभर लांब शेंवटो पानार वाढलो. ''गझनीचो तो'' पप्पान म्हळें. चित्रानच मागीर फोडणिशी केली. हांगा खंय मानशीच्या नुसत्याक गझनीचें नुसतें म्हणटात. घराकडेन नाका–पुरो म्हणपाचो प्रसंगच केन्ना येवंक नासलो. हॉटेलांत गेल्यारय जाय तितलेंच घेवप जातालें. बऱ्याऽ वेळान लक्षांत आयलें, हांगा हात ताटार धरून नाका म्हणसर रिफील जायत उरपाचें. पानार ना सांडपाची म्हजी संवय पप्पाक खूब आवडली. पूण ते संवयेक लागून म्हज्या पोटाक पडिल्ले तटतट ताका कशें कळटले?

जेवन थोड्या वेळान हांव वचपाक उठलों जाल्यार पप्पान म्हळें. तांगेर खंय सोयऱ्यांक जेवल्या उपरांत च्या घेतले बगर धाडपाची चाल ना. चाल मोडूं येताली. पूण च्या सोडूं येता?

च्याचो घोंट मारून पप्पान म्हळें, ''चित्राली मम्मा गेली, सगलो हुसको म्हज्या माथ्यार घालून –''

''कसलो? '' हांवें विचारलें.

“आनी कसलो? शिक्षणाचो सगलो भार घेवपाची म्हजी पूर्ण तयारी आसा. पूण चली भुरगें म्हणटकच फुडलो हुसको आसताच न्हय?”

म्हाका अदमास आयलो. पूण चित्रान स्पश्टच सांगलें, “पप्पा हांव सुखांत उरिल्लें जाय मूं तुका? मागीर म्हाका बंधनांत घालपाचो विचार काडून उडय. म्हाका एक कलाकार म्हूण जगपाक जाय. आनी ते खातीर म्हाका स्वातंत्र्य जाय. तें प्रॉमीस हांवें मम्माकडल्यान घेतिल्लें ती याद धर.”

च्याचे रिते कप घेवन चित्रा भितर गेलें शें पळोवन पप्पान म्हाका सांगलें– “एक बरो भुरगो ताका मेळचो आनी दोगांनीं बरो संवसार करचो इतलीच म्हजी इत्सा. हीट आनी रोस एक जाल्यार पुरो. मागीर हो दोणो वाऱ्यार पडल्यार उपकरता. पूण हें– आपलें तें खरें करतलें!”

म्हजे हुजीर हें उलोवपाचें न्हय अशें पप्पाक कित्याक दिसलें ना हाचें अजाप करीत हांवें निरोप घेतलो.

सकाळीं उठून हारशांत पळयलें. काल पळयिल्ल्या पेंटिंगाची याद जावचे पयलींच फातिमान केल्ली सुचोवणी याद जाली. हांसून पळयलें. पूण तें अडेचें दिसलें. आजून फोन ना कसो असो विचार मनांत येता थंय आसा, मोबायल वाजलो. “हांव जाणा तूं वाटच पळयतालो, रायट?”

अशें म्हज्या मनांतलें वळखता तेन्ना म्हाका चाळयिल्लेवरी दिसता. पूण फट कशें सांगूं? “रायट.”

“थँक्यू! तूं इतलो बेताब तें पळोवन बरेंऽ दिसलें.” ताका तेवटेन किडी खाताल्यो.

“राँग! काल हांव चित्राक मेळ्ळां तें तुका कुचकुचता...”

“कित्याक? आय नो एवरी थिंग – काल कितें जालें तें. आतां हांवें फोन केला तुका विचारपाक – तुवें मेळुंया म्हणिल्लें तें केन्ना तें

विचारपाक.''

''हांवें? केन्ना म्हणिल्लें?''

''दोनदां. त्या दिसा मिरामारा बसीर सोडटनां तुवें प्रॉमीस केल्लें म्हाका पावपाक घरा मेरेन येतलो म्हूण. आनी लास्ट टायम सांगिल्लें- आयज कळाव जाता, मागीर मेळ्ंया म्हूण. विसरलो?''

''लूक, फातिमा. म्हज्या तोंडांत नसतें घालूं नाका. आनी आतां यू कॉन्सन्ट्रेट ऑन युअर सेमिस्टर एक्झाम्स. दवर आतां फोन.'' पूण तागेलें उलोवन जावंक नासलें.

''परिक्षेक आजून पंदरा दीस आसात. मदीं एकदांच -''

''नो वे. पयलीं परिक्षा.''

''बरें, तुका जाय तशें. पूण मागीर ना म्हणूं नाका आं?''

''कितें ना म्हणूं नाका?''

''युवर प्रॉमीस. परिक्षा जातकच मेळपाचें.''

ह्या फातिमाक तिडावपाक आवडटा म्हूण कितें जालें? हांवें कित्याक तिडावन घेवचें?

ट्वेल्व्थ सिंड्रोम विशीं वाचिल्लें हांवें. बारावेक पावतकच अभ्यासाच्या दबावा खाला भुरग्यांचे वृत्तींत-चलणूकेंत जावपी सरसामान्य बदल खुबशा पालकांच्या हुसक्यांचें कारण थारिल्लो. पोरूं मदन ह्या सिंड्रोमाचो बळी थारिल्लो. हो सिंड्रोम म्हाका बादपाचो प्रस्नच नासलो. तरी ह्या बारावेच्या वर्सा म्हजे वृत्तींत आनी चलणुकेंत विलक्षण बदल घडूंक पळयतालो. नित्याच्या शांत परिपाठांत अचकीत मोड येवपाक पळयतालें. इकरावी जायसर कांयच जाणवलें ना तें आतां बारावेकच कित्याक जाणवूंक लागलां? आदले ते दीस, तें भुरगेपण सगलें कशें आंखून दिल्लें आसलें. खाण, जेवण, कपडे, जोतीं सगलें कशें मागनासतनां मेळटालें. मर्यादा आसली ती मागपाचेर. एक फावट बूट मागले तेन्ना डॅडीन मेणवात पेटवून ती म्हज्या पावला पोंदाक दामून पालयिल्ली. डॅडीन दिल्लो तो बूट आजून

याद आसा. हांव तेन्ना रडलों ना म्हणून मांक दिसलें मेणवातीचो बूट दुखना. तिणें म्हाका सांगिल्लें तिका खंय गोडाचो बूट दिल्लो आवयन. मेणवातीचो बूट बापायनीं दिवपाचो आनी गोडाचो बूट आवयांनीं असो म्हजो गोड समज जाल्लो तेन्ना. मांन गोडाचो बूट केन्ना दिलो ना. पूण एक फावट पोळे केल्ले तेन्ना दुसरो मागलो म्हूण कायलात्याचो बूट मात दिल्लो. तांतल्यान मागनासतनां मेळटा तितलें घेवपाचें इतलें म्हाका कळिल्लें.

म्हजो म्हापशेंचो आजो मेलो तेन्ना मां म्हाका घेवन मामागेर गेल्ली. तेन्ना मामान तिका म्हणिल्लें 'तुज्या घराक मुगो घरपण ना.' हांवें मागीर मांक विचारिल्लें 'घरपण म्हळ्यार कितें?' मांन सांगिल्लें- 'घरकार आनी घरकान्न हांचेमदीं बरेंपण आसता तें घरपण.' उपरांत खंयूय घर दिसलें की हांव घरपण सोदतालों.

गड्ड्यांनी खेळटनां रवी वांगडा एक दीस तागेलें घर पळयिल्लें. शेता बांदार बांदिल्ली खोंप ती. कांय दिसांनी पंचायतीन ती खोंप मोडली. डॅडीक विचारपाची माणसुकी ना म्हूण हांवें मांक विचारिल्लें 'आमचेंय घर पंचायत मोडटली?' तिणें हें आमचे मालकीचें घर म्हूण सांगलें तेन्ना म्हाका सू जाल्लें.

ह्या घरांत म्हाका सुरक्षीत दिसतालें. कारण हांगा कांयच घडनासलें. ना सोयरीं ना धायरीं, ना चवथ ना दिवाळी, ना गोडशें ना भोपशें- कांयच लागनाशिल्लें. डॅडी हाडटा तें खावपाचें, डॅडी सांगता तें करपाचें, मांक जाय जाय तें हाडून दिवपाचें. हांवें म्हाका जाय म्हूण कितेंच करपाचें ना इतलें पथ्य पाळपाचें. घराचीं दारां, जनेलां बंद केलीं म्हणटकच भायलेंय कांय लागनासलें. केन्नाय रस्त्यान सांवळो झेलत लकत चलतालो तेन्ना ह्या पोंतार सावन त्या पोंतार पावसर ताच्यो गाळी आयकूंक येताल्यो. मां लेगीत त्यो कान दिवन आयकताली. हांवें विचारल्यार तिणें सांगिल्लें, 'तो वाटेक घालता गाळी. आमकां न्हय त्यो.' त्यो आमकां लागनात म्हणटकच हांवूय त्यो माथ्यावयल्यान वचूंक दितालों.

पयलो बदल जाणवल्लो तो शाळेंत पावतकच. केन्ना अणभवंक नाशिल्लें मेकळेंपण. एक दीस डॅडी म्हाका स्कुटरीचेर फाटल्यान बसोवन बाजारांत घेवन गेल्लो. तेन्ना तोंडार वारो बसतकच जाणवल्लें तसलें मेकळेंपण. पूण तें म्हाका जाय म्हणून मेळूंक नासलें. पयलेच्या वर्गांत म्हजो जावोस दणकट आशिल्ल्यान आनी स वर्सांचे पिरायेचेर शाळेंत पाविल्ल्यान हांव व्हडसो दिसतालों. सुरवातेक कांचवेवन पयस रावपी भुरगीं मागीर लागीं येवपाक लागलीं. निरुपद्रवी लेखून एका मस्त्या भुरग्यान एक दीस म्हाका पेन्सील तोंपली. हांवें घरा येवन डॅडीक सांगलें. डॅडी तापलो. 'म्हाका सांगू नाका. तुका हात नात?' दुसऱ्या दिसा हांवें त्या भुरग्याच्या पोटार मूठ घाली.त्या दिसाच्यान भुरगीं म्हाका पयस दवरूंक लागिल्लीं. टिचरीन एक दीस हांव 'बरो शिकतां' म्हळें तें मांक सांगल्यार तिणें म्हणिलें, 'शाळेंत धाडला तो बरो शिकपाकच'. पयलेच परिक्षेंत अव्वल मार्क मेळ्ळे तेन्ना डॅडीक सांगतकच डॅडीन शेक हॅंड करचो तसो म्हज्या पोल्याक चिमटेंत धरून हालोवन निर्वाणीचें सांगिल्लें, 'शाळेंतल्यो गजाली शाळेंत. म्हाका सांगपाचें ना. म्हजे मेरेन कसलीय गजाल पावली जाल्यार दाखयतां तुका हांव.' ते पिरायेचेर 'डॅडी कितें दाखयतलो काय म्हाका' असो प्रस्न पडिल्लो. पूण तसो प्रसंग हांवें केन्ना हाडलो ना. म्हजें घर बरें, हांव बरों, म्हजी शाळा बरी. हांवें कांयच करिनासतनां सगलें वेळच्या वेळार आपसूक जातालें. म्हज्यांत पयलो बदल जाणवल्लो तो मार्टीन सरान म्हाका लागीं ओडलो तेन्ना. पूण तो म्हज्या घरच्या नेमांआड येवपाक हांवें दिवंक नासलो.

धावेच्या रिझल्टा उपरांत डॅडी बदलिल्लो. वयलेचाराचे बदल म्हाकाय मानून घेवचे पडिल्ले. धावेक आसतनाच लांब पॅंट आयिल्ली. मागीर मोचे. इकरावेक पॉकेट मनी आयलो. दर सोमारा शंबर रुपये मेळाटाले आनी आयतारा डॅडी त्या शंबरांचो हिशोब मागतालो. हांव दितालों. हे वयलेचाराचे कॉज्मॅटीक बदल केन्ना म्हज्या अंतरंगाचेर परिणाम करपाक

ावले नात. आजुनूय हांव म्हज्या घरान घालून दिल्ले वेवस्थेक म्हजें ुरक्षेचें कवच लेखतालों. थोडें शें कितेंय वेगळें जाणवलें म्हणटकच भेतरल्यान अस्वस्थ जातालों. म्हज्या कोशांत रावपांत हांव म्हाका सुखरूप ानतालों. भायलें जग बदलता हाची जाणीव जाताली- भोव करून ुस्तकां वाचतालों तेन्ना. त्या पुस्तकांच्या जगाचें अप्रूप म्हाका आशिल्लें. ूण तें जगच वेगळें. त्या जगाचो म्हजेकडेन कसलो संबंद नासलो. फ्रांझ क्राफ्का वा आल्बॅर काम्यू वा काझुओ इशिगुरो हांगेल्या बरपां कडेन हांव समरूप जातालों. पूण तांगेल्या बरपांतलो संवसार वेगळो हें वळखून अंतर दवरतालों. टिव्ही मुखार बसून शारांतली दंगल पळयतालों, फुटबॉल मॅच पळयतालों वा एखादरो सिनेमाय पळयतालों तेन्ना हांव तिरायतच उरतालों. पूण फाटले कांय म्हयन्यांतल्या घडणूकांनीं म्हाका गोंदळावन सोडिल्लो. हो बदल हांव धडेर रावन पळोवंक शकनाशिल्लों. तो म्हाका भितरल्यान हालोवपाक लागिल्लो. डॅडीक आयिल्लो आरीचो आताक, म्हगेलें वर्गांत पयलो येवप, चित्रा फातिमाली वळख, मांले ते विलाप कानांर पडप, नमशीकारालें हिणसावप, कृष्णालो आदार मेळप, म्हज्या हातांत स्कुटर येवप.... हांतलें कितेंच म्हाका जाय म्हणून घडूंक ना. मां केन्नाय म्हणटाली- घडतां घडेल तें प्रमाण, ते भाशेन जें वाट्याक आयलां तें हांवें तिरायतपणान स्विकारलां. पूण चित्रागेर वचून येत पासून जाणोवंक लागलां- हांव आतां हें धडेर रावन पळयना. स्वता तातूंत रिगूंक लागलां. जें घडटा ताचीं स्पंदनां म्हज्या अंतरंगाक स्पर्श करूंक लागल्यांत.

कसली गरज आसली म्हाका चित्राखातीर इकॉनॉमिक्स शिकून घेवन शिकवपाची? कृष्णाक शिकयलां तें समजूं येता. म्हाका जाय म्हूण न्हय. डॅडीची सेवा करपा खातीर ताणेंच घाल्ली अट आसली ती. शिकोवचेंच पडिल्लें. लॅपटॉप मेळिल्लो तोय मागनासतना, म्हाका जाय म्हूण न्हय...

फातिमान बऽरें सांगलें चित्राक- आमी मॅटिनीक गेल्लीं म्हूण. जाल्यार म्हजे कितें कुडके वताले? कित्याक गरज पडली म्हाका, तें फट

उलयता म्हूण रुजवात करपाची? सिसीफसाची चित्रां दाखोवपाक हाड
म्हूण चित्राक याद करपाचें कित्याक पडून गेल्लें म्हाका? मदनान जीव
दिल्लो तेन्ना ताचे विशीं सहानुभूती आसून लेगीत, हांव मरणाक गेलों
ना. पूण चित्राची मम्मा मेली तेन्ना जापेक पावना म्हूण मनाक चिटमिटे
कित्याक पडचे? चित्राक मेळपाची इत्सा कित्याक जावची? आनी तें
लागोळें फातिमा! गळ्यांत पडटा खरें- पूण हांवें कित्याक ताचे लाग
सोंसून घेवचे? स्कुटरीचेर तें म्हाका घट्ट धरून बसता तेन्ना तें आवडून
कित्याक घेतां?... हें सगलें घडटालें तें म्हाका नाका म्हणून घडनासलें.
आजवेर जें तिरायतपण म्हजे जिणेचो अविभाज्य वांटो अशें हांव मानतालों
तें तिरायतपण धोक्यांत आसा आनी तें म्हाकाच धोको निर्माण करता
अशें दिसूंक लागलें. काळजांतली कुरकूर कानांर पडून जिवाक अस्वस्थ
करूंक लागली तेन्ना उठलों.

दुदाचे कडक च्याचो हुनहुनीत घोंट मारलो तेन्ना ल्हवुल्हवू जीव
थाऱ्यार आयलो.

कृष्णालो आयज पयलो पेपर. तागेल्या अप्पाक फोन केलो. तो
पुताक घेवन सेंटराचेर वचपाक भायर सरिल्लो. ताणें फोन कृष्णाकडेन
दिलो. ताका सांगलें- पुस्तकां घेवन सेंटराचेर वचप ना. व्हेल्यांत जाल्यार
अप्पाकडेन दिवन परतीं धाड. पेनां दोन घे. पेपर बरोवन जातकच वेळ
आसल्यार पर्थून वाचून काड.

च्या केली. मांक व्हरून दिली. हांव घोंट मारतां थंय आसां- डॅडीली
कुंथेवणी कानार पडली. सदचीच म्हूण सोडून दिवं येताली. पूण मागीर
वाय गेल्याची फरफर आयकली. दुबावानच वचून पळय जाल्यार राती
घाल्लो डायपर भरून गू-मूत भायर आयलां. डायपर काडटां म्हणसर
पर्थून फरफर. डायोरिया जावंये. 'भगवान देता है तो छप्पर फाड के'.

कोण भगवान जाण कोण. पूण तें खरें आसूं ये. डॅडीन छप्पर फाड के घाण केल्ली. च्या थंयच उडयली आनी निवळ करीत बसलों. तरी बरें पोंदाक रबर घाल्ली आशिल्ली. घाण वचुंदी म्हूण चार उजवाती हाडून लायल्यो. तितले म्हणसर च्या निवली. परत गरम करून तोंडा कडेन व्हर जाल्यार हाताची घाण नाकांत भरली. पर्थून साबण घांसून हात धूयसर च्या पर्थून निवली. तल्लफ तशीच उरली.

कोश्ताबीराक फोन लायलो. पेशंटाक तपासता आसतलो. कॉश्ताबीर फोन घेना म्हूण स्कुटर काडली. पयलीं वासुदेवागेर वचून च्या मारली आनी कॉश्ताबीराक स्कुटरीचेर घेवनच घरा आयलों. ताणें तपासून म्हळें, "ॲडमीट केल्यार बरो."

हॉस्पिटल डॅडीलें दुसरें घर शें जाल्लें. म्हाकाय थंय थंड शें दिसतालें. कॉश्ताबीराक कोंसुल्तारींत सोडलो तेन्ना ताणेंच सांगलें, "बाबू, तो बरो जावन येत शें दिसना. चार पांच दीस काडीत."

कॉश्ताबीरान चार दीस काडीत म्हणिल्लें. डॅडीन आठ दीस काडले. णवव्या दिसा सकाळींच डॅडी मेलो. डॉक्टरान चादर वयर काडली तेन्नाच कृष्णालो फोन आयलो, "सर, आयज लास्ट पेपर- सोशल सायन्स. भुरगीं म्हणटात- बॉस्टन टी पार्टीचेर प्रस्न येतलोच. सर, म्हाका थोडे पॉयंट्स सांगता?"

डॅडीले पेपर आनी बील जातासर हांवें बॉस्टन टी पार्टीचेर कृष्णाक लेक्चर दिलें आनी सोमतोच कँटिनांत वचून डबल च्या मारली.

व्हडलो मामा येतनाच भटाक घेवन आयलो. दक्षणेचें भटाकडेन पयलीं उलय म्हणलें तेन्नाच म्हाका कळ्ळें मामाक कमिशन सुटपाचें आसतलें. हांवें भटाक स्पश्ट सांगलें- म्हाका डॅडीक सर्गार धाडपाचो ना. मंत्र-बिंत्र, बारावो-तेरावो, मासकां-स्राद्धां मामाक जाय जाल्यार

ताका करूंदी, म्हाका कांयच करपाचें ना. मामा तिडकलो, 'हें तूं मांक विचारून सांगता?' हांवें ताचे हुजीर मांक विचारलें. तिणें सांगलें, 'तो म्हाका पोसतलो, ताका जाय तशें जावंदी.'

भटाच्या हातार हजार उडोवन धाडटकच मसंडेंत हांव धरून पांच जाण उरले. गल्लो कोणाकडेन ना पातयेवपी वासुदेव नोकराक बसोवन आयिल्लो. सोऱ्याचे आशेन जावं मागीर, पूण सांवळो स्मशानांत पाविल्लो. खंयच्यान कळ्ळें जाण कोण, पूण गॅरेज सोडून अप्पा खांद दिवपाक आयलो. 'बेगीन कर, बेगीन' म्हणीत व्हडलो माम कट्टें फुटसर रावलो. वतना सांगून गेलो 'तूं आतां जाण्टो जालो. आवयक कितें जाय-नाका तुवेंच पळोवपाचें.' जापसालदारकेची जाण दिवन गेलो. वासुदेवाक पिलियन घेवन अप्पा फुडें गेलो. माथें खरपुपी सांवळ्याच्या हातार पन्नास दवरले आनी रस्तो मेजपाक ताका मेकळो केलो. हर्स गाडी मडें देवोवन रोखडीच गेल्ल्यान हांवें पायलटाक थांबयलो. गरम जातालें. घामाघुम जाल्लों. दोनूय हात ताच्या भुजांर दवरून वारें खायत हांव निट्ट घरा आयलों.

भितर सरनाफुडें मांन हात तोंडाकडेन व्हरून विचारलें, ''कांय हाडलें ना?'' तसोच घुंवलों. जाल्यार दारांतच अप्पा- दोनूय हातांत जेवणाचे डबे घेवन, ''वासुदेवान दिलां.''

मांन म्हळें, ''हांव न्हालीं. आतां तूं न्हावन घे.''

पयलींच गीम तापूंक लागिल्लो. उजो दिल्ल्या लाकडांच्या धुंवरान मनूय धुंवटेल्लें. नळाचें उदक थंड आशिल्लें. घसघशीत न्हालों. च्याची तल्लफ आयिल्ली. पूण जेवणाचो वेळ. डबे उकते कर जाल्यार मांन म्हजें काम ल्हव करून दवरिल्लें. उरिल्लें सोंपोवन हांवें च्याक उडयलें.

डॅडी मेलो. मांली पयली प्रतिक्रिया आसली, 'सुटलो'. आनी दुसरी प्रतिक्रिया, 'सुटलीं.' तिका तशें कित्याक दिसलें हांव नकळो. पूण एक खरें- डॅडी आशिल्लो, आनी बरो आशिल्लो, जाल्यार हांव मेडिसीन प्रवेशा खातीर धडपडटलों आसलों. तांतल्यान हांव सुटलों.

डॅडी मेलो म्हूण कोणाक फरक पडलो ना. पयल्या दिसा जापेक लेगीत कोण आयलो ना. परिक्षा सोंपोवन सांजेचो कृष्णा आयलो तितलो. स्मशानांत वतनां व्हडल्या मामान कानांत विचारिल्लें, "पेपरांत एक जायरात दिवची म्हणटालों." तितलेंच मामाचेंय नांव छापून येतलें हो ताचो सुवार्थ म्हाका जाणवलो. हांवें 'आं' म्हळें. "तिनेक हजार पडटले." ताका परवडटा जाल्यार हांव नाका कित्याक म्हणूं. वगी रावलों. "दिता न्हय?" मामा म्हज्या बोल्साक खार लावपाक पळयतालो. "म्हाका म्हजें नांव पेपरांत आयिल्लें नाका."' हांवें सांगलें. "आनी डॅडील्या मरणाची खबर कळयली ना म्हूण शिणपी कोण आसा अशें म्हाका दिसना."

आशिल्ले ते दोन मामा. धाकल्याक कोर्टान डेट दिल्ली. तो पावलो ना. व्हडलो बेकार देखून आयलो. तागेलो पूत कल्पेश- बापूय जितो आसल्यार पुतान मरणाक वचचें न्हय ह्या नेमाक धरून आयलो ना. डॅडीक कोणूच सोयरे नासले. तांगेलें घराणे खंय एकपुत्री. पणज्याक, आज्याक, बापायक आनी डॅडीकूय एक पूत. म्हणटकच काका, आतीं कोण नात. डॅडीन इश्टमित्र केन्ना केले नात. शेजाऱ्यां कडेन कसले संबंद दवरले नात. तरी मरण घरांत हाडलें तेन्ना पास्कोआल येवन म्हाका आनी मांक हात दिवन गेल्लो.

सांजेचो कृष्णा यो मेरेन घरान रडप आयकूंक नासलें. कृष्णाक रडटनां हांवें विचारलें, "डॅडीची याद आयली?" ताणे मानेनच ना म्हळें. म्हज्या हुसक्यान रडलो खंय तो. मागीर भितर वचून मांक मेळून आयलो, तेन्ना रडिल्लो आयकलो ना.

कृष्णा राती खातीर चपात्यो करून दवरपाक सोदी, हांवेंच आडावन ताका बाजारांत धाडून चार उंडे हाडून घेतले. कृष्णा वतकच याद जाली-

आयचो पेपर कसो गेलो तें विचारलेंच ना!

सकाळीं जाग आयली तेन्ना सदचेवरी कुडींत काळखाचें राज्य आसलें. दारां जनेलां अशीं बंदच दवरचीं आनी न्हिदून रावचें शें दिसलें. नाय जाल्यार आयज डॅडीचें कसलें काम करपाचें नासलें. पावाचो रतीब लायिल्लो आशिल्ल्यान मां आपलें भागयतली. जापेक येवपाचे काल येवन गेल्ले. उठून कितें करपाचें आसा? ह्या काळखांत दोळे धांपून रावचें आनी कालची रात खूब व्हडली आसली म्हणीत फाल्यां सकाळीं उठचें असो विचार मनांत येता थंय आसा. फोन वाजलो. ''कितें रे तूं? कितली वाट पळयली फोनाची? खबर तरी आसा मरे, फाल्यांच्यान म्हजी परिक्षा सुरू –''

डॅडी मेलो ही खबर सांगपासारकीं मामा सोडल्यार कोणच नाशिल्लीं आमचीं. पूण आतां मात प्रस्न पडलो. हांवें चित्राक आनी फातिमाक कळोवपाक जाय आशिल्लें काय? कळयिल्लें जाल्यार कितें करतासलीं? स्मशानांत येतासलीं काय लाकूड घालपाक?

''कसलो दोस्त रे तूं? विशीस लेगीत मागून घेवच्यो पडटात?''

म्हजेकडल्यान एकूय उतर मेळ्ळें ना म्हूण जावंये, फातिमा अकस्मात सिरियस जालें. ''कितें जालें, विपीन?''

''कांय ना.''

''कांय ना?''

''डॅडी मेलो.''

फोन कट जालो. म्हजेकडेन जालो? काय ताणें केलो?

बेल वाजली आनी मां काडटली म्हूण रावल्यार बेल वाजत रावतली म्हूण उठलों. सुटयेर आशिल्ल्या कृष्णाक दारांत पळोवन विचारलें, ''तूं

केत्याक आयला?''

''मांन काल सांगलें- फायच्यान कामाक यो म्हूण.'' आनी तो भितर ालो. खूब दिसांनीं कृष्णाल्या हातची च्या मेळ्ळी.

''कशी जाली रे परिक्षा?''

''हांव पास जातलों सर!'' तोंडार येद्दो व्हडलो हांसो हाडून कृष्णान म्हळें. च्याचो रितो कप काडीत ताणें विचारलें, ''सर, भायलें दार उकतेंच दवरूंया आयज? कोणूय येतलो जापेक -''

''आसूं तें बंदच. कोण येवचो ना.'' पूण म्हजो सुमार चुकलो. पयलो मार्टीनसर आयलो. ताणें हात दिलो, हांवें घेतलो. थोडो वेळ बसलो. म्हणसर कृष्णान च्या हाडून दिली. अनमनत सरान कप घेतलो. ''तुमगेर मरणा घरांत च्याउ दिनात न्हूय?''

''खबर ना. पूण हांव घेतां. म्हणटकच हांव दितां.''

च्या पियेवन सर उठलो. हातांतलें पुस्तक काडून म्हज्या हातांत दिलें, 'ऑन ग्रिव्हिंग द डेथ ऑफ अ फादर.'

'पूण सर, डू यू थिंक आय ॲम ग्रिव्हींग?' अशें विचारचें शें दिसलें. पूण सर मनपारखी. ताणें फुडें सांगलें, ''हेर संवसार बापायच्या मरणाचें दूख केशें भुजयता तें तुवें जाणा जावचें देखून. ट्राय टू रिलेट टू ईट.''

धाकलो माम काल पावंक नासलो. आयज वेळ काडून आयलो. म्हजे फाटीर वयरसून सकयल मेरेन हात भोंवडायलो. भुजार बशिल्ल्या पितृशोकाक निस्तावन सकयल उडयिल्याचें समादान घेवन तो मांचे कुडींत वचून बसलो. डॅडीक कांचवेतालो जाल्ल्यान डॅडी आसतना पावतालो तेन्ना केन्ना काय वता अशे तरेन बसतालो. आयजूय केन्ना काय वतलो, अशे तरेनच बशिल्लो- पूण ऑफिसांत क्लायंट वाट पळयताले म्हूण.

कृष्णान ताका च्या दिली ना.

''भावोजीचो फोटो दवरचो आसलो भायर मेजार-'' माम उलोवपाक जाय म्हूण उलयलो.

“घरांत आसल्यार दवरतलीं मूं?” मां उलयली.

मामाक अकस्मात याद जाली, “इन्शुरन्स बी केल्लें मूं भावोजीन?”

“खबर ना.” हांवें म्हळें. पूण मांले दोळे लिकलिकले.

“केल्लें केल्लें.”

“पॉलिसी आसा मूं सांबाळून दवरिल्ली?” वकील उलयलो.

“बाबू, पळय रे. तागेले आलमारींतल्या गवेतांत आसूंये.”

म्हाका कंटाळो आयिल्लो. पूण धाकलो मामा उठलो. “दाखय पळोवंया.”

हांवें केन्ना त्या गवेतांत उस्तूंक नाशिल्लें. आतां उस्तिल्यार पॉलिसी मेळ्ळी ना. डॅडीली साखरपुड्यावयली भांगरा मुदी मेळ्ळी. एक चावी मेळ्ळी. ती पळोवन मामान म्हळें, “ही तर लॉकराची चावी. बॅंकेंत वचून पळोवंया? पॉलिसी त्या लॉकरांत आसूं येता.” लॉकरांत आनीक कितें कितें आसत तें पळोवपाची ताची उमळाशीक तो लिपयतालो तरी कळटाली. हांव आल्मार बंद करतां करतां मामाचें लक्ष गेलें. “राव, राव. तें लुगटांत गुठलायलां तें कितें तें पळय?”

पोरनीं पत्रां, कागदां, दुकुमेंत आसूं येत. सेदाच्या लुगटाक घडी मारून दवरिल्लो तो गुठलो भायर काडलो. उकतो करून पळय जाल्यार नोटींचे कवळे. सगल्यो नोटी पांयशांच्यो. मामाले दोळे घुंवले.

“पळय, पळय, मेज. कितले आसात पळय.”

“आसूं. मेजून कितें करपाचें आसा?” हांवें लुगटाक घडी मारून म्हळें.

“आरे, पूण उपकरा पडटले. कोणालींय देणी बिणीं –”

“तुका बी कितें देणे आशिल्लो डॅडी?”

“ना, रे.” मागीर मारतें घेवन मामान म्हळें, “आसूं, आसूं. दार बंद कर तें सारकें.” पर्थून म्हज्या खांद्यार हात दवरून सेगरेद सांगिल्लेवरी कानांत सांगलें, “पगारा भायर कितेंय चिरी मिरी सुट्टाली पळय, ते दुडू ते, हांव जाणां.”

भितर वचून ताणें मांक ती खबर सांगली. आल्मारींत दुडवांचे कवळे मेळ्ळ्यात म्हूण आयकतकच नज म्हूण आड पडिल्ली मां तुटमुटीत उठून बसली. मागीर मामा वचसर हांव भायर वचून 'ग्रिव्हिंग द डॅथ' वाचूंक बसलों.

डॅडी मेलो ताचें कोणाक कित्याक पडून वचचें? पूण ना. दोन शेजारी आनी शेजान्नी जापेक येवन गेल्यो. स्कुलांतलो म्हजो इश्ट इग्नेशस आनी रेमंड येवन म्हाका हात दिवन गेले.

साडेबारांक सुमार एक इनोव्हा रस्त्यार थारली. स्टार्च केल्ल्या कपड्यांतलो, काळें गॉगल लायिल्लो, चाळिशी हुपिल्लो एक धोलयो देंवलो. ताचे फाटोफाट डायरी खांक्याक मारिल्लो, माथ्याक खरड पडिल्लो पन्नाशींतलो दादलो 'हेंच तें घर' म्हूण सांगीत भितर सरलो.

"तूं चेडो तेगेलो?" त्या धोलयान धेंक घाल्लेवरी विचारलें. डॅडीन काडिल्लें रीण वाशील करपाक आयला काय! हांवें 'हय' म्हणिनाफुडें ताणें हात फुडें काडलो, "जबर वाश्ट जालें. मुनीस एकदम बरो आसलेलो."

हांव वग्गी रावलों. डॅडीक एकदम बरो मनीस म्हणपी हो पयलोच मनीस.

"तूं वख्खलो ना म्हाका?" ताणें गुर्मेंत विचारलें.

हो तरी खंय म्हाका वळखता? केन्ना खंय आपटल्लो मनीस काय न्हय.

"कोण तूं?" म्हगेल्या प्रस्नान तो गणमणलो. दोळे मोटे करून ताणें खड्ड्याकडेन पळयलें.

"तूं वळखना?" खड्डो अजापलो, "आमदार तो आमगेलो."

तें आयकनाफुडें हांवें सलाम करचो अशें दिसलें काय ताका? तितल्यान शेजारचो पास्कोआल धांवत खरशेत थंय आयलो. आमदाराली गाडी पळयतकच नवो शर्ट चडोवन येता म्हणसर ताका थोडो वेळच जाल्लो.

“यो, सर. बस सर.” आपणाल्याच घरांत येवकार दिवचो तसो पास्कोआलान ताका भितर आपयलो. कदेल मुखार दवरून ताणें पयलीं आपली वळख करून दिली. “सर, हांव पास्कोआल. एऽ तें घर म्हुगेलें.”

“हिंगा कितलीं मनशां राबताय?” धोलयाल्या प्रस्नाचेर खड्ड्यान डायरी काडून सांगलें, “तीन आसलेलीं. आतां दोन.” तो मतांची संख्या सांगतालो.

“सर, पियेवंच्याक किदें हाडूं?” पास्कोआलान फकत दिमी मारपाची उरिल्ली.

“नाका.” आनी म्हजेकडेन पळोवन सायबान सांगलें, “तूं भिये नाकाय. केसलीय गरज पडली जाल्यार यो म्हुजे लागीं. सिर्वीस करता?”

“सर, तो शिकता.” पास्कोआलान फोडणिशी केली.

“बरें आहा. शिकून जातरीच यो. लावंया तुका सिर्विसेक.” अशें म्हणून तो उठलो. “मांयक सांग, भुजवण दिल्या म्हणोन. आनी उगडास दवर. फुडांत इलेक्शनां आहाय. तूं जावो म्हाका -” ताणें मानेनच त्या खड्ड्याक कुरू केली. खड्ड्यान बोल्सांत हात घालून पांयशांच्यो दोन नोटी काडल्यो. म्हजे मुखार धरल्यो.

धोलयो फाट करून इनोव्हा वटेन गेलो. म्हज्या दोळ्यांत पळोवन खड्ड्यान हात फाटीं काडले. नोटी परत्यो बोल्सांत घाल्यो आनी धोलया फाटल्यान धांवलो.

“आरे बाबू, तुवेंन कित्याक घेयले ना ते? तूं नक्कोय. तुका दिल्ले ते दुडू आतां तो खड्डो दामतलो.”

ते दुडू तिसरो खातलो हाचें दुख्ख करीत पास्कोआल गेलो.

कृष्णा आतां म्हाका वळखूंक लागला. मागनासतनां च्या घेवन आयलो. म्हजे खातीर.

सरान दिल्लें पुस्तक सोंपतासर मध्यान जाली. हॅरॉल्ड स्मिथान बापूय मरतकच जाल्लें दुख्ख कशें निवारण केल्लें तें बरयिल्लें. हांव समरसूंक पावलों ना. सकाळींच मांन सांगलें "आयज तिसरो दीस. आयज कोण येवचो ना जापेक."

पांय मेकळे करीन दिसले म्हूण भायर सरलों. चलतच वासुदेवाल्या च्यावे दुकानार गेलों. मरणादिसा जेवण धाडिल्लें ताचे दुडू दिवपाक काडले जाल्यार ताणें सांगलें, अप्पान दिल्ले. मांक आवडटात म्हूण चार बटाटेवडे मागले जाल्यार ताणेंच सांगलें व्हरूं नाका. बटाटवड्यांत कांदो आसा आनी सुतकांत खंय कांदो वर्ज्य. नुसतें कितेंय व्हरचें शें दिसलें. पूण तेंय वर्ज्य. वाट वांकडी करून स्कुलाक प्रदक्षणा घालून परतलों. मां सकयल वयर जाताली. "आल्मारीक चावी केल्ली मरे तुवें?"

हांव वग्गी पळोवन तिणें म्हाकाच आयकूंक येवचें अशा बारीक आवाजांत सांगलें, "तो दोन फावटी ते आल्मारी कडल्यान वतना पळयलो हांवें. मातसो वचून पळय सगलें सारकें आसल्यार!" कृष्णाचो दुबाव घेतलो तें म्हाका मानवलें ना. 'सारकें आसतलें सगलें.' म्हणून हांव घुंवलों. जाल्यार तिणें पर्थून त्या हुसक्या आवाजांत म्हळें, "अशें कर. ती चावी हाडून म्हजेकडेन दी. कोणाचे नदरेक पडूंक नाका."

आल्मारींतले कवळे हाडून तुज्या उशापोंदा दवरतां म्हळ्यार ती चड खुशाल जातली हें जाणां आसुनूय हांवें तसलें कांय केलें ना.

जेवणां जातकच लॅपटॉप काडलो. अमेरिकन लोकांलें दुख्ख वेगळें, आफ्रिकनांचें वेगळें? ना, तांचे अभिव्यक्त जावप वेगळें. आनी आमी? म्हाका शणै गोंयबाबान बरयिल्ली 'म्हजी बा खंय गेली' कथा याद जाली. ती वाचतनां आपूण रडलीं अशें टिचरीन सांगिल्लें. हांवें दोन फावटी वाचून पळयिल्ली. दुख्ख तर नाच वयल्यान म्हाका लेखकाचो रागच आयिल्लो. आसत बाबुल्याची आवय वेगळे तरेची, आनी माया दिवपी. पूण ती देवागेर गेल्या म्हूण बाबुल्याक फट सांगपाची आनी मागीर

बाबुल्याकूय देवागेर धाडपाची केल्ली लेखकाली तजवीज म्हाका मात्त मानवूंक नासली. लॅपटॉपाचेर हांवें कितलींशींच पुस्तकां चाळ्ळीं. एकूय खास मानवलें ना. मागीर याद जाली. केन्ना तरी वाचिल्ली 'प्रॅक्टीस' ही कथा. चियारा बार्झिनी हे अमेरिकन लेखिकेची. खूब मानवल्ली म्हाका ती. पर्थून वाचली.

*घोव मरपाचोच आसा.*

*तो मरतलो तेन्ना हांवें कशें अभिव्यक्त जावप?*

*तिणें तागेल्यो वस्ती भायर काडल्यो. ताका प्रीय त्यो...*

*तागेलो वीग, तागेली घडयाळ, सिगरेट केस, हॅट, बरीऽ कॉर्डरॉयची पॅंट.*

*सगल्यो कुडींत जमनीर फापसून उडयल्यो.*

*मागीर ती न्हेसून अशीऽ भोंवन परती आयली.*

*आरेच्चा! ह्यो वस्ती हांगा जमनीर कशो? तिणें सवंग केलें..*

*हो तर तागेलो वीग. तो नासतनां तो भोंवतलो कसो?*

*ती घडयाळ. मागीर ताका वेळ कसो कळटलो?*

*हॅट नासतनां तो खंयच वचनासलो...*

*तिचें समादान जालें... येसाय बरी जाल्ली.*

*मागीर तिका उगडास जालो. ती ल्हान आसतनां तिची आजी मेल्ली तो –*

*त्या उपरांत मदीं मदीं जाल्लीं तीं मरणां...*

*आतां हें घोवाचें मरण जातलें.*

*तयार रावपाक जाय.*

*दुख्ख आपसूक सोंसप जातलें.*

घोवाच्या मरणाची वाट पळोवपी ते बायलेची कथा म्हाका आतांय आवडली. मागीर म्हाका सपनय पडलें– हांव म्हज्या मरणाची येसाय मारतां सो.

आयज कोण येवचो ना म्हूण बंदच दवरिल्लें दार वाजलें तें कृष्णान काडलें. चित्रा आनी फातिमा आयिल्लीं. फाटीं प्रिन्सिपालाच्या केबिनांत म्हाका प्रस्न पाडिल्लो फातिमाक म्हजें नांव कशें कळ्ळें! आयज दुसरो प्रस्न पडलो– हांकां म्हजें घर कशें कळ्ळें?

म्हजेकडेन उलोवप कितें हें येवजलें ना देखून जावंये, कितलो वेळ वग्गी बसलीं. मागीर चित्रान बशिल्लेकडेन फुडें बाग घेवन चवकशी केली –

"वॉज ईट पेनफूल?"

"कोणाक?" हांवें विचारलें. पूण मागीर रोख लक्षांत आयलो, "डॅडीक सांगूंक येनासलें." घरांत आसासर सोंसलांय आसतलें. पूण– "हॉस्पिटलांत पेन किलर बी– ही वॉज ओके. पेन नासूंये."

"आय वॉज शॉक्ड– तुवें सांगिल्लें आयकून. सॉरी, रोखडेंच येवपाचें. पूण हांव एकलें कशें येतलें? चित्रा काणकोणा आसलें. वी आर सॉरी फॉर यू!..." फातिमाचें दुख्खी आवाजांत व्यक्त जावपाचें सवंग ताका सोबलें ना.

फातिमाचें लक्ष त्या पुस्तकाचेर गेलें. ताणें तें हातांत घेतलें. नांव पळयलें 'ऑन ग्रिव्हींग ... '. उकतें करपाचे भानगडींत पडनासतनां चित्राकडेन दिलें. चित्रा चाळपाक लागलें. हांवें म्हळें, "मार्टीन सरान दिलां. लोकांचें दुख्ख समजून घेवपाक–"

"बरें आसा?" चित्रान पुस्तक चाळटां चाळटांच विचारलें.

"तोच सेंटिमेंट – विल्यम फोकनरान 'द वायल्ड पाम्सांत' सांगला तो– बिटवीन ग्रीफ एण्ड नथिंग आय वील टेक ग्रीफ! ग्रीफ आसचें, सोंसचें आनी विसरचें. सगलो गोंदळ."

"तुजें मत कितें?" चित्राक उलोवणें चालू उरिल्लें जाय आसलें.

"नथिंग."

म्हाका याद जाली, "फातिमा, तुगेली परिक्षा न्हय आयच्यान?"

"हय. आयचो पेपर आन्सर करून आयलां."

"अशी धांवपळ करून कित्याक आयलें?"

"फर्ज था मेरा..." ताचो आवाज निबरूय आशिल्लो आनी मोवूय

"मां खंय?" चित्रान विशय बदललो. तांकां मांक जाप करपाची आसली. मां तांकां विचारना जाल्यार पुरो - तिसऱ्या दिसा जापेक येनात म्हूण खबर ना?

तांकां मांचे फुड्यांत बसोवन भितर गेलों. कृष्णान च्याक दवरिल्लें. हांवें म्हळें, कॉफी कर. पूण घरांत कॉफी पावडर नासली. कृष्णा कडेन पैशे दिले आनी धाडलो. पर्थून मांचे कुडींत वच जाल्यार मांली चवकशी चालू आसली. चित्राचें नांव विचारून जाल्लें जावंये. फातिमालें नांव आयकून तिणें विचारलें, "क्रिस्तांव?"

दोगांय अस्वस्थ. मागीर चित्रान सांगलें, "विपीनालें फ्रॅण्ड तें!"

"विपीनाक फ्रॅण्ड आसा, खबरच नाशिल्लें." मां खरें तें उलयली.

"आमी दोगांय ताचीं फ्रॅण्डस." चित्रान आपलीय वळख करून दिली.

"भायर बसूंया." हांवें तांकां उठयलीं.

भायर पावचे पयलींच चित्रान विचारलें, "तुजो रूम खंयचो?" हांवें ताका बोटानच दाखयलो.

ताणें दाखय म्हळें तेन्ना थंय गेलों.

"इतलो काळोख?"

"म्हाका काळोख आवडटा." आनी हांवें लायट पेटयली.

"म्हाका काळखांत दिवो लावपाक आवडटा - तुवें लायला तसो."

सालांत यो जाल्यार कृष्णान दोन कपांत कॉफी आनी म्हाका च्या हाडून दवरिल्ली.

"घरांतल्या मनशाचें मरण पळोवप टॅरिबल दिसलां आसतलें तुका. आय रिअली फील सॉरी फॉर यू!" फातिमान आंग शिरशिरायत म्हळें. ताका दुखतलें म्हूण प्रामाणीक प्रतिक्रिया दिली ना.

"पूण तूं मरणाकडेन ऑब्जेक्टीवली पळयता तें पळोवन म्हाका बरें

दिसलें. दॅटस् द स्पिरीट!'' चित्रान म्हळें, ''विवेकानंद म्हणटा - डेथ इज ज्यस्ट चेंजिंग ऑफ गार्मेंट!''

''उलोवप सोपें गो! तुजी मम्मा गेली तेन्ना तूं कितलें नर्व्हस जाल्लें?'' फातिमा म्हाका बरें दिसचें म्हणून उलयलें.

''वायट दिशिल्लें. पूण तें दुख्ख हांव ओव्हरकम करतलें हें म्हाका खबर आसलें. म्हाका हुसको दिसतालो तो पप्पाचो. फाटल्यान एकलो दीस कशे काडटलो हाचो. पूण ही हॅज ॲडजस्टेद. बाय द वे, विपीन, पप्पान सांगलां, ताचे वतीन कंडोलन्सेस दी म्हूण. ''

उलोवपाचें तें उलोवन जाल्लें. दोगांय उठलीं. हात दिलो. तातुंतय फरक जाणवलो. फातिमान इलो चडच दामलो.

''काल तिसरो दीस म्हणून आयलों ना.'' म्हणीत व्हडलो माम कल्पेशाक घेवन भितर सरलो. मामा भितर मांचे कुडींत वचून बसलो. कल्पेशाकडेन उलोवपा सारकें म्हजेकडेन कांय नासलें. पूण कल्पेशाकडेन म्हाका सांगपा सारकें खूब आसलें. हालींच म्हापसा-मुंबय बसीच्या ड्रायव्हराकडेन ताची इश्टागत जाल्ली आनी ताचेबरोबर दोन वेळा तो मंबय वचून आयिल्लो. ती खबर ताणें वर्ल्ड कपांत दोन गोल मारले अशा झेतान सांगली. आन्येका टॅक्सी ड्रायव्हराच्या बरेपणान खंय तो ड्रायव्हिंग शिकिल्लो. घरांत वकील काकाली मोटार आसुनूय तो खंय हात लावपाक दिनासलो. आतां चार पैशे जातकच बापूय ताका गाडी घेवन दितलो. मदीं मुंबयच्यान दोन तरनाटे एक बारगर्ल घेवन गोंयचे भोंवडेर आयिल्ले तांकां खंय कल्पेशान गोंय दाखयलें. वाळपय नवें पडिल्लें पाम फार्म हें थळ खंय तांकां खूब आवडलें. थंय तांणी मारिल्लें उर्राक तांकां इतलें आवडलें की दोगूय दोन बाटल्यो विकत्यो घेवन परतल्ले. मागीर

ती सांज खंय ते बाटली घेवन बसले आनी बार गर्ल कल्पेशाचे सुवादीन केली. तेन्ना केल्ली मजा लाळेंत घोळोवन सांगूंक लागलो तेन्ना हांवें उठून कृष्णाक च्या करपाक सांगली.

"एक सांगूं बाबू, हाताकडेन पैशे आसले न्हय की जाय तशी मजा मारूंक मेळटा. पैशेच जाय." च्याचो कप सकयल दवरून मागीर ताणें पोटांत गुडगुडटालो तो विशय काडलो, "मेजले ते पैशे? कितले आसात?" व्हडल्या मामाच्या कानार तें पडलें दिसता, भायर आयलो तोच ताणशेलो, "तुका शिकोवन हाडिल्लो, हो विशय तूं काडचो ना म्हूण! अक्कल ना तुका." मागीर व्हडल्या मामान म्हाका मांले कुडींत आफयलो. "बाबू, भट म्हणटालो, भावोजील्या मरणाक वेळ बरो मेळ्ळो ना. शांत करूंक जाय."

"आनी केली ना जाल्यार?" हांवें विचारलें.

"तेंच सांगतां, केली ना, जाल्यार पुताच्या जिवाक तत्काळ धोको आसा."

"धोको म्हज्या जिवाक मूं? तो पत्करपाची म्हजी तयारी आसा. म्हाका शांत नाका."

पूण मामाक आनीक कितें सांगपाचें आसलें. ताणें आल्मारींतल्या त्या पयशांच्या विशयाक हात घालो. "भावोजीन ते पैशे आपले बायलेखातीर दवरल्यात. तूं आजून भुरगो आसा. तुका खर्चाक जाय तितले मागून घे तिचेकडेन. पूण तूं ते तिचे सुवादीन कर." हो साळसूद सल्लो ताणें मांक विचारूनच दिल्लो.

"मामा, पयरच तूं म्हाका 'जाण्टो' म्हणटालो. आतां म्हाका 'भुरगो' म्हणटा. तुमी पयलीं थारायात, हांव भुरगो काय जाण्टो तें." इतलें उलोवन हांव भायर आयलों. कल्पेश म्हजीच वाट पळयतालो - त्या दुडवांनीं कितें कितें मजा करूं येता हाची वळेरी सादर करपाक.

आतां आनी कोण येवपाचो उरलो ना अशें दिसतासर सांजेर अमृत आनी सर्वेश आयले. बाबड्यांक कितें उलोवचें तें कळनासलें. हात दिलो आनी तोंड धांपून बसून रावले. संकोचाचो हो मोनेळ तांकां चड अस्वस्थ करता तें पळोवन हांवेंच तोंड उगडलें– ''पॅरॅलॅटीक अटॅक आयिल्लो. हॉस्पिटलांत घाल्लो. चार दीस जाले– ही डाय्ड.''

''सॉरी फॉर यू!'' सर्वेशान म्हळें. नमशीकार मरतलो तेन्ना सर्वेश कितलो 'सॉरी' जातलो काय? .

''तरी बरें, परिक्षा सोंपून जालें हें.'' अमृत उलयलो.

परिक्षा चालू आसतनां डॅडी मेल्लो जाल्यार कितें फरक पडटासलो काय?

''तुगेली परिक्षा कशी जाली? अं– तुवें क्लासी अटेण्ड केल्योच नात म्हणून विचारतां–'' सर्वेशान खांकडत विचारलें.

''जाली. आनी तुमगेली?''

''नॉट बॅड. म्हाका कांय मॅडिसीन करपाचें ना आनी इंजिनिअरिंगूय. पास जातलों.'' अमृतान म्हळें.

''पेपर गेल्यात बरे म्हगेले. डॅडीन सुमार केला तेभाशेन 80% तरी मेळाटले. पूण जिसीईटी बरी जाल्यार पुरो. त्या रिझल्टाचेर आसा...'' सर्वेशालें आदन नमशीकराले रांदनीर हें सांगिनासतनाच कळटालें. ताका आतां जाणा जावंक जाय आसलें हांवें जिसीईटीची तयारी केल्या जाल्यार. हांवें सांगून सोडलें, ''बॅस्ट ऑफ लक, सर्वेश. हांव जिसीईटीक बसपाचों ना.''

''अशें ?'' सर्वेशान येदें तोंड करून म्हळें, '' तूं बशिल्लो जाल्यार म्हाकाय आदार जावं येतालो. डॅडीक डिफिकल्टी विचारचे परस तुका विचारप म्हाका सोपें दिसता.'' तो मनापासून उलयलो.

ते गेले आनी त्या उपरांत मात जापेक येवपी सोंपले.

डॅडी सुटलो आनी आपुणूय सुटलीं अशें मांन म्हणिल्ले खरें. पूण मेल्ल्याच्या आत्म्याक थंड करपाच्या विचारांतल्यान ती मुक्त जावंक नासली. मामाचो सल्लो घेवन डॅडीलो बारावो हरवळ्यां तिर्थार वाडचो हे तिचे इत्सेक ना म्हणप म्हज्या जिवार आयलें. आनी ते प्रमाण आमी आठ जाणांनीं हरवळ्यां वचून स सात हजार भटांच्या हड्ड्यार घालून आत्म्याक शांती दिली.

'एमटी माइंड इज डेव्हील्स वर्क शॉप' म्हणटात. म्हज्या मनाचें आपलें बरें. तें बेकार केन्नाच आसना. दारां जनेलां बंद करून काळखांत रावतां तेन्नाय म्हजें मन कार्य करीत रावता. तरेकवार विचारांची मदलस मनांत भरिल्लीच आसता. पूण हात पांय चड वेळ बेकार उरल्यार हांव अस्वस्थ जातां. मागीर पोरसांत वावर करप, लायब्ररींत वचप, केन्ना चलत पणजे पाट्यार पासय मारप... उरिल्ल्या वेळार लॅपटॉप, पुस्तकां आसलींच. तातूंत भर म्हळ्यार ई बुक्स आनी ई मॅगझीन्स.

डॅडी आसतनां म्हाका कितेंच घेवचें पडूंक नासलें. जाय शें दिसल्यारूय केन्ना कोणाकडेन मागलें ना. डॅडी हाडटालो आनी हांव घेतालों. आतां हाडपीय हांव आनी घेवपीय हांव. हांवें मोबायल बदलून नवो मॉडेल घेतलो आनी आय पॅड ॲमाझॉनाचेर मागयलें. संग्रहाक आसचें शें दिसता तें पुस्तक आयपॅडाचेर स्टोअर करप. ते खातीर फारीक करपी हांव आनी वाचपीय हांव. तरिकूय केन्ना केन्ना हात शिंवशिंवताले. एक दीस चलत चलत बांबोळे युनिव्हर्सिटीचे वाटेर पावलों. थंय कृष्णाल्या अप्पाली गॅरेज लागली. गांठीक वेळ आशिल्लोच. तो कशे भाशेन स्कुटर उसयता आनी घडयता तें पळोवन अजापलों. कसलेंच उपचारीक शिक्षण नासतनाय अप्पा इतलें फिशाल काम करतालो –

घरा परततना गरजेचे पाने, दिस्पीस, ग्रीज, ऑयल बी घेवनच आयलों.

दुसऱ्या दिसा म्हगेली स्कुटर घेवन बसलों. पुरायेन उसोवन पळयली. कृष्ण धांवत आयलो- आदाराक. ताका म्हळें तूं जेवणाचें पळय. निखळावन जाली. मदीं जेवपाक उठलों. पर्थून बसलों. सगलें ज्युस्ताज्युस्त जुळून आयिल्लें. आतां पर्थून फीट करपाचें. ताका सोमतोच भितर धांवडायलो. हांवेंच ऑयल बदलली. ग्रीज सारोवन फाटलें व्हील बसयतनाच फोन वाजलो. दोनूय हातांक ग्रीज लागिल्ली आसली. भंगूं म्हणटासलों. पूण कृष्णान येवन फोन उकललो, "सर, कोण तरी चित्रा -"

घे म्हणपाक मेळना आनी तोड म्हणपाक जायना. म्हगेली अडचण वळखून ताणेंच ऑन करून म्हज्या कानाकडेन धरलो.

"काँग्रेटस, विपीन-" चित्रालो उचांबळींत आवाज कानार पडनाफुडें याद जाली, आयज रिझल्ट येवपाचो आसलो.

"आयलो रिझल्ट?"

"तुवें पळयलो ना आजून? आरे. तुवें नायन्टी क्रॉस केलां-"

हांव वग्गी. 'थँक्यू' तरी म्हणपाक जाय आसलें.

"वग्गी सो? निदान म्हाका तरी काँग्रेच्युलेट कर. तूं जाणा म्हाका कितले पडले?"

"सांग-"

"परिक्षेक बसपाचो धीर येनासलो म्हाका. फकत तुका लागून -"

"कितले पडले तें सांग."

"सेव्हेंटी सेव्हन. खरेंच दिसना."

चित्रान काँग्रेच्युलेशन्स मागल्यांत ती याद जावन हांवें ताका परबीं दिलीं.

"फाल्यां येतलें हांव पणजे. मेळुंया आं!"

कृष्णान दवरचे पयलींच फोन पर्थून वाजलो.

"फातिमालो तो. हाड हांगा." म्हाका कशें कळ्ळें हाचें अजाप करीत ताणें फोन म्हज्या कानांक लायलो.

"थँक्यू फातिमा." हांवें तागेली फूक काडली.

“आरे म्हाका काँग्रेच्युलेट तरी करूं दी.”

“पावलें.”

“पेपर गेले बरे म्हूण पडिल्ल्या तोंडान सांगतालो मरे तूं. बडा छुपा रुस्तम निकला रे!”

“जालें तुगेलें? दवरूं?”

“ना, ना. वी मस्ट मीट नाउ. फोनार न्हय तुजो हात धरून तुका काँग्रेच्युलेट करूंक जाय म्हाका.”

“हांव हांगा स्कुटर सारकी करतां. दोनूय हातांक ग्रीज लागिल्ली आसा.”

“सो व्हॉट! ग्रीज लागूं वा म्होंव लागूं. तुजो हात धरपाक मेळ्यार पुरो म्हाका.” फातिमा चित्रापरसूय चड उमेदीर दिसतालें.

“आयज कशेंच शक्य ना. सॉरी.” फातिमालें उलोवणें हयन्हयशें कृष्णाल्याय कानार पडटालें हाचो हुसको दिसतालो.

“आयज नाकाच म्हणटा? बरें तर. फाल्यां शुअर आं! सकाळीं करतां फोन. चित्राकूय सांगतां.”

कृष्णाक रिझल्ट कळ्ळो. तो इतलो खोशी जाल्लो पळोवन म्हाका दिसलें कृष्णाचोच रिझल्ट लागिल्ल्यान तो भुल्लुसला. भितर वचून ताणें मांक सांगलें दिसता. बायक जाग्यार घालून हात पांय धुयतांसर मां रांदचेकुडींत पावली. साखरेचो डबो उकतो करून म्हजेमुखार धरलो, “बाबू, बऱ्या मार्कांनी पास जालो खंय तूं. घे, तोंड गोड कर.” हांवें चिमटीभर साखर घेतली. मांन मुठभर तोंडांत उडयली.

लॉग इन करून पळयत जाल्यार 93%. रिझल्ट शेअर करचो अशीं दोगतीगांच मनशां आसलीं. तातूंत कालपयर मेरेन पयल्या क्रमांकाचेर आशिल्लो तो मार्टीनसर. पूण आतां म्हाका चित्राक मेळपाची उमळशीक लागिल्ली ती पळयल्यार मार्टीनसराचो नंबर फाटीं पडला असो दुबाव आयलो. ना, अशें जावंक फावना. कितेंय आगळेंउणें कर्तृत्व म्हज्यांत

आसा जाल्यार तें जागोवपाचें स्रय फकत मार्टीनसराक वचूंक जाय.

कृष्णाक सांगून हांव भायर सरलों. अर्दे वाटेर आसतना सरालोच फोन आयलो. ‘‘काँग्रेच्युलेशन्स, बाबू. वी आर सो हॅपी. पूण खरें सांगतां- म्हाकाअजाप जालें ना.’’ हांव थँक्यू म्हणटां थंय आसां, ‘‘आयज प्लॅन कितें?’’ ताणें विचारलें. हांव येवजिता थंय आसां, ‘‘आग्नेसान सांगलां आयज राती डिनराक यो म्हूण. सो आमी वाट चयतांव - उकसार यो. 7.30?’’

दिल्लो वेळ पाळप हें हांव सराकडसूनच शिकिल्लों. मार्टीनसर टिव्हीचेर न्यूज आयकतालो. दार सदचेवरी उकतेंच आसलें. जाग मेळनाफुडें भायर आयलो. ‘‘काँग्रॅच्युलेशन्स, बाबू. यू मेड मी प्राउड.’’ हे खेपेक ताणें म्हाका वेंग मारली. आनी स्टॅलाक उलो मारलो. स्टॅला फाटोफाट स्टॅलाची मांय धांवत आयली. दोगांनी दिल्लीं परबीं इतलीं काळजा थावन आशिल्लीं की हांव घुस्मटूंक लागलों.

‘‘93 परसेंट म्हुटल्यार तुका मॅडिसिनाक ट्राय करूं येता.’’ स्टॅलाक वाक्य पुर्ण करपाक दिनासतना मार्टीनसरान सांगलें, ‘‘तेका इंटरेस्ट आसल्यार मुगो?’’

‘‘फुडें कितें करूंक सोदताय तूं?’’ मॅडम आग्नेसान मज घेतली.

कितें सांगूं? हांव एकदम ब्लँक जालों. सरच म्हज्या आदाराक आयलो. ‘‘आगो, तेका पयलीं बसों दी. वी शाल टॉक अबाउट ईट ओव्हर द डिनर, रायट?’’

‘‘कितें हाडूं? व्हिस्की काय बिअर?’’ मॅडमीन विचारलें.

हांवें तकलेनच ‘नाका नाका’ म्हळें.

‘‘लजनाका तूं. तुगे सर कांय म्हणचो ना तुका.’’ मॅडम आयज चडूच खोशेंत दिसली.

सर हांसलो. ‘‘हांव जाणां- तो कांय घेयना. पूण आयज एक्सॅप्शन. हाड तूं - बिअर हाड.’’

मॅडम भितर वचसर मार्टीनसर तिचेकडेन लक्तुबायेन पळयतालो. घोव बायलेकडेन इतले आत्मीयतेन पळयतनां हांव पयलेच खेपेक पळयतालों.

"आयज आग्नेस जबर खोशी आहा. तूं जाणाय कित्याक तें?" सर स्टॅलाक पळोवन उलयतालो. आनी म्हाका कळ्ळें ना कित्याक स्टॅला भितर धांवलें. "स्टॅला आतां काजार जावपाचें आहा. न्हवरो तेणेनूच सोदून काडला. जॅम ऑफ अ बॉय! आयजच काजाराची डेट थारायल्या. मायाचे बारावेर. हॉल बूक केला. तुवेन येवपाक जायें आं!"

स्टॅलाच बिअर घेवन आयलें. बिअर ग्लासांत ओततना फेणेर फसफसून वयर आयलो. इलोसो रकलोय. 'सॉरी' ताणें म्हळें.

"डॉन्ट बॉदर." सरान स्टॅलाक म्हळें आनी म्हाका पळोवन सांगलें, "चयलें मरे. हो फ्रॉथ – तेगे काळजांतली उमेद. कोणभाशेन ओव्हर फ्लो जाता तें चयलें मुरे?" स्टॅला हे खेपेक लजलें ना. वयल्यान बाटली उकलून भितर वचचे पयलीं ताणें डॅडीकच विचारलें– "आनी मम्मा–तूं कितू फुलला तें तेका देखों येना तरि?"

स्टॅलाक हांवें परबीं दिवंक जाय आसलीं. पूण भीड आडवी आयली. सरान 'चिअर्स' केलें आनी हांवें तें कोडू पेय तोंडाक लायलें.

"नेयें कितें वाचिलां?" सरान विचारलें आनी ताणेच फुडें म्हळें, "ओह! एक्झाम जाताय म्हणसर डॅडीलो डॅथ!"

"हांवें तें वाचलें सर –'ऑन ग्रिव्हींग द डॅथ ऑफ अ फादर.' "

"हांव जाणा, तूं रेलेट करूंक पावचो ना रायटराकडेन. पूण– तेंय जाणा जावंक जायें तुवेन." आनी मेजावयलें एक नवें ताल्ल पुस्तक काडून म्हज्या हातांत दिवन ताणें म्हळें, "हो बूक म्हजो गिफ्ट तुका. तुका तो मानवतलो हेची गॅरण्टी आहा म्हाका. टेक इट."

ब्लाइण्डनेस! जुझे सारामागोचें नांव आयकल्लें.

"माय फेव्हरेट ऑथर. 'द गॉस्पॅल अकॉर्डींग टू जीझस ख्रायस्ट' हो तेगेलो नॉव्हेल म्हुगेलो ऑल टायम फेव्हरेट. तेणेन जेझूक मुनीस म्हूण दाखयला. हायली फिलॉसोफीकल. पूण तूं जाणा –? कॅथलीक भावार्त्यांनी

तेका धर्माच्या आड बरोवपी म्हूण कण्डॅम्ड केलो.''

हांवें सरान दिल्लो बूक चाळ्ळो. सरानच फुडें सांगलें- ''अकस्मात जेन्ना एक स्ट्रेंज्य जोरी फांकता - तेचेर वखद मेळना तेन्ना कोण भाशेन संवसार पॅनिकी जाता तें दाखयलां..... व्हॉट अ फ्लायट ऑफ इमॅजिनेशन!''

तितल्यान मॅडम थंय आयली. ''हें कितें? हेगे ग्लास तेसो आहा. हांव आनीक बिअर हाडूं काय विंचारूंक येयलेलीं. जाल्यार- डिनर रेडी आहा मागीर शेळें जातेलें.''

मॅडमीची फाट जातकच सरान म्हळें, ''तूं जाणा बाबू? किपलिंग म्हुणटा - देवान संवसार रचलो तेन्ना तेका हुसको जालो खूंय- लोकांक सुशेगाद दवरपाक आपूण खूंय खूंय पावतेलों? देखून तेणेन आवय रचली. आग्नेसाक चयतां तेन्ना म्हाका तें खरें दिसता.'' म्हज्या दोळ्यांमुखार मां आयली. पूण सराक तूं चुकता म्हूण सांगप जालें ना.

इतल्यान स्टॅला आयलें. ''कमॉन डॅडी, माम्मा राबता -''

मार्टीनसरान ग्लास रितो केलो. हांवेंय चार घोंट सडसडीत ताळ्यांत ओतले.

चौगांचेंच मेज. ताचेर मदीं सगलें जेवण. चारूय वटेन प्लेटी. तेभायर कांटे-कुलेरा. 'जाय तें घे'. अशें म्हणून मॅडमीन म्हाका प्रात दाखयले. हें आंबटतीख, ही चिकन शागोती, हें चणक-फ्रायड, हो प्रॉन पुलाव, हीं सान्नां. हांव पयलेच खेपेक क्रिस्तांवाल्या घरांत जेवतालों. हे लोक फॉर्मेलिटीस खूब पाळटात म्हूण आयकल्ल्यान मनाचेर एके तरेचें चेपण आशिल्लें. पूण सरान म्हाका कांयच जाणोवंक दिलें ना. आपणें घेतलें आनी म्हाका घे म्हळें. कोणेच कांय वाडलें ना. पूण घे म्हूण आगरो केलो. मॅडम बरी सुगरण आसूंक जाय. रुचीन जेवलों. मदीं एक प्रात धांकिल्लो आसलो. स्टॅलान तो उकतो करून आपले प्लेटींत घेतलें आनी म्हाका विचारलें, ''धीस इज सॉर्पोतेल. तूं खातलो?'' हांवें केन्ना

खावंक नासलें. इतल्यान सरान एक दोवलो आपले प्लेटींत घेत म्हाका सांगलें, ‘‘हें पोर्क सोर्पोतेल. तूं खायना जाल्यार आसों.’’ सर खाता, स्टॅला खाता- जाल्यार हांवें कित्याक खावचें न्हय? हांव अनमनतां शें दिसून मॅडमीन म्हळें, ‘‘कोंकणे जबर खायनाय. दुकरा मास न्हूं रे? मेजार दवरचीं नासलीं हांव. पूण स्टॅलाच्या घोस्ताचें देखून-’’

हांवें धांकणे वयर काडून दोवलोभर घेतलें. सराक बरें दिसचें म्हूण निखालस न्हय. एक म्हळ्यार वेगळेचार म्हाका मानवना आनी खालेबगर आवडटा वो ना तें कशें कळपांचें? खूब बरें लागलें. आन्येक दवलो घेतलो.

इतल्यान स्टॅलालो मोबायल वाजलो.

‘‘जेय आनी घे गो.’’ मॅडमीन म्हळें. पूण स्टॅलान घेतलोच. ‘‘कितें?’’ अशें म्हणून तें उठलें. भितरलें कुडींत वचून फोन घेतलो. तें भायरच आयलें ना म्हूण मॅडम भितर गेली. तीय भायर आयली ना तेन्ना मार्टीनसरूय उठलो, ‘‘सॉरी बाबू. तूं जेय. हांव रोखडो येतां.’’ दोन मिण्टांनी स्टॅला आनी मॅडम न्हेसून बी तयार जालीं. मार्टीनसर येवन म्हजे कुशीक बसलो. ताच्या तोंडावयलो हुसको स्पश्ट वाचूंक मेळटालो.

‘‘सर, कितें जालें?’’ म्हजोय सूर हुसक्याचो जालो.

‘‘ॲक्सिडंट! रामिरोक - स्टॅलाच्या न्हवऱ्याक ॲक्सिडेंट जाला. हॉस्पिटलांत घायला तेका.’’

‘‘आय होप नथिंग सिरियस.’’ हांव उठलों. सर कांयच उलयलो ना.

‘‘सर, हांव रावूं?’’

‘‘नाका. राजूली टॅक्सी आफयल्या. आमी आतां भायर सरतांव.’’

कितें करचें तें कळ्ळें ना. हांव तसोच भायर सरलों.

रातभर सोर्पोतेल गळ्याकडेन चरचरत उरलें.

सकाळीं च्या केली. पयलीं मांक दिली.

संवयेन फोन उकललो. वॉटसॅप मॅसेज पळयली. फातिमाली परबीं दिवपी कविता वाचली. म्हणसर चित्राली पळयली. 'तिगांचोय रिझल्ट आयला. सेलेब्रेशन जायच. आयज दनपारां साडेबारांक पाट्यार 'आंबील' हॉटेलांत वांगडाच लंच. वाट पळयतां.' 'आयज नाका' म्हणपाचें मनांत आयिल्लें. पूण आसूं म्हळें. म्हजो मूड ना म्हूण तांचो विरूस कित्याक?

''आयज चिकन करूंया जेवणाक. कृष्णालें बरेंऽ जाता.'' डॅडी मेल्ल्याक मांल्यो रुची चडच तेज जाल्ल्यो. हांवें जाप दिली ना. मां अस्वस्थ जाली. ''आयकलें ना रे बाबू? आयज चिकन -''

''नाका.'' इतलें म्हणून हांव च्याचो मग घेवन भायर आयलों. रातीचे यादीन बेचैनी वाडली. मार्टीनसर आयलो आसतलो घरा. कसो आसा काय रामिरो? स्टॅला रावलां आसूं ये हॉस्पिटलांत. हात पांयबी मोडलो जाल्यार 12 मेचे काजार फुडें धुकलचें पडटलें.

कृष्णा आयलो आनी हांव ब्रेकफास्ट घेनासतनाच भायर सरलों. अर्दे वाटेर कळ्ळें आनी हांव परतलों. रातीच्या ॲक्सिडेंटांत रामिरो आत्ताक मेल्लो.

घरांत भितर सरतनांच कृष्णान सांगलें -'तूं फोन विसरून गेलो. दोन फोन येवन गेले.' हांवें मोबायल हातांत घेतलो ना. कृष्णाक सांगलें, 'भायरच दवर तो, फोन आयल्यारूय घेवं नाका.'

कूड बंद करून बसलों. मार्टीनसराक जाप दिवपाक वचचें शें दिसलें ना. सरालें पडिल्लें तोंड पळोवपाक जावचें नासलें. स्टॅलालें काल पळयिल्लें फुलिल्ल्या गुलाबांचो तुरो कशें मुखामळ म्हजे नदरेंत तशेंच उरिल्लें जाय आसलें. आपणांलें काम करपा खातीर देवान रचिल्ले आवयचें भालो तोंपून घायाळ केल्लें काळीज पळोवपाचें धाडस नाशिल्लें म्हजेकडेन. आनी रामिरो! 'आय डू' म्हणचे पयलींच 'आय डाय' म्हणून नाच्च जालो? ना पळयिल्लो रामिरो ते बंद कुडींतल्या काळखांत स्टॅलाक कूय कूय करीत म्हज्या उकत्या दोळ्यांमुखार नाचत रावलो.

दनपारां जेवणाचो वेळ जालो तेन्ना कृष्णान येवन म्हाका जेवपाक आफयलो. भूकूय मेल्ली आनी मूडूय नासलो. म्हळें, 'तूं जेवन घे. म्हाका भूक ना.' जाल्यार कृष्णान सांगलें, 'तशें जाल्यार म्हाकाय भूक ना, हांवूय रावतां उपाशीं.' हांव जाणाच आसलों ताचो हट्टी सभाव. म्हळें, 'म्हगेले ताट वाडून कुडींत हाड आनी तूं जेवन घे.'

रातीचें सॉर्पोतेल केन्ना तरी जिरून गेल्लें जावंये. दनपाराचीं तीन उलगलीं तशी– वाडिल्ल्या जेवणाच्या वासान जावंये, भूक चाळवली. उठलों. काळखातच जेवलों आनी भायर वचून आंवन आयलों. कृष्णान सांगलें, सकाळचोच फोन आनीक तीन फावटी येवन गेलो. हांवें पळयलो ना. कुडींत वचून पर्थून काळखांत रिगलों.

कृष्णा सकाळीं बेगसारच आयलो– खबर घेवन. स्टॅलाच्या न्हवऱ्याचें मरण आयज चारांक, ताळगांवां. गांवांतल्यान बस वतली. हांव गेलों ना. मोबायलाची बॅटरी डिस्चार्ज जावन तो थंड पडिल्लो. हांवें 'ब्लाइण्डनॅस' उगडलें आनी त्या धव्या कुड्डेपणांत भोंवतणचो संवसार विसरून पुस्तकांत शेणलों. अशीय एक जोरी आसता? तो मोटार घेवन सिग्नलाकडेन पांचव्या दिव्याची वाट पळयत आसता. पूण दोळ्यांमुखार काळोख न्हय तर धवोच उजवाड तितलो दिश्टी पडटा. फाटल्यो गाडयो तो फुडें वचना म्हूण तिडकतात. कोण एकलो ताका सांगता आपूण तुजे गाडयेन तुका घरा पावयतां. पावयता पूण मागीर ताची गाडीच घेवन पळ काडटा. कुड्ड्या घोवाक घेवन ताची बायल टॅक्सी आफयता आनी दोळ्यांच्या डॉक्टराकडेन व्हरता. धवें कुड्डेपण ही एक सांथ आसता. तो, ताची बायल, गाडी चोरपी, दोळ्यांचो डॉक्टर आनी जे जे तांच्या संपर्कांत येतात ते सगलेच एका फाटल्यान एक कुड्डे जातात. करतांकरतां ती एक महामारी जाता. शारभरांत हज्जारांनी लोक क्वारंटायन जातात. आनी मागीर मनशांतलें मनीसपण,

मनशांतलें जनावर उत्ताडार येता... डॉक्टराक क्वारंटायन करपाक व्हरतात तेन्ना आपुणूय कुड्डी अशी फट मारून डॉक्टराची बायलूय विलगीकरण कोठयेंत भरती जाता....

इतल्यान भायरसून चित्रा आनी फातिमा पेढे घेवन दारांत हजर. कृष्णानच दार काडलें.

''व्वा! बाब हांगा पुस्तक वाचता? आमकां हुसक्यांत उडोवन-''

चित्राक तोडून फातिमान म्हाका विचारलें - ''क्या बात है, विपीन? आयज तुजो मूड सारको ना. कितेंय पूण जालां - रायट?''

''रायट, पूण पयलीं बसात.'' तांकां बसोवन हांव उतरां सोदूंक लागलों.

''कितें जालें, विपीन?''

हांवें मार्टीनसराची खबर सांगली. ''आतां सराक तोंड दाखोवपाकच तोंड येना म्हाका. बाबडो जाला आसतलो. सरापरस मॅडम. पयर कितली खुशाल आशिल्ली. आनी स्टॅला! कितलीं सपनां पळयतालें रामिरोवांगडा जीण सारपाचीं!'' एके खेपेक इतले उलोवप पयलेच फावटी जाल्लें म्हजे कडसून.

''तुवें पळयिल्लो ताका?'' चित्रान विचारलें. हांवें मोन्यांनीच ना म्हळें.

सोयरीं धायरीं पळोवपाची आमच्या घराक संवंय नासली. अजापून मां भायर आयली.

''हीं कोण रे बाबू?'' आनी मागीर तिची तिकाच याद जाली, ''आं, वळखलीं. फाटीं आयिल्लीं तुमी.'' मांलें लक्ष चित्राच्या हातांतल्या बॉक्साचेर गेलें, ''कितें हाडलां? विपीनाक मूं? कृष्णा, ताणीं कितें हाडलां तें भितर व्हरून दवर पळोवंया. हांगा मुयो बी येत- '' पूण कृष्णा भायर येवचे पयलींच मां तें बॉक्स घेवन भितर गेली. अकस्मात ल्हवू आवाजांत चित्रान विचारलें. ''अजापच! तुगेलो डॅडी गेलो तेन्ना लेगीत तूं इतलो सेंटी जालो ना. आतां तो सरालो जांवय जाका तुवें पळोवंक लेगीत ना तो -''

कृष्णा कॉफीचे दोन आनी च्याचो एक मग घेवन थंय पावलो आनी चित्रान उलोवणें अर्द्यार सोडलें.

"ताच्या मरणाची म्हाका जलन जाता, चित्रा." कॉफीचो मग तसोच हातांत धरून नदर म्हजेर रोखून फातिमान चित्राक सांगलें, "ताचे सुवातेर हांव आशिल्लें जाल्यार विपीन असोच दुखी जातासलो –म्हजेखातीर!"

"शट अप, फातिमा!" म्हजे तोंडसून उतर फुटलें. फुडें सुचनासून हांवें च्याचो मग ओंठांक लायलो.

"पुस्तक कसलें?" कॉफीचो मग सकयल दवरून चित्रान हात फुडें केलो.

"सारामागोचें ब्लाइण्डनेस."

"वाचलां हांवें." चित्रान पुस्तक परतें दिवन म्हळें, "खूब सुंदर आनी खूब अस्वस्थ करपी. मनशांचे गूण, दुर्गूण, हेट, ग्रीड, कम्पॅशन,... ह्या पुस्तकांत तुका तरेकवार वृत्ती-प्रवृत्ती दिसतल्यो. तातूंत तूं आसा, फातिमा आसा, तुजी मां आसा. हांवूय दिसतलें. विशेश म्हळ्यार संवसारीक महामारी उपरासल्यार मनीस कसो मनीसपणान आनी सुवार्थान वागता तें होलमता."

"तसलें कांय घडना जाल्यार पुरो गो बाये." फातिमान काळजार हात दवरून म्हळें.

"तुज्या आनी म्हज्या हातांत आसा?" चित्रान म्हळें.

वचपाक उठलीं तेन्ना फातिमान म्हळें, "कालचें सेलेब्रेशन कॅन्सल न्हय आं. पोस्टपोन्ड. 'आंबील' आमची वाट पळयता. केन्ना मेळुंया तें आतां तूं सांग."

तीं येवन गेलीं. माथ्या वयलीं कुपां वचून मळब नितळ जालें.

डॅडी वचत पसून व्हडलो मामा पंद्रशींतल्यान एक तरी फावट मारूंक लागला. पणजेंत काम आसलें म्हणटकच जेवणाक आमगेर. डॅडी मेलो म्हूण हुस्क्या मेकळो येता काय कृष्णा रांदता तें बरें लागता म्हूण येता, जाण कोण! भयणीच्या वर्तमानाचो आनी भाच्याच्या भविश्याचो मामाक चडच हुसको.

भूस मारून धेंकर दीत मामा मांक वांगडा घेवन म्हजे कुडींत आयलो तेन्नाच म्हाका खंय कुचकुचता तें कळ्ळें.

"ते पयशे सुगूर दवरल्यात हांवें. तूं हुसको करशी म्हूण सांगतां." हांवें तागेले काम सोपें केलें.

"हुसको आसाच रे, पूण तो म्हजो न्हय! तुगेले आवयल्या वखदांचो, तुज्या शिक्षणाचो –"

"मेजून घेतल्यात हांवें. तोय हुसको नाका तुका."

"कितले आसात?"

"खूब!"

"म्हळ्यार कितलेशे?" ताणें प्रयत्न करूनूय तागेली उमळशीक वाऱ्यार पडलीच.

"मेजल्यात ते धा लाख तीस हजार –"

"म्हटल्यार – आनिकूय उरल्यात?"

“हय तर. अर्दे लेगीत जाले नात. आसतले आनीक पंदरा–वीस तरी.”

मामाल्या तोंडाक लाळ सुटिल्ली लिपली ना.

“बँकेंत कितले तें विचारचो ना? तेरा काय बावीस याद जायना.”

“लाख?” मांन विचारून मामालें काम सोपें केलें.

“आनी इन्शुरन्साचे कितले येतले तें सांगूं?”

“कितले?”

हांवें बोटांनी हिशोब करून म्हळें – “गणित बरें ना म्हजें. मागीर सांगल्यार जाता?”

मामा गणमणलो. “म्हाका कित्याक? पूण आवयक सांगूंक जाय न्हय तुवें? तिका बाबडेक कांयच खबर ना...”

“हय गे, मां? तुका जाणा जावंक जाय?”

मां खाकुडली, “तो म्हणटा न्हय–?”

“तिचो अधिकार तो. तेभायर तिचेकडेन हात खर्चाक –”

“आनी डॅडील्या रिणांची खबर आयकुचीं नात तुमी? बँकेची नोटीस आयल्या तेभाशेन –” हांवें बोटां मोडलीं – “अर्बन बँकेकडल्यान पंदरा अदीक कळंतर आनी स्टेट बँकेचे – बारा, तांतले दोन पावयल्यात. तेभायर एल आय सी पॉलिसीचेर काडल्यात ते चडशे बाद जातलेच. एक काम कर मामा – वासुदेवाल्या हॉटेलाची आनी किस्तोदील्या बार्राचेर थोडी उधारी आसा. ती तूं पावोवशी? तितलोच भयणील्या संवसाराक आदार जातलो. चड ना, फकत धा–इकरा हजार –”

“म्हजेकडेन खंयचे रे पैशे? हांव सदांच पादिशेर –”

“तुका खर्चाक जाय जाल्यार सांग –”

फुडलें आयकुपाक मामा रावलो ना.

“फालच्यान चार दीस हांव कामाक येना जाल्यार उपकरता?”

कृष्णान त्या दिसाचीं कामां सोंपोवन वतनां विचारलें.

"शुअर! पूण कित्याक?"

"गांवां वचूंक जाय."

"देवाक काय जात्रेक?"

कृष्णा थोडो वेळ 'सांगू काय नाका' अशा संभ्रमांत उरलो. मागीर ताणें सांगलें, "गांवार दुकळ पडला. लोकांची उपासमार चलल्या. अप्पा म्हणटा आमी वचून जाता तो आदार करूंक जाय तांकां."

शिकपाक दुडू नात म्हूण मेळत तें काम करपी कृष्णा तांकां आनी आदार कितें करतलो? "तुका पैशे जाय?"

"नाका परतो येतकच घडये गरज पडत. अप्पाकडेन आसात ते पैशे घेवन वतलीं आमी. अम्मीन शेजाऱ्यांल्या रेशन कार्डांवयले तांदूळ, गंव बी घेतल्यात तेय व्हरतलीं. आनी हातीन जाता तो आदार. देखून हांव वतां–"

दनपारां बाजारांतसून परततनां वासुदेवान हटकिलो. स्पेशल च्याचो कप हातांत दिवन ताणें म्हळें, "तुज्या रिझल्टाची खबर आयकली आनी खूब बरें दिसलें. तुका आनीक कितें दितलों. ही च्या तितली घे."

च्या खूब बरी लागली.

कृष्णाची खबर सांगतकच वासुदेवान म्हळें, "जांणी स्वता दूख्ख सोंसलां तांकांच दुसऱ्याचें दुख्ख समजता. घेवपांतलें उणाकपण अणभवलां तांकांच दिवपांतलें व्हडपण म्हळ्यार कितें तें कळ्ळां."

"त्या दिसा तुजें बाविल्लें तोंड आमच्यांनी पळोवं नज जाल्लें. आतां कशें दिसता, विपीन?" चित्राल्या आवाजांतलो हुसको म्हाका जाणवले बगर रावलो ना.

"खरें सांगूं? तुमी येवन गेलीं आनी खूब बरें दिसलें."

“म्हजे परस फातिमाकच चड जाणवलें तें. काल फोनार ताणें दोन वळी म्हणून दाखयल्यो. हांवें मागलें म्हूण मागीर वॉटसॅपार धाडल्यो. वाचून दाखोवं? तुका जाणवतले, तें कितलें कम्पॅशनेट तें - आयक आं वाचूनच दाखयतां.

*-रस्में निभाने के लिए सगे बहोत सारे है/ दिल में अंधियारा छाता है, तो दोस्त ही उजियाला बनते हैं'।'*

.

फातिमाल्या उतरांची याद जाली ‘आंबील’ वाट पळयता आमची.’

आतां हांवच तांकां ट्रीट दितलों.

त्या दिसा कृष्णान शुगरलॅस केक केलो. मांक खावंक मेळचो म्हूण. तागेलो रिझल्ट मनोवपाखातीर. 69 पर्सेंट म्हळ्यार ताचेखातीर खूब जाले. कितलो खुशाल जाल्लो.

“आतां फुडलो विचार कितें केला?” हांव जाणां आसलों तरी विचारलें.

“केटरिंगाक वतलों.” कृष्णान केटरिंग कोर्साची खबर काडिल्ली.

“एस एस सीक इतले बरे मार्क घेवन आतां केटरिंग शिकतलो?”

कृष्णा म्हगेल्या प्रस्नान गणमणलो. “स्टार हॉटेलांत कूक जातलो जाल्यार केटरिंग कोर्स करून उपकरचें ना. तूं हॉटेल मॅनेजमेंट कोर्स कर. पयलीं बारावी आनी मागीर डिप्लोमा.”

हांवें खबर काडिल्ली. डिग्री कोर्स बारावे उपरांत तीन वर्सांचो आनी ते खातीर फी चड. सर्टिफिकेट कोर्स आसात. सवाय भितर जाता. पूण तांकां स्कोप थोडो. “ते परस डिप्लोमा कोर्स दोन वर्सांचो कर.”

“पूण फी?”

“फी आसतली दोनूय वर्सांखातीर मेळन देड लाख. पूण तो हुसको

तूं करूं नाका. पयलीं बारावी जावंदी. मन लावन कर अभ्यास."

अशें म्हणून हांवें तीस हजारांचो चेक ताच्या हातांत दिवन सांगलें. "इकरावी-बारावी इतले रकमेंत जातली. मदीं गरज पडल्यार हांव आसांच. पूण व्हडल्या हॉटेलांत कूक जावपाचें तुजें सपन पुर्ण जाल्लें अप्पाक पळोवं दी."

"पूण - मागीर डिप्लोमा खातीर?"

"कांय म्हयन्यां भितर एस एस सी जातलो अशें दिशिल्लें तुका? जालो न्हय पास - तोय बऱ्या मार्कांनी? डिप्लोमाय जातलो."

कृष्णाल्या दोळ्यांतलो हुंवार पळोवपाक हांव थंय रावलों ना.

कृष्णा येत रावलो. मां ताका कामां फर्मायत रावली. रांदपा-करपाचें बरें आसलें. एक दीस पळय जाल्यार मां ताचे कडल्यान पांय चेपून घेता.

कृष्णाक आफोवन हाडलो. इकरावेचे तयारेक लाग म्हूण सांगलें. घरांतली कामां हांव पळयतां म्हळें.

"बाजारांत वतलो जाल्यार मोटे बांगडे मेळ्यार हाड. कृष्णाल्या हातची हुडीद-मेथी बरीऽ जाता."

"हाचे फुडें कृष्णा येवचो ना, मां."

त्या दिसा शीत-कडी-पापडाचेर आमचें भागलें.

चित्रा काणकोणा आसलें. थंय सपसप रेंज मेळना. तरी फोन -

“आयज गरजेन मेळपाक जाय. सांजे पांचांक.”

“गरजेन जाय जाल्यार आतांच मेळुंया.” म्हगेलीं हुतहुतेपणा पळोवन चित्रा हांसलांच आसतलें.

“शाण्या, हांव काणकोणा आसां. आतां भायर सरलां पणजे वचपाक.”

धा मिण्टां पयलींच मिरामार पावलों. जाल्यार बारका पयलींच पनेळ पाविल्लो. “हांव जाणाच आसलें, चित्रान आफयल्यार तूं धा मिण्टां पयलींच येतलो म्हूण.”

उबाळ्याचे दीस जाल्यान गर्दी पडिल्ली लोकांची. सूर्य आजून देडेक हात वयर आशिल्लो. एकेच कडेन उबीं रावचे परस पासयो मारुंया म्हूण आमी फुटपाथारच हेवटेनसून तेवटेन चार पासयो मारल्यो.

“आमची सावळी पळयल्या कशी एकमेकांत भरसून गेल्या! खंयची कोणाली तेंच कळना.” तरी तिणें शायरी म्हणपाक सुरवात केली ना.

म्हजी नदर घडयाळ पळयताली. चित्राक कळाव सो जालो?

“चित्रा बेगीन येना जाल्यार पुरो.” फातिमा उलयलें. “तितलेंच तुजे वांगडा एकलें चलूंक मेळटलें.”

मुखारच रिक्षा थारली. तकली भायर काडून चित्रान म्हळें, “विपीन

हांगा गर्दी दिसता. आमी दोनापावला या. येयात.''

फातिमान ताळी मारली. बसनाफुडें चित्रान म्हळें, ''दोन चलयां मर्दी नाका म्हूण तो कडेक बसला. तुका लागून न्हय, कळ्ळें?''

हांगाय गर्देन फाट सोडली ना. पूण तेमका सकयल बसूंक मेळ्ळें.

''सस्पेन्स कित्याक वाडयता?'' हांवें अधीरताय दाखयली.

चित्रा उठलें. आमच्या मुखार उबें रावलें. आतां हें लॅक्चर दितलें अशें दिसतनाच ताणें सुरवात केली. ''हांव मुंबय वतां. फायन आर्ट शिकूंक. रहेजा इन्स्टिट्युटांत -सोमारा इंटरव्ह्यूचो कॉल आयला. आयतारा वतलें.''

सुर्य बुडचे पयलींच कुपांआड गेलो. दमळ जालें आनी जीव घुसमट्टा काय जालो. हांव उठलों.

''कितें जालें?''चित्रान विचारलें.

''च्या जाय.'' हांवें पावल उकललें. फाटोफाट आनीक चार पावलां आयलीं.

''विपीनान कांयच रिक्शन दिलें ना.'' चित्रान म्हळें? काय विचारलें?

''तुमने कभी किसीकी जान को, जाते हुए देखा है? ये देखो मुझसे रूठकर मेरी जान जा रही है.'' गर्देची पर्वा करिनासतना फातिमान सुरांत म्हळें.

''तूं गायता बरें गो. पूण ताका तिडावपाक म्हणटा जाल्यार तें मात सारकें न्हय आं!''

दोन कॉफी, एक च्या, मोनेळ, तेरा मिणटां. आनी मागीर आडवेळो पावस.

आमी तिगांय भितरच शिरकलीं. आयले पयलेय भितर सरले. गर्दी. आनी तकलेंत विचारांची.

''एऽ, म्हाका कूंय आयल्या हो खीण कॅन्व्हासाचेर चित्रीत करपाची. गर्दी तकल्यांची, तकल्यांनी किडी-मुयो, एके तकलेंतल्यान मळबांत झपय मारपी धवोफुल्ल पारवो आनी चार दोळ्यांचीं उदास नखेत्रां. काऽश!

हाताकडेन कॅन्व्हास आशिल्लो...''

''ती कूंय सांबाळून व्हर तुगेल्या कॅन्व्हासा खातीर. वतनां पोसोभर आमोरीय व्हर आनी दोळेभर हो आडवेळो पावसूय. उपकाराक पडटलो- आमचें दोगांयचें चित्र काडटलें तेन्ना.'' फातिमान पचकायलें.

''तुमचें चित्र कित्याक जाय म्हाका? तुमकां घेवनच वतलें हांव वांगडा- काळजांत.''

हांव मात वग्गी. उलयनच दिसलें ना कांय.

पावस उलगलो सो दिसलो म्हूण आमी भायर आयलीं. पूण बारीक शेनपाचो थारूंक नासलो. हांवें लेंस काडलो आनी चित्राच्या माथ्यार पातलायलो.

''नाका रे, म्हाका भिजूंक आवडटा.'' चित्रान म्हळें. वाटच पळयिल्ले वरी फातिमान तो झोमून घेतलो आनी आपले तकलेर दवरलो.

''तूं तुगेली ओडणी घे माथ्यार.'' अशें म्हणून हांवें लेंस काडलो.

''जावं त्या निमतान तरी तूं उलयलो- ॲट लास्ट!''

''चित्रा, थंडी जावपाक दिवं नाका. तुका मुंबय वचचें आसा. परतीं या आमी?''

चित्रान 'नाका' म्हळें.

बसपाक मेळ्ळें ना. सगलेंच ओलें जाल्लें. तरी चार पासयो मारल्यो. वाटभर फकत चित्राच उलयलें. ''म्हाका जे. जे. स्कूल जाय आसले. पूण तांची एंट्रन्स एक्झाम बारावे पयलींच आसली. बारावेचीच खातरी नासली म्हूण हांवें दिवंकच नासली. आतां मात जुळून आयलें....'' मागीर पप्पाक कसो मनयलो, मुंबय आशिल्लो पप्पालो फ्लॅट कसो ऐन वेळार खाली जावन मेळ्ळो, थंय रावपाची वेवस्था कशी केली, इंटरव्ह्यू वेळार दाखोवपाक वेंचीक चित्रां कशीं पॅक करून घेतलीं, त्या चित्रांत म्हजेंय घेतिल्लें खंय....

''म्हजें शें?''

''तुवें मोना लिसाचें चित्र पळयलां? तिचें स्मायल कुवाडें घालता.

तशेच चित्रांतले तुजे दोळे - हांसतात काय उदास, ब्लँक काय मिनिंगफूल- कुवाडेंच घालतात. आय ॲम सॉरी, हांव म्हाका लेआनार्डो द व्हिन्सी कडेन कंपॅअर करना आं!''

'सोंपयात आतां' म्हणिल्लेवरी पावस पर्थून सुरू जालो. वरां कळ्ळींच नात. रिक्षा केली. म्हाका मेरशे सोडपाची तांची तयारी आसली. पूण हांवें बायक मिरामार दवरिल्ली. आयतारा मेळुंया म्हूण सांगून म्हाका मिरामार सोडून रिक्षा गेली.

पावस वाडलो म्हूण थोडो वेळ आडोसाक रावलों. आठ जावन गेल्लीं. मांक हांव येवन रांदतां म्हूण सांगिल्लें. भुकेल्ली मां दोळ्यांमुखार आयली. तसोच पावसांत भायर सरलों. वाटेर नियाझा कडल्यान मां खातीर बिर्याणी घेतली. घरा पावतासर णव जावपाक आयलीं. पळय जाल्यार, मां जेवंक बशिल्ली. अजाप!

''तुका वेळ जाता म्हूण हांवेंच रांदलें.''

बरें जालें, एक कळ्ळें की हांव घरा नासल्यार मां रांदून जेवंक शकता.

आयतारा चित्रा कोंकण कन्याचेर मडगांवसून भायर सरपाचें. सकाळींच फोन आयलो. ''कसो वतलो?'' बायक घेवन वचपाचें घुंवतालें तकलेंत पूण हो पनेळ फाटल्यान बांदून वचपाचें नासलें म्हाका. ''कांय प्लॅन करूंक ना आजून.''

''बायकार जाल्यार हांव आसां पिलियन.''

''बायक व्हरचों ना.''

''तशें जाल्यार - गाडी संक सुट्टली. चित्रान सांगलां, आपूण बेगीन पावतां म्हूण स्टेशनार. आमी साडे तिनांक कदंबाच्या शटल काउण्टराकडेन मेळुंया.''

''नाका चारांक.''

''डन. चारांक पावतां. तिकेटी काडून रावतां.''

म्हाका दिशिल्लें हें वाटभर किटकिटत तिडलायत रावतलें. पूण तशें जालें ना. इतलें मंद आसलें की हांवेंच विचारलें, ''आयज इतलें वगी कशें?''

मागीर ताणें चित्राविशीं सांगूंक सुरवात केली. आपूण कशें एकमुळें रावतालें. आपणालो भूतकाळ कसो आपणांक भेश्टायतालो. चले सोडच चलयांकडेन लेगीत इश्टागत करिनासलें. एक दीस चित्रान कशें आपणांक विचारलें, मोबायलाचेर एक फोटो काडूं? नाका म्हळें तेन्ना ताणें जिद्दीन म्हाका आडायलें. 'तूं इतलें सुंदर दिसता जाल्यार तुज्या दोळ्यांत इतली उदासी कित्याक?' मागीर ताणेंच सांगलें ताका चित्रां काडपाची आवड म्हूण. हांव इतलें इन्ट्रोव्हर्ट जाल्लें. चित्रान म्हाका उलोवपाक शिकयलें. म्हजी भिरांत म्हजो संकोच सोंपोवपाक चित्रा कारण. ताका पेंटिंगाची आनी वाचनाची गोडी, म्हाका शायरीची आनी डान्साची. हांवें केन्ना चवगांमदीं कविता म्हणली ना वा नाचलेंय ना. कविता म्हजे डायरी खातीर आनी डान्स म्हजे कुडीं भितरल्या म्हज्या हारश्याखातीर. चित्रान म्हजें भुरगेपण जागयलें. तोंडार हांसो फुलयलो. कॉन्फिडन्स दिलो. हांव हरशीं ताका सिनिअर. पूण म्हाका ताची सांवळी जावन रावपाक आवडूंक लागलें...

थोडो वेळ रावन चित्रा कडेन उलयिल्लेवरी पुटपुटलें, ''हाचे पयलींय तूं सुटयेंत घरा वतालें, पूण तेन्ना खातरी आसताली तूं रोखडें परतें येतलें. येतकच मेळटालीं तेन्ना खोशी दोट्टी जाताली. आतां... सब सूना सूना लगता है.'' इतलें उलोवन फातिमा पर्थून मोनें जालें.... म्हज्या सभावांत नासुनूय हांवें ताचो हात हातांत घेतलो. ते बराबर ताचे दोनूय दोळे भरून आयले. लेंस दोळ्यांक लायत तें भायर पळयत बसलें.

चित्राविशीं फातिमान सांगलें आनी चित्राविशींची म्हजी भावना अदीक गाड जाली. म्हजो कोणण इश्ट मित्र ना तरी एक चित्रा आसा तें एकलेंच पुरो म्हज्या काळजाक थाकाय दिवपाक हाची जाण जाली.

स्टेशनार पाव जाल्यार गाडी प्लॅटफॉर्मार लागची आसली, पूण चित्रा पप्पावांगडा पयलींच हाजीर आसलें. पप्पा आदलेवरी फकाणांच्या मुडांत दिसलो ना. इलो गुमसूमच दिसलो. ''तूं चित्रा वांगडा आशिल्लें जाल्यार म्हाका तितलो हुसको दिसचो नासलो गो फातिमा!''

''पप्पा, आनी म्हजें कितें? चित्रा म्हजेवांगडा आसचें ना हाचो हुसको मात कोणाकच ना?-'' फातिमान रडकुरें जावन म्हळें.

''अशें कित्याक म्हणटा गो?'' चित्रान धेंगसो घालो. ते बराबर फातिमान दोळ्यांक लेंस लायलो. ''आतां हें पुरो आं! तुमी कितें म्हाका रडोवपाक आयल्यांत? आनी पप्पा, मुंबय आतां आदलेवरी पयस उरिल्ली ना. हांव पणजे आसलें कितें आनी मुंबय आसलें कितें, सारकेंच न्हय? हुसको म्हजो तुवें करपाचो न्हय, तुजो हांवें करपाचो, तें हांव निश्ठूर जावन वतां पळय.''

''हुसको करना गो हांव, तो जाता.'' पप्पान इलें तोंड करून म्हळें.

''म्हाका कोणाकच दुखोवन वचपाचें ना. वचूं नाका म्हूण सांग, आतांच या परतीं घरा.'' चित्रान ठामपणान सांगलें.

''तुका वचूं नाका कोणे म्हळां?'' अचकीत फातिमान विचारलें.

''हांव जाणां,'' चित्रान ताच्या दोळ्यांत दोळो घालून म्हळें, ''तूं म्हाका राव म्हणचें ना.'' आनी म्हजे कडेन पळयत आवाज ल्हवू करून फकत म्हाका आनी फातिमाक आयकूंक येत अशें म्हळें, ''कारण तुका हांव राविल्लें जाय तेपरस हांव गेल्लें जाय. रायट?''

''इतलें सुवार्थी हांव?'' अशें म्हणून फातिमान ताका वेंग मारली.

गाडी प्लॅटफॉर्मार येवंक लागली. पप्पा सामान उकलपाचे तयारेक लागलो. फातिमा आजून चित्राचे वेंगेंत आसलें. ताचे फाटी वयल्यान दोळ्यांनीच चित्रान म्हाका बगलेक आफयलो. ''आय नीड अ वर्ड फ्रॉम यू, विपीन. म्हजे फाटल्यान तूं केन्नाच फातिमाक टाळचो ना.''

''अशें कित्याक दिसता तुका? हांव ताका कित्याक टाळटलों?''

फातिमा सडसडीत चित्राचे वेंगेंतलें भायर सरलें आनी चित्राच्या

ओंठार बोट दवरलें.

"फातिमाक दिसता तशें-" चित्रान ताचो हात कडेक काडून सांगलें.

गाडी थारली. पप्पान ताचें बॅग उकललें तशें चित्राय सामान घेवन डब्यांत भितर सरलें. थोडच्या वेळान पप्पा भायर आयलो. एसी डब्याच्या जनेलाच्यो कांचो काळ्यो आशिल्ल्यान भितरलें दिश्टी पडनासलें. हांवच डब्यांत भितर सरलों. चित्रा सामान जाग्यार घालतालें. म्हाका पळोवन म्हळें, "आरे, हांवच येतासलें भायर. एक मिनीटभर आमी दोळ्यांत दोळे घालून थंयच उबीं उरलीं.

"चल, गाडी सुटपाची जाली." चित्रान म्हळें. म्हाका कांय उलयनच दिसलें ना.

डब्यांतल्यान भायर सर जाल्यार फातिमा पप्पाचे कुशींत रिगून दोळ्यांतले म्हादयेक वाट करून दितालें.

परतीचे वाटेर फातिमा कांयच उलयलें ना. घुसमटत रावलें. कदंब बस स्टँडार देंवलीं तेन्नाय ताचे दोळे भरिल्लेच आशिल्ले.

"हांव घरा पावोवं तुका?" रातीचीं साडेसात जावन गेल्लीं.

फातिमान मानेनच 'नाका' म्हळें आनी रिक्षा थांबयली. बसचे पयलीं म्हजो हात ओडून घट धरलो, "चित्रा ना म्हूण तूं म्हाका मेळपाचें बंद करूं नाका. प्लीज."

डब्यांतले चित्राले नुलोवपी दोळे आनी फातिमालो करूण स्वर रातभर म्हज्या उकत्या दोळ्यांमुखार खो खो खेळत रावले.

“तुगेलो सर मेळिल्लो. तुजी खाबर घेतालो.” कृष्णान येनाफुडें सांगलें.

येतनां धवी भाजी घेवन आयिल्लो, “अम्मीन एक बांदी रोयिल्ली. तिणेंच सांगलें बाबूक व्हरून दी म्हूण.”

भाजी पळोवन मांन मात तोंड वांकडें केलें. “कोडसार लागता ती. तुमी फ्लावर बी कांय रोयलो ना?”

हांवें म्हळें, “तिका नाका जाल्यार बरें जालें. हांव खातलों. म्हाका आवडटा ती.”

कृष्णा मुजरत सांगूंक आयिल्लो. ॲडमिशन घेतलें म्हूण. गरजेक जाय तीं पुस्तकांय घेतिल्लीं. “कॉलेज सुरू जाय सर दीस आसात. कितेंय काम आसल्यार सांग.”

“कांयच गरज ना. तूं आयल्यार आमची कामाची संवय मोडटली. ते परस असोच सुटयेंत येवन मेळून वच. डिफिकल्टी आसल्यार योच.”

कृष्णा गेलो. पूण मार्टीनसरा विशीं सांगून गेलो. खरें म्हळ्यार हांवें ताची खाबर घेवपाची. आजूच वचूं येता.

सदांच हात हालयतच गेलां सरागेर. येतनां मात भरभरून हाडलां- तकलेंत, काळजांत, हातांत. पूण आयज हांव वतलों तो जापेक. अशा

वेळार कितें घेवन वचपाचें? डॅडी मेल्लो तेन्ना मार्टीनसर जापेक आयिल्लो. येतना पुस्तक हाडून दिल्लें. हांव कितें दितलों? मार्टीनसर म्हळ्यार भरिल्लो कळसो. तातूंत म्हगेलो एक थेंबो घालूंक येतालो. घालो जाल्यार एक थेंबो भायर पडटलो. पडटलो तो अदीक मोलाचो आसतलो. देखून- म्हजेकडेन सराक दिवपासारकें कांयच ना. घेवपासारकें खूब. भुजवण दिवं येता. पूण ती तरी ताका जाय व्हय? ज्ञानी मनीस तो. येन्नादर पचयलां आसतलें तें दुख्ख. आनी मॅडम आग्नेस! तिका कशी जाप करूं? तिचे यादीनच सॉर्पोतेल ताळ्याकडेन चंरचरपाक लागलें. फाटले खेपेक स्टॅलाक पळयिल्लें तेन्ना ताच्या काळजांतलो उमेदीचो फेणेर भरून ओततालो तो पळयिल्लो. ताळये ताळयेर गच्च फुलांनीं भरिल्ले बटमोगरेचें झाड कशें दिशिल्लें तेन्ना. कितलें बावून गेलां आसतलें! स्टॅलाक भुजवणेचो हात दिवपाचें येवजूनच म्हाका फाटल्या पायांनी धांव मारची शें दिसूंक लागलें.

पूण प्रसंगच आयलो ना. सर घराच आसलो. ताणें म्हाका सालांत व्हरून बसयलो. मॅडम भायर आयली ना. मागीर सरानच सांगलें, "स्टॅला गेलें कलकत्त्याक - माद्रि जावपाक!" रामिरोचें दुख्ख विसरायेर घालपाक ताणें उपाय सोदून काडिल्लो. मदर तेरेझा संप्रदायांत प्रवेश घेवपाचो. न्हवऱ्याचें दुख्ख मनयत जीण घालोवचे परस दीन दुबळ्यांची सेवा करपाचो.

मन किण्ण जालें. रामिरोक आर्गां दिवपाक स्टॅला आतां दुबळ्यांची सेवा करीत जिणेचें भांगर करतलें. "नन जावन वावुरपाचो निर्णय ताचोच-" सरान सांगलें.

धूव कोणाची? मार्टीनसर सांताचे पदवेक पाविल्लेवरी खीणभर दिसलें. पूण सांतांचेय पांय मातयेचेच आसतात हेंय रोखडेच कळ्ळें- "कितलीं खोशी आसललीं आमी! दिसललें रामिरो सारको गुणेस्त जांवय हाडटेलीं आनी पूत जोडटेलीं. पूण- आतां धुवूय गेली, पयस." मागीर एक व्हड उस्वास सोडून सरान म्हळें, "हांवें मरणाचो केन्ना हुसको केलो ना. केलो तो जिणेचो. रामिरो धपक्याक सोंपलो. ताचें दूख आहाच. पूण आय नो,

टायम वील हील इट. हुसको दिसता तो स्टॅलाचो. जिणेंत तेका आनीक कितेंय सोंसचें पडना जाल्यार पुरो -''

सराचो निरोप घेवन भायर आयलों तेन्नाच तांच्या पोरसांतल्या झाडाचे ताळये वयल्यान एक सुकणें उडून गेलें. ती ताळी कितलो वेळ मेरेन हालत उरली. ती म्हाका निरोप दिताली काय त्या उडून गेल्ल्या सवण्याक?

चित्रालो फोन- ''तूं कॉलेजीक कित्याक गेलो ना?''

तें मुंबय पाविल्ल्याक हो दुसरो. पयलो फोन आयिल्लो तो आपलो इण्टरव्ह्यू कसो जालो, आपणांली चित्रां तांकां कशीं आवडलीं, बांद्र्याची रहेजा इन्स्टिटय़ूट आपणांक कशी आवडली ह्योच खबरी सांगपाक. ते भायर इंग्लीश लिटरेचर विशय आशिल्ल्यान तें अदिकच खूश आसलें. 'आजून मनासारकी फ्रॅण्डशीप मात जावंक ना कोणाकडेन.' ताणें खंत उक्तायिल्ली, तेन्ना ताका फुडाराक मेळपाची शक्यताय आशिल्ल्या त्या इश्टाची नसाय म्हाका दिसली- काय म्हाका बेठेंच तशें दिसलें?

''काल कॉलेज सुरू जालें- विसरलो?''

''वचून कितें करपाचें? टायम टेबल पळोवन येवपाचें? आनी ओरिएन्टेशन पिरीयडस ची गरज ना म्हाका.''

''आनीक कोण तरी तुजी वाट पळयता हें कशें कळना तुका?''

हांव वग्गी.

''आय डी कार्ड केलें?''

''हय.''

''तें लेगीत फातिमान याद करतकच. रायट?'' चित्राक सगलो रिपोर्ट पावला तर!

''निदान फातिमाक मेळपाक तरी वच. ताका कॉलेजींत आनीक कोण्ण फ्रॅण्ड ना, जाणा मरे तूं?''

“आतां कर म्हूण सांग ताका.”

थोडो वेळ वग्गी रावलें चित्रा.

“तुवें आयकल्या ती म्हणणी- दुदान जीब हुलपतकच ताकूय फुंकून पियेवचें पडटा.” आनी मागीर म्हळें, “ताका दुदूय नाका आनी ताकूय नाका जालां आतां.”

चित्रान ताका सुलूस दिल्लीच. भुरगेपणांत ताचेर जाल्ले आगळिकेक लागून तें खंय जीव दिवपाचें येवजितालें. पूण मागीर ताणें शायरींत आनी कवितेंत मन रमयलें. टिव्हीन खंय ताका नाचूंक शिकयलें. स्कूल लेगीत सोडून बशिल्लें. पूण असलमान खंय फुसलायलें, आगरो धरलो तेन्ना तयार जाल्लें. चित्रा मेळसर आपूण कशें एकमुळें उरिल्लें तें फातिमानच तर सांगिल्लें म्हाका.

“हांव मुंबय वतां म्हळें तेन्नाच तें लागिल्लें- ‘तशें जाल्यार हांवूय कॉलेज सोडटां’. मागीर तूं एकलो पडटलो म्हळें तेन्ना तें शांत जालें. आयकता मरे तूं?”

“अं-”

“आतांच फोन कर ताका.”

चित्राचो फोन येवन गेलो म्हणटकूच तें पयस दिगंतरा पावलां हाची जाण प्रकर्शान जाता. किचनांत गेलों आनी मग भरून च्या घेतली.

निमाणो घोंट सोंपचे पयलींच फोन आयलो.

“थँक्यू विपीन, हांव जिखलें पैज.”

“कसली पैज?”

“आतांच हांवें चित्राकडेन मारिल्ली. तें सांगतालें, दोन मिण्टां भितर तुजो फोन येतलो म्हूण म्हाका. हांवें म्हळें, धा मिण्टां वाट पळयतलें. आयलो ना जाल्यार हाचे फुडें विपीनाचो ताका योसर ताणें तुका करप ना.”

“करपाचोच आसलों.” हांव फुतफुतलों, “क्लास सोंपली?”

“खबर ना. हें पळय, हांव कँटिनांत बसलां एक कॉफी एक च्या

घेवन- कॉफीचो मग शरमिंदगेन अर्द जाला आनी च्याचो मग ताका तिडायता- वाट चुकला ताची वाट पळयता तो पिसो म्हणटा.''

''थंयच बस. थंड जाल्यारूय पितलों. बारा मिण्टां दी म्हाका.''

शाळेंतल्यान धावी जावन इकरावेक पाविल्लों तेन्ना थंय जुळोवन घेवपाक जायत काय असो एक दुबाव सुर्वेक आशिल्लो. पूण हायर सेकंडरीचीं आनी त्या विद्यार्थ्यांची दुबळेपणां हीच म्हजी तड मारपाची शक्त जाल्ली. आनी आतां कॉलेजींत पावलों तेन्ना इकरावी-बारावेक ज्युनिअर कॉलेज वा हायर सेकंडरी कित्याक म्हणटात तें होलमलें.

पयल्या दिसा क्लासीक ना वचपी हांव एकलोच नाशिल्लों. मागीर कळ्ळें बंक बहाद्दरच चड. एक एक दिश्टावो जातालो आनी हांव भितरसून हादरतालों. अर्दवयर विद्यार्थी वेसन म्हूण वा मजा म्हूण सिगरेट ओडटाले. खूब जाणांक खंय रातीचें पार्टिंइंग लागतालें. एक दीस तर हांवें कॅम्पसांतच दोगी चलयांक धुंवर सोडटनां पळयल्यो. त्या दिसा पयलेच खेपेक गाड्यार दोन सिगरेटी घेतल्यो. घरा वचून ओंठांक लायल्यो. फस्का काडी मारून धुंवर ओडलो मात - अर्दवर खांकत उरलों. मागीर कळ्ळें लेट पार्टेक वचून बिअर, वायन घेवपी चलयोय आमचे कॉलेजींत आसात. हांकां विचारपी तांगेले डॅडी नात काय घराकडेन?

''ते कितें डॅडीक सांगून करतात हें सगलें?'' फातिमान म्हाका विचारलें, ''आनी तुका दिसता आमचे हायर सेकंडरींतली भुरगीं कितें करनासलीं हें? थोडीं आसलीं आनी लिपून करतालीं, इतलेंच.''

व्हाळांत पेंवपी थोडीं नुसतीं न्हंयेतूय पाविल्लीं. अमृत, सर्वेश, ब्रॅण्डा, सुरज- थोडीं वळखीचीं, थोडी अनवळखी. फ्रॅशर्स पार्टी आयोजीत जाली तेन्ना फुडाकार घेवपी सिनियर्स. त्या निमतान फातिमाय आयलें. नव्या भुरग्यांक कॉलेजीच्या प्रवाहांत वावुरपाची संवकळ जावची म्हूण

ही पार्टी. ताणींच कार्यावळ आंखली. ''थीम सांगात.'' एस. वायच्याच कोणें तरी विचारलें, ''कोण आसा तुमचेमदीं सुपर हिरो?'' फातिमा नदर रोखून म्हजेच कडेन पळयतालें. अमृतान तें नोट केले जावंये, ''हो पळय आमचो फॅण्टम आसा.'' ताणें म्हजेकडेन बोट दाखोवन म्हळें. सगळ्यांनी ताळयो मारल्यो. म्हाका पळून वचचें शें दिसलें. बॅग उकललें. फाटीक लायत दारावटेन गेलों. फातिमान आडायलो– ''प्लीज, बस. तुवें कांयच करपाचें ना''.

मागीर तांणीच कार्यावळ थारायली. सगल्यांनीं आपापणाक जाय तशे सुपर हिरोच्या भेसांत येवपाचें. आनी जण एकल्यान आपणांली कला पेश करपाची. डान्स, साँग, ज्योक, फीट... कितेंय. म्हाका दिशिल्लें फातिमा डान्स करतलें वा शायरी म्हणटलें. पूण ना. मात कोणाकूय मार्गदर्शन जाय जाल्यार दोन सिनियरांचीं नांवां सांगलीं तातूंत फातिमा आसलें.

पार्टे दिसा हांव कॉलेजीकच गेलों ना.

''म्हाका डान्स करपाची इत्सा आसली. पूण हांवें केलो ना. कित्याक जाणा? हांव जाणा आसलें तूं बे मारतलो म्हूण.''

दोगांयलें टायमिंग वेगळें आशिल्ल्यान सपसप मेळप जाय नासलें. फाटल्या वर्सा चित्राक आनी फातिमाक मेळ्ळेबगर सूख लागनाशिल्लें. आतांय खूब याद येताली. सामकोच एकोलयो जातालों तेन्ना चित्राक फोन करतालों. पयलीं पुर्शी मेळटालीं तेन्ना वरांची वरां कशी उलगलीं कळच नासलें. फोन केल्यार पांच, धा, वीस मिण्टांनींच सोंपतालें. पूण फातिमान थाकाय दिली. तागेले क्लास सकाळच्या आदेसाचे. म्हगेले दनपारां दोनाक सुरू. तें म्हाका बेगीन आफयतालें. म्हणटकच म्हजे क्लास सुरू जावचे पयलीं आमकां अर्देवर सारूंक मेळटालें. केन्ना केन्ना म्हाका घरांतलीं कामां आटापून पावपाक कळाव जातालो तेन्ना तें म्हगेली क्लास सुटसर लायब्ररींत बसतालें. एक दीस म्हळें हांवें–

''जावं! त्या निमतान तुजो अभ्यास बरो जाता–''

"करॅक्ट!" ताणें बॅगांतलें पुस्तक दाखोवन म्हळें. "मिर्झा गालीब! तूं जाणा म्हाका तो कित्याक आवडटा?"

"इष्क मुगो? तूं आनी कितें वाचतलें?"

फातिमा दुखावलें जावंये. "दर्द का शायर है गालिब. म्हाका खूब आवडटा. तुकाय आवडटलो."

"तुज्यांत आनी म्हज्यांत फरक आसा."

"चड ना. कॉमन चड आसा."

"कितें तें?"

"दर्द. हांव तें काळजांत लिपयतां. तूं तें विसरूंक सोदता–"

ते राती हांवें इंटरनॅट सर्च मारलो. गझल वाचल्यो, रुबाई आनी शायरी वाचली. मागीर जागरण करून मिर्झा गालीब हो सिनेमाय पळयलो आनी ॲमेझोनचेर वचून 'मिर्झा गालीब: एक स्वानही मंजूरनामा' हें गुलजार लिखीत पुस्तक मागयलें.

फुडल्या सप्तकांत फातिमा मेळ्ळें तेन्ना कबुलीनामा दिलो– ताणें गालिब हो दर्दका शायर म्हणिल्लें तें खरें म्हूण.

"आनी आमचे मदलो कॉमन फॅक्टर 'दर्द' म्हणिल्लें तें?"

खीण भर रावन हांवें सांगले– "जायत."

एक दीस कॉलेज कॅम्पसांत सर्वेश मेळ्ळो. "परोब, तुजेकडेन थोडें उलोवंक जाय." म्हाका दिसलें नमशीकारा विशीं वा अभ्यासा विशीं उलोवंक सोदता.

पूण पळय जाल्यार त त प प करीत ताणें जी गजाल सांगली ती अजापांची. "तूं म्हगेलो फ्रॅण्ड म्हूण सांगतां. कोण्णाक सांगूं नाका.... तुका स्टफ जाय? म्हज्यान दिवं येता. कोणाक कळचें ना." तो खांकुडटा ताचे वयल्यान अदमास आयलो. पूण असो गरजेक आयिल्लेवरी हे दलालींत कित्याक पडलो?

“‘‘तुका फायदो कितें?’’ म्हज्या प्रस्नाक जाप दितनां तो घुसपलो. सांगचें ना सांगचें अशे कातरेंत सांपडलो.

‘‘कमिशन?’’ ताचेर तकलेनच न्हयकारलो.

‘‘तुका जाय हांवें स्टफ घेतिल्लो जाल्यार घेतां. तुका तातुंतल्यान फायदो आसा जाल्यार. पूण म्हाका खरें खरें सांग. तूं केन्नाच्यान घेता?’’

भर दनपारच्या पारार हांव सर्वेशाक घेवन मिरामार वेळेर गेलों. ताणें सांगलें तें आयकून ताची काकूळट दिसली. आठ दीस फाटीं खंय तागेले बायकाच्या टूल बॉक्सांत कोणेंतरी एक पाकीट दवरलें. तें कितें तें लेगीत सर्वेशाक खबर नासली. तो बायक काडटनां अकस्मात खंय सिव्हील कपड्यांत दोग जाण पोलीस आयले. तागेलीं बोल्सां तपाशिल्ले भाशेन केलीं. ‘स्टफ खंय आसा?’ तांणी विचारलें. तो घुसपलो. मागीर तांणी टूल बॉक्स उगडूंक लायलें जाल्यार तातूंत तें पाकीट मेळ्ळें. ‘चल पोलीस स्टेशनार. हरयाळी घेवन भोंवता?’ म्हणसर कॉलेजींतलोच एक सिनियर थंय आयलो आनी मध्यस्थी केली. पांयशीं दिवन मेटयलें. पूण मुश्तफान सांगलें खंय जर ताणें हरयाळी खातीर आनीक पांच विद्यार्थी गिरायकां हाडलीं नात जाल्यार ते परतेय तुजे वाटेक वतले.

‘‘तूं भियेता?’’

‘‘हय.’’

‘‘कोण ते?’’

‘‘हांव वळखना.’’

‘‘मुश्तफा कोण?’’

‘‘सिनियर खंय तो. टी. वाय. चो आसुंये.’’

‘‘पळयल्यार वळखतलो मरे? दाखय म्हाका.’’

सर्वेश चडच भियेलो. ‘‘म्हाका मागीर त्रास दितलो तो. डॅडीक सांगतलो.’’ थातारून ताका घरा धाडलो.

फातिमाक फोन केलो, ‘‘तूं मुश्तफा म्हणटात त्या सिनियराक वळखता?’’

“ना. त्या नांवाचो कोण सिनियर आसल्यार म्हाका खबर ना. पूण एक मुश्तफा हांगा कॅम्पसांत येता खंय. खूब मस्तो आनी भुरग्यांक ड्रग्स बी सप्लाय करता अशें सेलिना बी तीं उलयतना आयकलां. कित्याक?” ताका समादानकारक जाप दिवन थंड केलें.

दुसऱ्या दिसा अमृताक मेळ्ळों. ताच्या कानांर ही खबर घाली. अमृत मुश्तफाक वळखतालो जावंये.

“तुजे वाटेक बी गेलो ना मरे?” ताणें विचारलें.

मागीर ताणेंच सांगलें, “कीड ती मुश्तफा म्हळ्यार. पूण– हांव पळयतां तें. ताका कसो ताळ्यार हाडपाचो ते म्हजेर सोंपय. सर्वेशाक सांग तो ताचे वाटेक गेल्यार म्हाका मेळ म्हूण.”

अमृत ल्हवु ल्हवू नेता जावपाची वाट चलता म्हणपाचें ताणेंच सांगलें. काउन्सील, जी. एस., युवा नेता, रुलींग पार्टी..... ‘तुजो सपोर्ट जाय आं म्हाका!’

त्या दिसाच्यान सर्वेशान बायक दवरपाचो जागोच बदललो.

15 ऑगश्टाक झेंडा वंदन जालें. आनीक कितेंय आसल्यार घडये हांव वचचों नासलों. पळय जाल्यार साडे तीन बडकां. टिचिंग स्टाफच चड आसलो. फातिमा मेळ्ळें.

“जावं बाबा! तूं तरी आयलो.” तिणें तशें कित्याक म्हळें तेंच फातिमान मागीर कॉफी घेतना स्पश्ट केलें, “आमकां हें स्वातंत्र्य आयतें मेळ्ळां. ताचे मोल जांकां कळूंक ना ते दुर्भागी.”

म्हाका हांव फ्लॅग चडोवपाक आयलों हाचें सू जालें. हेरशीं हांवूय अनमनतालोंच. वंदन करपासरको म्हज्या आयुश्यांत कोणूच नासलो. निदान तिरंग्याक तरी करुंया म्हूण आयिल्लों. फातिमान तें सार्थ केलें.

रोखडीच चवथ आयली. सात दीस सुटी.

"केन्ना मेळुंया आमी?" फातिमान विचारलें.

"कॉलेज सुरू जावं दी."

पूण तशें जालें ना. चवथी कडेन चित्राची खूब याद आयली. चित्रा बरोबर फातिमाचीय. हरशींय जाल्यार आमी वांगडाच मेळटालीं. हांवें फोन केलो- "हॅलो, फातिमा, आयज सांजे मेळुंया आमी? कला अकादमीच्या कॅण्टिनांत. पांचांक?"

कृष्णा नेवऱ्यो आनी दाळीचीं कापां घेवन आयिल्लो. तीं मांचे सुवादीन जातकच हांवें विचारलें, "कृष्णा, तिखशी नेवरी करूंक कळटा तुका?"

फातिमा खूश. "तुका कशें कळ्ळें म्हाका तिखश्यो आवडटात म्हूण?"

"इंच्युइशन! म्हाका दिसलें- "

"थँक्यू, विपीन."

ताचेर कितें म्हणटलों? पूण ताणेंच विचारलें, "थँक्यू कित्याक तें विचारचो ना?"

हांवें खांके वावुडले. "ऑबव्हियसली-"

"तितल्या खातीर जाल्यार तो वयलेचार जालो. तुका खबर ना, यार, हांव कितलें खोशी जालां तें! आयज पयलेच फावटी तुवें आपूण जावन फोन करून मेळपाक आफयलां म्हाका -"

चवथीची परब आशिल्ल्यान कॅण्टिनांत लोक कोण नासलो. हांवें काउंटराचेर वचून सांगलें, "एक कॉफी, एक च्या- स्पेशल आनी डबल. बरी कर- दुदाची."

दिवाळेची सुटी पडचे पयलींच एक दीस मांक घुंवळ आयली. कॉश्ताबीराक आफयलो. रगत तपासलें जाल्यार हायपरग्लायसेमिया! देडशांवयल्यान एकदम दोनशेंऐंशीं! तरी बरें, हॉस्पिटलांत दवर म्हूण सांगलें ना. गोडशें पुरायेन बंद. शीत बंद. साखरे-गोडाचीं आयदनां हांवें लिपोवन दवरलीं. गुळयो इंजक्शनां वांगडाच डॉक्टरालीं बिलांय वाडलीं. कॉश्ताबीरान शिटकावणी दिली- व्यायाम कर, चल-भोंव, पूण गोडशें बी खावशी, बेगीन मरतली. पूण तिणें म्हजे असवडीं रांदचेकुडींतले डबे उस्तुवपाचें सोडलें ना.

'गोडेंमूत नेमान मॉनिटरिंग करूंक जाय. ती एकलीच आसता घरांत. साखर देंवली जाल्यार कॉमांत वचूं येता. चड वाडली जाल्यार दोळ्यांचेर, किडनीचेर, हार्टाचेर परिणाम जावं येता -' कॉश्ताबीरालें आयकून हांवें ग्लुकोमिटर हाडलो. तेन्नाच्यान म्हज्या वावरांत आन्येका कामाची भर पडली. डॅडी मरतकच आयिल्लें रितेंपण मांन भरून काडलें.

''विनूक सांगलां तुवें? ताका कळिल्लें जाल्यार धांवत येतासलो.'' मांलें आयकून हांवें फोन केलो.

ताणेंय फोनारच खबर घेतली- ''बायेक सांग, जीब सांबाळ. आमगेले आईकूय आसलें गोडेमूत. कंट्रोल केल्यार कांयच जायना.'' विनूमामान दिल्लो फुक्या सल्लो मां मेरेन पावयलो.

“कृष्णाक आफोवचो आसलो. तितलोच आदार जातासलो तुका.” मांक म्हणपाचें आसलें ‘म्हाका’, पूण म्हळें ‘तुका’.

हांवें कानार केंस काडले. पूण कृष्णाक मेळून येवचें शें दिसलें. बाय्क काडली. मागीर याद जाली. घरांत नानकटाय पाकीट हाडिल्लें आसलें. मांच्या हातांत पडचें पयलीं सत्कारणी लागूं दी म्हूण तें वांगडा घेतलें. मदल्या वाड्यार त्या भाटकाराल्या आउटहाउसा कडेन पावलों आनी भायरच कृष्णा मेळ्ळो. म्हजें काम जालें. घरांत यो म्हणटालो. पूण हांवें कशेंच आयकलें ना.

“कित्याक आयिल्लो बाबू?” कृष्णान हुसकेवन विचारलें.

“तुका मेळपाक.”

“म्हजी याद कित्याक आयली?”

“आरे, याद मांक आयली तुजी. म्हळें खबर घेवन येवंया. खूब दीस जाले मेळ्ळो ना न्हय रे?”

“पावलों ना खरो. मांक सांग, आयतारा येतां म्हूण.”

“नाका, नाका. तूं येवं नाका. हांव आसचों ना घरा.”

इतलें म्हणून बाय्क स्टार्ट मार जाल्यार जॅम. स्टार्टच जायना. हॉस्पिटलाच्या दारांतच पेशंट घुंवळ येवन पडचो तशें जाल्लें. पूण दोतोर नाशिल्लो. ‘अप्पा सांजे उसरां येतलो’, कृष्णान सांगलें. कृष्णानूय येत्न केलो. मागीर ताणेंच सांगलें आपूण अप्पाक दाखयतां आनी जाली जाल्यार सकाळींच घेवन येतां. हांव चलत घरा आयलों.

सकाळींच कृष्णा आयलो, बाय्क नासतनां. “अप्पा म्हणटा, चड पोरनी जाल्या. सारकी करून दितां. पूण नवी घेतल्यार बरी.”

हांवें सोमतीच वचून होंडाची युनिकॉर्न बूक केली.

पिलियन सीट कम्फर्टेबल देखून युनिकॉर्न. चित्राखातीर? तें आतां खंय गोंयां पावतलें? फातिमा? तें तरी खंय म्हाका सदांच मेळत रावतलें?

हांव कॉलेजींत पावलों तेन्ना क्लास सुरू जाल्ली. आसूं म्हळें आनी भायर आयलों. मोबायलार पळय जाल्यार एसएमएस. 'आय ॲम इन लायब्ररी.'

वचून पळय जाल्यार बाय दारावटेन दोळे लावन बसलां. 'थंयच राव' म्हूण कुरू करून भायर आयलें.

"थँक्यू."

"कित्याक?"

"हांवें आफयलो आनी तूं आयलो देखून-"

खरें तागेलें. हांव कितें कॉलेजीक वतां तो ताका मेळूंक? कोणेंय आफयलो आनी हांव धांवलों हें तर म्हज्या सभावांतच ना. काय म्हजो सभाव बदलला?

म्हाका वग्गी पळोवन फातिमान हुसक्यान विचारलें.

"आयज तुका कळाव सो जालो? ऑल इज वॅल आय होप."

"मांचे विशीं सांगपाचें टाळळें हांवें, "बाय्क रिपेअराक दिल्या."

"नवी घे मरे आतां." ताणें फकाणांनीच म्हणिल्लें.

"बूक केल्या." आयकून तोंड फुललें ताचें .

"केन्ना येतली?"

"येता तेन्ना खरी."

"ए, पूण फर्स्ट रायड म्हाका आं! अशें कर, हाडपाक वतनां म्हाका व्हर बरोबर. ओके?"

हांव वगी रावलों. फातिमा उलयत रावलें. लाँग रायडाचीं सपनां रंगयत रावलें.

पावलां आपसूक कॅण्टिना वटयां घुंवलीं. सदांच दिसपी ग्रूप. पूण सगलीं मेजां भरिल्लीं.

'फॅऽण्टम-' कोणें तरी कॉमेंट मारलो. फ्रॅशर्स पार्टी जायत पासून हांव दिश्टी पडनाफुडें आमकां पळोवन हें उतर कानांर पडटालें. पयलीं पयलीं लक्षांत आयलें ना. आयलें तेन्ना ताची पर्वा दिसली ना.

कॉफीचो मग फातिमाच्या हातांत दिवन च्याचो हातांत घेवन हांवें बसपाक जागो पळोवपाक नदर मारली.

"आरे, रॉय-सुरज, हांगा जागो आसा मरे. थंय सो जागो आडायला?" कोणे तरी म्हळें. रॉय आनी सुरज उठून तेवटेन गेले आनी आमी तें मेज घेतलें.

"ए, तुवें केन्ना च्या आनी कॉफी मिक्स करून घेतल्या?"

"ना. कल्पनाच करूं नज म्हज्यान." च्याचो घोंट मारून हांवें म्हळें.

"हांवेंय केन्ना घेवंक ना. पूण एक दीस घेतलें. आनी त्या दिसा, म्हाका खातरी आसा, ती म्हाका आवडटली."

"कितेंय उलयता." हांवें ताका आडायलें. "चित्रा येतलें शें दिसता दिवाळी व्हेकेशनांत?"

"तुवें आफयल्यार येतय. चित्राक तागेले कॉलेजीचें वातावरण आवडलां. मुंबयची दिवाळी ताका पळोवपाची आसा. गॅलरींक भेट दिवची आसा... इतलें करून जमल्यार येतलें म्हणटा. हांवें सांगलां ताका, दिवाळेक ना पावल्यार जाता. पूण ईद मात चुकोंव नाका. ओंदू ईद नोव्हेंबरांतच आयला. हेंय सांगलां- विपीन येतलो आमगेर. तुवेंय येवपाक जाय म्हूण. येतलें शें दिसता. एऽ, तूंय सांग न्हय ताका!"

"तुवें कित्याक सांगलें ताका - हांव येतलों म्हूण?"

"हांवें आगरो केल्यार येवचो ना तर तूं?" फातिमान रुशिल्लेवरी म्हळें.

"आगरो सोड, आपयला तरी तुवें?"

"आपयतलेंच."

“आनी त्या दिसा म्हाका फावलें ना जाल्यार?”

“तुका फावतलें त्या दिसा म्हगेलो ईद मनयतलें.”

फातिमान सांगिल्लें तशेंच जालें. चित्रा आयलें पूण दिवाळी बी जातकच. “आठच दिसांखातीर आयलां. पप्पा वांगडा हे दीस सारतलें म्हणटां. तुमीच येयात न्हय हांगा! शेनवारा फावता जाल्यार सांग. हांव फातिमाकूय म्हणटां.”

डिलराचो फोन आयलो -‘बायक डिलीव्हरी खातीर तयार आसा. शुक्रारा सकाळीं येवन व्हर.’

कृष्णाक आफयलो. ताका स्कुटरीचेर घेवनच शोरुमांत गेलों. स्कुटर ताच्या सुवादीन करून सांगलें, “आतां ही तुजी, तुगेली नवी येसर.”

फातिमाक सांगचें शें मनांत आयिल्लें. पूण मन मारलें. बायक ताब्यांत घेतली आनी पयलो फोन फातिमाक केलो. ताची क्लास सोंपपाक दोन वरां उरिल्लीं. पूण ताणें दोन पिरियड बंक मारले आनी हांवूय पिसो सो बायक घेवन थंय गेलों. ताका फाटल्यान बसोवन दोना पावला सर्कलामेरेन पासय मारली.

“हो फाटलो सीट बॅस्ट आं- व्हॅरी कम्फर्टेबल.” फातिमान म्हळें. तशें येवजूनच युनिकॉर्न घेतल्या म्हूण ताका सांगल्यार अदिकच एक्सायट जातलें देखून सांगलें ना. फाल्यां काणकोणा बायक घेवन वचूंक मेळटलें म्हूण फातिमाची खोस मळबायेदी जाली. ‘पणजेच्यान काणकोणां पावपाक साठ सत्तर मिण्टां पुरो’ म्हूण सांगल्यार पिशें म्हणटा - “नाका आं, सवका या. दोन वरां लागल्यार लागूं दी. तितलीच चड वेळ पिलियन रायड मेळटली.”

पूण पनवत खंयच्या रुपान परगट जातली पयलीं कळना. शुक्रारा रातीच मां पांय आनी तळवे हुलपतात म्हूण तक्रार करूंक लागली. हांव पांयांक तेल लावंक गेल्यार हात लेगीत लावंक दिना. सोसूंक जायना म्हणटा. जेवपाक उठलीच ना. हांवें लायलें तितलेंच जेवली. रातीन कॉश्ताबीराक आफोवपाक मन येना जालें. सकाळीं आफयलो. पूण ते पयलीं रातभर जागून तिचें कण्डिशन इंटरनॅटार समजून घेतलें. डायबेटीक न्युरोपथी आजून ॲडव्हान्स जावंक ना. बेगीन उपचार केले आनी स्वता तिणें जतनाय घेतली जाल्यार हातूंतसून ती भायर येवं येताली. रातभर तिचे कुडींत बसून हांवें तिचें परवंप आयकलें. काकुळट दिसली. बाबडेन सूख भोगलें ना. वा भोगलें तितल्यानच सूख मानलें. तिका हे आवतिकायेंतसून भायर काडपाचो निर्धार करूनच हांवें सकाळीं कॉश्ताबीराक फोन लायलो.

आनी फुडलो फातिमाक. ''सॉरी, पूण हांव वचपाक शकना.''

ताका मांची आवतिकाय सांगली, ''तूं वच. आनी चित्राक सांग. जमल्यार तें वचचे पयलीं मेळटां म्हूण...''

हांव फार्मासींत गेल्लेकडेन चित्रालो फोन आयलो. मागीर करतलों म्हूण तोडलो. घरा पावतासर फातिमालो आयलो.

''चित्रा रागार जालां आसतलें म्हजेर.'' हांवें म्हळें.

''आमचेर. हांवूय गेलें ना. मुडच गेलो म्हजो. कशी आसा मां आतां?''

मागीर हांवेंच फोन केलो चित्राक. ''मंगळारा ईद. फातिमागेर वांगडाच या. नवी मोटरसायकलूय दाखयतां.''

''सॉरी, विपीन. रावप कट शॉर्ट करून परतें वतां हांव फाल्यांच. काणकोणाच गाडयेर चडटलें.'' चित्रान फोनूय कट शॉर्ट केलो शें दिसलें

म्हाका. इश्टागतीची ऊब, मेळपाची ओड वा वचचें पडटा हाची खंत जाणवली ना म्हाका ताच्या आवाजांत. काय म्हजोच भ्रम तो?

फातिमालोय मूड ऑफ जाल्लो. “मां बरी ना आनी चित्राय ना. ईद फुडल्या वर्सा मनोवंया वांगडा.” ताणें म्हळें.

मंगळारा सकाळींच फोन केलो हांवें, “ईद मुबारक, फातिमा.”

“थँक्यू , विपीन. तूं आयज पणजे येवपाचो आसा?”

दनपारां बारांक लोबो लॅबांत मांचे ब्लड-युरीन रिपोर्ट हाडपाक वचपाचो आसलों. “थंयच मेळुंया.”

म्हाका चड वेळ रावंक मेळचें ना म्हूण सांगचे पयलींच फातिमान फोन दवरलो.

फातिमाक तिश्ठावप नाका म्हूण पांच मिण्टां पयलींच लॅबांतले रिपोर्ट घेतले. जाल्यार काउंटराचेर - “एका चेडवान दवरलां. तुका दी म्हुणलां.” अशें म्हणून रिपोर्टा वांगडा एक टिफीन बॉक्स म्हज्या हातांत दिलें. भायर सरतासर फोन आयलो, “सॉरी, विपीन, आयज मेळपाक जावचें ना. कारण मागीर सांगतां.”

बिर्याणीच्या खमंग वासानच पोट भरलें. मांक खूब आवडटासली. तिचे असवडीं खावची पडली.

फुडले दोन तीन दीस खुबच अस्वस्थ उरलों. मांची शुगर वाडूंक दिली म्हूण म्हजो म्हाकाच अपराधी दिसतालों, लागीं येवनूय चित्रा पयस गेलें-तिरायत कशें; ईदाचें आपोवणें रद्द जालें, चित्रा ना म्हूण? काय कोण तरी नवो इमाम आयला ताका सोशलायजिंग आवडना म्हूण? ‘दनपारां मेळुंया’ म्हूण आफयल्यार ईदा दिसा फातिमा भायर सरप बरें दिसचें ना

म्हूण मेळपाक आयलें ना; इतलें एकलेंपण केन्नाच जाणोवंक नासलें.

एकलेंपण? काल पयर मेरेन तें तर म्हजे जिणेक पुरायेन व्यापून आसलें. घरांत एकलोंच आसतालों, एकलोच न्हिदतालों, एकलोच शिकतालों, एकलोच चिंततालों, थोडेच दीस खेळ्ळों तोय एकलोच. मां डॅडी घरांत आसल्यारूय हांव एकलोच उरतालों. आयजूय घरांत मां आसून हांव एकलोच आसां. तरीकूय एकलेंपण इतलें जड कित्याक लागता? शेअर करुंकच जाय हें! ना जाल्यार –

"हॅलो, फातिमा, आयज सांजचें मेळुंया? –" हांवें सांगलें काय विचारलें!

"ऑल वॅल?" हुसको जाणवलो. जिवाक बरें दिसलें.

"फिलींग लोनली." हाचे पयलीं कोणाच कडेन अशी कबुली दिवंक नासली. दुबळेंपण न्हय मूं हें म्हजें?

मांक वखदां दिवन ती न्हिदली तेन्ना भायर सरलों. फातिमा मेळसर तें फटयतलें शें कित्याक दिसचें? हांव ताक फुंकून पियेतालों?

फातिमाक पिलियन घेवन दोना पावला पावलों. गर्दी टुरिस्टांची!

"आतां दुसरी खंयचीय सुवात सोदूंक जाय, न्हय?" फातिमाक पळयत उरलों हांव. कितलें मनपारखी हें फातिमा?

"असो कितें पळयता?"

"हांवूय तेंच चिंततालों. हांगा गर्देंत उलोवंकच मेळना –"

"मागीर दुसरी सुवात पळोवंया –"

"नेक्स्ट टायम – "

"थँक्यू!" म्हजो दंड घट धरून फातिमान म्हळें.

मळबांतलीं कुपां पयस जावन लख्ख उजवाडलें.

फातिमाचे कुशींत रिगचें, ताचे मांडयेर तकली दवरून आड पडचें असले फिल्मी विचार मनांत येवंक लागले तेन्ना म्हजें म्हाकाच अजाप जालें.

“येदोळ तुजो फोन आयलो ‘मेळुंया’ म्हूण तेन्ना म्हाका हुसको जाल्लो. आतां मात प्रसन्न दिसता.”

“दॅट मेक्स टू ऑफ अस.” हांवें मनापासून म्हळें.

अकस्मात फातिमान विचारलें, “म्हाका नाचन दिसता– एक डान्स करूं?”

“हांगा? लोकांक सिनेमा दाखयता?”

“हांव तुजेखातीर नाचतलें – लोकांखातीर न्हय.” मागीर नमतें घेतिल्लेवरी ताणें सांगलें, “नाचूंकय जाल्यार मूड लागता. कोणेंय सांगलें आनी हांव नाचलें अशें जायना. एनी वे, नॅक्स्ट टायम हांव मुडांत आयलें जाल्यार म्हाका नाका म्हणूं नाका, आं!”

नित्याचेंच जाल्लेवरी आमी च्या–कॉफी मारली आनी परतुपाक उठलीं.

“थँक्यू, फातिमा. चार दीस जाले म्हाका डिप्रॅस्ड फिलींग आशिल्ली.”

“चित्राची याद येवन?”

“खबर ना. पूण तूं मेळ्ळें आनी बरें दिसलें.” हावें बाय्का कडेन वतां वतां म्हळें.

बाय्क स्टार्ट करचे पयलीं म्हाका आडावन ताणें विचारलें, “एक कविता आयकतलो? तीन वळींची, हांवेंच रचिल्ली?”

हांव रावलों.

*“सूर्या म्हाका दिपकायता, दिपकावं दी*
*वोतांत हांव करपतां, करपूं दी*
*तुज्या उदास मनाचेर म्हजी सांवळी पडूं दी”*

नातालांच्या दिसांनी आमकां नवी सुवात मेळ्ळी. बांबोळे बीच. इलो फातराळ. पूण गर्दी नासली. बांक नासले तरी फातरांचेर बसून ल्हारांचो खेळ पळोवपाक मज्जा येताली.

चित्रालो फोन नेमान येतालो. एका सप्तकांत म्हाका जाल्यार दुसऱ्या

समकांत फातिमाक. एकल्याक केल्यार दुसऱ्याक पावता जाल्ले भाशेन.

फातिमालो असाइन्मेंट हें ताचे खातीर नीब जाल्लें म्हाका मेळपाचें. असाइन्मेंट हिंदीचो. 'किताबों के मायने.' तागेलें वाचन फकत कविता, गझल आनी शायरी पुरतें मर्यादीत. 'कांयच येवजना, एक दोन मुद्दे सांग' म्हूण आयिल्लें. दुसऱ्या दिसा पंरत. पांच मिण्टां विशयाक धरून आनी मागीर पंदरा मिण्टां अवांतर. वेळच पावना म्हणटालें आनी तरिकूय मदीं मदीं पासय सोदतालें. चित्राची कंपनी म्हाका खूब मानवताली ताचें कारण ताचें वाचन. फातिमाकडेन आशिल्ली ती कविता आनी नाच. दोनींतूय म्हाका मज नासली. तरी हालीं तें म्हाका आवडूंक लागिल्लें. घडये, चित्राची इश्टीण म्हूण जावंये. तें म्हाका एके अनवळखी दुनियेंत घेवन वतालें. सुरवातीक ती दुनिया ताचीच शें दिसतालें. मागीर मागीर ती म्हजे संवकळीची जाली.

नातालांची सुटी आनी वर्स सोंपचे पयलीं अशींच आमी बांबोळे गेल्लीं. मदींच ताका कूंय आयली, "तुवें 'गायड' सिनेमा पळयला?"

हांवें पळोवंक नासलो. फातिमाक पोरने सिनेमा खूब आवडटाले. म्हाका सिनेमाच आवडनासले.

"म्हाका आयज रोझीवरी डान्स करन दिसलां. करूं?"

"धोंपरां फोडून घेवपाचीं आसल्यार कर."

तरी तें उठलें. मोबायलाचेर गीत लायलें आनी त्या काळ्या तळपांचेर नाचूंक लागलें. उकत्या पांयांनी. पिशावरी नाचलें. खूब सुंदर नाचलें. ताची अदा, ताचें मोडप आनी खरशेनासतनां गावप. हांव पळयतच उरलों. म्हणसर एक गिरकी घेतनां तोल वचून तें पडलें. पयसुल्यान पळोवपी

कांय जाणांनी ताळयो पेटयल्यो.

खरचटलें तें खरचटलें. पावलां तांबडीं गुंज जालीं. हांवें ताका उकललें. ''दुखता गो चड?''

''तूं असो उकलतलो जाल्यार कितलेय फावटी पडपाची म्हजी तयारी आसा.'' म्हज्या भुजांर भार घालून चलतनां मदींच ताणें विचारलें, ''म्हाका नाचूंक कित्याक आवडटा जाणां?'' आनी जापेक रावनासतनां सांगलें, ''इट इज लाइक फॉलिंग इन लव्ह!''

''कोणाच्या?''

''कोणाच्याय - म्हज्या,..तुज्या'' अशें म्हणून ताणें म्हज्या दंडाक चिमटो काडलो.

घरा पावयतां म्हूण सांगल्यार नाका म्हूण सांगून रिक्षा करून गेलें. ते राती हांवें बूकगंगाचेर वचून आर. के. नारायणाली 'गायड' कादंबरी मागयली.

दुसऱ्या दिसा फातिमालो फोन आयलो. ''फुडले दोन दीस तरी हांव कॉलेजीक येवचें ना. वाट पळोवं नाका.''

हांव कित्याक वाट पळयतलों? तरी विचारलें, ''कित्याक?''

''दोनूय पावलांच्या तळव्यांक फोड आयल्यात.''

म्हजे कडक नदरेखाला जाल्ल्या उपचारांनी आनी खावपा-पियेवपा वयलीं बंदनां पाळिल्ल्यान तीन म्हयन्यां भितर मां खूब शी निवळ्ळी. कॉश्ताबीरान म्हळें लेगीत तिका- "मिलाग्र कशी बरी जाल्या तूं. दिनवास दी बाबूक."

पूण मांक म्हगेलीं बंधनां मानवनासलीं. उठनाफुडें तक्रार सुरू जाताली. "तूं बरो साखरेची च्या पियेता. म्हका मात कोडू पिवयता." कामांची जापसालदारकी हांवें आंगार घेतिल्ल्यान तीय आंग घोळयनासली. हांवूच बळयां तिका उठयतालों, भोंवडायतालों. तिका तीय शिक्षा कशी दिसताली. सूख मेळ्ळें ना म्हूण पयलीं डॅडीक खेपताली. आतां दूख्ख दितां म्हूण म्हाका.

मांचें सगलें करून म्हाका अभ्यासूय करपाचो आसलो. कॉलेज चुकल्यार जाता, पूण शिकप चुकूंक फावनासलें. कोंकणी विशयाचो अभ्यास कम्प्युटराचेर जायनासलो. तितले खातीर क्लास ना चुकोवपाचो म्हजो येत्न आसतालो. वर्स पदरांत पडचें वा पास जावंक जाय ह्या हेतून न्हय. शिकून घेवपाची जबरदस्त वानसा देखून.

मदीं फन वीक आयलो. कॉलेजीन कमिटी काडली. अमृत फुडें सरलो. म्हाकाय ओडटालो. हांव बदलों ना. 'कॉलेज खर्च करची ना, कल्चरल कमिटीन स्पॉन्सरशिप्स हाडून खर्च भागोवचो' अशें थारिल्ल्यान

भुरगे कामाक लागिल्ले. हांवेंय एक हजार दिले. अमृतान बिअर कंपनीची स्पॉन्सरशीप हाडली. पन्नास हजारांची. अमृत हिरो थारलो. फन वीक दबाज्यान चलतालो.

"फाल्यां डान्स कॉंपिटिशन आसा. हांव सोलो पर्फोरमन्स इव्हेण्टांत पार्टिसिपेट करतलें. पळोवपाक तुवें येवंकच जाय आं!" फातिमान फर्मायलें

"सॉरी. नॉट इंटरेस्टेड." हांवें फाफुडलें.

"प्लीज! यो न्हय! हांव सांगतां म्हूण–"

"पूण हांव कोणाचोच खंयचोच आयटम पळोवपाक वचूंक ना."

"म्हणूनच यो."

हांव बदलों ना.

"तूं येना जाल्यार हांव विथड्रॉ जातलें आं!"

"जाय तें कर." हांवूय तेमाक पेटलों.

"ओके. हांव सगल्यां हुजीर अनाउन्स करतलें – विपीन ऑडियन्सांत ना देखून हांव विथड्रॉ जातां म्हूण. आय प्रॉमिस, सांगले बगर रावचें ना."

फातिमा हट्टी आनी पिशेंय. म्हाका लजेक घालपाक उणे न्हय! हांव फाटीं सरलों.

"तूं ऑडियन्सांत आसा म्हूण खातरी केले बगर हांव डान्स करचें ना. आं, पयलींच सांगतां." वयल्यान म्हाका धमकी दिली.

वचचेंच पडलें. आनी गेल्ल्याचें सार्थक जालें. निमणी एन्ट्री फातिमाची. फुड्यांत एकलोच आसां आनी स्टेज सगली आपलीच आसा हे भावनेन फातिमा नाचलें. आख्खो प्रेक्षकवर्ग उठून उबो. शिळोण्यांचेर शिळोण्यो आनी ताळयांचेर ताळयो. पांयांत पांयजणां बांदून जल्माक आयिल्ले अभिजात नर्तकीवरी फातिमा भन्नाट नाचलें...

*बलम पिचकारी, जो तुमने मुझे मारी*

*तो सिधी साधी छोरी, शराबी हो गयी*

डान्स सोंपलो तेन्ना घेऽ गडगड. आनी कॉमेण्ट्स... 'उजोऽ', 'वन्स

मोअर'... पयलें इनाम कोणाक वतलें हें जाहीर जावचे पयलींच सगल्यांनी पारखिल्लें. इतल्यान मायक घेवन पर्थून स्टेजीर आयलें -

"हो म्हगेलो परफॉरमन्स- आय डॅडिकेट टू हीम हू सेव्हड माय लायफ."

पर्थून ताळयांचो गडगड जालो. कोणाक कितलें समजलें तें कळपाक मार्ग नासलो. पूण तरिकूय फाटल्यान कांय आवाज कानार पडले -'फॅण्टम!' 'फॅण्टम.'

स्टेजीर उजवाडाच्या झोता सकयल फातिमा आसलें. सकयल उजवाडांत लोकांमदीं हांव. त्या खिणाक दिसलें- म्हजेर काळखाचो झोत जाय आसलो. मागीर हांव कोणाक दिसचो नासलों, म्हाका मात सगलें दिसतासलें.

सरकारी कार्यावळींक सोंपेपणी कोण हाजिरी लायनात. पूण कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या डी. डी. कोसंबी फॅस्टिव्हल ऑफ आयडियास उपक्रमाक मात उपाट प्रतिसाद मेळटा हें आयकून जाणा आसलों. हांव केन्ना गेलों ना आनी वचचोंय नासलों. पूण मार्टीनसरालो फोन आयलो, "बरे बरे स्पिकर आसतात. तूं केन्ना वचूंक ना जाल्यार आयज वच. प्रोफ सर अनिल कुमार गुप्ता हो ग्रासरूट इनॉव्हेशन्स टॉपिकाचेर उलयतलो. इट मे मोटिव्हेट यू."

सरान फोन करून सांगलां जाल्यार खातरीन तें म्हज्या बऱ्याचेंच आसतलें. सर सदांच वता काय ह्या लेक्चरांक? तशें जाल्यार आयजूय वतलो! हांव आयलां काय ना तें पळयतलो काय? फातिमा येता जाल्यार ताकाय व्हरचें असो विचार आयिल्लो. पूण सरान पळयलें आनी विचारलें जाल्यार कोण म्हूण सांगतलों?

तिनांक परतोय फोन आयलो. "तूं वयतलो लेक्चराक?"

“हय, सर. वतलों.”

“केसो वयतलो?”

“बाय्क घेवन सर.”

“आनीक कोण वांगडा ना जाल्यार हांव येवूं?” मार्टीनसरान खांकडत विचारलें.

“आय शाल बी ऑनर्ड, सर.” काळजा थावन म्हळें.

“हॉल भरता. आमी बेगीं या.”

खऱ्यांनीच साडेचारांक हॉल भरत आयिल्लो. डॉ. गुप्ताविशीं जाणा जावन लोक आयिल्लो जावंये. श्रोत्यांमदीं तरनाटेच चड आसले. सराक तेंकून बसतनां संकोच आड येतालो. पूण म्हजी उमळशीक मात तेंगशेर पाविल्ली.

“माय लाइफ इज अ शोधयात्रा.” डॉ. गुप्तान सांगलें. जडगुळीं उतरां टाळून सगल्यांक समजतलें अशे भाशेंत संथपणान अनिलकुमार उलयलो. सगले चित्त दिवन आयकताले. आपणे केल्ले विंगड विंगड प्रयोग आनी ग्रासरूट तरनाट्यां कडल्यान येवपी प्रतिसादाविशीं उलयलो. प्रत्येक इनॉव्हेशन हें संवेदनेंतसून भायर सरलां हें ताणें ठासून सांगलें. नेमलॅस, फेसलॅस मनीस हो आपणाल्या हनिबी नेटवर्काचो म्हत्वाचो घटक. जणेकल्या कडेन सर्जनशील मन आसता. थंय नव्यो कल्पना संकल्पना जल्म घेतात. पूण तांका प्रोत्साहन दिलें ना जाल्यार त्यो जिरतात. ‘दिल बडा, दिमाग बडा’ आसा थंय ह्यो नव्यो संकल्पना सजीव जातात. ल्हान भुरग्यांक, तरण्या विद्यार्थ्यांक कितें तरी अद्भूत विपरीत येवजता तेन्ना तें सांगल्यार लोक हांसतले अशें येवजून भुरगीं वगी बसतात. तांच्या त्या विपरीत येवजुपांत खूब शाणेपण लिपिल्लें आसता...

प्रो. गुप्ता चाळीस मिण्टां उलयलो. हॉल भरून ओततालो. पूण पुराय शांतताय पातळिल्ली. टिचरांविशींय उलयलो. चार तरेचे टिचर्स आसतात. एक आपणां भितर आसता, एक सैम, एक सरभोंवतणचो लोक आनी वांगडचे जाणकार लोक. हे चार शिक्षक आमकां फुडें व्हरतात; हें

सांगलें तेन्ना मार्टीनसराकडेन पळोवपाची वानसा जाल्ली ती हांवें दामून दवरली. गुप्तान भौशीक उलो मारलो, भोव करून तरनाट्यांक आवाहन केलें, कसलोय नवो विचार, नवी संकल्पना येवजली आनी ती कितलीय पिशेपणाची वा अव्यवहार्य दिसली तरी ती घेवन आपणांकडेन येवचें- ताचेर अवश्य विचार जातलो. ताणें आपणांली ईमेल आयडीय सांगली. ताळयांच्या गडगडाटांत लेक्चर सोंपलें. मागीर प्रस्नोत्तरी जाली. सरान म्हजेकडेन पळयलें. तुका कितें विचारपाचें आसल्यार विचार अशा अर्थान. म्हाका याद जाली, फातिमान आपणांलो डान्स पर्फोरमन्स डॅडिकेट केल्लो तेन्ना मनांत आयिल्लो विचार, 'काळखाचो झोत आसूंक जाय आसलो.' शक्य जायत व्हय? पूण जीब उकलली ना.

आमी भायर सरले तेन्ना आमोरी सरत आयिल्ली. सराक ताच्या घरा सोडलो. देंवन ताणें थँक्यू म्हळें ना. "कशें लागलें प्रो. गुप्तालें लेक्चर?"

"ऑसम, सर. थँक्यू सर, म्हाका सांगिल्ले खातीर."

"म्हाका दिसललें, तुजे लागीं तेका विचारपाक वा सांगपाक कितेंय आसतेलें म्हुणोन."

हांव वग्गी रावलों.

"बी फ्रँक. तुजे लागीं एकूय आयडिया नासली शेअर करपा सारकी?"

"सर, खूब दीस जाले. एक विचार येता मनांत. काळखांत टॉर्च पेटयल्यार उजवाडाचो झोत पडटा. पूण उजवाडांत जर काळखाचो झोत सोडूंक मेळिल्लो जाल्यार - म्हजेर सोडल्यार , हांव कोणाक दिसचों ना पूण म्हाका सगळें दिसूं येता. भोव करून नाटकांनीबी ताचो बरो उपेग जावं येता. पूण तें कितलें फिजीबल तें हांव नकळो."

समजून घेवपाक सरान थोडो वेळ घेतलो. पूण मागीर म्हळेंच, "तुवेन विचारूंक फावतालें तेका. घडये, तोय इम्प्रॅस्ड जातासलो. तुवेन तेचो ईमेल नोट डाउन केला?"

हांवें 'ना' म्हळें. सरान आपल्या बोल्सांतल्या कागदा कुडक्यार बरयिल्ली ताची ईमेल आय डी म्हजे कडेन दिली. "रोखडेंच बरय तेका."

“आमकां सुटी पडली. तुगेली केन्ना सुरू?” चित्रालो फोन आयिल्लेकडेन हांवें विचारलें.

“फाल्यांच्यान.”

“तिकेट काडली?”

“हय. पूण गोंयची न्हय. हांवें प्रितमाबरोबर शिमला वचपाचें थारायलां.”

“कोण गो हो प्रितम?” तें गोंयां येवचें ना हाचेपरस प्रितम कोण हाचें म्हाका चड कित्याक पडून वचचें हाचें म्हाकाच अजाप जालें.

“आरे, तो न्हय. तें! म्हगेलें पार्टनर. बरें ऽ आर्टिस्ट. हांवें सांगलां ताका. ‘ओंदू हांव येतां शिमलाक. पूण फुडल्या वर्सा ताणें गोंयां येवंक जाय.’ शी हॅज ॲग्रीड!” आनी मागीर कितलोसोच वेळ प्रितमाच्यो खबरो आयकुच्यो पडल्यो.

“उमेदीन राविल्लों सुटयेंत तूं मेळटलें म्हूण. फाटले खेपेक कॅट केल्लें तुवें!”

“कॅट तुवें केल्लें, विसरलो? पूण– बरी याद जाली. मां कशी आसा?”

अपेक्षे प्रमाण रोखडोच फातिमाचो फोन आयलो – “कळ्ळें मरे तुका, चित्रा गोंयां येवचें ना खंय सुटयेंत. हांवें ताका सांगलें, ‘आय वील

मीस यू...' जाल्यार सांगता, विपीनाबरोबर आसतलें तेन्ना हांवूय वांगडा आसा शें धरून चलात."

हांव सदचेवरी वगी रावलों. ताणेंच फुडें सांगलें, "यू नो विपीन, दोस्ती हमारी है तीन लफ्जों की - खंयचे सांग?" आनी हांवें सांगचे पयलींच फातिमान म्हज्या मनांतलें फट थारायलें, "तु-म और- मैं.'

"चित्राक टांग?"

"तें आयल्यार म्हाका आवडटासलें. पूण तें थंय शिमलांत फ्रॅण्डावांगडा मजा करता. हांगा आमकां मजा करूं दी. ही सुटी फकत तुजी आनी म्हजी. हांवें सांगिल्ल्या तीन लफ्जां मदली."

चित्रा ना तें बरेंच जालें अशे भाशेन फातिमा उलयलें तें म्हाका मानवलें ना. "हें पळय फातिमा, हे सुटयेंत म्हाका भायर सरपाक मेळचें ना, म्हाका घराच रावंक जाय."

"नो प्रॉब्लेम, विपीन. बरेंच जालें. हांवच येतां तुका मेळपाक तुगेल्या घरा! पूण पयल्या सद्याक आयज सांजेर मेळुंया."

कांपाला वयल्या कॅफे-कॉफी-डेंतली कॉफी बेस बरी म्हूण फातिमान सांगलें तें खरें आसत, पूण ते सांजेची च्या मात म्हाका तितली आवडली ना.

चित्रा आयलें ना सुटयेंत तें बरेंच जालें. फाटले खेपेक ताणें काणकोणां आफयिल्लो तेन्ना मांक डायबेटीक न्युरोपाथीचो अॅटॅक आयिल्ल्यान उरिल्लें. आतां मां पडिल्ल्यान जाल्ली आवतिकाय तेय परस गंभीर आशिल्ल्यान मेळप जावचेंच नासलें. पडप्राक कारण तिचीं आशाधशीपणां. फाटलो म्हयनोभर खंय तिणें दिसपट्टो कुंड्या भाकरी घेवन येवपी पदेराकडेन संधान बांदिल्लें. ताका दुडू दिवन ही दिसता गोड गोडशें हाडून घेताली आनी कांचेच्या बरण्यांनीं घालून साडयांचे आल्मारींत लिपोवन दवरताली.

बरे ऽ राती म्हाका कितें तरी पडिल्ल्याचो आवाज आयलो म्हूण वचून पळय जाल्यार मां पडल्या जमनीर आनी कांचेची बरणी फुटून कंवची भरल्या पांयांत. हात दिल्यार हिच्यान उठूंक जायना. पयलीं तिच्या पावलाक तोंपिल्ली कंवची भायर काडली. घसघशीत रगत व्हांवंक लागलें. घट्ट धरून पांय वयरसो केलो. बँडेज सोदून काडलें. जाता नज करून तिका उकलून हाडून हांतुणार घाली. रातभर वळवळत, परवंत सारली तिणें आनी तें सगलें बेबस पळयत हांवें.

दुबाव आशिल्लोच म्हाका. कॉश्ताबीरान पळयनाफुडें सांगलें, ''पांयांची खिळी सुजल्या. इन्सुलीन वाडोवचें पडटलें. दुखीचींय वखदां दितां. पूण दोन दिसांनीं सूज देंवली ना जाल्यार ऑर्थोक दाखोवचो पडटलो.'' आनी घायाक चार पोंत मारून सांगलें, ''तुयेन आयकिलें ना मुगे आमगेलें? आतां हॉस्पिटलांत वोसपाक पडटेलें.''

मां शेवाळ्ळी. ''हांव बेगीन मरचीं म्हूण हॉस्पिटलांत घालता रे, बाबू? हांच्या फाटल्यान म्हाकाय धाडटा?''

तें आयकून कॉश्ताबीराक कितें दिसलें काय? काय म्हजेवरी तोय तिका वळखून आसलो?

चोवीस वरां मॉनिटरिंगाची जापसालदारकी हांवें घेतली. वखदां, इन्सुलीन, ड्रॅसिंग, ग्लुकोमिटराचेर दिसपट्टें साखरेचें प्रमाण तपासप ते भायर तिका खावोवप, पियेवप, तिचें गू-मूत काडप. मदीं जो थोडो वेळ सावतालो तेन्ना ई बुक्स वाचप. लायब्रींतल्यान समग्र शणै गोंयबाब हाडिल्लो तोय मज घेवन वाचप... दीस अशे सरताले.

फातिमाचो फोन आयलो तेन्ना ताका सांगचेंच पडलें. आनी नाका म्हळां आसतनांय तें मेळपाक आयलें. तें आयलें तेन्ना हांव मांक स्पंजिंग करतालो. मांक दोळो लागलो तेन्ना हांवें ताचे खातीर कॉफी आनी म्हजे खातीर च्या केली.

''तूं एकलो करता हें सगलें? तुका आदार जाय, विपीन. कोण मेड मेळटा जाल्यार पळय मरे!'' आनी कॉफीचो मग हातांत घेवन फुडें

विचारलें, ‘‘हांव येवं आदाराक?’’

‘‘म्हज्यान जावचें ना शें दिसता तुका?’’ हुनसो घोंट मारून हांवें विचारलें.

‘‘तशें हांव तरी केन्नाच म्हणचें ना. तुका हांव वळखतां. फाल्यां जर कोणेय सांगलें तुवें भुरग्याक जल्म दिला तर हांव तें फट म्हणचें ना.’’ आनी फातिमा घसघशान हांसलें.

म्हज्या दोळ्यांमुखार दादल्याची ॲनाटॉमी उबी रावली. कोण जाणा फाल्यां कोणेय गर्भाशयाचें रोंपण केलें ताचे होटयेंत जाल्यार? जल्म? सिझेरियन हाली सर्रास जातातच.

‘‘कितें येवजिता? च्या न्हिवतली.’’ फातिमान म्हाका ताळ्यार हाडलो.

च्या सोंपोवन हांव उठलों. फातिमान आनीक थोडो वेळ बसचें शें दिसल्यारूय हांव तशें म्हणूंक शकनासलों. ‘‘मांक इन्सुलीन तोंपपाचो वेळ जालो.’’

फातिमा उठलें. म्हाका कळचे पयलींच कॉफी-च्याचे रिते मग घेवन किचनांत गेलें. संवकळीचें घर जाल्लेवरी दोनूय मग सिंकाचेर धुयले आनी वयल्या हुकांक लायले.

‘‘सामकें हक्काचें घर कशें वागलें मुगो तूं!’’ मनांतलें ओंठांर कशें पावलें कळ्ळेंच ना.

‘‘मेरे दोस्तका घर है- म्हजो कांयच हक्क ना तर?’’ आनी लागीं लागीं येत ताणें म्हळें -

*‘‘मंझिल कौनसी है मैं नही जानती हूँ*
*मगर दोस्ती निभाना बहोत खूब जानती हूँ*
*बिछडना तो है, रुकुँगी नही , लेकीन -*
*दोस्ती के ये दो पल, जी भर के जीना चाहती हूँ’’*

म्हणटां म्हणटां फातिमा खुबच लागीं आयलें. एक हात म्हज्या खांद्यार दवरून ताणें हड्ड्याक नाक तेंकोवन म्हजो वास नाक भरून घेतलो आनी पुटपुटलें ‘‘दोस्ती की महक आप क्या जाने?’’

फुडल्या खिणाक तें दारांतलें सँडल घालून नाच्च जालें.

कृष्णा आयिल्लो तो सुटयेंत म्हयनोभर बऱ्याशा खंयच्याय हॉटेलांत काम मेळटा जाल्यार पळय म्हूण सांगपाक. पूण मांची आवतिकाय पळयली आनी हांगाच कामाक रावपाची तयारी दाखयली. हॉटेलांत काम केल्यार शिक्षणाचे नदरेन तें ताच्या फायद्याक पडपाचें हें खबर आसुनूय हांवें ताका नाका म्हळें ना.

कृष्णाक आफोवन मांन सांगलें आपणाखातीर बिर्याणी कर. हांवें ताका पयलींच शिटकायिल्ल्यान ताणें सांगलें 'बाबूक सांग.' तिडकून मां कृष्णाक खेपीत रावली.

हांवें फातिमाक फोन लायलो जाल्यार तें खूश, ''दोस्ती निभाना आयलें तर तुका!''

''अशें कित्याक म्हळें?''

''पयर एक नज्म सुनायली तुका ताचो परिणाम इतले बेगीन जायत शें दिसूंक नाशिल्लें.''

पूण हांवेंच विशय बदललो. ''तुवें फाटीं म्हणिल्लें– तुगेल्या आब्बुलो भाव शेर–ए–पंजाबांत काम करता –''

''अम्मीलो भाव – माम म्हगेलो. कित्याक? कितें जालें?''

हांवें कृष्णाची खबर सांगली. ''म्हयनो भर काम मेळ्ळ्यार तागेली थोडी जोडूय जातली आनी थोडें शिकून घेवपाकूय मेळटलें. तूं विचारून

पळोवशी?''

दुसऱ्याच दिसा फोन आयलो तागेलो. 'शेरे पंजाबांतलो एक असिस्टंट कूक दोन म्हयन्यांचे रजेर गेला. कष्णाक फाल्यां लेगीत धाडल्यार जाता'. आयकना फुडें हांवें पयलींच स्पश्ट केलें. कृष्णान साध्या च्यावे दुकानार काम केलां, रांदपाक कळटा, आवडटा पूण तो असिस्टंट कूकाक रिप्लेसमेंट म्हूण काम करीत काय ना हाचो दुबाव परगटायलो. फातिमान जाप दिली ती थाकाय दिवपी आसली, ''हांव वळखतां न्हय तुगेल्या कृष्णाक! हांवें सांगलां सगलें. मामान सांगलां आपूण ताका ट्रेनिंग दितां. हूशार आसल्यार रोखडो शिकतलो.''

कृष्णाक त्याच दिसा धाडलो.

इन्सुलिनाचेर साखर देंवली पूण सूज तितलीशी देंवली ना. घाय पेखलो शें दिसतालें. पूण मां पांय जमनीक लायनासली. कॉश्ताबीरान सांगलें पांय तेंकयना तितली बेगीन निवळटली.

कॉलेज सुरू जालें तरी म्हाका वचूंक मेळ्ळें ना. नाका म्हळां आसतनांय फातिमा दोन खेपे येवन गेलें. चित्रालोय फोन येतालो. वेळ काडून कृष्णाय किंतें जाय नाका पळोवन वतालो.

ते राती इंटरनॅटार पोरनीं क्लासिक्स ब्राउज करतना नदरेक एक पुस्तक पडलें. 'फादर ऑफ द ब्राइड.' लेखक एडवर्ड स्ट्रिटर. वळखीचो कांय न्हय. शिर्शक पळोवन म्हाका मार्टीनसराची याद जाली. हांवें प्रिव्ह्यू आनी रिव्ह्यू पळयले. आनी सट्ट करून उगडास जालो, जुलैचे धावेर सराचो बर्थ डे. हांवें पुस्तक मागोवन सोडलें.

एक दोन फावटी वेळ काडून कॉलेजींत चार क्लासींनी वचून बसलों. पूण कोंकणी सोडून खंयच्याच वर्गांत बसचें शें दिसलें ना. इंग्लीश लिटरेचर विशय आवडीचो आसूनूय उबगलों. कोंकणीचे वाचन मुळांत उणे जाल्ल्यान जावंये वा शिकोवपी टिचर बरो आशिल्ल्यान जावंये तो क्लास

म्हाका आवडलो. पूण लेक्चराक बसपाक पावतलोंच अशें नाशिल्ल्यान ह्या सेमिस्टरांत लायब्ररींतल्यान चडांत चड कोंकणी पुस्तकां हाडून वाचलीं.

हांव दिश्टी पडलों रे पडलों, फातिमा धांवत येतालें. मागीर च्या-कॉफी जाताली. सांजचें भोंवप बंद जाल्लें, ''बरें. सांजेचें तुका फावना तें बरें आसा. सकाळचो यो. दनपारचो यो. हांव मारतां बंक.''

''आगो, पूण तुजी टी. वाय. फायनल वर्स. यू नीड टू कॉन्संट्रेट.''

''कांय नज. आनी एक्झामी कडेन मुसिबत आयल्यार तूं आसाच न्हय म्हजी तयारी करून घेवपाक! एफवायक केल्ली, आतां टीवायक.'' फातिमा कडेन जाप तयार.

कृष्णा मेळपाक आयिल्लेकडेन ताका सांगलें, ''धा तारखेर सकाळीं म्हाका एक ब्लॅक फॉरेस्ट केक जाय हाडशी?''

तें मांन आयकलें जावंये. धा तारखेर सकाळच्यान राखून रावली. कृष्णा येनाफुडें म्हाका उलो मारलो. ''बाबू, कृष्णान कितें हाडलां?'' हांवें 'कांय ना' म्हळ्यार तिणेंच सांगलें, ''जाणां हांव. केक हाडला. पयलींच सांगतां. म्हाका जाय आं!''

''आगे, तो सराचो बर्थ डे देखून व्हरपाक हाडला.''

''आसूं. इलोसो कुडको काडून दवर. केक खावन मरचीं ना हांव.''

तिचेकडेन दुर्लक्ष केलें. पूण तिचे जिबेक थंडायेर घालपाक हांवच फार्मासींत वचून शुगरफ्री पिल्स घेवन आयलों. सांजे मार्टीनसरागेर वचचे पयलीं मांक बरी दुदाची च्या केली आनी शुगरफ्री घालून दिली. घोंट मारनाफुडें तिगेले दोळे लिकलिकले. ''देव तुजें बरें ऽ करूं बाबू. आयज साखरेची च्या घेवन जिवाक हुशार दिसलें.''

बॅल मार जाल्यार मॅडम आग्नेस भायर आयली. म्हाका भितर घेवन

बसयलो. “मार्टीन ना घरांत. पणजे दोतोराक मेळोंक गेला.”

“कितें जालें मॅडम?”

“बी पी वाडटा हालीं. गुळयो चेंज करूंया म्हुटलां दोतोरान. निकतोच फोन येयललो तेगेलो– दोतोरा बगलेक लूट आहा. येवपाक वगत जातेलो तेका.”

हांव वचपाक उठलों. “ना, ना. तुका च्याउ दिले बगर धाडल्यार मार्टीनाक वाश्ट दिसतेलें.”

“फुडले खेपेक – ” पूण तिणें आयकलें ना.

“तुका म्हुगे दुदाची च्याउ घोस्ताक वयता, जाणां हांव.” अशें म्हणीत भितर पावली.

पुस्तक आनी केक मेजार पळोवन मॅडमीन विचारलें, “हें कितें तुवेन हाडलांय?”

“हय मॅडम. होप ही लायक्स द बूक. आनी हो केक. पयलेच खेपेक हांवें सरा पासत कितेंय हाडलां.”

“केक!” मॅडम शेणली. दोळे भरून आयले. “स्टॅला घरांत आसताना तें आपूण जावन करतालें. फाटलीं धा बारा वर्सां तेणेनच केल्याय केक. हांव तर आतां केक करपाचेंच विसरोन गेल्यां.” दाटिल्ल्या ताळ्यान मॅडमीन सांगलें.

तिगेले च्याची रूच जिबेर आसतनाच मॅडमीन ती खबर सांगली – “मार्टीन सिर्वीस सोडटा म्हुणटा. रिटायर्ड जातेलो खूंय.”

“इतले बेगीन?” हांवें अजापून विचारलें.

“हय. ही हॅज सडन्ली लॉस्ट इंटरेस्ट इन लाइफ.”

“अशें कित्याक?”

दोळे पुशीत मॅडमीन फकत खांके वावुडले.

“आनी सर करतलो कितें मागीर?”

“जायतीं बुकां वाचपाचीं उरल्यांय खूंय तेगेलीं.”

मां निवळटाली म्हणचे परस तिचें दुयेंस वाडूंक नासलें. म्हजे कडल्यान सगली सेवा करून घेताली. शुगरफ्री वापरीत साकून ताळ्यार गोडशें पडटा तातूंत ती समादानी अशें दिसतालें कारण तिचें खेपप उणें जाल्लें. दीसपट्टीं कामां करप संवयेर पडिल्ल्यान फुरसत काडपाची मेकळीक हांव घेवंक लागिल्लों. एखाद दीस भायर सरपाचें आसल्यार आयदनां घांसप, सान्न मारप, उंबळप आयचें फाल्यांर उडोवं येतालें. ताचो फायदो फातिमाक मेळटालो. काय हांव ताका तो दितालों?

"चित्रा आसतनां तुका वेळ काडूंक जमतालें. आतां म्हाका मेळपाक मात फुरसद ना तुका-" तें तक्रार करतालें तेन्ना हांव वेळ काडटालों ताचेखातीर. ताचे काय म्हजे खातीर? सदच्या परिपाठांतल्यान म्हाकाय भायर सरूंक जाय आसलें. आनी भायर सरपाक निमित्त्य म्हूण म्हजेकडेन एकूच पर्याय उरतालो. चित्रा आसतनां ह्या दोगांकूय आनी आतां च्रित्रा नासतनां फातिमाक मेळप.

म्हज्याबराबर वेळ सारपाक फातिमाक आवडटा हें म्हाका चित्रा वांगडा आसतनांय जाणवतालें. पूण हालीं म्हाकाय फातिमा वांगडा वेळ सारप आवडूंक लागलां. ताच्याय तें लक्षांत आयलां जावंये. खुबच बोल्ड जालां हालींसराक. एक दीस ताणें विचारलें - "तूं इतलो विरक्त कित्याक?" हांवें भुजां वावुडलीं.

"तुवें केन्ना मोग केला?" थोडो वेळ वाट पळोवन फुडें विचारलें. "तुजो तरी?"

"तुवें केला?" हांवें विचारूंकच नाका आसलें.

"लागीं यो आनी म्हज्या दोळ्यांत सारको पळय. कितें दिश्टी पडटा तुका- तोच म्हजो मोग."

"फातिमाचो सांगात तुका आवडूंक लागला तें बरें दिसलें म्हाका." चित्रान फोनार म्हळें.

"कोणे, फातिमान सांगलें तुका अशें?"

“कांय गजाली सांगिनासतनां कळटात.”

“तशें जाल्यार हीय गजाल कळ्ळी आसतली– तुजी याद काडलेबगर एकूय दीस वचना.”

“ही गजाल मात म्हाका फातिमानच सांगली.” अशें म्हणून चित्रा हांस हांस हांसलें.

“म्हगेली एक इत्सा आसा.-पुर्ण करशी?” सकाळीं फुडेंच फातिमालो फोन.

“निमणी इत्सा जाल्लेवरी विचारता–”

“तशेंच समज. हांव जाणां, तुका थियेटरांत सिनेमा पळोवपाक आवडना. पूण आयज तूं म्हजेबरोबर यो. प्लीज.”

“म्हाका आवडना तेंच कित्याक करपाक लायता?”

“म्हाका आवडटा म्हूण.”

“तुका हांवें वचूं नाका म्हळां? वच तूं –”

“दोन तिकेटी काडल्यात हांवें. बस एक बार. ना म्हणून दुखोवं नाका म्हाका.” सिरियसशें दिसलें! काय नाटक?

“तूं मगो सुवार्थी. स्वता पुरतें येवजिता –”

“तशें समज आनी यो.” आनी ताणें फोन दवरलो. हांव आयकतलों हाची खातरी आशिल्ले वरी.

सवाय तिनाचो शो. मल्टिप्लॅक्सा भायर गर्दी आसली. सिनेमा सुरू जावचे पयलींच आमी भितर पावलीं. तिनशेंची क्षमता आशिल्ल्या ह्या सिनेमा हॉलांत मेजून पस्तीस प्रेक्षक आशिल्ले.

“सिनेमा कसलो गो?”

“कितें फरक पडटा?” फकाणाच्या सुरांत फातिमान जाप दिली.

“बरो तरी?”

“दोन रेटिंग दिलां टायम्सान.”

“इतलो बाबत – तरी तिकेटी काडल्यो?

“देखूनच काडल्यो.” अशें म्हणून फातिमान म्हजो दंड घट्ट धरलो.

सिनेमा सुरू जालो तरी हागेलें उलोवप चालूच आसलें. लोकांनी आयकुचें न्हय म्हूण जावं, लोकांक आयकूंक येवचें न्हय म्हूण जावं- म्हज्या कानाक तेक्कून फुतफुततालें.

“सिनेमा पळोवचोच नासलो जाल्यार हांगा कित्याक. आमच्यांनी भायर वचूं येतालें. सदचेवरी -”

“सदचेवरी नाका आसलें, देखूनच हांगा हाडलो तुका.”

“ह्या काळखांत?”

“कारण तुका काळोख आवडटा - तुवेंच सांगिल्लें चित्राक. विसरलो?”

हांवें जाप दिली ना तरी फातिमा उलयत रावलें. चित्राविशीं उलयलें तेंय आपलेंच व्हडें फुडें धुकळपाक. “चित्रान पयर फोनार कितें सांगलें सांगूं?”

प्रतिसाद दिलो ना तरी तें उलयत रावलें, “आतां विपीन फकत तुजो.”

“पयलीं तुमी कितें वांटून घेतिल्लो?” म्हज्या आवाजांतली नाराजी ताचे मेरेन पावली जावंये.

“तशें न्हय रे. ताणें सांगलें तें सांगतां - आउट ऑफ सायट, आउट ऑफ माइंड. ताका दिसलें तें सांगलें ताणें. हांवें मानून घेतलें. कारण खऱ्यांनीच तें आदलेवरी मीस जायना.”

म्हाकाय तशेंच दिसूंक लागिल्लें. पूण उलोवन दाखयलें ना.

“कारण- यू हॅव मेड फॉर द लॉस....” इतलें उलोवन जाता सर पड्ड्यार डान्स सुरू जालो. सेमी क्लासिकल नाच पळोवपांत फातिमा गुल्ल जालें आनी तागेले लिकलिकपी दोळे पळोवपांत हांव.

इंटरव्हलाक हांवें म्हळें, “तुजे खातीर कॉफी घेवन येतां.”

पूण फातिमान हात घट्ट धरलो. “नाका, फकत उलोवंया. कॉफी-च्या मागीर परतीं वतनां घेवंया.” फिल्म सुरू जावचे पयलींच तागेलो प्रस्न आयलो, “मां तुका लग्न जा म्हणिना?”

“कित्याक म्हणटली?”

“घरांत कोण नासता. तिका आदार जाय. म्हूण विचारलें.”

“हांव करतां न्हय सगलें! तिका जायच जाल्यार मनीस दवरूं येता तिच्या आदाराक. त्या कामाक लग्न कित्याक जाय?”

“पूण समजा, तिणें लग्न जा म्हूण आगरो केलो जाल्यार? फकत म्हज्या मनाचें समादान जावपा खातीर सांग प्लीज!”

“लग्नाचो विचार लेगीत म्हाका आफुडना. जालें?”

“थँक्यू. पूण - मोगांत पडटा तो लग्न जाताच.”

“जायीत.” हांवें विशय तोडचे खातीर म्हळें.

“मागीर म्हजें कशें जावप?”

हांव वग्गी रावलों.

“तुका कळना कशें, विपीन? आय लव्ह यू- हांव तुजो मोग करतां.” ताणें म्हजो दंड घट धरून कानांत सांगलें.

“हांव करिना.” ताका दुखोवपाचो हेतू नासलो तरी त्या सांपळ्यांत शिरकुपाची म्हजी तयारी नासली.

“तूं करूं नाका. हांव करतां तुजो. यू काण्ट स्टॉप मी.” फकाणां करतां करतां खऱ्याचेर पडलें. म्हजेर दोन मुठी घालतनाच फातिमाले दोळे भरून आयले. ताणें लेंस दोळ्यांर धरलो आनी ओंजळेंत तोंड लिपयलें. पड्ड्यार ढिशांव ढिशांव सुरू जालें आनी फातिमा दोळेच पुसता काय हुंडके दिता तें कळना जालें.

सिनेमा सुटलो तोमेरेन फातिमा शांत जाल्लें. हांवें ताचो हात धरलो आनी उरिल्ल्या पस्तिसां वांगडा आमीय भायर सरलीं. फातिमाचो मूड निवळटा अशें दिसतालें. पूण भायर सरनांफुडें अद्रुश्ट पळयिल्लेवरी ताणें म्हजो हात फाफुडलो आनी मान सकयल घालून चलत फुडें गेलें. म्हाकाच ताचे फाटल्यान धांवचें पडलें. हांवें बाय्क काडली आनी फातिमाक म्हळें, “चल. पयलीं तुका कॉफी दितां- थोडी तरतरी येतली.”

“नाका नाका. म्हाका भिरांत दिसता, विपीन. म्हाका बसीकडेन सोड.” भियेल्लेवरी हेवटेन तेवटेन पळोवन ताणें सांगलें, “थियेटराचेर ताणें असलमभायक पळयिल्लो. ताणेंय फातिमाक पळयिल्लें. असलमभाय

वांगडा आशिल्लो तोच तो तबलिगी इमाम. लोकांक भडकायता तो. आतां आब्बूचे कान भरतलो.''

''तूं ताका भियेता?'' बस आयली आनी तें गेलें. निरोप दितना सारकें उलयलें लेगीत ना.

घसघसो व्हांवतासतना अकस्मात फ्रीझ जावचो, तशें दिसलें.

दुसऱ्या दिसा कॉलेजींतय पावलों ना आनी फातिमाक फोन करपाचेंय भान उरलें ना. मांली साखर चड देंवनासली तरी चड वाडूंक नासली म्हूण हांव गाफील उरलों जावंये. पांय चड दुखता अशी मांन तक्रार केली म्हूण पळय जाल्यार खिळये मेरेन काळो निळो जाला. कोश्ताबीराक लेगीत आफोवची गरज पडली ना. सोमतीच 108 आफयली आनी हॉस्पिटलांत घेवन गेलों. गँगरीन बेगीन आटापाक हाडलें ना, जाल्यार ताचे परिणाम कितें जावं येतात ताची म्हाका कल्पना आसली.

फुडले तीन दीस फकत हें तपास, तें तपास, हीं इंजेक्शनां, त्यो गुळयो, तेभायर सतत सलायन आनी मुतावादी. दीस आनी रात म्हगेलें हॉस्पिटलांत वचप जाल्लें अशा वेळार चित्रालो फोन आयलो. ''शेनवारा गोंयां येतां. मेळुंया.''

''सॉरी, चित्रा, हेय खेपेक तुका मेळप जावचें ना.''

''रागार?''

''रागार जावपाक फुरसत खंय आसा?''

''आरे, पूण हांव येतांच तुका मेळपाक.'' तेन्ना मात मांची खबर सांगून म्हळें, ''अँप्युटेशन करचें पडटलें शें दिसता.''

थोडो वेळ येवजून चित्रान सांगलें, ''फातिमाची गत कितें जाल्या तें जाणा मरे तूं?''

म्हाका अदमास आसलो. तापसाणी पडल्याच आसतल्यो.

''तागेलें कॉलेज बंद केलां घरच्यांनी.'' आनी चित्रा रावलें.

घडये, म्हजे प्रतिक्रियेची वाट पळयतालें जावंये. "तें मागीर उलोवंया, विपीन. मांची काळजी घे. पूण– तरी हांव येतांच. तुका फावना जाल्यार हॉस्पिटलांतच येतां. म्हाका उलोवपाक जाय."

आनी फोन दवरलो.

.

सर्जरीचे पयलीं मान्यताय दिवपाच्या फॉर्माचेर निशाणी करतना हात थरथरलो ना. पूण मनांतलीं कंपनां आडावंक जालीं नात. खिळयेवयर कातरूंया काय धोपरामेरेन ह्या दोतोराल्या प्रस्नाचेरूय मन हाललें. पूण डॉक्टरानच सल्लो दिलो. पोस्ट ऑपरेटिव्ह कॅअरचे नदरेन धोंपरा मेरेन ऍम्प्यूट केल्ल्यार गॅंगरीन आळाबंदा उरपाची शक्यताय चड. डॅडी आशिल्लो जाल्यार कितें करीत आसलो काय? काय नाकाच तें ऍप्युटेशन म्हणून घाडया बगलेक धांवतासलो?

सर्जरी जावन एक दीस एक रात, निरिक्षणाखाला आयसीयूंत दवरल्या उपरांत मांक वॉर्डांत हाडली आनी चित्रालो फोन आयलो. कोंकणकन्यान येवन तें काणकोणाच देंविल्लें. "पप्पाक मेळून जेवन बी भायर सरतां आनी साडेचार मेरेन जीएमसींत पावतां. वर देडवर उलोवन रातीची सवायणवांची फ्लायट धरून मुंबय वतलें." त्या उतरांनी भावनेपरस वेव्हारच चड दिसलो. जशी काय ही तागेली बिझिनेस ट्रीप आशिल्ली.

मदीं हांवें ड्युटीवयले नर्सीक वचून विचारलें, "मांक न्हिदावो येता. सांजेचो हांव देडदोन वरां खातीर घरा वचून येवं?"

"एकल्यान कोणे तरी तिचे बगलेक रावंकूच जाय."

दनपारां हांवें कृष्णाक फोन केलो. तागेली क्लास आयज चारांक सोंपता. "पांच धा मिण्टां कळाव जायीत. पूण साडेचार मेरेन पावपाचो येत्न करतां." ताणें सांगिल्ले प्रमाण तो पावलोय. पूण ते पयलींच चित्रा वॉर्डांत लेगीत पाविल्लें.

सवाय वर्सान पळयतालों चित्राक. पूण देडयेन बदलिल्लें. बदल?

कसलो? म्हज्यान सांगूंक जावचें ना. रूप, रंग, चलप, उलोवप, केंस, कपडे? काय फकत दोळे? कितें पळयलें हांवें दोळ्यांत?

कॅण्टीनांतली च्या कॉफी वायट शी नाशिल्ली. पूण बसून उलोवपासारकें वातावरण न्हयच तें. हांवें बाय्क भायर काडली आनी भायर सरलीं.

''खंय व्हरता?''

''लागींच.'' बाय्क बांबोळी बीचार थांबयली आनी वाट काडीत ते सदचे फातरीर वचून बसलीं.

''हीच सुवात तर ती, फातिमान पांयांक फोड काडिल्ली ती!''

आनी मागीर तें निट्ट मुद्द्यार आयलें- ''त्या दिसा तुमी सिनेमाक गेलीं आनी फातिमा त्रासांत पडलें.''

''हांवें व्हेलें ना ताका. ताणें म्हाका व्हेल्लो.''

''म्हणचे चूक ताची कशी हें सांगूंक सोदता तूं?''

''ना गो. पूण त्रास जावं येता हाची ताका कल्पना आसूंक जाय आसली.''

''ती आसली, म्हूण्णच ताणें तुका सिनेमाक आपयिल्लो. आपलो मोग कन्फॅस करपाक. तुजे कडल्यान कमीटमॅण्ट घेवपाक. तुवें मोग कबूल केल्लो जाल्यार ताची तयारी आसली, केदेंय संकश्ट आयल्यार फुडो करपाची.''

''घरच्यांक इतलें भियेता तर तें?''

''तें कितें घरच्यांक भियेता शें दिसलें तुका? असलमभायक ताणें थोडीशी कल्पनाय दिल्ली. आब्बू, अम्मा तशीं प्रोग्रेसिव्ह. पूण हालीं थोडे कर्मठ फुडारी इस्लामाच्या नांवान खंय अतिरेकी भूमिका घेतात तांची ताका भिरांत दिसता. मुसलमान चलयेन हिंदू चल्या वांगडा दोस्ती करप तांकां मंजूर ना खंय. तुकाय तें ही खबर सांगूंक सोदतालें. तांचे भिरांतेनच आब्बुल्या सांगण्यान ताणें ईदा दिसाचें आमंत्रण रद्द केल्लें. नाचून पांयांक फोड काडले तेन्ना तुजोच मूड ऑफ पळोवन ताणें सांगूंक नासलें खंय. तुवें ताका घरा पावयतां म्हळ्यार ताणें नाका म्हणिल्लें ती याद कर. कारण तेंच. हें सांगतनां बाबडें कितलें रडलें फोनाचेर. म्हजे लेगीत दोळे भरून

आयले. देखून हांव धांवत आयलें - तुका समजावपाक.''

''म्हाका कितें समजावपाक? हांव खंय चुकलां?''

''आयक पयलीं.'' आनी चित्रा एखादरी काणी सांगिल्लेवरी सांगीत रावलें, ''तूं नकळो विपीन, व्हॉट शी हॅज गॉन थ्रू. पोरान खूब सोंसलां भुरगेपणांत. नेणार पिरायेर ताचेर आगळीक जाल्ली. बदनाम जायत म्हूण समाजांतल्या फुडाऱ्यांनीच घरच्यांचेर चेपण हाडलें. तेन्ना बाबडें डिप्रॅशनांत गेल्लें. घरच्यांची माया आनी वेळावेळार काउन्सिलिंग मेळिल्ल्यान तांतल्यान भायर सरलें. स्कुलांत, कॉलेजींत तें केन्ना मेळून मिसळून वागलें ना. सदांच सोंशा भाशेन कांचवेल्लेवरी चलतालें. एक दीस हांवें ताका पळयलें. रुपान इतलें सुंदर, आंगलोट काय बरो घसघशीत आनी हें अशें एकमुळें कित्याक हाचें म्हाका कुवाडें पडलें. ताचे दोळे कितले एक्सप्रॅसीव्ह तें पळोवन हांवें ताचें चित्र काडचें थारायलें. थंयच आमची पयली वळख. ताकाय कॉफी आवडटा हें तूं जाणा. पूण तें केन्ना कॅण्टिनांत वचून नकळो आसलें. हांवेंच ताका फुडें काडलें. ताची पोएट्री आयकून हांव अजापलें, कवितेची भोव बरी जाण आसा ताका. आनी तूं जाणा? ताचो आवाज कितलो सुरेल! नाच केन्ना शिकलें ना. पूण गिफ्टेड डान्सर. तें म्हजें फ्रॅण्ड आनी फकत म्हजेंच फ्रॅण्ड हाचो म्हाका भोव अभिमान आसलो - अण्टील वी मॅट यू.''

चित्रा खीणभर रावलें. म्हज्या दोळ्यांत पळोवन ताणें फुडें सांगलें, ''त्या फेटफूल दिसा तुवें ताका अरिश्टांतल्यान वांटायलें. तें इतलें भियेल्लें! तरी बरें हांव बगलेकच आशिल्लें. हांवेंच घरा पावयिल्लें ताका. म्हाका तर भिरांतच दिशिल्ली तें पर्थून डिप्रॅशनांत वचत म्हूण. उपरांत तें तुका मेळ्ळें फकत 'थँक्यू' म्हणपा खातीर. ताका भिरांत दिसताली. तूं झेत करतलो, हिरोगिरी मिरयतलो आनी ताचे कडेन संवकळ करूंक सोदतलो. 'थँक्यू' म्हणून तें कडसरूंक सोदतालें. पूण तुवें उरफाटेंच केलें. जें घडलें ताचें क्रॅडिट्टूय घेतलें ना आनी फातिमाकडेन मज घेवन पळयलेंय ना. तें लागीं येता तितलें तूं ताका पयस धुकलता अशें दिसून तें दुखावतालें. हांवच ताका समजायतालें. ताका वांगडा आफयतालें. तूं मेळत सावन

तें कितलें बदललें, पळयलां तुवें? म्हज्या मुखार गावन दाखय म्हळ्यार लजतालें तें तुज्या मुखार डान्स करूंक पावलें. तूं नकळो, विपीन, ताका तूं कितलो आवडटा –"

"आनी तुका?" हांवेंय ताच्या दोळ्यांत दोळो घालून विचारलें. चित्रान दुर्लक्ष केलें.

"ताणें कसलीच गजाल म्हजेकडसून लिपोवन दवरली ना. कितले फावटी सांगलें ताणें, 'विपीन लागीं आसता तेन्ना सुरक्षीत दिसता.' तूं पयलोच दादलो मनीस जो ताचेकडेन मनीस म्हूण पळयता, भोगाची वस्त म्हूण न्ही. तें हिंदू काय मुस्लीम तुका पडून वचूंक ना. तें सिनियर काय ज्युनियर, पिरायेन ल्हान काय व्हड तेंय तुका लागना. तुज्या सान्निध्यांत आयिल्ल्यान तें स्वातंत्र्य अणभवूंक लागलां."

चित्रान पयस नदर लायली. सुर्या धारेर पाविल्लो. मळबांत धवीं कुपां उफेताली. पयस दरयांत आशिल्ल्या एका शांत उब्या व्हड्या कडेन बोट दाखोवन ताणें म्हळें, "तें व्हडें आनी तूं सारकींच. ल्हारेवपी दरयार लेगीत तें कितलें थीर आसा पळय. पूण तें तुजेभाशेन स्थितप्रज्ञ न्हय. वारो आयल्यार तें झेलता, मोड आयल्यार सैर भैर जाता – फातिमा भाशेन. त्या व्हड्याक फिशाल ताणपी मेळ्यार केदींय मोडां आयल्यार तें वाट काडटलें."

मूळ मुद्याक हात कसो घालचो हाचो विचार करतालें जावंये चित्रा. हांवें मदींच विचारलें, "येदोय वेळ तूं फातिमा विशीं उलयलें तुजे विशीं कांयच सांगलें ना. फातिमा मागीर, तूं पयलीं मेळिल्लें म्हाका फ्रॅण्ड म्हूण."

"हांव तुजें फ्रॅण्ड सदांच आसतलें, विपीन. पूण–" आनी अचकीत ओघ काडिल्लेवरी ताणें म्हळें, "तुका कळना कशें, विपीन? तें तुजो मोग करूंक लागलां. आनी तुमी अशा एका पॉयंटार पावल्यांत की तुमी तुमचो निर्णय घेवंक जाय. निदान फॉर द सेक ऑफ फातिमा."

"कितें कर म्हणटा म्हाका?"

"प्रपोज कर."

म्हज्या मनांत किण्ण पातळ्ळें. ल्हारेवपी ल्हारां लेगीत वेळे वयल्या

फातरांवरी मोनी जाल्यांत असो भास जालो. तकली भेरेल्लेवरी जाली चित्रा म्हजे जापेची वाट पळयतालें. मन थीर जायसर रावन हांवें सांगलें, ''थिएटरांत आसतनां फातिमानूय म्हाका अशेंच सांगिल्लें, 'तुका कळना कशें? हांव तुजो मोग करतां.' तरी बरें हांवें तेन्नाच ताका सांगिल्लें. दोस्ती हांवें मानून घेतल्या. पूण मोग? ते नदरेन हांवें पळयलें ना, येवजिलेंय ना. तेन्ना म्हजेर हें प्रपोजल बी लादूं नाका. प्लीज!''

''तूं मरे हट्टी, विपीन. तूं कित्याक कबूल करिना फातिमा तुका आवडटा म्हूण?''

''म्हाका तूंय आवडटा-'' हांवें सट्ट करून म्हळें. चित्रा एकदम गंभीर जालें.

''फातिमा म्हणटालेंच म्हाका. 'ताका तूंच चड आवडटा.' खरें सांगतां, विपीन. म्हाकाय तूं खुब्ब आवडटा. पूण हें आवडप वेगळें, तें वेगळें. हांव तुका लायक करतां. फातिमा लव्हस यू.'' आवडप आनी मोग करप हातुंतलो फरक गौतम बुद्धान सांगिल्लो तो येवजलो. एखादें फूल आवडटा तेन्ना तुका तें तोडून व्हरचें शें दिसता. पूण जेन्ना तूं त्या फुलाचे मोग करता तेन्ना तूं ताची झाडारच जतनाय घेता. हें चित्राक सांगनशें दिसलें. पूण हांव कितेंय उलयन म्हूण ताणें हातानच म्हाका राव म्हळें आनी एक लांब उस्वास घेवन उलयलें, ''सगल्योच गजाली सांगपा सारक्यो नासतात. पूण तुका मित्र मानतां. म्हणटकच शॅअर करतां. आजून फातिमाकूय सांगूंक ना. पूण सांगतलें. पयलीं तागेलें जाग्यार पडूं दी.'' पर्थून एक उस्वास घेवन ताणें मनाक तयार केलें. ''आय ॲम इन रिलेशनशीप. वर्सभर जालें. क्वीअर बट ट्रू! तिचे आनी म्हजे विचार खूब जुळटात.''

''प्रितम?'' नकळटनां उतर भायर सरलें.

''याद आसा तर तुका! हय. फाटले सुटयेंत आमी शिमला गेल्लीं. तेंच.''

सुर्या बुडलो. खुबशा व्यक्त अव्यक्त विचारांची पोटली घेवन बुडलो.

''चॅक इन बॅगेज ना म्हणटकच देडवर पयलीं पावल्यार पुरो. पूण

पयलीं कॉफी - आय मीन च्या आनी कॉफी?''

वाटेर कॉफी हाउसांत बसलीं.

कितें उलोवचें तें येवजना जालें म्हूण जावंये, चित्रान विचारलें, ''खूब फावटी विचारतलें म्हणटां- तूं कथा-कादंबरी कित्याक बरयना?''

''हय. मार्टीनसरूय म्हणटालो. पूण आयझक सिंगर म्हणटा- लायफ ईज गॉड्स नॉव्हेल. लॅट हीम रायट ईट.''

''तरी ताणें बरयलेंच न्हय?''

''साहित्यकृतींनी ताचे कडसून बरोवन घेतलें. म्हजे कडल्यान घेतल्यार हांवूय बरयन.''

च्या-कॉफी योसर हांवें चित्राक विचारलें, ''तूं नवें कितें वाचता?''

चित्रान बॅगांतलें पुस्तक काडून दाखयलें, ''सध्याक हें.''

'बेबीजी'! लेखक हांवें केन्ना आयकूंक नाशिल्ली- आभा देवसर. ब्लर्ब पळयलो. लेज्बियन फिक्शन. बेगबेगीन परतें दिलें. चित्रा हांसलें.

भायर पार्क केल्ले म्हगेले बाय्काचेर नदर पडली जावंये- ''तुगेली नवी बाय्क फातिमाक खूब आवडली.'' कितेंय तरी उलोवपाक जाय म्हूण उलयिल्लेवरी चित्रान म्हळें. ''तुजेकडल्यान लाँग रायड जाय म्हण्टालें.''

मेजार मग आयले. दोगांनीय वांगडाच उकलले. आब्सँट माइंडेडली ओंठांक लायले.

''सो सिम्बॉलीक, न्हय?'' तोंवेर म्हज्या ओंठांक लायिल्लो मग कॉफीचो हें लेगीत म्हज्या लक्षांत येवंक नासलें. सगलेंच विपरीत घडटालें खरें.

विमानतळार वचपाक टॅक्सींत बसतनां ताणें पर्थून तो विशय काडलो. ''हांवें तुका प्रपोज कर म्हळें हाचो अर्थ आयज लग्न कर अशें न्हय. पूण आतां प्रपोज करून मागीर दोन वर्सां रावं येता. फातिमाची तयारी आसा. पळय. विचार करून थाराय.''

मामाक पयलो फोन केल्लो तो मांचे सांगणेन. व्हडलो मामा गणमणलो शें दिसूंक नासलें. मागीर जेन्ना डॉक्टरांनी सांगलें की सर्जरी करची पडल्यार रगत लागतलें तेन्ना हांवें म्हगेलें दिवपाची तयारी दाखयिल्ली. पूण चड रगताची गरज पळोवन हांवें पर्थून मामाक फोन केल्लो. मामान सांगिल्लें– येवपाक मेळटा जाल्यार पळयतां. नाजाल्यार जीएमसी कडेनच ब्लड डोनर्स मेळटात. जावं. मामा ना पावलो तरी मामालो सल्लो बऱ्याक पडिल्लो. निमाणे, हांवें आनी कृष्णान दिलें आनी उरिल्लें फारीक करून घेतलें.

सर्जरी जावचे पयलींच नर्सीन शिटकायिल्लो, 'फिमेल वॉर्डांत पेशंटा बगलेक कोणूय बायल मनीस जाय.' पर्थून मामाक फोन करून सांगिल्लें. मामान हीय जापसालदारकी टाळिल्ली. सर्जरी जायसर हांव वॉर्डा भायरच दीस सारतालों आनी थंयच न्हिदतालों. मामान जाग केली ना. पूण सर्जरी जातकच जेन्ना मांक वॉर्डांत हाडली तेन्ना मात तें धर्मसंकश्ट शें दिसलें.

सांजचो हांव चित्राक मेळून यो सर कृष्णा बसून राविल्लो. तोय भायरच. हांव परतना फुडें ताणें सांगलें, मामा येवन गेलो. हांव जापसालदारकी टाळटां म्हूण तिडकल्लो खंय. पूण वाटूय दाखयिल्ली. ती म्हाका बऱ्याक पडली. पेशंटा बगलेक रावपाक पेड अटेण्डण्ट मेळटात. तांतले एकलेची कृष्णाकडेन वळख करून दिल्ली खंय आनी वेव्हार म्हजे कडेन उलय म्हूण सांगून मामा गेल्लो. हांवें सुटकेचो हुसकारो सोडलो. आनी कृष्णाक धाडलो.

त्या दिसा पयलेच खेप म्हाका तकलेंतलो गोंदळ जाणवलो. ज्या चित्रान म्हाका म्हज्या स्वतंत्र अस्तित्वाची जाणीव करून दिल्ली, इश्टागतीचें नातें जुळयिल्लें, म्हज्यांतले सुप्त कल्पनाशक्तेक जागयिल्ली तेंच चित्रा म्हज्याकडसून पयस गेलें अशें म्हाका कित्याक दिसचें? चित्रान म्हाका इतलो अस्वस्थ कित्याक केलो? म्हजो कितें ताचेर मालकी हक्क आशिल्लो? समलिंगी आकर्शणाविशीं म्हाका ते पयलीं केन्नाच कित्याक जाणवलें ना? ताका समलिंगी पार्टनर मेळ्ळें हाचें म्हाका वायट दिसलें

काय तें म्हजेकडसून पयस वता ह्या विचारान हांव अस्वस्थ जालां? ताच्या हातांतलें तें पुस्तक हांवें फाफुडिल्लेवरी परतें कित्याक केलें? त्या विचारांचे वावटळींत लेगीत हांवें मोबायल काडून बूकगंगाचेर बेबिजी मागयलें.

बारा मेरेन तरी जागो आशिल्लों. मागीर बशिल्लेकडेनच न्हीद लागली. फातिमाचो आवाज कानार पडलो आनी जाग आयली. खंयतरी पयसुल्ल्यान तें गायतालें–

*तेरे मेरे सपने, अब एक रंग हैं/ जहाँ भी ले जाये राहें, हम संग है /*
*तेरे मेरे दिलका तय था एक दिन मिलना*
*जैसे बहार आनेपर तय है फूल का खिलना*
*तेरे दुख अब मेरे, मेरे सुख अब तेरे*
*तेरे ये दो नैना, चाँद और सूरज मेरे - ओ मेरे जीवन साथी*
*लाख मना ले दुनिया, साथ ना ये छुटेगा*
*आके मेरे हाथों मे हाथ ना ये छूटेगा –ओ मेरे जीवन साथी*

म्हाका अस्वस्थ करून गीत थांबलें. दुसऱ्या बांकार कोणतरी मोबायलाचेर ल्हवू आवाजांत गितां आयकतालो. म्हजी न्हीद खळ्ळी. फातिमाचे आवडीचें गीत हें. त्या दिसा दोनापावलाच्यान परततनां ताणें पिलियन बशिल्लेकडेन म्हाका घट्ट धरिल्लो. गायडांतलें हें गीत कानाकडेन गुणगुणत ताणें सांगिल्लें तें घट याद आसा म्हाका – 'तेरा नशीला बदन मेरे बाहों से छुटता नही, विपीन.' 'पुरो तुगेले फिल्मी डायलॉग'. ताणें म्हाका आव्हान दिल्लें, 'कोशिश करके तो देखो, नही छुटेगा'. स्वता नशेंत आशिल्लेवरी ताणें फुडें म्हणिल्लें,

*नाचतां, गायतां, तुका लागीं अशें घट धरतां*
*तेन्ना हांव - म्हज्यांतल्या म्हाकाच वेंगेंत घेतां*

आयज याद जाता. म्हाका तें खूब आवडिल्लें. तरिकूय चित्रान म्हाका फातिमाविशीं सांगलें तें कित्याक मानवलें ना म्हाका? चित्राक मनासारकें पार्टनर मेळ्ळें. फातिमाक मनासारको कित्याक मेळचो न्हय?

पार्टनर? मां बरी नासतनां घरा आयिल्लें तेन्ना हक्काचें घर कशें वावुरिल्लें. घरांत कोणाकडेन कशें वागता तें खबर ना म्हाका. पूण म्हज्या

सांगातांत तें चैतन्याचो वझरो कशें खळखळटालें. हांवें जावन ताका केन्ना गोपांत घेतलें ना. पूण ताणें घेतिल्लें म्हाका आवडटालें. चित्रान म्हणिल्लें – 'तूं ताचेकडेन भोगाची वस्त म्हूण पळयना.' भोगाची वस्त नाशिल्लेंच तें. आमी खेटून उबीं रावल्यारूय आमच्या मनांत सॅक्सीस्ट विचार केन्ना वयर सरले नात. कारण फातिमा जाणा आसलें. ताणें म्हणिल्लें –'आय लव्ह यू – हांव तुजो मोग करतां.' आनी हांवें 'हांव करिना' म्हणिल्लें. मे बी आय वॉज रॉंग.

सकाळीं चित्रालो फोन आयलो, ''कितें विचार केला?''

म्हजेकडेन जाप नासली. तरी हांवें म्हळें, ''गिव्ह मी सम टायम. येवजितां.''

हांवें सांगलें तें कितलें योग्य तें म्हाकाच कळ्ळें ना.

''द नंबर यू डायल्ड इज करण्टली आऊट ऑफ सर्वीस'' चार फावटी ही मॅसेज येतकूच हांवें फातिमाक फोन करपाचे सोडलें. मागीर अनवळखी नंबरावयल्यान फोन आयल्यार हांव उडकी मारून फोन घेतालों घडये तो फातिमाचो आसत म्हूण. पूण निर्शेणीच पदरांत पडटाली. मांचे बगलेक रावपाक दोगी मेळिल्ल्यो. त्यो बेटलाबेटूल कामां करताल्यो. मदीं मांक काउन्सिलिंग करपी डॉक्टर येताले. कातरिल्ल्या पांयांकडेन कशें जुळोवन घेवचें तें सांगतालें. म्हाकाय मदीं मदीं सल्लो दिताले. उपचार जीएमसींत आपसूकपणान जाताले. पूण वखदांची वळेरी आंत्र्यापयऱ्यान हातांत पडटाली. रगत मूत थंय तपासताले. तरी अदीं मदीं सँपल हातांत दितकच दोनापावलाचे लॅबोरेटरींत फावटी मारच्यो पडटाल्यो. मांचो आलिमेंत–डायट कशें सांबाळचें तोय प्रस्न दिसपट्टो सतायतालो. वॉर्डांत तिका दीस काय रात लक्षांत येनासलें. मदींच बोवाळ करून म्हाका भितर आफयताली आनी भूक लागल्या, निदान च्या तरी हाड म्हणटाली. हें सगलें करतनां लेगीत फातिमाचें वजें माथ्यार आशिल्लेंच.

सद्दां भायर बांकार, केन्ना बशिल्ले कडेन केन्ना आड पडून झेमेत, जागरणां करतालों तें पळोवन एके केरळी नर्सीन, तिचें नांव रेबेका खंय,

म्हाका आफोवन सांगलें –‘ती आया मांची काळजी घेतात. तूं मर्दीं मर्दीं घरा वचून सुशेग घे. रातीन आयलो ना तरी उपकरता.’ तसो मर्दीं न्हावन येतालों पूण त्या दिसा आंग घांसून चोळून न्हालों. अर्दवर कंप्युटराचेर बसलों. आनी कुडींत काळोख करून सुस्त न्हिदलों. रातीची कशी चार वरां न्हीद काडली. मांक अशी एकटी सांडूंक जायना म्हूण सडसडीत उठून हॉस्पिटलांत गेलों जाल्यार कृष्णा मांचे खातीर सूप आनी म्हजेखातीर चपाती भाजी घेवन म्हजीच वाट पळयत बशिल्लो.

“मांक घरा केन्ना व्हरतलो?” कृष्णान विचारीसर हो प्रस्न म्हजे तकलेंत येवंकच नाशिल्लो. सोमतोच भितर वचून सुगंधा म्हूण नांव मिरोवपी सदांच आंगाक घामसाणीचो नास मारपी मेट्रन आसली तिका विचारलें. “आज व्हरता? आतां जाल्यार आतांच व्हर. पेपर करूं तयार?” तिणें कुछित्र्यानीं विचारलें आनी शेजारचे नर्सीक उद्देशून सांगलें, “हांकां दिसता आमी पेशंटाक वॉर्डांत दवरून हांचेर उपकार करतात. हांचे खातीर आमी त्रास काडप आनी हांकां ताकीत घरा वचपाची. घरा वतकच तरी कुयदाद घेतले? तेंय ना. चार दिसांनीं पर्थून घेवन येतले दुयेंस वाडलां म्हणीत –”

दाडवणां घट दामून घेतलीं आनी कानसुलांचेर तटतटपी शिरो तिणें पळोवचें पयलीं भायर आयलों. थोड्या वेळान ती केरळी नर्स भायर आयली. म्हजे बगलेक आयली. आनीक कोण पळयना हाची खातरी करून तिणें भुजवणेच्या सुरांत सांगलें– “पर्थून ते मॅट्रनीक सांगूं नाका. ती– ती– ” तिका दिसता कोंकणी उतर येवजलें ना, “ती कुर्तकतवन. तूं आमकां विचार. तुजे आवयक आनीक आठ धा दीस तरी व्हरूंक जायना. तिचें वेळावेळार ड्रेसिंग, टॉयलेट, वखदां जावंक जाय. तूं तिका व्हरतां म्हूटल्यार तेंका तें जायच. आमचे लागीं बेड नात. आनी नये पेशंट येत आहात. तूं विचारूंच नाका. ओ के?” तेन्ना होलमलें रेबेका वॉर्डांत खूब लोकांमोगाळ कित्याक आसली. तिणें सगल्यांकच आपलीं करून घेतिल्लीं.

सरकारी हॉस्पिटल आसुनूय हेर खर्च वाडत गेलो. हांवें कम्प्युटर

उगडून बँकांतली बाकी पळयली. फुडल्या खर्चाचो अदमास बांदलो. अशेंच चलल्यार वर्सा भितर खांके वरशे जातले. कांय ठोकताळे बांदले. एफडी कळंतरा परस म्युच्युअल फंडांत गुंतयल्यार चड आदाव आसलो. लुकसाणीची शक्यताय आसा हेंय कम्प्युटर शिटकायतालो. पूण शाणेपणां घाण दवरिनासतना चतरायेन गुंतयल्यार? हांवें रिस्क घेतली.

·

एक दीस घरा गेल्लेकडेन इण्टिमेशन मेळ्ळें. कुरियर येवन गेल्लो. चार दिसां भितर घेतलें ना जाल्यार परतें वतलें. हांवें फोन करून धाडूंक लायलें. दुसऱ्याच दिसा आयलें 'बेबीजी'. सोमतेंच वाचूंक घेतलें. वाचतां वाचतां लक्षांत आयलें अशेंय प्रपोज करूं येता –

''हॅलो, चित्रा. आय थिंक आय लव्ह फातिमा. ताचो सांगात म्हाका आवडटलो. हांवें थारायलां – हांव ताका प्रपोज करतलों. पूण तें लग्न-शादी बी रिच्युअल्स मात नाकात. आमी लायफ टायम पार्टनर जावन रावतलीं– लीव्ह इन रिलेशनांत.'' हांवें एका दमांत सांगून उडयलें. चित्रा तेवटेन आयकता काय ना तें चिंतिनासतनां.

जाप आयली ना म्हूण शिटकावलों, ''हॅलो, हॅलोऽ चित्रा? तूं आयकता? हॅलोऽ ''

''आयकतां. पूण विपीन, आय ॲम अफ्रेड– तुवें कळाव केलो. फातिमाचो निकाह तय जालो.''

चाळीस दीस हॉस्पिटलांत सारून मांक डिस्चार्ज मेळ्ळो. पूण डॉक्टरांनी शिटकावणी दिली. 'आनीक कांय दीस- घडये म्हयने- तिका ड्रॅसिंग करचें पडटलें. क्लचेस घेवन चलुं दी तिका. टॉयलेट, स्पंजिंग, न्हाण, कपडे बदलप... सगलें हें घरच्या मनशांचें वा बायल नर्सीचें काम. न्हिदून उरल्यार बेडसोअर्स जातले. इन्फॅक्शन जाल्यार घडये हाताक मेळची ना.'

मामा जापसालदारकी फाफुडटलो म्हूण खबर आसुनूय हांवें फोन केलो.

"आरे बाबू, तुगेली मामी कितें नर्स काय आया, जी तुगेर येवन रावतली? जीएमसी लागीं आया मेळटात. नाजाल्यार पाद्रींक बी विचार. तांच्यो वळखी आसात. नर्सी सप्लाय करपी संस्थाय आसात. मात दुडू मोडपाची तयारी जाय. तुका कोण मेळ्ळी ना जाल्यार सांग म्हाका. हांव खबर काडटां."

पूण तशी गरज पडली ना. डिस्चार्ज घेतनां ती रेबेका नर्स म्हन्यांत आयली. "तुका घरांत रावपाक नर्स जाय जाल्यार सांग. ट्रेनिंग घेतिल्ली म्हजी भयण आसा. ती बाळू- आय मीन विडो. व्हॅरी नाय्स सिस्टर." पूण तिका गोंयां येवपाक आनीक दोन तीन दीस लागपाचे खंय. "सोमारा आयल्यार जाता?"सिस्टर रेबेकान विचारलें.

हांवें आं म्हणून सोडलें. तिणें मागिल्लेप्रमाण खर्चाक पयशे दिले. आनी तोमेरेन थंयचेच एके ॲटेण्डण्ट बायलेक दिसा कोंतान हाडली.

पूण म्हाका दिशिल्लें तेय परस काम कठीण आशिल्लें. दिसाचें ती आया सांबाळटाली. पूण रातीन म्हूण काम थोडें नाशिल्लें! वखदविर्सदाचें बरें आसलें. पूण मुतूंक उठय, पॉटी कदेलार बसय. पॉटी धुवन दवर. तिका न्हिदय. तिची सेवा करतनां म्हाका तिची काकुळट दिसली.

एक दीस थारावन हांव एका पांयार चलून, भोंवन, न्हावन, टॉयलेट बी करून पळयलें. मांचेर अदीक लक्ष दिवंक जाय. हांवें टिव्ही तिचे कुडींत हालयलो. नवो सीडी प्लेयर हाडून दवरलो. कुबड्यो हाडल्यो. आनी नर्स कामार रुजू जाय मेरेन मांचेच कुडींत न्हिदलों. रातभर झिरो व्होल्ट बल्बाच्या उजवाडांत दोळो लागलो तरी न्हीद जाली अशें दिसलें ना.

दिवे पालोवन न्हिदपाची संवंय सगल्यांकूच. हांव तर काळखाचो पुजारी. चित्रा म्हणटालें, तें राती न्हिदपाक वता तेन्ना दिवो पालयता. 'काळखांत बरी न्हीद पडटा. कित्याक जाणा? सकाळीं उजवाडटलें हाची खातरी आसता.' म्हाका मात उठटकूच लेगीत उजवाडचेंच न्हय अशें दिसतालें.

मांक घरा हाडली तेच सांजेर व्हडलो माम येवन गेलो. भावाक पळोवन भयणीक कितली खोशी जाली कळ्ळें ना. "बाय, हात हालयत आयलां. तुका डायट सांबाळचें पडटा न्हय? बेगीन बरें जा, मागीर तुका जाय तें माग." सदचेवरी मामान उकलापें सांगलें. भाच्या खातीर हाडपाचो प्रस्नूच नासलो कारण हाचे पयलीं केन्नाच हाडूंक नासलें. धा एक मिण्टां बसलो. आनी पर्थून येतां म्हूण सांगून ताकतिकेन गेलो.

दुसऱ्या दिसा धाकलो माम हाजिरी लावन गेलो.

मनाकाळजा थावन येवपाचीं तांतलीं दोगां पावलींच नात. चित्रा पयस म्हूण आनी फातिमा नदरकैदेंत म्हूण. पूण मार्टीनसर आयलो. ॲपल घेवन आयलो. मांची चवकशी केली. गरज पडल्यार आपूण आसां हाची जाणविकाय दिली. वतनां मेजावयलें पुस्तक पळयलें. बेबीजी. ब्लर्ब वाचलो आनी दवरलें.

सोमारा धा वरांचेर रेबेकाक मेळपाक जीएमसींत गेलों. तिका सोदूंक म्हजे दोळे भिरभिरूंक लागले.

हांव तिका वॉर्डांत सोदतालों. मागीर लक्षांत आयलें. सोमाराक तिचो सुटयेचो दीस. हांव फाटीं घुंवलों जाल्यार ती कॉरिडरांतल्यान म्हजेच दिकेन येताली. पयलीं वळखुंकच विसरलों. साडयेंतली रेबेका वेगळीच दिसताली. इगर्जेंतली फातिमा सायबीण रंगान काळशी आसल्यार कशी दिसतासली, तशी. वाटेरच तिका कोणेतरी धांवत येवन आडायली. वळखीचो सो दिसलो. तो उलयसर हांव पयसच रावलों. पूण तो तिचो निरोप घेवन वचपाक घुंवलो तेन्ना ताका वळखलों - ''आयक, असलमभाय...'' तो खीणभर थारलो. म्हजेर नदर पडनाफुडें काचाबुल जावन फाट करून धांवतच भायर गेलो.

सिस्टर रेबेकान तें पळयलें. ''तूं वळखता ताका?''

''हय.'' हांवें तकली हालयली.

''ताकतीक आसतली ताका. भयणीची शादी जावची आसा खंय.''

विचारचें, ना विचारचें? विचारलेंच. ''हांगा कोणाक मेळूंक आयिल्लो तर?''

''तो आयिल्लो सायकियाट्रीक डिपार्टमेंटांत. पूण हांगा म्हाकाच मेळूंक आयिल्लो.''

म्हज्या तोंडावयलें प्रस्नचिन्न पळोवन ती थोडी गणमणली. तूं जाणा न्हय- तागेली भयण -

''फातिमा?'' म्हजे तोंडसून उतर सुटलें.

''हय.'' खीणभर अनमनली. मागीर तिणें सांगलें - स वर्सां फाटीं ती डिप्रेशनांत गेल्ली तेन्ना जीएमसींतच ट्रीटमेंट घेताली. रेबेका तेन्ना सायकियाट्रीक वॉर्डांत नर्स आसली. फातिमा बरी जावन गेली. पूण मदीं मदीं तिका गुळयो घेवच्यो पडटात. ''स्वीट गर्ल. पूण काकुळट बाबडेची...''

"शी इज व्हॅरी स्वीट! पूण काकुळट कित्याक म्हळें तुवें?"

ती पर्थून अनमनली. "पेशंटा विशीं अशें दुसऱ्यांक सांगचें न्हय. पूण... तुका सांगतां - पुअर गर्ल- तिची शादी जातली म्हूण खंय नर्व्हस आसा. तो डॉक्टराक मेळून वखदां व्हरूंक आयिल्लो."

अदीक बारीकसाण घेवपाची म्हाका गरज दिसली ना. विशयाक हात घालून विचारलें, "भयण आयली ना?" विचारलें आनी लक्ष गेलें. तिचेच फाटल्यान ती आसली. रेबेकाची भयण म्हूण सांगिनासतनाच कळटालें.

"अमांदा!" तिणें वळख करून दिली.

"या, न्हय? हांवें बायक हाडल्या. तुमी फाटोफाट रिक्षान येयात."

हांवेंच रिक्षा आफयली आनी म्हजे फाटोफाट येवंक सांगलें.

रेबेकान घर पळोवन घेतलें.

सिस्टर रेबेकाक पळोवन मांच्या तोंडार हांसो उदेलो.....

खूब तेंपान तो हांसो पळयलो हांवें. म्हाका दिशिल्लें घराची बुरशी आवतिकाय पळोवन रेबेका-अमांदा तोंड वांकडें करतलीं. सगलें घर पळयतनां रेबेका म्हजे कुडींत पावली- "हांगा इतलो काळोख कित्याक?" जनेल उकतें करतां करतां रेबेकान विचारलें.

"म्हाका संवयच जाल्या काळखाची."

जनेल उकतेंच दवरून रेबेका भायर आयली. मांची खबर घेतली. भयणीक कितें कितें करपाचें तें सांगलें. रेबेका मलयालम उलयताली तें आयकुपाक बरें दिसतालें. भयणीक कळटा काय कोंकणी? "कोंकणी शिकतलें. पूण ताका इंग्लीश येता. थोडी थोडी हिंदीय येता."

भयणीक मांचे फुड्यांत कामाक लावन रेबेका भायर आयली.

"परोब,-"

"म्हाका 'बाबू' म्हण, सिस्टर."

"बाबू, हांव जाणा, तूं जंटलमन. पूण- अमांदा खूब सॅन्सिटिव्ह. तिका हांगा कसलोच त्रास जावंक जायना. अमांदा तुमचेर बर्डन जावची

ना. पूण व्हडली भयण म्हूण हुसको दिसता. तिणें खूब सोंसलां. घोव ॲक्सिडंटांत मेलो आनी घरच्यांनी तिका खूब सतायली. म्हाका बगलेक उरतली देखून चड करून तिका हांगा हाडली. सांबाळून घे.'' आनी मागीर भयणीक आफोवन तिणें तिका मल्यालमांत सांगलें. अदमासान कळ्ळें- 'सारकें राव. मोबायल चार्जड दवर. मदीं मदीं फोन कर.'

रेबेका गेली. खीणभर दिसलें- रेबेकाच मांचे बगलेक राविल्ली जाल्यार?

दुसऱ्या दिसा कॉलेजींतल्यान पत्र आयलें. कंट्रोलर ऑफ एक्झामिनेशनचें. आयलें ना जाल्यार अजाप. हांव कॉलेजींत पावल्यार दोनेक म्हयने तरी जातले. मदीं दिल्लो असाइनमँट्य पुर्ण जावंक नासलो. थोड्या लेक्चररांनीं तर म्हजें तोंडूय पळयिल्लें नासुंये.

''डू यू नो परोब, तुजो अटेण्डन्स कितलो जाला?''

कितें उलोवं?

''30 पर्सेंट! म्हळ्यार 70 पर्सेंट आबसेंट.'' प्रोफेसर जापेची वाट पळयत थोडो वेळ रावलो. ''तुगेलो इंट्रासेमिस्टर असॅसमेंट इज व्हॅरी पुअर. मिनिमम 75 पर्सेंट अटॅण्डन्स कायद्यान जाय. 60 वा 50 मेरेन, तेंय जेनुईन कारण आसल्यार, माफ करूं येता. पूण 30 पर्सेंट? एक्झाम कमिटीन आजून निर्णय घेवंक ना. कित्याक जाणा? तांचें म्हणणें - यू आर अ ब्रिलियण्ट स्टुडण्ट. हांवें आयकून घेतलां. पूण एक कण्डिशन- तुवें बरोवन दिवचें पडटलें. हाचे मुखार फूल अटेण्डन्स दितलों म्हूण -''

हांव उठलों. कॅण्टिनांत वचून च्याचो कप घेवन मेजार बसलों. कागद-पेन काडलें. आनी च्या सोंपचे पयलीं बरोवन सोंपयलें- 'आय कीट'. एक कागद व्हरून प्रिन्सिपलाल्या ऑफिसांत पावयलें आनी दुसरें कन्ट्रोलराल्या.

त्याच दिसा वचून मार्टीनसराक मेळ्ळों. ''सर, यू मे नॉट अप्रूव्ह ऑफ इट. पूण हांवें कॉलेज सोडलें.'' म्हाका दिशिल्लें, सर तिडकतलो वा निर्शेतलो. निदान ताच्या मुखामळार प्रस्नचिन्न उदेतलें.

''वॅल, कांय नेजो. तुवेन चिंतूनच डिसिजन घेयलां आसतेलें.'' मागीर ताणें हांसून सांगलें, ''कॉलेज सोडलें. पूण शिकप सोडूं नाका. फॉर्मल एज्युकेशन नासल्यारूय व्हड मनीस जावं येता. हॅन्री फोर्ड खूंय शिकललो? थॉमस एडिसनान स्कूल लेगीत कंप्लीट केले नासलें. आनी बील गेटस इज अ कॉलेज ड्रॉप आउट. पूण –हे सगले जिनियस आसले. तुजेभाशेन. ओन्ली डिफरन्स इज – ते अँबिशस आसले; तूं ना.''

घरा वचचे पयलीं वासुदेवाल्या हॉटेलार वचून चपात्यो घेतल्यो. हुमण व्हरूंक सोदतालों. ताणें म्हळें चिकन तयार आसा. शीत घरा वचून करूं येतलें असो विचार करून चिकन घेवन घरा यो जाल्यार शीत, रोस आनी रोटयोय तयार आसात. अमांदाक नेमून दिल्ल्या कामांत रांदप बी नाशिल्लें. मांचे खातीर सूप बी केल्यार समजूं येतालें.

''आय गॅट टायम –आय कूक. डॉण्ट वरी, सर.'' जेवपाक बसपाक हांव खांकुडलों. तिका 'यो जेवंया' कशें म्हणटलों?

''तूं जेवन घे, पयलीं'' म्हळें. जाल्यार ''यू ईट फर्स्ट. आय कॅन वेट.''

पुटवलें ना. तरी हांवें जेवन घेतलें. चपात्यो सांजेक दवरून अमांदान केल्ल्यो रोटयो घेतल्यो. चिकन सांजेक उरपा इतलें हाडिल्लें. जेवन ताट काडलें. घांसुनूय दवरलें. जेवण डायनिंग टेबलार दवरलें आनी अमांदा खातीर एक ताट मेजार दवरलें. आनी ती जेवन घेतली म्हूण भितर गेलों. पंदरा वीस मिण्टां जेवणाकडेन जाग ना म्हूण भितर वचून पळय जाल्यार जेवण तशें. मांचे कुडींत वचून 'जेवन घे' म्हूण सांगलें तेन्ना ती उठली.

संकोच म्हाका चड दिसतालो काय अमांदाक तें कळ्ळें ना.

आयतारा कृष्णा आयलो. नर्स आसा आनी ती घरांतूय आदार करता तें पळोवन खुशाल जालो. मांची खबर घेवपाक भितर गेल्लो कृष्णा येदो वेळ कोणाकडेन खबरी मारता तें पळोवंक म्हूण गेल्यार हो अमांदाकडेन मलयालम भाशेंत उलयता. त्या दिसा पयलेच खेपेक अमांदाच्या तोंडार उजवाड पळयलो हांवें. तोंडार हांसो फुलोवपाचें सामर्थ्य आवयभाशेंत आसा हें त्या दिसा होलमलें.

"तूं रे खंय शिकलो मल्यालम?" विचारल्यार कृष्णान सांगलें ताका 'फकत उलोवंक कळटा. वाड्यार कांय मलबारी घरां आसात. तांगेल्या भुरग्यां कडल्यान थोडी थोडी शिकलां'.

कृष्णाकच सांगलें घरांत कितें आसा कितें ना तें पळोवन वळेरी करूंक. तो घरांत आसतनांच सुपर स्टोअरांत वचून सामान हाडपाचें येवजिल्लें.

वळेरेंत हाचे पयलीं केन्ना नाशिल्ल्या वस्तींचोय आसपाव आशिल्लो. उडीद दाळ, इडली रवा, सांबार मसाला, प्युअर घी, मुगदाळ, ब्राउन राइस ह्या वस्तीं वांगडाच सदचें तेल, आटा, वॉशिंग पावडर, उजवाती, धूप... वळेरी बरीच व्हडली जाल्ली.

"सर, अम्माईन हेंय हाड म्हळां. हांव हाडूं?" कृष्णान दोनशीं रुपये आनी दुसरें एक लिस्ट दाखोवन विचारलें. त्या लिस्टार अमूक शांपू, पॅराशुट खोबरेल आनी एक कोलगेट टूथपेस्ट इतलेंच आसलें. हांवें म्हळें, "ह्यो तिनूय वस्ती व्हडल्या लिस्टार घाल आनी ते दोनशें रुपया तिका परते दी".

अमांदान पैशेय परते घेतले आनी लिस्टय. पूण घरचें सामान आयलें तेन्ना तातूंत त्यो तीन वस्ती पळोवन ती मल्यालम भाशेंत जें आपले भितर उलयली ताचे वयल्यान तिका तें आवडलें ना इतलें कळ्ळें. त्याच दिसा सांजेर नर्स रेबेकाचो फोन आयलो. "हांव सांगूंक विसरलीं. दर सोमारा सकाळीं तिका हाफ डे सुटी दी, बाबू. म्हाका सोमारचो ऑफ आसता.

फाल्यां सकाळीं णवांक येतां हांव अमांदाक व्हरपाक. सांज जावचे पयलीं हाडून पावयतां. ओके?''

कृष्णा वचपाक गेलो आनी चित्राचो फोन आयलो. मांची खबर पयलीं घेतली. सांगली.

कोण पळयता तिचें?

– नर्स दवरल्या. 24 वरां. ·

आनी रांदप-करप?

– हांवूच करतां. तीय हॅल्प करता.

कॉलेज ?

–सोडलें.

फातिमाची खबर?

– तुवें सांगपाची.

''हांवें केल्लो फोन –''

ताका तोडून हांवें विचारलें. ''तुका बरो लागलो. म्हाका लागच ना कित्याक?''

''तिचेकडेन फोन ना. हांव असलमाच्या फोना वयल्यान खबर घेतां आनी तें एकलें मेळटा तेन्नाच उलयतां.''

''आनी असलामभाय? तो कांय म्हणिना?''

''फातिमा ताका खूब प्यारी. तुजोय ताका राग ना. तो भियेता समाजाक. इमामाक. तुमची दोस्ती असलमाक आसली तरी तांकां मंजूर ना. असलम तांचे सांगणेभायर वचूंक भियेता....''

''निकाह लावपाची इतली ताकीत कित्याक चलयल्या तांणी?''

''तूं नकळो विपीन. ताणें तुका मेळूंक जायना अशें फर्मायलें तेन्ना फातिमान तांकां स्पश्ट सांगिल्लें – मोहब्बतके आड आयल्यार आपूण पळून वतलीं म्हूण तुजे वंगडा. आनी खऱ्यांनीच तिची तशी तयारी आसली.''

“म्हणचे, हांवें प्रपोज केल्लें जाल्यार येतासलें तें म्हजे बरोबर?” चित्रा वग्गी रावलें तें पळोवन हांवें विचारलें, “येतासलें? लव्ह इन रिलेशनांत रावपाक?”

“आतां जर–तर उलोवन कितें उपेग? ताची इत्सा आसूं– नासूं. घरचीं ताचो निकाह लावपाचे तयारेक लागल्यांत. तूं जाणा? तें शादी करून मुंबय येतलें खंय. न्हवरो हांगाचोच.”

चित्रा खूश आसलें आपणाली इश्टीण आतां लागीं पावतली म्हूण? तांची इश्टागत फुडें वतली म्हूण? म्हजें तोंड कोडू जालें. हांवें फोन तोडलो.

“सर, च्याय!”अमांदान च्याचो कप मुखार दवरलो आनी मांक सूप घेवन भितर गेली. च्या चो घोंट मारनाफुडें तोंडाची रूच परती आयली.

फातिमाचो हात धरून घेवन आयल्यार तें खुशाल येतासलें. लव्ह इन रिलेशनच कित्याक? रखेल, आंगोस्तर म्हूण लेगीत रावपाची ताची तयारी आसूं येताली. पूण हांवच घाणलों. पयलीं येवजलेंच ना. तातंत मांचे दुयेंस उप्राशिल्ल्यान हांव घाळ उरलों. चित्रा मुजरत आयिल्लें म्हाका शिटकावपाक. म्हाका दिसलें म्हजेर लग्नाचें चेंपण हाडटा म्हूण. हांवें म्हजेपुरतेंच चिंतलें. फातिमाचें येवजिलेंच ना. तेन्नाच जर हांवें सांगिल्लें– हांव फातिमा वांगडा रावपाक तयार आसां, ताका म्हगेल्या घरांत दवरपाची म्हजी तयारी आसा जाल्यार घडये आयज फातिमा आदलेवरीच चैतन्याची म्हुर्त जावन म्हज्या वांगडा आसतासलें. घरांत शायरीची सोलो मैफल जातासली. म्हज्या घराचें वांकडें आंगणूय ती सीधी साधी छोरी नाचतकूच रंगमाची जातासलें. ... आजुनूय शक्य आसा व्हय?

हांवें पर्थून फोन लायलो, “सॉरी, चित्रा, तुका हांवें उलोवंकच दिलें ना. तुवें फोन केल्लो फातिमाकडे उलयलें म्हूण सांगपाक –”

“तुवें उलोवपाक दिलें ना. आसूं. आयक. हांवें फोन केलो तेन्ना

फातिमा सामकें डिप्रॅस्ड आशिल्लें. तुवें म्हाका सांगिल्लें उतरान उतर हांवें ताका सांगलें. 'आय थिंक आय लव्ह हर.... लाइफ पार्टनर म्हूण ताका आपणावपाची तुजी तयारी.... लग्न, शादी हीं रिच्युअल्स फातिमाकूय नाकाच आसलीं. लीव्ह इन रिलेशनशीपांत रावपाची ताचीय तयारी आसली खंय. फकत - तुवें कळाव केलो सांगपाक.''

"सॉरी!'' नकळटना हें उतर म्हज्या तोंडसून भायर सरलें. घडये, आयुश्यांत पयलेच खेपेक.

"पूण- सरप्रायजिंगली- त्या उतरांनी फातिमांत जाल्लो फरक म्हाका जाणवलो. उचांबळीत जावन विचारूंक लागलें- रिअली? खरेंच ताणें म्हळें, 'आय लव्ह हर'? फायनली, ही रिअलायजड ईट. हांव जाणाच आसलें. पूण विपीन खूब स्टबर्न. कबुलच करिनासलो. पूण नाउ आय ॲम हॅपी. तो म्हजो मोग करता हें ताच्या तोंडसून आयकतकच आतां म्हाका मरण आयल्यार उपकरता. मागीर म्हळें ताणें. पूण आयक, तें मरणाची खबर उलयनासलें. ताणें फुडें सांगलें- हांव ताचें फर्स्ट लव्ह आनी तो म्हजो. आतां शादी लेगीत तें पुसून उडोवंक शकची ना. तुवें मोग कबूल केलो हातूंतच ताणें सूख मानलां.''

फुडें उलोवपाची म्हजी वानसाच गेली.

रितो कप घेवन रांदचे कुडींत वच जाल्यार कॉफीचो वास नाकात भरलो. अमांदान आपणां खातीर कॉफी केल्ली.

इंजक्शनां करपी दोतोर वा नर्स हीं ल्हान भुरग्यांक आपणालीं दुस्मान कशीं दिसतात. म्हाका पळयतकच मांची गत्त तशी जाता? काय अमांदाकूय ती अशीच करता? सकाळीं रेबेका भयणीक व्हरपाक आयिल्ली तेन्ना ती मांची खबर घेवन गेल्ली. तिका पळयना फुडें मांच्या तोंडार हांसो फांकिल्लो. अमांदाविशीं कागाळ केली ना. पूण तीं दोगांय वतकच नाशिल्लो नेट काडून म्हाका खेपीत रावली.... 'पांय कातरलो तो कातरलो, आजून पोटाक कित्याक मारता?...वखदांचेर हज्जारांनी मोडटा, ताळ्यार मात फुटी च्या ना... गोडशें ना तें ना, केळें-चिकू, फळांय बंद... तूं हाडिना तें हाडिना, विनूकूय सांगलां मरे तुवें खावंक हाडूं नाका म्हूण?'

डॅडी आयकून घेनासलो, हांव मोन्यानी आयकून घेतां देखून ती जीब सदळ सोडटाली. भंगूं बाबडेचें. बरी जातली आनी आदलेवरी जिबेची अपुर्बाय करूंक मेळटली म्हूण तिणें पांय कातरून घेतिल्लो.

"नर्सूच दवरपाची जाल्यार सकाळीं आयिल्ली ती हॉस्पिटलांतली तरी दवरची आसली. ही दवरल्या तीय तुजेच भाशेन- वळवळायता म्हाका."

"हॉस्पिटलांतली नर्स कितें खावंक दिताली तुका?" न सुटकेक विचारलें.

"तेन्ना म्हज्याय तोंडाक रूच नासली. आतां खायन दिसता अशावेळार

ती आशिली जाल्यार दितासली.''

मांचें तोंड बंद जावचें म्हूण हांव पुस्तक घेवन बसलों.

''तूं बरो जाय जाय तें खाता'' हो डायलॉग आयकुचे पयलींच हांवें दनपारचें जेवण ताटांत वाडून घेतलें आनी तिचे कुडींत तिच्या मुखारच बसलों. अमांदान दनपारची तयारी करून दवरिल्ल्यान म्हाका कांयच करचें पडूंक नासलें. पयली उंडी तोंडांत घेतनाच तिणें विचारलें, 'कितें रांदलां आयज?'

''बॅस्ट जालां जेवण, मां. कारात्याची भाजी, रोटयो आनी सॅलड.''

''आनी शीत, कडी?''

'ना.' आयकून तिणें सुसकारो सोडलो.

म्हगेलें सोंपतकच हांवें तिका सूप दिलो आनी रोटी खावयली. तरी हिचें 'केळें तरी दिवचें आशिल्लें' बाणीर बोट...

''ते दोतोर, ती नर्स आनी तूं सगलीं म्हगेलीं आदल्या जल्माचीं दुस्मान आसतलीं. म्हाका खावन पिवन मरूं दी म्हळ्यार तेंय आयकनात. एका केळ्याक पादिशेर केली म्हाका? अशें खावंक मेळचें ना जाल्यार जियेवं तरी कित्याक?''...मां न्हीद पडसर झांकत रावली.

सांजे साडेसंक सुमार रिक्शा घेवन रेबेका आनी अमांदा आयलीं. संवयेन रेबेका मांक मेळ्ळी. अमांदा आयली तीच कामाक लागली. रेबेकान केळ्यां मानांची एक धाकली पिशवी म्हज्या हातांत दिवन सांगलें, केरळाचीं. अमांदान येतना हाडिल्लीं. आवयक मात दिवं नाका.''

''तूं जाणा, सिस्टर, ती कितें म्हणटा?'' मानांची पोटली कुशीक दवरून हांवें सांगलें, ''नवी नर्स दवरचे परस हॉस्पिटलांत आशिल्ली तीच बरी आशिल्ली.''

''एनी कम्प्लेन?'' रेबेकान हुसक्यान विचारलें.

''ना, ना. तिची तशी कम्प्लेन ना. तिका धाडची आनी तुका दवरची अशें दिसता तिका.''

‘‘आनी तुका?’’

‘‘ऑफ कोर्स, तुजेसारकी सिस्टर मेळ्ळ्यार कोणाक नाका?’’

‘‘अमांदाक व्हरूं परत?’’

‘‘ना सिस्टर. तशें निखालस न्हय. मांक तूं आवडटा. कारण तिका दिसता तूं तिका जाय जाय तें खावंक दितली.’’

रेबेका हांसली. ‘‘भाशेची अडखळ सोडल्यार ती नर्स म्हूण खूब बरी. म्हजे परसूय बरी.’’ आनी आयल्या पयल्यान कोण आयकना हाची खातरी करून तिणें म्हळें, ‘‘म्हाका आन्येक गजाल उलोवंक जाय आसली.’’

म्हाका दिसलें ती ॲडव्हान्स पेमेंटा विशीं सांगूंक सोदताली. पूण ना.

‘‘तुवें खंय शांपू, तेल बी हाडून दिलें आनी पैशे घेतले नात. तिका तें आवडलें ना. तिका इण्डिपेण्डंट रावपाक आवडटा - देखून.’’

हांव तटास जालों. तिचे अस्मितायेक म्हगेल्या संस्कारांनी नकळटनां धक्को दिल्लो.

‘‘नॅक्स्ट टायम तिणें कितेंय मागल्यार - ती मागपी न्हय, पूण मागलें जाल्यार पैशे घे. ओके?’’ हांवें तकली हालयली. रेबेका हे खेपेक सदळसाणीन उलयली, ‘‘स्पश्ट सांगतां- अं बाबू, घरांत तूं आनी तुजी आवयच. तिकाच न्हय म्हाकाय बी थोडो हुसको दिसताच. पूण म्हाका मनीस पारखुपाची नदर आसा, अशें म्हाका तरी दिसता. म्हाका तुजो भरवंसो दिसता-’’

‘‘आनी तिका? अमांदाक?’’ हांवें मदींच विचारलें.

‘‘तिची कांय तक्रार ना.’’

म्हाका याद जाली, ‘‘हांव जाणां, पेशंटाची काळजी घेवप इतलेंच तिचें काम. पूण ती रांदपाकूय घरांत आदार करता, तिका सांग, जाता ते भाशेन हांव रांदतां. जाय जाल्यार वावराक कोणूय मेळटा जाल्यार पळयतां. तिणें काम करपाची गरज ना.’’

रेबेका हांसली. ‘‘तिच्यान बेकार बसूंक जायना. मांक कितें जाय नाका पळोवन फाविल्या वेळांत ती करता जाल्यार करूंदी. तिका तें

आवडटा देखून करता. डॉन्ट वरी.'' मागीर रेबेका भयणी बगलेक गेली.

वचचे पयलीं तिणें म्हाका सांगलें, ''तो - हॉस्पिटलांत येतालो तो भुरगो - काल आयिल्लो तो-''

''कृष्णा?''

''व्हय. तो अमांदाक खूब आवडलो. गूड बॉय म्हणी ती. फुडल्या आयताराक येतां म्हूण सांगून गेला खंय.'' तें आयकून कित्याक कोण जाणा, म्हाकाय बरें दिसलें.

'मोहर्रमच्या म्हयन्यांत शादी-निकाह जायनात देखून डिसेंबरांत जातली.' चित्राकडल्यान खबरी कळटाल्यो. न्हवरो बरो दुडवांकार बिझिनेसमन - ताणें दोनापाउलाक एक बंगलोच भाड्यान घेतिल्लो... पंदरावीस लोक मुंबयच्च्यान आनी पयसुल्ल्यान शादी मनोवपाक गोंयां आयिल्लो... आदले राती शुक्राना. जोहर नमाज जातकच 11.38 चो मुहर्रत आनी निकाह जाल्या उपरांत बालिमा की रसम. चित्राक ह्या सगल्या कार्यक्रमाक हाजीर रावपाचें आमंत्रण आशिल्लें खंय. पूण चित्रा गेलें ना. म्हाका अर्थातच आमंत्रण नाशिल्लें. फातिमान एक पैगाम मात धाडिल्लो चित्रा मार्फतीन- 'निकाह जालो तरी हांव तुका पिडत रावतलें.'

ताका कितें म्हणपाचें आसलें तें ताकाच खबर. पूण तें सप्तकभर मात ताच्यो यादी पिडत रावल्यो खऱ्यो.

''बाबू, आपणांक ख्रिसमसाची एक दीस सुटी मेळटली काय विचारतालें आक्का.''

''आक्का? तूं तिका अम्माई म्हणटालो न्हय रे?''

कृष्णा हांसलो. अम्माई म्हळ्यार आण्टी. कृष्णान अम्माई म्हणपा

इतली काय जाण्टी न्हय देखून आक्का म्हण म्हूण अमांदानच सांगिल्लें खंय ताका. कृष्णा परस बारा पंदरा वर्सांनी व्हड आसू ये ती. आतां आक्का म्हणिना फुडें कितें धा वर्सांनी ल्हान जातली?

"25वेर न्हय, च्योविसाचे राती मीडनायट मिसाक वचपाक जाय खंय तिका. देखून 24वेर सांजेची वचून आपूण 25वेर सांजेची परती येतां म्हणी."

नाका म्हणपाक रझांव नाशिल्लें. "सिस्टर रेबेकाक व्हरपाक येवपाक फावचें ना खंय. हांवूच पावोवन येतां तिका." कृष्णान म्हळें.

कृष्णा-अमांदामदें नकळटना भावा-भयणीचें नातें जुळून आयिल्लें. ती ताका 'आनियन' म्हूण उलो मारूंक लागिल्ली. दर आयतारा कृष्णा येतालो आनी मांचे कुडींत वा किचनांत देड दोन वरां तांच्यो खबरो चलताल्यो. मागीर मागीर कृष्णा तिका कोंकणी शिकोवंक लागलो आनी ती कृष्णाली मलयालमाची मोडकी गाडी रुळार हाडूंक लागली. कृष्णाच्या निमतान आयताराचे म्हज्याय पानांर केरळी जिनस पडूंक लागले. एक दीस कृष्णान तिका 'हांव सायबा पलतडी वयतां' गावन दाखयलें. आनी ती ना ना म्हणटा आसतनाच तिका मलयालम गावन दाखोवपाक लायलें. म्हज्या कानांर पडचें न्हय अशा ल्हवू आवाजांत तिणेंय म्हणून दाखयलें. आयकलें हांवें. तिच्या आवाजांत गोडी नाशिल्लीच. सूर तर साप्प नाशिल्ले. तिणें म्हज्या मनांत सुस्ताविल्ली फातिमाची याद मात जागयली.

बेसुरी मलयालम आयकुचे परस मलयाली सुरांतलीं गितां आयकल्लीं बरीं. दुसऱ्या दिसा हांवें खबर काडून लोकांमोगाळ जाल्ल्या मलयालम फिल्मी गितांच्यो तीन सीडी हाडून तिचे सुवादीन केल्यो.

आयतारा कृष्णान येवन वचप आनी सोमारा रेबका वांगडा अमांदान भायर सरून वचप हे नित्याचे चालींत त्या दिसा खंड पडलो. अमांदान सांगलें- "आक्का वील नॉट कम. बिकॉज ऑफ ख्रिसमस. आनियान वील टेक मी."

24वेर बाबडी साडी बी न्हेसून तयार राविल्ली. कृष्णान खुबूच कळाव केलो. धांवत आयलो पूण म्हणूंक लागलो, ''सॉरी बाबू, चडच उशीर जालो म्हाका. भायर काळोख जाला. बसूय मेळची ना. मातसो तूंच पावय तिका. हांव रावतां मां सरीं, तूं परतो येसर.''

पिलियन सीट रागार जातलो असो फातिमाचो हुसको घेवन हांव, आनी म्हाका चुकून तेंकत हो दुगदुगो घेवन अमांदा अळंग बसली. खिणाखिणाक फातिमाची याद येत रावली.

''हॅपी न्यू यिअर, विपीन.'' सकाळीं सकाळीं चित्राचो फोन आयलो. संवकळेन मांची खबर घेतली. ''तिची सुश्रुशा कोण तूंच करता? कृष्णा येता आदाराक?'' तिका कल्पना नाशिल्ली पांय एँप्यूट केल्ले जाण्टे बायलेची सुश्रुशा म्हळ्यार कितें आसता तें. हांवें अमांदाची खबर सांगली. मागीर ताणें म्हजी खबर घेतली. कितें करता? कितें वाचता, कितें मीस करता.. आनी मागीर मुद्यार आयलें. ''काल फातिमाकडेन उलयलें. ताचोच फोन आयिल्लो. तूं जाणा, म्हाका चड पयस ना ताचें घर. हांव अंधेरीक, तें कांदिवलीक.

काळीज धडधडटा तेन्ना उतर सुटना म्हाका. पूण रावं नज जावन सुटलें. ''कशें आसा तें?''

''म्हाका दिशिल्लें ताचे परस बरें आसा.''

हावें जाचो सुमार केल्लो तें फातिमा दोळ्यांमुखार उबें जालें. खुश हाल आसतलें अशी कल्पना तरी कशी करूं?

''हांवें मरे चुकून विचारलें ताका - विचारूंक नाका आशिल्लें - विचारलें, हाउ इज लाइफ? ताचे जापेन न्हिन्नळळें. ताणें म्हळें, 'जिची रेप जाता तिकाच विचारता? हाउ इज लाइफ?' कितलें सोंसता आसतलें तें!'' मागीर मनाक आटापाक हाडून चित्रान सांगलें, ''तुजी खबर घेतालें.

खूब याद काडटालें. शादी करून घोवागेर पावलें तरी लाइफ पार्टनर मात विपीनाचेंच म्हूण सांगतालें. तुका फोन करतलें आयज -''

एड्रेनलीन शूट अप जालें. व्हडा उमळशिकेन फुडलें आयकुपाक रावलों.

''ताणें एक उपकार मागला तुजे कडेन. मनमेकळेपणान आनी सदांच तुजे कडेन उलोवपाक मेळचें म्हूण एक उपाव सोदला ताणें. तें तुका विपीन म्हूण उलो मारचें·ना. ताणें मोबायलाचेर लेगीत तुजो नंबर 'फिलिपिना' म्हूण स्टोअर केला. त्याच नांवान उलो मारतलें तें. आनी कोंकणीच उलयतलें, चड करून कोणूय लागीं आसतना. कोणाक कळचें न्हय म्हूण. फोन तुवें करप ना. तें तुका करतलें. हेरां खातीर फिलिपिना हें ताचें गोंयचें कॅथोलीक फ्रॅण्ड, कळ्ळें?''

चड वाट पळोवची पडली ना- ''हॅलो फिलिपिना, हॅपी न्यू यिअर.''

कानार आवाज पडलो आनी म्हगेलें साउण्ड बॉक्सच बंद पडलें. ''हॅलो फिलिपिन, आयकूंक येना? फकत म्हाका वीश कर. तुज्या आवाजाक रावतां हांव- पिशा भाशेन.''

''थँक्यू. वीश यू...'' ताका हॅपी म्हणपाक जड गेलें, ''वीश यू द सेम.''

''बरे भाशेन राव. म्हजो हुसको करूं नाका. हांव फाल्यां करतां तुका फोन, ओ के? बाऽ य.'' एक तर फातिमालो गळो भरून आयिल्ल्यान ताणें उलोवपाचें टाळ्ळें वा घरचीं मनशां लागीं आशिल्लीं जावंये. फोन हातांत धरून खूब वेळ हांव थंयच उरलों.

दारांत फटफटी थारली आनी भानार आयलों. सिस्टर रेबेका कडेन तिची कायनॅटीक बाय्क आसा हें खबरच नासलें म्हाका. भयणीक व्हरपाक

येताली म्हूण रिक्षा हाडटाली जावंये.

''हॅपी न्यू यिअर!'' म्हाका हात दिवन भितर गेली. बद्द किचनांत वचून हातांतली पिशवी मेजार दवरली आनी मांचे कुडींत गेली. मां पॉटी करताली, जायसर रावली. मागीर हात दिलो, हॅपी न्यू य़िअर, मांय.''

''केक हाडला? काय हात दिवन फटयतली?''

रेबेकाचें तोंड पडलें.

''तूंय तसलीच.'' तोंड वांकडें करून मांन म्हळें, ''हांव जाणा तुगेले भयणीक केक दिवची ना तर तूं? हाडलाच आसतलो. म्हाका मात उपाशीं.''

रेबेकालें बाविल्लें तोंड पळोवन हांवें मांक शेडायली. ''तुका कोणे उपाशीं दवरल्या, मां? ती अमांदा तुजे खातीर आयज नवें वर्स आसुनूय भयणीगेर वचनासतना रावल्या- तुजी सेवा करपाक. सद्दां तुजे खातीर सूप करता, आंबील करता, आपल्या हातान खावयता. तरी-''

''पैशे दिना तूं तिका?''

तरी बरें, दोगी भयणी तेन्ना मेरेन किचनांत पाविल्ल्यो. इतल्यान अमांदा एके बश्येंत केकाचो कुडको घेवन आयली. म्हाका दिसलें, म्हजे खातीर. पळय जाल्यार मांक दिवपाक. 'तिका नाका' म्हणचे पयलींच फाटल्यान आयिल्ले रेबेका सिस्टरीन सांगलें, ''डॉण्ट वरी, हांवें अमांदाक सांगलां- आयच्या दिसा इन्सुलिनाचो डोस वाडोवन दी. तिकाय नवें वरस सेलेब्रेट करुंदी.''

मां खूश. ''हांव जाणाच आसलीं. तूं म्हाका केक खावयतली म्हूण. हो बाबूच म्हाका वळवळायता.''

रेबेका भायर सरतनाच कृष्णा आयलो. ''केक हाडला'' म्हणीत केक व्हरून रांदचे कुडींत जेवणा मेजार दवरलो. ताणें तो केक म्हजे खातीर म्हणचे परस अमांदा खातीर हाडला अशें दिसलें म्हाका. वतां वतां कृष्णाकूय हात दिवन गेली रेबेका.

हांव फोन घेवन बसलों. मॅसेजीस चाळटना पळय जाल्यार 'हॅपी न्यू

यिअर' मॅसेजीं मदीं अमांदालीय मॅसेज. ह्या फोनान घरच्या मनशांकूय पयस केल्यात हें खरें तर!

"बाबू, आक्कान तुका खावपाक आफयला भितर."

"हांव येद्या वेळा खातां केन्ना?" हांवें उठनासतना विचारलें.

"पूण आयज न्यू यिअर. यो. वायट दिसतलें तिका."

पळय जाल्यार सिस्टर रेबेकान येतना आप्पम आनी मटण हाडिल्लें. भयणी खातीर हाडिल्लें. आतां मेजार कृष्णा आनी हांव बसून खावंक लागल्यार तिका उरपाचें ना. हांवें एकूच आप्पम घेतलो. जाल्यार तिणें म्हाका विचारनासतनं आन्येक आप्पम वाडलो. करबेलाचीं भरपूर पानां घालून केल्लें मटण बरें जाल्लें. हांव घेवपाक अनमनतां तें पळोवन तिणें धांकणें काडून तोप दाखयलो म्हाका. खरेंच भरपूर आशिल्लें. हांवें म्हळें, 'कृष्णाक खावंदी आनी तूंय बस'. पूण म्हगेलें सोंपसर ती बसली ना.

मां निवळटाली. पूण आजून ड्रॅसिंग करचें पडटालें. एक दीस सिस्टर रेबेकानच म्हाका सांगलें, हॉस्पिटलांत व्हरून डॉक्टराचो सल्लो घे. येन्ना म्हणसर जखम बरी जावंक जाय आसली. इन्फॅक्शन आसत जाल्यार पळोवचें पडटलें. तेप्रमाण दाखयलें. डॉक्टरान अँटिबायोटीक बदललें आनी इन्सुलीनचो डोस वाडयलो. मार्च म्हणसर खवळी लेगीत वचून जखम भरून आयली.

एक दीस मांन आफोवन म्हाका सांगलें, ‘‘लग्न जा. बायल हाड.’’

हांवें विचारलें, ‘‘कित्याक? वावराक?’’

‘‘घरांत भुरगें जाय. वंश फुडें चलोवपाक.’’

वंश चलोवपाक? म्हणचे म्हाका जल्माक घाल्लो तोय वंश चलोवपाक? म्हाका कैफ-ए-आझमीची एक कविता वाचिल्ली याद जाली. ‘तुका नाका जाल्लें याद उरता’ मांन म्हणिल्लें खरें-

*आयज म्हज्या पुतान म्हाका विचारलें*

*तुवें म्हाका जल्माक कित्याक घालो?*

*म्हजेकडेन जाप नासली.*

*म्हाका याद आसा -*

*हांवेंय म्हज्या बापायक विचारिल्लें*

*आज्यान तोच प्रस्न पणज्याक आनी*

*पणज्यान शेणज्याक विचारिल्लो*
*म्हज्या पुता, एक काम कर*
*भुरग्याक जल्माक घालचे पयलीं*
*तूं विचार करून दवर*
*तो जेन्ना तुका विचारतलो*
*तुवें म्हाका कित्याक जल्माक घालो?*

हांवें मांक सांगलें, "म्हाका लग्न जावपाचें ना. भुरगेंय जल्माक घालपाचें ना. आमच्या वंशान आयजवेर जे दिवे लायले तें पळयतां हांव. आनीक उजवाड घालपाचो ना." बाबडी वग्गी रावली.

मां बरी जातली हाची म्हाका खोस जाताली काय चिंता वाडटाली तेंच म्हाका कळनासलें. नर्स आसा सर ती पिरंगली तरी सांगणेंत रावताली. सांगणेंत उरली जाल्यार तिचें दुयेंस थाऱ्यार उरतलें. नाजाल्यार तिचेर पातयेवपा सारकें नाशिल्लें. आयज ना फाल्यां नर्सीक वच म्हणचेंच पडटलें. म्हयन्या म्हयन्याक पंचवीस हजार तिका फारीक करप आनी ते भायर मांले वखद विर्सद. आयचे घटकेक तरी इतली आस्पत नासली म्हजी. म्युच्युअल फंडांत गुंतयत सावन येणावळ वाडिल्ली खरी. पूण इतले येणावळीची शाश्वती नासली. सिस्टर रेबेकान सांगिल्लें, आनीक दोनतीन म्हयन्यांनी तिका नर्सीची गरज पडची ना. पूण तिची काळजी घेवपी कोणूय तरी बगलेक आसपूय तितलेंच गरजेचें.

कांयच उपेग जावचो ना हें खबर आसुनूय हांवें विनू मामाच्या कानार ही गजाल घाली. अजाप म्हळ्यार दुसऱ्याच दिसा दोगूय माम दारांत हाजीर. मांचे पासत दुडवांची तजवीज करप तांची लागणूक म्हूण तांकां जाणवल्लें खंय. मांची आनी म्हजीय एक सय मेळ्ळ्यार काम जावं येतालें. म्हाका डॅडीन मामाक धांवडायिल्लो ती याद जाली. हांवें म्हळें, कांय हरकत ना.

पूण सय खंय करपाची तीं कागदां दाखय. धाकलो मामा ड्राफ्ट घेवनच आयिल्लो. वाचून पळय जाल्यार जनरल पॉवर ऑफ एटर्नी. हांवें म्हळें, अशी ब्लँकेट कशी दिवं? स्पेसिफीक कित्या खातीर तें सांग. तेन्ना मामा ताळ्यार आयले. आजोळचें घर आनी आसगांवचें एक भाट डेवलपमेंटाक वता, ते खातीर मांची आनी डॅडी ना म्हण्टकच म्हजी सय तांकां जाय आसली. तांणी मांक धा आनी म्हाका धा अशे वीस लाख दिवपाचो प्रस्ताव दवरलो. हांवें भाटाचो प्लॅन मागलो. घराचो जागो रीडेवलप करपी बिल्डरा कडलो डील कितें जाला तें विचारलें जाल्यार दोगूय माम कुशीक वचून एकामेकां कडेन उलयले. मागीर धाकल्या मामान फायनल ऑफर दिली- पंचवीस लाख पयलीं आनी पन्नास लाख मागीर कामाक हात घालतकीर.

हांवें भितर वचून मांक मामांक सय दिवपा विशीं सांगलें. सय दिवपाक मां तयार आसली. पूण तिची अट आसली. ''म्हाका हातखर्चाक तूं कितले दितलो?'' डॅडी बाबडेक केन्ना दुडवांक पातयेलो ना. हांवें विचारलें, ''तुका कितले जाय?'' मांन म्हजे कडेन पळोवन ठामपणान सांगलें, ''धा हजार''. हांवें 'बरें आसा' म्हळें तेन्ना तिच्या तोंडार उदेल्लो जैतिवंत हांसो पळोवन म्हाका हांसचें काय रडचें तें कळ्ळें ना.

भायर येवन हांवें डील सा केलो आनी ते प्रमाण कागदां तयार करपाक लायलीं.

आंत्र्या पयऱ्यान येवपी फातिमाल्या फोनांत केन्ना खंड पडलो ना. दोन दीस फोन आयलो ना जाल्यार हांव अस्वस्थ जातालों. फोनाचेर तें आदलेवरीच फकाणां-मस्करी, गीत-शायरी करतालें. शादी कोणाली जाल्या जाण कोण अशेंच वागतालें. शादीचें दुख्ख वा खंत ताच्या उतरांनी जाणवनासली. आमचे मदलो भुगोलीक पैसावो मात दर खेपेक

जाणवतालो. हांवें एकदां म्हळें, ''आय मीस यू.'' ताची जाप म्हळ्यार एक नज्म कशी आयली, ''दोस्ती का एहसास तभी होता है, जब दोस्त जुदा होता है.'' आनी फुडें म्हळें, ''न जाने ये जुदाई कब खत्म होगी; क्या जिन्दगी इन्तजार में ही कट जाएगी?''

हालीं हांव तागेले शायरीच्याय मोगांत पडिल्लों. फातिमालीं कवनां ताणेंच रचिल्लीं आसतालीं अशें नासलें. केन्ना आपलीं, केन्ना दुसऱ्यांचीं गितां मोडून तोडून आपणांक जाय तशीं तीं घुंवडायतालें. केन्ना कोंकणींत रचतालें, केन्ना उर्दूंत. तें उर्दू काय हिन्दी अशें विचारल्यार ताणें सांगलें- ''तें आयकतल्यान थारावचें. म्हाका कांय फरक पडना.'' ताची शादी जाल्या तातूंत म्हाकाय कांय फरक पडनासलो म्हाका म्हजें आदलें फातिमा मेळ्ळां हाचोच म्हाका आनंद आसलो.

एक दीस हांवें म्हळें, 'तूं तश्शें आसा, फातिमा'. ताचेर ताणें कवितेंतच जाप दिल्ली-

*हांव एक पुस्तक*
*कितलेंय पोरने जालें तरी मजकूर बदलचो ना*
*केन्नाय म्हजी याद आयली जाल्यार म्हजीं पानां परतून पळय*
*हांव काल आशिल्लें तशेंच आयजूय आसां, फाल्यांय उरतलें.*

तें अशें उलयतालें तेन्ना ताची तलम रस्मी ओडणी म्हज्या काळजाक स्पर्श करताली. मागीर तो आख्खो दीस बरो वतालो.

कोणाची वाट पळयिल्लेवरी अमांदा भायर भितर करताली ताचेवयल्यान म्हज्या लक्षांत येवंक जाय आसलें. कृष्णा पेढ्यांचें बॉक्स घेवन आयलो तेन्ना याद जाली तागेलो आयज रिझल्ट म्हूण. 68 पर्सेंट मार्कांनी फर्स्ट क्लास मेळिल्लो ताका. मांक पांय पडपाक गेल्यार मांन विचारलें, 'पेढे हाडले नात?' ताचेर अमांदान तिका सांगलें, 'स्वीट

लाया है, देती हूं'. दितां म्हूण सांगल्यार दीसर ती खट कशी लागतली हाचो म्हाका हुसको आसलो. थोड्या वेळान कृष्णान म्हाका भितर आफयलो. 'आक्कान आफयला.' पळय जाल्यार तिणें पायसम करून दवरिल्लें- कृष्णाचो रिझल्ट बरो येतलो हाची खातरी आशिल्लेवरी. इतलेंच न्हय, मां मागतली हाची खातरी बाळगून कपभर खीर शुगरलॅस घालून वेगळी काडून दवरिल्ली. कृष्णाक आनी म्हाका मेजार बसोवन ती उबीच रावली. आतां मात म्हज्यान रावं नज जालें. 'बस' म्हळ्यार आयकलें ना तेन्ना हांव उठून भायर वचपाक उबो रावलों तेन्ना खांकडत बसली. कृष्णा हांसलो आनी मलयालमांत कितें तरी म्हळें. तीय हांसली. पायसम वायटशें लागलें ना.

कृष्णाक हांवें रातीच्या जेवणाकूच आपयलो. रावपाचे तयारेनच यो म्हळें. चिकन हाडलें, आयसक्रीम हाडलें, मांचें सगलें करून तिणें रोटयो करून दिल्यो. तिगांय बरोबर बसून जेवलीं. 'आतां फुडले तयारेक लाग.' कृष्णाक सांगलें. ताणें डिप्लोमा कोर्साची खबर काडल्या काय विचारल्यार तो खांकडूंक लागलो. 'हांव प्रायव्हेट केटरिंग कोर्स करतलों.' हांव अजापलों. इकरावेक नांव घालचे पयलींच आमचें उलोवणें जाल्लें. आतां अकस्मात हो प्रायव्हेट सर्टिफिकेट कोर्साची खबर उलयतालो- बरे मार्क पडिल्ले आसतनां.

''सर्टिफिकेट कोर्स एकाच वर्साचो. चाळीस पन्नास हजारांत जातलो. डिप्लोमा दोन वर्सांचो. वर्साची फी साठ हजार... ''बाबू, तुवें दितलों म्हूण सांगिल्लें खरें. पूण पळय, फाटले तुजे साठ हजार आनी हेवूय तुवें दिल्यार दोन लाखांचेर पावतले. आप्पा म्हणटा परते पावोवपाक वर्सां लागतलीं. ते परस कोर्स करून सिर्वीस कर आनी बेगीन रीण पावय.'' मान सकयल घालून कृष्णान सांगलें. फाटल्या साठ हजारांतले काटूकपणान खर्च केल्ल्यान पंचवीस हजार उरल्यात आनी कोर्साखातीर वयले दुडू अप्पान दितां म्हूण सांगलां.''

म्हाका रागच आयलो ताचो. ''तेपरस वासुदेवाल्याच शापार कित्याक रावलो ना? तूं शॅफ जाल्लो म्हाका पळोवपाक जाय. निखटो कूक न्हय. म्हजेकडेन जिद्द ना. तुजे कडेन ती आसा. आतां हांव सांगतां तशें कर - नाजाल्यर म्हगेलें दार तुका बंद.'' हांव उठून भायर गेलों.

''सॉरी, बाबू.'' फाटोफाट भायर येवन कृष्णान म्हळें, ''फाल्यांच वचून फॉर्म घेवन येतां - डिप्लोमाच्या ॲडमिशनाचो.''

हांवें सोमतोच एक लाखाचो चेक ताच्या हातार दवरलो. मामान दिल्लो चेक वठवला काय ना हाची पर्वा करिनासतनां.

'दार बंद' शिटकावणी बऱ्याक पडली. इकरावेक सायन्सीक प्रवेश घेतिल्लो तेन्ना मार्टीनसरान हीच शिटकावणी म्हाका दिल्ली जाल्यार म्हगेल्या शिक्षणाची गंगा व्हांवती उरतासली काय?

ब्रॉडवेंतल्यान अमिताव घोषालीं 'सी ऑफ पॉपीस' आनी 'रिव्हर ऑफ स्मोक' हीं ट्रिलॉजींतलीं दोन पुस्तकां घेवन येतनां वाटेर पोलीस बंदोबस्तांत मोर्चा वतना पळयलो. याद जाली. दिल्लींतल्या एक सरकार पक्षाच्या खासदारान हालींच एका जाहीर भाशणांत म्हणिल्लें की मदरसा म्हळ्यार टॅरोरिस्ट तयार करपी फॅक्टरी म्हूण. ताचो देशभरांत निशेध जातालो. ताचोच वांटो म्हूण हो मोर्चा. कांय तोंडां वळखीचीं दिसलीं. हांवें बाय्क सम्राट थिएटरा फुडल्या आड रस्त्यार पार्क केली आनी फुडें सरून मोर्चांत शामील जालों.

चडशा जाणांनी माथ्याक स्कलकॅप घाल्ली. मोर्च्यांतले लोक व्हडाव्हडान घोशणा दिताले. 'हिन्दोस्ताँ जिंदाबाद, दिल्ली सरकार मुर्दाबाद'... वाट काडीत ताचेसरीं गेलों. हांवेंय घोशणा दिल्यो. ताणें पळयलो म्हाका. पूण नदर चुकयली. हांव चड लागीं गेलों. ''हाऽय'' म्हळें. तो हय न्हय सो हांसलो. ''त्या खासदाराक कोर्टांत उबो करूंक जाय. खडी फोडपाक धाडटकच कळटलें.'' हांवें ताका आयकूंक येवपा खातीर बोवाळा वयर आवाज काडून म्हळें. ताणें 'हय' म्हळें.

मोर्चा आझाद मैदानाचेर वचपाचो. गुजरात लॉजा कडेन पावतकच हांवें ताका म्हळें, "चल, एक च्या मारुंया. मागीर या मैदानार." खीण भर अनमनलो, पूण मागीर आयलो.

च्या येतासर हांवें म्हळें, "सरकार विरोधांत घोशणा दिवपाक गटस् लागतात. तुमी दाखयले तें बरें दिसलें."

"हय तर! इण्डिया आपलो बाप का माल जाल्लेवरी करतात. मदरसांत वतात तांकां कितें दगाबाजी शिकयतात? आमी कुराण मानतांत आनी थंय ते प्रमाण शिकयतात."

"आनी कुराण सांगता तशें चलतात, रायट?"

तो दुबावलो. पूण तकली हालयली.

"आतां एक काम करुंया. तूं येदोळचे भाशेन स्लोगन दी. म्हण, दिल्ली सरकार मुर्दाबाद. तुजे फाटल्यान हांवूय म्हणटां, दिल्ली सरकार मुर्दाबाद."

आयलो पयलो लोक आमकां पळोवपाक लागलो.

"हांगा? हांगा नाका. लोक कितें म्हणटलो? थंय आझाद मैदानार वचून म्हणुंया."

म्हणसर च्या आयली. हून आसली. असलम फुंकून फुंकून पियेवंक लागलो. ताका ताकतीक जाल्ली. आनी च्या पियेवपाक हून लागताली.

"लोक कितें म्हणटलो ह्या भंयापोटीं तुवें भयणीचें हीत समजून घेतलें ना. आतां असो भियेवन देशाच्या मुस्लिमांचें हीतराखण करतलो?"

उरिल्ली च्या थंयच उडोवन असलम ताकतिकेन आझाद मैदानाचे दिकेन धांवलो.

हालीं हांव किचनांत वचनासतनां सकाळची च्या मेळपाक लागिल्ली. कृष्णाक खंय तागेल्या आक्कान विचारिल्लें 'बाबूक कितें आवडटा?'. बाबून सांगिल्लें - तो पानार पडटा तें आवडीन खाता. दुदाची कडक च्या मात ताचे आवडीची. तेन्नाच्यान जावंये, सद्दां सकाळीं दुदाची च्या म्हज्या हातांत - पयलीं मेजार दवरताली, आतां हातांत दिताली. आजूय च्याचें कोप म्हज्या हातांत दितना तिणें सांगलें, "टी पावडर इज गॅटिंग ओव्हर."

'आं' म्हळें. आतां अमांदा आदलेवरी कृष्णावरवीं अमूक सोंपलां तमूक हाड सांगनासली. बायलांची गरज तें सामान रेबेकागेर गेल्ले कडेन घेवन येताली. आनी स्वता खातीर कितें जायच पडलें जाल्यार कृष्णाकडल्यान हाडून घेताली. घराचीय संवकळ जाल्ली आनी आतां भयणीगेर वचपाक ती स्वता बसीन वा रिक्षान वताली.

च्याचो निमाणो घोंट मारलो आनी फोन वाजलो. फोन कुडींत उरलो समजून हांव कुडींत वचून सोदलो. ना म्हूण भायर यो जाल्यार अमांदान हाडून दिलो - रांदचेकुडींत उरिल्लो जावंये. ताकतिकेन हांवें फोन घेतलो.

वगीच ताकतिक केली. हरशीं फोन येतालो तो एकतर फातिमाचो वा चित्राचो. पूण हे खेपेक धाकलो मामा प्रसन्न जाल्लो. ताका दुकुमेंताचेर मांची आनी म्हजी सय जाय आसली. "तुका आनी फावट नाका म्हूण

कल्पेशाकच तुजे कडेन धाडटां. सयो करून धाडून दी. फाल्यां पेपर्स सबमीट करूंक जाय.''

सकाळच्यान कल्पेशाची वाट पळयतालों. सभागो आमोरी जावन पावलो.

''म्हापशेंसून चलत आयलो?''

निर्लज्जावरी दांत काडून ताणें सांगलें, ''इमिलीक लागून वेळ जालो.'' कोण इमिली तें विचारचें अशी ताची अपेक्षा आसली. पूण म्हाका तातूंत मज नासली. ''अर्जेंटिनाची ती. एकलीच भोंवता. म्हाका सकाळीं आफयिल्लो तिणें, जाल्यार ही उठलीच बारा वरांचेर. मागीर ब्रेकफास्ट बी कांय ना. एकदम ब्रंच. उपरांत तिचें शॉपिंग.... तरी राती राव म्हणटाली. काकालें काम अर्जंट देखून हांगा आयलों.'' म्हजेर उपकार केल्लेवरी कल्पेश उलयलो.

हांवेंच ताचेखातीर च्या केली. तितले मदीं हो मांचे कुडींत वँचून तिची खबर घेवन आयलो. भायर येतनां तागेले दोळे लिकलिकले.

''ही रे ती नर्स? सॉलीड आसा मरे! नर्स म्हणटकच म्हाका दिशिल्लें कोणूय जाण्टी बी आसतली-''

म्हाका राग आयलो ताचो.

''कसो बाय्क घेवन आयला?''

''ना रे. बसीन आयलां.''

''पेपर दी.'' हांवें सय केली. भितर वचून मांची घेतली. आनी कल्पेशाक विचारलें, ''वतलो कसो? आठ जायत आयलीं.''

घडयाळ पळोवन ताणें म्हळें, ''आसूं आतां. रावतां हांगाच. फाल्यां सकाळीं धा पयलीं पेपर्स काकाच्या हातांत पडल्यार पुरो.''

आमगेर कोणूय सोयरो आयला आनी रावला अशें केन्ना घडूंक नासलें. कल्पेशालें म्हाका निखालस आवडलें ना. पूण ताका 'वच' म्हणपाचेंय मनांत आयलें ना.

''खूब तेंपान मेळळो तूं. आजो मेल्लो तेन्ना मेळिल्लो. आनी मागीर

डॅडी मरतकच. अशीऽ पासय मारून येवंया? तुवें नवी बाय्क घेतल्या न्हय? चल राउंडाक या.''

हांव उठलों. पूण ना. ज्या सिटार फातिमा बशिल्लें- जो सीट फातिमाचो त्या सिटार कल्पेशाक बसोवप ना. हय, चित्रा एकदां बसलां, मार्टीनसर बसला, कृष्णाकूय हांवें बसयला, एक फावट अमांदाय बसल्या. पूण कल्पेशाक? केन्नाच ना.

''बाय्क नाका. पासय जाय जाल्यार चलून मारुंया.''

अमांदाक कळपासारकें मांक सांगलें- ''आमी पासयेक वचून येतां. कल्पेश आयज राती हांगाच रावतलो. राती येतना जेवणाक कितेंय हाडटां.'' ताचेर अमांदानच सांगलें. ''नाका. चार रोटयो चड करतां, भाजी, तांतीं आसा, भायलें हाडूं नाका.''

''तुजी कंपनी म्हाका आवडटा. कित्याक जाणा? तूं उलयना. पूण तुका आयकुपाक आवडटा.'' म्हाका कितें आवडटा तें आतां कल्पेश म्हाका सांगतालो.

चलत तिस्कार पावचे पयलीं बाबुशालें बार्र लागलें. ''बार्रां पळोवचीं जाल्यार कांदोळे-कळंगुटची. कितें झगझग जाणा? राती बारा वरां राती लेगीत दीस थंय. म्हपशेंचीं बार्रां सुमाराचीं. हें तुमगेलें बार्र सामकेंच रितें मरे! बार्रां म्हणटात तीं भरिल्लीं आसूं जाय. इतलो बोवाळ जाय, एकलो कितें उलयता तें दुसऱ्याक आयकूंक येवंक फावना. मागीर कितलोय पी, गाळी लेगीत मार-''

हांव चलत रावलों. तिस्कार पावतकच कल्पेशान म्हळें, ''या परते? म्हाका तान लागल्या. एक बिअर मारुंया. पैशे घाल्यात मरे बोल्सांत?''

बाबुशाल्या बार्रांत रितीं मेजां आशिल्लीं. पूण कल्पेशान बाबुशाक सांगून एक मेज कोनशाक लावन घेतलें.

''बिअर घेतलो मरे?'' सदचो वांगडी जाल्लेवरी कल्पेशान विचारलें.

''म्हाका आवडना.''

''म्हज्या मनांतलें उलयलो. म्हाकाय आवडना. व्हिस्की मारूंया.'' म्हाका विचारनासतनाच ताणें मागयली. हाफ आयकलें तेन्ना पेग समजलों. पळय जाल्यार अर्दी बाटली आयली. चिअर्स केलें- म्हाका विचारनासतनांच. कल्पेश म्हाका गृहीत धरून चलता तें म्हज्यान सोंसू जायना जालें. हांवें सोडा घालचे पयलींच ग्लास तोंडाक लायलो. ताळ्याकडेन हुलपलें. ''ड्राय मारता? सोडा घे मरे!'' आनी ताणेंच ग्लासांत सोडा ओतलो. सोमतेच चिप्स मागयले.

''हांव मरे बोल्सांत पैशे दवरना. बँकेंत घालतां. म्हजी जोड कितें जाणा तूं? दिसाक दोन हजार तरी सहज जोडटां. पूण सद्दां न्हय आं! अमेरिकन बायलो बी एकल्यो भोंवतात संवसारभर. तांचेकडेन पैसो भरपूर. एकली दर वर्सा येता आनी म्हाकाच आफयता. तिगेलीं सगलीं कामां करपाचीं. ती पयर वतनां म्हाका पांयशीं डॉलर दिवन गेली. बँकेंत म्हजेकडेन लाखभर तरी आसा. आतां आनी आमचें घर रिडेव्हलपमेंटाक वतलें. कुरोटांनी मेळटले. बाबान सांगलां म्हाका नवी गाडी घेवन दितलों म्हूण. मागीर आनीक मजा.''

''मजा कसली?'' ग्लास सोंपोवन कल्पेशान परतो भरलो. म्हाकाय सोंपोवपाक लायलो आनी चाबडावपाकूय सांगलें.

''एक फावटी गाडी हातांत आयली म्हणटकच मागीर -'' नाकाक बोट लावन ताणें म्हळें, ''भाडींच भाडीं. फॉरेन तशीं इंडियन.''

''इंडियन?'' हांवें विचारून चुकच केली.

''आरे, दिल्ली, मुंबय, अहमदाबादच्यान सिंगल बायलो येतात. तांकां गाडीय जाय आनी ड्रायव्हरूय जाय. चोवीस वरांचे तूं जाणां कितले पे करतात? पांच हजार! गाडी चलतली पन्नास किलोमिटर आनी ड्रायव्हरालो मिटर डाउन जायसर चलपाचो.'' मागीर ताची गाडी म्हजेर आयली. ''तूं कितें जोडटा सांग?'' तितलें म्हणसर तो ग्लास रिते करत राविल्लो. दुसऱ्या पेगान हांव मातसो हालतां तें कळपाक लागिल्लें म्हाका. कल्पेश फॉर्मांत आयिल्लो, ''कितलीं गर्ल फ्रॅण्डस केल्यांत तुवें?

केन्ना न्हिदला कोणाबरोबर? तुजे येदो आसतनां हांव पन्नास वर्सांचे बायलेबरोबर लेगीत न्हिदलां. तूं जाणा? एकेके बायले बरोबर न्हिदपाक लोक हज्जारांनीं मोडटात. आनी म्हाका पळय- बायलो म्हाका हजारांनी फारीक करून आफयतात. फावटीक दोन हजार, पांच हजार - म्हयन्याचे कितले जाले? काका म्हगेलो आदवोगासी करता. कितले जोडटा? लोक कांय हजारां खातीर दीस रात कश्टतात... लग्नां करतात. कित्याक तर एक बायल राती न्हिदपाक मेळची म्हूण. तांका त्रास काडून मेळटा तेंच म्हाका बशिल्लेकडेन मेळटा. खा, पी आनी वयल्यान हें-'' पर्थून तागेलें बोट नाकार पावलें.

''तूं कितें त्याचखातीर जगता?'' हांवें ताका हळशिकवपाक विचारिल्लें. पूण ताणें व्हडा झेतान सांगलें, ''जिगोलोंची तीच तर मजा.''

म्हगेली तकली कणकणपाक लागली. तागेल्यो खबरो आयकून काय सोऱ्याक लागून कोण जाणा. ओंकून उडोवपाची उमळ आयली. ''या आमी. धा जायत आयलीं.'' बील फारीक करून हांवें म्हळें.

''राव. सोंपयतां मरे!'' तागेलें सांगून सोंपूकच नासलें. ''जोडुंकूय म्हूण ब्रेन जाय. आमच्या शेजाराक एक नर्स रावताली. एक दीस घरांत एकली पळोवन गेलों जाल्यार रोखडीच फारावली. हांवेंच मागीर तिका आयडिया दिली. इंटरनॅटार घालें आनी मसाज करपाक वचूंक लागली. पयलीं कोणाकूय करताली. मागीर तिका धंद्याची नॅक कळली. दादल्यांक मसाज करताच. तेभायर बायलोय - होमो, डबल पैशे दिवन मसाज करून घेतात. तुका सांगतां बाबू, दादल्यां परस बायलांक खाज चड.''

''सगल्या?'' हांवें थुंकिल्लेवरी विचारलें.

''सगल्या -''

''मामीकूय? धाकले मामीकूय?-''

कल्पेशालो सोरो देंवलो. उठलो. मोन्यांनी भायर आयलो.

जेवण नाका म्हळें म्हूण काय हांव पियेवन आयलां म्हूण सांगूंक येवचें

ना. अमांदान नाक किल्शिलें आनी मेजार दवरिल्लीं आयदनां उकललीं. तकली भेरेल्लेवरी जाल्ली. दोळे जड जाल्ले. पोशे भरभरून तोंडार, दोळ्यांर उदक मारलें तेन्ना मातशें बरें दिसलें. पळय जाल्यार कल्पेशान सालांतल्या सोफ्याचेर ताणून दिल्लें. हांवेंय वचून म्हगेले कुडींतल्या काळखांत घालून घेतलें.

अकस्मात 'टण, ठण' ठणठणाट कानार पडलो. ताकतिकेन उठलों. भायर येवन पळय जाल्यार अमांदा हातुणार बसून हांतांतलो पेलो टण ठण करून जमनीर आपटिता. म्हाका पळोवन ती थांबली. पूण तिचे दोळे उजो ओंकताले. हड्ड्याचो भातो वयर सकयल जातालो. हांवें पळयलें, कल्पेश पांगरूं घेवन कुरंगुटी करून सोफ्यार न्हिदिल्लो. हांव घुंवलों. एका हातान पांगरून ओडलें आनी दुसऱ्या हातान कल्पेशाकच ओडून उबो केलो. थर्त भियेलो. तत पप करचे पयलींच झण्ण... म्हजो हात ताच्या कानसुलार उदेलो.

उरिल्ली रात हांवें सालांत कदेलार बसून सारली. फांतोडेर कल्पेश उठून ल्हवूच दार उगडून भायर गेल्लो पळयलो. तेदे सकाळीं हांव थंड उदकान न्हालों. तोंड धुलें. आनी पयलीं च्या केली. दोन कप. एक कप व्हेलो आनी मांचे कुडींत अमांदाच्या हातांत दिलो. हांवें अदमास केल्लो ते भाशेन तीय जागीच आशिल्ली. तरी बरें, राती मां गाड न्हिदिल्ल्यान जागी जावंक नासली.

अमांदान काम सोडून वतां म्हणिल्लें जाल्यार हांव आडावचो नासलों. सिस्टर रेबेकालो फोन येत म्हूण हांवें वाट पळयली. ती गेली जाल्यार दुसरी कोणूय मेळयार लेगीत दवरप ना. जाता नज करून हांवच मांची सेवा करतलों, अशें थारायलें. दोनदां फातिमाचो आनी एकदां चित्राचो फोन येवन गेलो. गुन्यांवकारी मनाक फोन घेवपाक हातच येना जालो. अमांदा तोंड धांपून सदचेवरी कामां करीत रावली. म्हज्या मनावयलें वजें मात कुस्कूट देंवलें ना.

आयतारा कृष्णा आयलो आनी सदचेवरी तिचेसरी बसलो. थोड्या वेळान भायर येवन ताणें विचारलें, "बाबू, पयर कोण आशिल्लो? तुजे बरोबर?" म्हज्या पोटांत कुळ्ळ जालें. विशय बदलून मागीर ताणें म्हळें, "तुका च्या घेवपाक आफयला."

'भायरच हाडून दी' म्हणपाचें मनांत आयिल्लें. पूण म्हाकाय हो फोड फोडपाचो आसलो.

म्हाका दिशिल्लें ती कृष्णामार्फतीन म्हाका कितें सांगपाचें तें सांगतली. हांवें मनाची तयारी दवरली. च्याचें कोप घेवन तीय बसली. हालीं तिका बस म्हूण सांगचें पडनासलें. म्हज्या दोळ्यांत पळयत तिणें कृष्णाक सांगलें, "तुगेलो बाबू वायट संगतीक लागला म्हूण जाणा तूं? व्हॅरी बॅड!"

हांव भितरसून आंवुळ्ळों. व्हॅरी बॅड! म्हजी म्हाकाच लज जाली. "इफ एव्हर दॅट मॅन कम्स हिअर, आय वील"- म्हाका दिशिल्लें 'काम सोडटलीं' म्हणटली, "आय वील कील हीम." कल्पेशाविशींची तिडक आनी किळस एकाच दमांत उक्तायली.

"प्लीज - ताचे कडसून पयस राव."

आनी गुन्यांव कबूल केल्लेवरी म्हजी तकली हालली.

"आनियाना कडल्यान खूब आयकल्लें तुजेविशीं. पूण सोरो पियेता हें नकळो आशिल्लीं. हांव जाणां, ताणें तुका पिवयलो. आनी तूं पियेलो?- व्हॅरी बॅड! प्लीज, नॅव्हर अगेन."

पर्थून म्हजी तकली हालली.

"अमांदा," पयलेच खेपेक हांवें तिका नांवान उलो मारिल्लो, "आय प्रॉमीस. पर्थून अशें जावचें ना."

"थँक्यू." जशे कितें हांवें तिचेर उपकार केल्ले.

च्या निवली. तिणें कोप उकललें आनी पर्थून गरम करून हाडली. तिच्या तोंडावयले कोमल भाव पयलेच खेपेक लागींच्यान निरखिले.

अमांदान म्हाका कोर्टांत उबो करून आरोपपत्र सुनायल्या उपरांत तेच

राती हांवें चित्राक फोन करून पुर्ण कबुलीजबाब दिलो. आनी सगली खबर फातिमाक सांगपाक म्हजेकडेन तोंड ना देखून तूंच ती फातिमा कडेन पावय म्हूण सांगलें.

सकाळींच फातिमालो फोन आयलो, "ऐ शराबी, काश मैं भी तुम्हारे साथ नशा करती; तो ना तुम्हें होश रहते, ना मुझे."

"फकाणां पुरो फातिमा. हांव हांगा लजेक पडलां आनी तुका मस्करी येवजता?"

"आगो फिलिपिना, रीड बिटवीन द लायन्स. हांवें कितें सांगलां?"

"बगलेक कोण आसा?" स्पश्ट सांगपाक खांकुडटा शें दिसलें.

"तूंच."

"मागीर स्पश्ट सांग पळोवंया?"

"म्हाका सांगपाचें आसलें- नशा ही चाहते हो, तो मेरे बाहों में आओ." त्या खिणाक म्हाका फातिमा लागीं आसचें अशें प्रकर्शान दिसलें.

खूब तेंपान मार्टीन सरालो एसएमएस आयलो. येवन मेळ म्हूण. बरो बी ना अशें दिसून ताकतिकेन गेलों.

"कितें करता ह्या दिसांनी?" सराल्या प्रस्नाक म्हजे कडेन जाप नासली.

"मांयक लागून बिझी उरता?"

"ना, सर. नर्स आसा. ती करता सगलें."

"सिर्वीस करप तुजे कालेतीक मानवना हें कळटा म्हाका. पूण तुजो व्हॅल्युएबल टायम तुवेन पिड्ड्यार करूंक फावना."

कांय करना तर खरें. पूण कितें करूं येता म्हज्यान? सरान सांगलां तें खरें. नोकरी? डॅडीन केल्ली; म्हज्यान जावची ना.

"हांव तुका उदका लागीं व्हरतां. पियेवचें वो ना तें तुवेन चिंतपाचें".

सरान म्हळें. "तुजे लागीं रायटिंग स्कील आहा. पॉटेन्शल आहा. आर्टिकल्स बरय, सोशल कॉमेंटरी बरय. स्टोरीस बरय. पब्लीश करून हाडपाचें म्हुजेर पावलें. कांयच ना जाल्यार बरें लिटरेचर ट्रान्सलेट कर वो रिसर्च आर्टिकल्स बरय. पूण कितें करता तें चिंतून कर. हांवें हयूय म्हळें ना, नाय म्हळें ना.

दोन समानधर्मी एकूच भाशेन चिंततात तसो चित्राचो फोन आयलो. "तूं आनी सोऱ्याचे वाटेक गेलो तें पुटवच ना म्हाका. घडये ते घटकेक रित्या मनाचो देंवचारान ताबो घेतिल्ल्यान जावंये. तांतूंत फातिमाचेंय तुवें मनाक लावन घेतिल्ल्यान जावंये. हांव एक सांगूं?" थोडो वेळ चित्रा रावलें. घडये म्हजी जाप येतली म्हूण वाट पळयतालें जायीत. "तुवें बिझी उरपाक जाय. अशें कितेंय काम हातांत घे जें तुका बिझी दवरतलें आनी मनाक समादानूय दितलें. घरा रावनूय तुज्यान एखादरो प्रॉजॅक्ट हातांत घेवं येता." ह्या चित्राक सल्ले दिवपाक खूब आवडटा.

"हॅलो फिलिपिना," फोन केलो पूण फातिमान चित्रा भाशेन कांय केलें ना. हांव बेकार उरलों कितें वा काम केलें कितें ताका सारकेंच आसलें. जोंवेर म्हजो वेळ ताका मेळटा– पयलीं पुर्शी भेटेंत आतां फोनार – ताची कांयच तक्रार नासली. "राती कितली मज्जा आयली जाणा? तूं म्हज्या सपनांत आयलो. आनी म्हाका पीड पीड पिडलो."

"आतां जागें जा."

"तेन्ना तरी हांव न्हिदिल्लें खंय तर? जागेंच आसलें. तूं नकळो? सपनां पळोवपाक न्हिदचें पडना."

कॉलेजींत कोंकणी विशय घेतिल्लो तेन्ना एक गजाल जाणवल्ली ती म्हळ्यार कोंकणीविशीं इंटरनॅटार भोव थोडी म्हायती आसा. एखादऱ्या उतराची व्युत्पत्ती मेळना, समांतर कोश, विरोधी उतरां सोदल्यार मेळनात वा विंगड विंगड बोलयांची म्हायती मेळना. शणै गोंयबाब वाचून हांव

ताचे भाशा विपुलतायेचेर खूश जाल्लों. पूण शणै गोंयबाबालो हो बुनयादी वावर फुडें व्हरपाची गरज म्हाका जाणवल्ली. इंटरनॅटाचे नदरेन कोंकणीचो वावर फुडें वचूंक जाय जाल्यार वॅब सर्च इंजीन तयार जाय. पूण गुगल करून पळयल्यार आजून थिसोरस तयार ना. कोणे वावर हातांत घेतला अशेंय मेळना.

हो अकॅडेमीक वावर जाल्ल्यान हांवें गोवा कोंकणी अकादमीक पयलीं भेट दिली. उपाध्यक्षाक मेळ्ळो. ताणें पुरायेन तेंको दिवपाचें उतर दिलें. वावुरपी समितीची मान्यताय घेवन म्हज्यान फुडें वचूं येतालें. पूण तेखातीर हांवें पयलीं पुरायेन प्रस्ताव आनी वावराचो नमुनो म्हूण थोडीं पानां कचेरेंत पावोवचीं. वावुरपी समितीची फुडली बसका फुडल्या म्हयन्यांत जातली, ताचे पयलीं प्रस्ताव दिवचो म्हूण सांगलें. उपाध्यक्षाकडल्यान प्रोत्साहनाचीं उतरां मेळिल्ल्यान हांवें उमेदीन समग्र शणै गोंयबाबाचे चार खंड, गोंय विद्यापिठान तयार केल्ल्या ज्ञानकोशाचे चार खंड आनी थंय उपलब्ध आशिल्ल्या शब्दकोशांच्यो प्रती विकत्यो घेवन घरा परतलों आनी उमेदीन समानार्थी शब्दकोशाच्या वावराक हात घालो. मॅथडॉलॉजी पयलीं समजून घेतली. पद्दतशीर सोद वावराक हात घालचे पयलीं सगले कोश नदरेखाला घाले. शणै गोंयबाबाल्या साहित्यांतलीं उतरां वेंचून वेंचून फीड केलीं. तितले मजगतीं अस्मितायेन पुर्ण केल्ल्या 'मशीनावरवीं अणकार' प्रकल्पाची म्हायती मेळ्ळी. तीस लाख उतरांची व्याकरणी वर्गीकरण केल्ली कोठी गोंय विद्यापिठाकडेन उपलब्ध आशिल्ली तीय मेळ्ळी. उतरांचो स्पॅलचेकर तयार आशिल्लो तो परिपुर्ण नासलो तरी म्हजी मुळावी गरज भागली.

"बाबू, तुका असो अभ्यास करतनां गुल्ल जाल्लो पळोवन बरें दिसता."

कृष्णाच्या उतरांतल्यान ताच्या मनांतलो आदरभाव उकतो जातालो, "आक्का सांगता तूं ह्या दिसांनी जेवपाक लेगीत वेळार येना म्हूण."

नाय जाल्यार म्हजो सभावच तो. आंगार घेतिल्लें काम तडीक व्हरसर थंड बसप ना. चडसो कम्प्युटराचेर उरतालों. च्याची लेगीत याद जायनासली. अमांदाच कुडींत हाडून हातांत तेंकयताली.

"च्या हांगा हाडूं काय तूं येता भितर?" कष्णान हाडून दिल्यार बरी आसली. पूण म्हळें तितलेंच पांय मेकळें करूंक मेळटलें.

च्याचो घोंट मारलो आनी मुखार पळय जाल्यार अमांदाच्या कपलार येद्दी व्हडली तांबडी तिकली. पयलेंच खेपेक पळयिल्ली हांवें. म्हजी नदर तिकलेचेर थिराविल्ली पळोवन तिणेंच सांगलें, "आनियानान हाडल्या म्हाका." आनी मागीर म्हाका विचारलें, "यू लाय्क्ड इट?" हांव गोंदळ्ळों. सपसप कॉम्प्लिमेंटस दिवपाची संवयच नाशिल्ली म्हाका. फातिमाक लेगीत मनांत आसुनूय दिले नात केन्ना. पूण अमांदा आशेन वाट पळयता शें दिसलें - तिगेल्या भावान हाडल्या न्हय?

"कितें कृष्णा, तुका आवडली मरे?" हांवें कृष्णाकच विचारलें

"हय. सोबली तिका, न्हय?" कृष्णान म्हजेकडेन खरेंपण घेतलें.

"यस. यू लूक गूड." अमांदाल्या मुखामळार निर्मळ खोशी पळयली.

म्हयन्या भरांत म्हजो खुबसो वावर फुडें गेलो. अकादेमीन दिल्ले तारके पयलीं हांव प्रस्तावाचें पत्र आनी जाल्ल्या वावराची सीडी घेवन तांच्या ऑफिसांत पावलों. सेक्रेटरी मेळ्ळो.

"कित्याक आयला?" ही आनी पिडा आपणांक छळपाक आयिल्ले भाशेन कपलाक मिरी घालून ताणें रुक्ष आवाजांत विचारलें. हांवें चिंतलें, हाचेकडेन आनी तो विशय काडचो न्हय.

"अध्यक्षांक मेळूंक जाय."

"अध्यक्ष गेलो." कुछित्री हांसून सेक्रेटरीन म्हळें.

"उपाध्यक्षांक मेळटां."

“अध्यक्ष-उपाध्यक्ष दोगूय राजिनामो दिवन गेल्यात.” आदल्याच सुरांत ताणें सांगलें. कचेरेंतलो स्टाफ तोंड धांपून वगी.

“वावुरपी समितीचे कोणूय?”

“बरखास्त.”

“नवी केन्ना येतली?”

“मंत्र्याक विचार.” आनी आपूण कामांत आशिल्लेवरी तकली फायलींत घाली. हांव अनमनलों. नाउमेद जावपाक नाका आसलें म्हाका.

“एक प्रस्ताव हाडिल्लो. कोणाकडेन दिवपाचो?”

“हांगा दवरून वच.” ताणें मेजार हात मारून सांगलें.

“पोंच दी म्हाका.” मेजार प्रस्तावाचें पत्र दवरलें.

“कॅश हाडल्या? पोंच शी मागता?”

“प्रस्ताव तो- ” म्हज्या कपला शीर उसळूंक लागिल्ली.

“दवर. वाचून पोंच दितलों.”

हांवें प्रस्तावाचें पत्र उकललें. सगल्यां हुजीर पिंदलें. चार कुडके केले, मेजार आपटिलें. आनी भायर सरून आयलों.

पर्थून एक रितेंपण.

चित्रान सांगलें, “तूं रितें जावपाक दिता. तुज्यांत इतलें पॉटॅन्शल आसा की जाय जाल्यार तूं कितेंय करूंक शकता. आनीक कसलोय प्रॉजॅक्ट वेंचून काड. बिझी राव.”

उलोवपाक सोंपे. मार्टीनसरान खबर घेतली तेन्ना सांगचेंच पडलें. ताणें याद करून दिली प्रो. अनिल गुप्ताची. त्या वेळार म्हाका येवजल्ले ते संकल्पनेची. फातिमाचें आपलें बरें. हांव चित्राक सगलें सांगतां, आपणांक मात ना अशें ताका दिसता. म्हाका स्पश्ट सांगलें, “ज्याका तुजी कदर ना; ताचेखातीर तूं उबगता; जिका तुजी फिक्र आसा, तिका तूं विसरता.”

अशा वेळार मोबायल आनी कम्प्युटर दोन बेस्ट फ्रेण्डस. जीव थाऱ्यार पडसर कांय दीस ह्या फ्रॅण्डां वांगडा सारले. मूड असोऽ निवळटा म्हणसर सिस्टर रेबेकाचो फोन आयलो. गांवच्यान तिगेलीं सोयरीं आयल्यांत. रेबेकानूय रजा काडल्या. शेनवार, आयतार, सोमार तीन दीस तिका धाड म्हूण. म्हळें, बरें जालें. म्हाका हो बदल बऱ्याक पडुंये.

अमांदाचे शुश्रुशेखाला मां एके धारेर आशिल्ली. उठपाक, भोंवपाक आळसाय करताली. पूण वखद विर्सद तोंड धांपून घेताली. इन्सुलीनाचीं इंजक्शनां आतां सदचीं जाल्लीं. अमांदा सगलें सांगून दाखोवन गेली. हांवूय उमेदीन कामाक लागलों. काम जालें म्हणटकच मांचेच कुडींत टिव्ही लावन बसतालों. मदीं कांय सिडीय लावन पळयतालों. हांवें अमांदाक दिल्ल्या मल्यालम गितांच्यो सिडीं भायर एक मल्यालम सिनेमाचीय सिडी पळयली. म्हाका दिसलें अमांदान भयणीगेर सावन हाडली म्हूण. मागीर कृष्णा आयलो तेन्ना कळळें, ताणें हाडून दिल्ली, तिका सिनेमा आवडटात म्हूण. आयतार सोडून शेनवाराचो सो आयलो म्हूण चवकशी करतकच कळ्ळें की आक्कानच ताका सांगिल्लें खंय, आयतारा भायर शेनवारा सांजेचीय पासय मार म्हूण. तिणें कृष्णाचेर असो हक्क गाजयलो तें म्हाका आवडलें ना. कृष्णाक म्हळें, तूं वच आनी फाल्यांय येवं नाका. पूण कृष्णा आयलोच. मागीर आमी वांगडाच टिव्हीचेर तो मलयालम सिनेमा पळयलो. तेन्ना कृष्णान सांगलें, तो मल्यालम सिनेमा खंय अमांदा बरोबर मांनूय तिनदां पळयिल्लो. मागीर म्हळें, येतनां तिचे खातीर दोन बऱ्याशा मल्यालम सिनेमाच्यो सिडी हाड, पळोवंदी तिका वेळ आसता तेन्ना.

राती म्हजे कुडींत वचून न्हिदपाक मन येना जालें. मांचेच कुडींत न्हिदलों. मांचें बरें. दिसाचो सुशेग घेवनूय रातभर न्हिदून पडटाली. सकाळीं मात हांवें च्या केली तेन्ना थोडी साखर घाल म्हूण सांगलें. हांवें शुगरलॅस घालून दिली तेन्ना खूश जाली. मात खांक्यांत हात घालून उठोवन कुबड्यो घेवन धा मिण्टां चल म्हूण सांगल्यार बेजार जावन कितें कितें म्हणीत रावली. त्यो दोन राती आनी तीन दीस पळयतकच नर्सिंग

करप म्हळ्यार कितें तें कळ्ळें. दिसांतल्यान एकी आनी दुकी मेळून उणेंच धा फावटी तरी पॉटी, च्या, जेवण, खाणा खातीर चार-स फावटी बसोवप, दोन-तीन फावटी कुबड्यो दिवन भोंवपाक लावप, तीन वेळा ना चुकतां इन्सुलीनाचीं इंजक्शनां, ते भायर ॲण्टिबायोटिक्स. मां न्हिदिल्ली आसताली तेन्ना पासियेंसान रावचें पडटालें ती उठपाची वाट पळयत. केन्ना केन्ना मां न्हिदेचें सवंग करताली तें अमांदा बेस बरें वळखताली. म्हजी आवय जाल्ल्यान मांचे खातीर कितेंय करतनां म्हाका, आनंद न्हय तरी त्रास जायनासलें. पूण तिसरेन तिचे खातीर इतलें सगलें हांसत्या तोंडान करप! बऽरी नर्स जाली, पगार घेता म्हूण कितें जालें?

सोमारा सांजेर अमांदा आयली आनी ह्या दवरण्याचेर दवरून गेल्ली तें वजें पर्थून आपल्या माथ्यार घेतलें.

एका आयतारा कृष्णा आयलो तोच उचांबळीत जावन.

"तूं सर्वेश नमशीकाराक वळखता न्हय? तो पयर आमच्या इंस्टिट्युटांत आयिल्लो."

"थंय शिकता तर तो?" सर्वेश हॉटेल मॅनेजमेंटाक गेला म्हूण खबर नाशिल्लें म्हाका.

"ना. तो डिग्री करता. ओंदू फायनल तागेलें. ब्रिलियण्ट. शिकून जावचे पयलींच ताका ताज रिसॉर्टाची ऑफर आयल्या. वर्सभर थंय एक्सपिरियन्स घेवन मागीर खंय तो स्वताचें हॉटेल काडटलो. ते खातीर टेलंटेड कोण आसात तांची खबर काडूंक आयिल्लो. सोमतीच म्हाका ऑफर दिल्या ताणें आपल्या हॉटेलांत."

म्हाका सर्वेशाची खबर आयकून ताचें कवतूक दिसलें. "बापायन घाल्लीं बंदनां तोडपांत कामयाब जालो तर तो!" हांवें म्हळें.

"हय बाबू, तुवेंच इन्स्पायर केलो खंय. खूब मानता तो तुका."

सर्वेशान आपणाली वाट सोदून काडली हें आयकून म्हाकाय बी अंतरांतली प्रेरणा उलो मारूंक लागली. नवे उमेदीन हांव कामाक लागलों. मार्टीनसरालें पयलीं मनार घेतलें. प्रो.अनिल कुमार गुप्तान ग्रासरूट नविदादींक प्रोत्साहन आनी चालना दिवपाखातीर चलयिल्ल्या वावराची म्हायती काडली. हनी बी नॅटवर्क कशे तरेन काम करता तें गुगलाचेर सोदलें. खंयच्या खंयच्या मळार कोणे कोणें नव्यो आगळ्यो संकल्पना कशो फुडें व्हेल्यात तें पळोवन हांवें म्हजें नोटस काडले. ए फोर पेपर्स सोंपले. दनपार जाल्ली. उठून कपडे केले आनी भायर सरलों. सालांत पळय जाल्यार अमांदा न्हावन बी ओलसार केंस मेकळे मानेर फाटल्यान सोडून फॅन लावन बसल्या. उजो मारता म्हूण काय केंस सुकोवपाक कोण जाणा! म्हाका पळोवन बेगबेगीन उठली. हॅल्मेट घेवन हांव दाराकडेन पाविल्लों– ‘‘रेनकोट?’’ तिणें विचारलें.

भायर दमळ जाल्लें. सोदूंक वावर म्हूण आसूं म्हणपाक वतालों. पूण तिणेंच हाडून दिलो. बद्द पणजे जे.डी. कडे वचून एक रीम घेतलें आनी भायर पासयेचेर पळय जाल्यार एक जाण्टेली मोगऱ्यां हळी घेवन बसल्या. एक हळी घेतली आनी पावस शेनचे पयलीं घरा पावलों.

जेवन परतोय बसलों. वेळ कळ्ळोच ना. मोगऱ्यांचो परमळ नाकांत भरलो म्हूण पळय जाल्यार च्या हाडल्या. कप दवरून तिणें ‘थँक्यू’ म्हळें. ‘‘व्हाय’’ हांवें विचारल्यार तिणें मान घुंवडावन केंसांतले मोगऱ्यां हळयेक हात लायलो आनी मंद हांसत भायर सरून गेली. खीणभर चिंतूंक उरलों– फातिमाचेय केंस लांब आसात, ताच्याय केंसांनी सोबतली आसली; मागीर हांवें ताचे खातीर केन्ना कित्याक घेतली ना काय? घडये, तिच्या माथ्यार सदांच ओडणी गुटलायिल्ली आसताली देखून जावंये. फातिमाक फोन करपाचें मन जालें. पूण तागेली अट आसली फोन तें करतलें– फिलिपिनाक. येवजिता थंय आसां, फोन आयलो.

‘‘हाय फिलिपिना, कितें करता?’’

“तुजी याद काडपाक तुजो फोन.”

“पळयलें? टेलेपथी! बऽरें! याद कैसे किया?”

“अकस्मात येवजलें– हांवें तुका केन्ना फूल वा फुलांची फांती दिली ना, कित्याक काय?”

“सिंपल. फूल इसलिये नहीं दिये कि बहारही नहीं थी.” कितलें हजरजबाबी हें फातिमा!

“आगो, आयज मोगरीं पळयलीं आनी वासान तुजी याद आयली. दोन वर्सां आमी मेळटालीं, एकदांय –”

“आयक. *आप फूल देते, तो फुलों से आती खुशबू*

*आप काँटे देते, तो काँटों से आती खुशबू*

*ना भी देते, तो आपके जिस्म से आती खुशबू*

*तो फिक्र किस बात की?*”

“तूं मुगो हांसून सगलें फकाणांचेर व्हरता–”

“हांव हांसतां अशें दुनियेक दिसता, म्हजें मन मात सदांच उदास आसता.” फातिमान सांगलें आनी फोन तोडलो.

तें आयकलें आनी म्हजो मुडच गेलो. फातिमाचें उदास तोंड दोळ्यांर येत रावलें. बेठोच ब्राउज करीत बसलों. संक उठून भायर आयलों. अमांदा मांचे कुडींत सिडी लावन सिनेमा पळयताली. मांय थंय बसून पळयतां पळयतां झेमेताली. खीणभर रावन बेठेंच विचारलें– “नांव कितें सिनेमाचें?”

“रती निर्वेदम.”

म्हाका अर्थ समजलो ना. तिका उठुंनाका म्हूण सांगून हांवेंच वचून च्या करून घेतली. कुडींत आयलों. नॅटफ्लिक्साचेर सिनेमा ब्राउज केले. नदरेक पडलो तो लायलो. ‘करीब करीब सिंगल.’ पळयत बसलों.

भूक लागली म्हूण किचनांत वच जाल्यार मेजार जेवण मांडून अमांदा वाट पळयताली. जेवन घेतलें आनी कुडींत वचून कम्प्युटराचेर आन्येक

मुव्ही पळोवपाची तयारी केली. म्हणसर न्हिदपाचे तयारेंतली अमांदा ताकतिकेन आयली. "सॉरी, बाबू, फॉर्गोट टू टेल यू. इन्सुलीन इज फिनिश्ड. सामकें विसरलीं. आतां दिवपाक लेगीत डोस ना. अर्जंट जाय. सॉरी, बट प्लीज ब्रिंग नाउ."

वचचें पडलें. सालांत यो जाल्यार ही हॅल्मेट घेवन तयार रावल्या. 'सॉरी, माय मिस्टेक' करीत.

भायर बारीक पावस शेनतालो. 'रेनकोट?' म्हणीत रेनकोट सोदूंक लागली. "खंय दवरला?"

हांवें म्हळें, "हांव पळयतां." मागीर याद जाली. येदोळ गेल्लों तेन्ना वतनां व्हेल्लो. येतनां हाडलोच ना. जे डी ल्या शॉपार दवरून आयिल्लों. पावस म्हणपा सारको नासलो. तसोच गेलों. वखद घेतां म्हणसर दडक आयली. धा एक मिण्टां रावलों. पावस मातसो पातळ जातकच भायर सरलों. परतो पावसर चिप्प भिजलों. इकरा जावन गेल्लीं, अमांदा दारांतच राविल्ली. बाय्क स्टँडार काडली आनी हॅल्मेट काडून सोपणां चडटां म्हणसर लवंडली. स्टँडा पोंदची माती भुसभुशीत जाल्ल्यान जावंये. हॅल्मेट थंयच उडोवन भायर गेलों. पळय जाल्यार अमांदाय भायर येवन बाय्काक हात घालूंक लागली. हांवें धेंगसो घालो, "तूं चल भितर. भिजतली." तरी भिजलीच. भितर येवन वखदांची पोटली तिच्या हातांत दिवन विचारलें, "मां न्हिदली?"

"हय. पूण इंजक्शन घेतली ती." ती भितर धांवली.

च्या जाय आसली. पूण कपडे चिप्प भिजिल्ले. कपडे देंवोवन तुवालो गुठलायलो. कम्प्युटर स्लीप मोडांत गेल्ल्यान कुडींत काळोख जाल्लो. तो ऑन केलो. न्हिदेन कूस मारिल्ली. खूब तेंप जालो मागीर पळोवचो म्हूण फुडें धुकलिल्लो 'द लास्ट टँगो इन पॅरीस' लावचें चिंतलें. बसतां थंय आसां, अमांदा टॉवेल घेवन आयली, "सॉरी,बाबू. यू आर वॅट बिकॉज ऑफ माय मिस्टेक" अशें म्हणून सरळ हांव बाशिल्ले कडेन येवन तुवालो म्हजे तकलेर घालो आनी माथें पुसपाक लागली. तें इतलें

विपरीत दिसलें म्हाका, पूण उलोवपाकच दिलें ना तिणें. ''यू वील गॅट कोल्ड. लॅट मी-'' म्हणून माथें पुसून जातकच तुवालो म्हजे फाटीर भोंवडायलो. ती इतली लागीं आयली कीं म्हजी फाट पुसतनां तिचीं थानां म्हज्या तोंडा कडेन पाविल्लीं. एक बरोऽ वास नाकांत भरलो. हो वास मोगऱ्यांचो न्हय. हो तिचो वास. अस्तुरेचो वास. फाट पुसून तिणें म्हजो हात ओडून म्हाका उबो रावंक लायलो. आनी तुवालो म्हजें हड्डें पुसूंक लागलो. तिगेले स्वास उश्ण जाल्ले म्हाका जाणवले. म्हजेय स्वास तापूंक लागले. पुसून जालें तरी तिचो हात भोंवत रावलो. मदींच तिणें पुसप सोडलें आनी दोनूय हातांची खेंव घालून म्हाका घट्ट धरलो. तोल वचचो म्हय म्हूण जावंये, म्हजेय हात तिचे भोंवतणीं पावले. आतां ती वेंग सदळ जाता शें दिसतासर ती गळसणली. धोंपरां कडकडिल्ले वरी ती आख्खी कोंसळटा काय दिसलें घट धरली तिका. धांपिल्ल्या दोळ्यांनींच तिणें तकली वयर करून लागीं हाडली. तिचे ओंठ विलग जाल्ले. म्हजेर पुर्ण भार घालून ती धांपेताली. तिचें हड्डें म्हज्यो बरगड्यो चेपतालें. तिका उकलून कॉटीचेर दवरतना म्हज्या कमराचो तुवालो केन्ना सुटलो कळ्ळेंच ना. म्हजे हात तिचीं उबार थानां सांसपुपाक लागले. ब्रा कशी पयस करप म्हाका कळ्ळें ना. तिणेंच एक हात फाटूल्यान करून हूक सोडयलो आनी मेकळीं केलीं. इतलो वेळ झेमपी कम्प्युटर स्लीप मोडांत गेलो आनी कुडींतल्या किट्ट काळखान आमकां अळंग गोपांत घेतलीं.

निकतेंच एक सपन पळयिल्लेवरी सकाळीं जाग आयली तेन्ना अमांदा बगलेक नाशिल्ली. राती खरस काडल्या उपरांत आतां सगलो शीण वचून जिवाक तरतरी आयिल्लेवरी दिसलें. दादलेपण फळ्ळां आनी हांव पुर्णत्वाक पावलां ही तृप्त भावना घेवन हांव उठलों. कपडे घाले. च्याची तल्लफ आयली. किचनांत वचून च्याक दवरलें. मांचे कुडींत आजून काळोख आशिल्लो. तोंड बी धुवन हांवें च्या सारकी केली. फाटल्यान

पावलांचो आवाज आयकलो आनी घुंवन पळय जाल्यार अमांदा मान सकयल घालून उबी. च्या दोन कोपांनीं ओतली आनी घेवन मेजार बसलों. अमांदा थंयच उबी राविल्ली. ती गुलाबी देगेची धवी फुल्ल साडी न्हेशिल्ली. भायर वतना न्हेसपाची. मान सकयल आसली ती वयर सरली ना.

''च्या घे.'' हांवें म्हळें. ती हालली ना. हांवें घोंट मारलो तरी ती तश्शी.

''कितें जालें?'' हांवें विचारलें आनी म्हजें म्हाकाच अजाप जालें राती घडलें तें कांयच न्हय जाल्लेवरी हांव वागतालों.

''आय ॲम गोइंग.'' नदर वयर काडिनासतनां तिणें अपराधी भावना लिपयनासतनां म्हळें.

''खंय?'' विचारतकच पळयलें हांवें. तिणें बॅग भरून तयारी केल्ली.

''होम.''आनी तकली सकयलच दवरून म्हळें, ''आय ॲम सॉरी.''

म्हाका उतर सुटना जालें. राती जें घडलें तातूंत चूक फकत तिचीच आसली? तेय परस – ती चूक आसली? काय सभावीक? कोणें कोणाचेर आगळीक तर करूंक नासली! चूक आसलीच जाल्यार तांतूंत म्हजीय आसली.

दोगां मदलो मोनेळ सोसूंक जायना जालो. तिणेंच पयलीं तोडलो, ''सॉरी, माय मिस्टेक.'' तिचें उतर थरथरतालें.

''डॉण्ट गो.'' म्हज्या तोंडसूनय सुटलें, ''माय मिस्टेक टू.''

कितलो वेळ ती मानेनच ना ना करीत रावली.

''अशी मांक सोडून –?''

''प्लीज.'' तकली मातशी वयर करून तिणें म्हळें.

''आयक म्हजें प्लीज. इट वील नॉट हॅपन अगेन.''

तकली वयर काडून पयलेच खेपेक म्हज्या दोळ्यांक दोळो दिवन तिणें म्हळें, ''मी टू. नॉट अगेन..... सॉरी.''

तिचें सॉरी आयकुचे पयलींच हांवें म्हळें, ''नेव्हर अगेन.'' आनी

अमांदा बॅग घेवना भितर गेली.

च्या थंड जाल्ली. सरळ भायर ओतली. आनी नव्यान तीन कप केली मांची मांक दिली आनी दुसरो कप अमांदाच्या हातांत दिलो.

"थँक्यू" तिच्या दोळ्यांत उदक भरिल्लें.

कांय प्रस्न मागीर म्हज्या मनांत गोंदळ घालूंक लागले. केन्ना तरी वाचिल्लें– 'कामातुराणां भयं न लज्जा.' हें कोणाक लागू जातालें? म्हाका? काय तिका? डॅडीक भायली गोडी आशिली. मांनच म्हणिल्लें तशें. बाळंटेरा वेळार घरांत दवरिल्ले बायलेकडेन ताचे संबंद आसले खंय. ती मद्रासी एल्सी– तीय कामातूर. डॅडी संवकल्लो तिका. ताचे कामातूर जिन्स म्हज्यांतूय आयल्यात काय? डॅडी वावराडेक गुठलायतलो म्हूण मां वावराडीच नाका म्हणटाली. पूण घरांत वावराडो कित्याक दवरना म्हूण डॅडीक विचारताली. तिच्या सॅक्साची गरज डॅडीन केन्ना भागयली ना. केन्नाच? मागीर म्हजो जल्म कसो? घडये मां ताका जाय तशें सूख दिनासली. पूण तो तर मामाक सांगतालो– तिणें केन्ना बायले–सूख दिलें ना. पास्कोआल केन्नाय येतालो ताका डॅडीन ना केल्लो. आयुर्वेदीक डॉक्टराकूय डॅडीन तिका तपासपाक मनाय केल्ली. सभ्य मनीस कुडीची वानसा आपुणच भागयतात – हस्तमैथुनान. तीय भागयता आसतली. घोव मरत सावन अमांदान वैधव्य भोगलां. तशी ती पस्तिशीं भितरली. फाटली पांच वर्सां समाजान तिका कुडी सुखाक वर्जीत दवरिल्ली. आड वाटेन भागयिल्लें काय तिणें तें सुख? दिसना. सात म्हयने हांगा उरिल्ल्याक तिणें 'ते' नदरेन कोणाकडेन पळयिल्लें याद जायना. सॅक्स ही कुडीची गरज. खरें. पूण तिचेर ताबो दवरपांत नितीमत्ता आसा म्हणटात. कोणें थारायल्या ही नितीमत्ता? डॅडीन पुरुशार्थ गाजयलो, मांक मात वंचीत दवरली – हीच

मूं ती नैतिकताय? रविन्द्र केळेकार म्हणटा – संभोगांत काळजां एकठांय जायनात तो संभोग निती भायलो. राती आमचीं काळजां एकठांय जाल्लीं व्हय? ना. कुडी एक जाल्ल्यो. देखून तो निती भायलो? आमी घेतलें तें निखळ निर्भेळ सूख. त्या घाळ खिणाक तिचो पांय निसरलो. पूण तो शेणांत पडलो ना. वा कोणाचे शेपडेर पडलो ना. इतलोय तेंप आडावन दवरिल्ल्या बांदाक खांवटें पडलें जाल्यार तुंबिल्लें उदक व्हांवतलेंच. आतां ती स्वताक खेपता. पूण ते राती तिणें जितलें सूख घेतिल्लें तितलें दिल्लें. हिशोब बादाबाद जाल्लो. अयाव आशिल्ली जाल्यार प्रतारणा केल्ली म्हणपाचें. तशेंय नासलें. तरीय तिका इतलें अपराधी कित्याक दिसचें? आसूं. खांवटें पडिल्लें तें आतां 'नॅव्हर अगेन'च्या संकल्पान पुरयिल्लें.... विचारांचो गोंदळ थंडायेर पडलो शें दिसलें.

एका प्रस्नाची जाप अमांदा कडेन मागची शें दिसलें– 'अपराधी भावना कुशीक दवरून सांग– समादान जावपा इतलें सूख मेळ्ळें?' पूण हांव जाणा आसलों म्हज्यान तें विचारूंक जावचें ना.

च्याची तल्लफ आयली. हांव किचनांत बसून च्याक आदन दवरपाक अमांदा भायर आयली. तिणें सकाळची साडी बदलून घरांतली न्हेशिल्ली. म्हाका बस म्हूण सांगून तिणें च्या केली. च्या जायसर म्हजे कडेन पळयलें ना. हांव मात नकळटना तिचे फाट्सून तिची सांसपिल्ली कूड अजापान शी पर्थून पळयतालों.

च्याचें कोप म्हज्या मुखार अळंग दवरून ती थंयच उबी रावली.

''बस'' हांवें म्हळें. तिणें मानेनच ना म्हळें. कितें तरी सांगपाक ती धाडस बांदता अशें दिसलें. पांयार पांय घाशीत थोडो वेळ रावली. मागीर ओंठांतल्या ओंठांतशें म्हळें, ''थँक्यू''.

''फॉर व्हॉट?''

लजेल्ले वरी हांसली आनी घुंवन भितर गेली.

ती म्हाका पडिल्ल्या प्रस्नाची जाप आसली काय?

फातिमाची याद नदरेआड जावपा इतलें तें सूख म्हजेर हावी जाल्लें? विचार लेगीत कसो आयलो ना? अमांदान कोणा कडेन प्रतारणा करूंक नासली अशें येवजितना हांवें फातिमा कडेन प्रतारणा केल्या काय असो दुबाव लेगीत कसो आयलो ना? अमांदा पिलियन बशिल्ली तेन्ना तो फातिमाचो सीट अशें दिशिल्लें म्हाका. तशें जाल्यार राती तिणें गोपांत घेतिल्लो तेन्ना फातिमान 'तेरा नशीला बदन मेरे बाहोंसे छुटता नहीं' म्हणिल्लें तें कशें याद आयलें ना? फातिमान हांव बाय्कार आसतनां फाटसून वेंग मारिल्ली- हिणें फुडल्यान. त्या वेळार फातिमाची याद कित्याक आयली ना? आयिल्ली जाल्यार हांव कितें अमांदाक न्हयकारतलों आसलों?

तिच्या गोपांत फातिमाची याद आयली ना तेंच बरें जालें. ताका येता काय घोवाचे वेंगेंत आसतनां म्हजी याद? चित्राक खबर आसतली. हांवें चित्राक फोन केलो, जाल्यार चित्राचो फोन बिझी. उसरां सो आयलो. पूण तो मेरेन म्हगेली तें जाणा जावपाची कूंय जिरून गेल्ली. अवांतर गजाली केल्यो. कालमेरेन म्हाका दिसतालें, हांव कसलीच गजाल चित्रा-फातिमा कडेन शॅअर करिना अशें ना. हय. हांव फट केन्नाच मारिना. पूण सत लिपोवप हीय एके तरेची फटच. 'सत्यं ब्रुयात, न ब्रुयात सत्यं अप्रियम' हें वचन याद जालें. तशें जाल्यार - फातिमाय तें म्हाका अप्रिय दिसतलें म्हूण सांगना आसतलें. प्रितमा कडले आपणांले संबंद चित्रान सुर्वेक लिपोवन दवरूंक नासले? तें म्हाका घडये अप्रिय दिसतलें म्हूण?

तो सबंद दीस, आनी रातूय, हांवें आदले राती घडिल्ल्या त्या सुखदिण्या प्रमादाचें समर्थन करपांत सारलो.

सकाळीं उठलों. हाचे फुडें च्या हे कुडींत येवची ना हाची जाणविकाय जावन हांव भितर गेलों.

“एक काम हातांत घेतलें तें लॉजिकल कंक्लुजनामेरेन व्हरपा खातीर जी चिकाटी जाय ती तुजेकडेन ना. फातिमा म्हणटा तें सामकें खरें, तुजे कडेन जायना अशें कांयच ना. जीवन सार्थकी लायतलो जाल्यार कितेंय कर, जाचो देशाक फायदो जातलो, गोंयांक फायदो जातलो. थिंक बीग. आनी लाग कामाक.” हांवें हनिबी नॅटवर्काच्या संपर्कांत रावन काळखाचो झोत विशयाचेर सोद वावर करपाचो विचार मनांतल्यान काडून उडयिल्लो, देखून चित्रा म्हजेर बेजार आशिल्लें.

हांव जेन्ना अनमनावस्थेंत शेणिल्लों आसतां तेन्ना चित्रा गंभीर जावन म्हाका, योग्य आसूं नासूं, सल्ले दितालें. फातिमाची तरा वेगळी. हांव गंभीर आसतां तेन्ना तें फाकाणां मस्करी करून म्हज्या शिणिल्ल्या मनाक थाकाय दितालें. मागीर हांव नवे ताजबाणीन कामाक लागतालों.

“म्हगेली फिलिपिन कित्तेंय करूंक शकता.”

हांवें ताका आडावन सांगलें, “हो तुगेलो डायलॉग पाठ आसा म्हाका. मूड येवपाक कितें करूं तें सांग.”

“मूड बेचैन आसा मरे?”

“हय.”

“तेंच तर सांगतालें. मुझे अगर बाहों में भर ले, शायद तुम्हें चैन

मिले.''

''शायरी पुरो.''

''शायरी न्हय रे. तुका एहसास दितां- तूं कितेंय करूंक शकता. पूण बगलेक हांव जाय. मागीर तुजो मूड कसो लागता पळय.''

''तशें जाल्यार तूं गोंयां योसर वाट पळोवची पडटली मुडाची.''

''तशें कोणें म्हळां? तूंच हांगा यो.''

''मुंबय सो?''

''तुजीं सपनां पुर्ण करपाक.''

''हांव सपनां पळयना.''

''पूण हांव पळयतां- तुजीं, जागेपणीं. तुज्या नकळटनां. सून-
*सपनों में उलझती हूँ. तो तुम्हारा क्या बिगडता है?*
*बाहों में कस लेती हूँ तुम्हें, तुम्हें कभी समझ में भी आता है?*''

''तूं मुगो सपनांच पळय.''

''सपनां पळयतां म्हूण माणसुकी. नाजाल्यार -''

''ना जाल्यार कितें?''

''ना जाल्यार- आसूं. तूं केन्ना येता सांग.''

''कित्याक म्हूण येवं?''

''म्हाका पिडपाक.''

गरज दिसना फुडें हाजीर जावपाक मूड म्हजो सोयरो न्हय. हांवें मुडांत येवप आनी कितें तरी विपरीत घडप अशें समीकरण जावन पडिल्लें. सकाळीं उठटनाच अमांदा धांवत आयली. मां, मां मां करीत. मां जागी जायनासली. तिची नाडी पळयली. काळजाक कान लायलो. ''कॉल डॉक्टर'' ती आड्डुली.

हांवें कॉश्ताबीराक फोन केलो आनी बायक घेवनच ताका हाडपाक

गेलों.

"सॉरी." ताणें तिच्या दोळ्यां वयल्यान हात ओडलो. पूण धांपून उरले नात. जीव वचून वेळ जाल्लो जावंये.

राती दोनांक अमांदान तिचो डायपर बदलिल्लो खंय. 'तेन्ना ती जागी जाल्ली. कांय उलयली ना. मंद आशिल्ली खरी. पूण दुखता बी कांय सांगलें ना'. बाबडी जावन अमांदान सांगलें.

"हार्ट अटॅक. डायबेटीक.पेशंटाक पेन येयल्यार सजमना. दोन वरां जालीं आसतेलीं ती मेल्यार."

कॉश्ताबीरान दोतोरालें डॅथ सर्टिफिकेट दिलें. ताका पावोवन आयलों.

मामाक फोन लायलो.

कृष्णाक आफोवन हाडलो.

तितले भितर अमांदान भयणीक फोन केल्लो जावंये, ती आयली. म्हाका भुजवण दिवन जातकच तिणें विचारलें, अमांदाक व्हरूं काय म्हूण. आं म्हळें. चित्राक फोन करून ही खबर सांगली. आनी 'आतां नाका, फाल्यां उलोवंया' म्हळें.

वर्सांसंखेनी जांणीं ह्या घराक तोंड दाखयलें ना त्यो दोनूय मामयो आयल्यो. कोणें तरी मांच्या तोंडांत साखर घाली. जिती आसतना गोडशें खावपाक अथरेकताली तिच्या तोंडांत मूठभर साखर पडली.

अडेज वर्सांत कांयच बदलूंक नासलें. डॅडीच्या मरणाक केल्ले तितलेय सोपस्कार जाले. हे खेपेक दोगी मामयांसयत मामा हाजीर आसले. तीच तोंडदेखली भुजवण, तेच लोक, तेंच भटपण, तेच विधी, तेच परंपरेक धरून कृष्णा स्मशानांत आयलो ना.

आतां चार पैशे हातांत घोळटाले जाल्ल्यान जावंये दोनूय मामा टॅक्सी घेवन आयिल्ले. ताणींच हर्स गाडी आफयली, भट हाडलो, मसंडींत लाकडां, उजवाती, चंदन, कापूर सगलें जाय नाका पळयलें. भावोजीच्या मरणा परस भयणीचें मरण बरें जालें हाची खोस घेवन मामयांक घेवन ते परते गेले.

दुसऱ्या दिसा दोनूय मामांनीं पेपरांत जायरात दिवन भयणीच्या मरणाचें दुख्ख जाहीर व्यक्त केलें.

फुडले दोन दीस कोणकोण येवन गेले. अमृत आनी सर्वेश लेगीत. चित्रा आनी फातिमा सोडून. मार्टीनसर हे खेपेक हात हालयत आयलो. पूण सांगून गेलो- ''डॉण्ट वेस्ट टायम. मांय मेली तें दूख करीत बसूं नाका. वावराक लाग. तुजें क्रिएटीव मायण्ड बिझी दवर. संवसारांत जल्माक येयला तो मरतलोच. हांवूय मरतलों, तूंय मरतलो. लोक विसरोन वयतले. पूण तुजो वावर, एका जिनियसागे वावर, सदांकाळ उगडासांत उरतेलो.''

फातिमा मात ताच्या सभावा कडेन विसंगत, पूण म्हज्या मनांतलें, उलयलें, ''आयज तुजे कुशींत हांव आसूंक जाय आसलें. तुजीं दुखां पुसूंक न्हय. पूण एकलेपणाच्या पावसांत तूं भिजता तेन्ना सत्री धरूंक- तुजीं सपनां पुसून वचचीं न्हय म्हूण. म्हाका येन दिसता तुजेसरीं, तुका हात दिवपाक न्हय, तुजो हात धरपाक.'' फातिमाले मस्करेन आयज म्हाका फाट केल्ली. म्हाकाय प्रकर्शान दिसलें तें बगलेक जाय आसलें.

म्हळें, ''काळजा थावन सांगतां फातिमा, आयज तुजी खुब्ब याद येता. खुब्ब उलोवचें शें दिसता. तूं लागीं जाय दिसता--''

''काश!'' इतलें म्हणून फातिमान फोन तोडलो.

म्हज्या खात्यार पंचवीस लाख जमा करून आनी अदीक पन्नास लाखांची कबलात करीत साकून हांव आपले सांगणेंत आयलां आनी अवज्ञा करचो ना अशा भ्रमांत मामा आशिल्लो. डॅडीच्या वेळार तागेले रांदनीर अर्दकुटें शिजिल्लें. हे खेपेक तो थारावन आयिल्लो, सगलें

साग्रसंगीत करतलो म्हूण. धाकल्या मामाकूय वांगडा हाडिल्लो- आतां पळय हांव ताका कसो सुतावरी सरळ करतां अशें सांगून.

दनपारचे जेवन बी आयिल्ले- ह्या घरांत बारा दीस मेरेन खंय झळकें रांदूंक जायना. भयणीक लग्न करून दितकच खंय तिगेलें गोत्र वेगळें जाता देखून खंय तो नेम तांच्या घराक लागू जायनासलो. मानशेच्या सुंगटांचें म्हसगा सांगो घालून व्हडले मामीन केल्लें सुरबूस हुमण आनी म्हारग आसलो तरी ताज्जो हाडिल्ल्या·विसवणाचीं पोस्तां धाकले मामीन चुरचुरीत तळिल्ल्यान जेवणर दोगांनीय कसो आडवो हात मारिल्लो तें सांगून 'भूक ना, पूण च्या चलता' म्हणीत तांणी विशयाक हात घालो. जाचें फकत नांव आयकलां अशा मळबांतल्या एका नखेत्राक अवलक्षणी थारावन व्हडल्या मामान सांगलें- अर्द्या वराच्या फरकान तें चुकलें. नाजाल्यार महा-शांत केले बगर सुटका नाशिल्ली. आतां फुडलें सोपें--"

"फुडलें कितें उरलां?"

"पळय बाबू, भावोजी वेळार तुवें नाका म्हळें. भावोजी तो म्हूण आयकून घेतलें. ही भयण आमची."

"तुमगेल्या भावोजीन कितें वायट केल्लें?"

म्हजो सूर पळोवन मामा अस्वस्थ जालो. पूण हे खेपेक बोल्सांत पैसो खुळखुळटालो. तेभायर धाकल्या मुखार म्हजे कडेन खालतेंपण घेवपाची नामुश्की ताका नाका आशिल्ली.

"मेल्ल्या-गेल्ल्याक अशें वयर काडचें न्हय रे." अशें म्हणून मामान पोले फोडून घेतले. "आतां ही भयण न्हय आमची? सगलें शास्त्रा प्रमाण जावंक जाय."

"शास्त्र कितें सांगता? तूं जाणा जाल्यार सांग."

धाकलो मामा थंड बशिल्लो. व्हडलो करता तें जालें म्हूण. व्हडलो मामा फुरफुरलो. भटा कडेन वचून आयिल्लो जावंये. "हें बरें विचारलें तुवें. जाणा जावन घेवपाकच जाय. आतां तुजी आवय गेली. तिचो आतां परतीचो प्रवास सुरू जालो. कट्टें फुटलें. आतां ती पितृलोकाचे वाटेर

आसा. इकरा दिसांचो प्रवास तो. बाराव्या दिसा तिचें श्राद्ध वाडूंक जाय. म्हळ्यार, तिच्यो इत्सा-वानसा अतृप्त उरल्यो जाल्यार तिचो अतृप्त आत्मो हांगाच घुटमळटलो.''

''तो आतां पितृलोकाचे वाटेर पावला म्हणी न्हय तूं?''

''हांगा म्हळ्यार थंयच रे, बाबू. मोटो खडतर प्रवास तो!. ताका मुक्ती मेळ्ळेबगर तो देवलोकांत पावचो ना. देवलोक हेंच तिचें वैकुंठ, होच मोक्ष.'' अशें म्हणून मामान वयर पळोवन दोनूय हात जोडले.

''म्हणटकच श्राद्ध वाडलें कीं ती सुटली? तितल्यान आमचें कर्तव्य सोंपलें?''

''मागीर नाका जाल्यार मासकां बी सोडून दिवपाचीं. हालीं कोण तें घेवन बसनात. पूण वर्सस्राद्ध जायच आं!''

''तें कित्याक?''

''फाटल्यान उरिल्ल्यांक त्या मृतात्म्या कडसून कांय पिडापीड भोगची न्हय म्हूण.''

''उरिल्ल्यांक म्हळ्यार कोणाक?''

''तुका- म्हाका- ''

''जालें?''

आपणें कशें पटोवन दिलें ह्या झेतान व्हडल्यान धाकल्या कडेन पळयलें. धाकलो ढम्म वगी. घडये ताका हांतलें कांय समजलें नासुंये.

''आयक मामा, तूं जाका शास्त्र म्हणटा तें बुद्दीक ना पटपा सारकें. अंधविस्वासाचें भांडवल करून आपलीं पोटां भरपा खातीर भटा-बामणांनी रचिल्लें कर्मकाण्ड. म्हजो असल्या देवसपणाचेर मात्तूय विस्वास ना. मांच्यो कसल्योय इत्सा भागयल्यो नात जाल्यार त्यो हांवें. ताचे परिणाम भोगपाची म्हजी तयारी आसा. मांक गोडशें खायन दिसतालें तें आमी कोणेच तिका दिलें ना. ती मरतकच मामीन तिच्या तोंडांत साखर घाली. मामीक पुण्य मेळ्ळूंच. जिवी आसतना तुमी कितें केलें, केलें ना तें तुमकां खबर. मेल्या उपरांत केल्लें तिका पावतलें अशें तुमकां दिसता आसत

जाल्यार तुमी तुमकां दिसता तशें अवश्य करात. म्हाका जें पुटवना तें मात म्हाका करपाक लावं नाकात.''

तरी मामान वतां वतां विचारलेंच, ''फाल्यां सारी भरपाक आफयल्यात ती तरी याद आसा मरे?''

''तुमी भरल्यार जाता जाल्यार तुमीच भरात. म्हजी हरकत ना.''

''ना. ना. ती उजो दिला ताणेंच भरपाची.''

''तशें जाल्यार तें म्हजेर सोंपयात आनी वचात तुमी.''

सकाळींच अमांदा आयली. बसली. कसो आसा विचारलें, कितें करता विचारलें. चडच उपचारीक शें दिसलें तेन्ना उठली, ''आय वील मेक टी.'' म्हणून किचनांत गेली. तिच्या हातचे च्याची संवय जाल्ली. दोन कप घेवन आमी थंयच बसलीं. तीच उलयली, ''आय ॲम गोइंग टुमॉरो.''

''खंय? घरा?''

तिणें मानेनच हय म्हळें.

''आक्का रेबेका सेज - यू आर अ गूड मॅन - जंटलमन.''

''आनी तूं?''

''व्हॅरी गूड!'' आनी मागीर अनमनत म्हळें, ''आय वील मीस यू.''

तिणें केंसाचो आंबाडो घाल्लो. पूण मानेर सदळ सोडिल्लो. लांब केंस मानेर सोडिल्ले ती याद जाली. तेय परस अशे केंस बरें दिसले.

''व्हॉट हॅपन्ड?'' तिणें गोंदळून विचारलें.

''यू लूक गूड.'' ती निर्मळ हांसली.

''हांव एक विचारूं?'' तिणें विचारलें.

हांव ना कित्याक म्हणूं?

''यू हॅव अ फोटो ऑफ युवर गर्ल फ्रॅण्ड?'' नदरेक नदर दिवन तिणें

विचारलें.

हिका कोणें सांगलें? गर्ल फ्रॅण्ड ना म्हणपाचें तोंडार आयिल्लें. पूण तें फट मारिल्लेभाशेन जातासलें. खीणभर रावन विचारलें, ''हाउ डू यू नो?''

''गॅस. तूं तिचे कडेन फोनार उलयता तेन्ना तुज्या तोंडार उजवाड फांकता.''

हांवें मोबायलाचेर फातिमाचो फोटो सोदलो. केन्ना क्लीक करूंक नासलो. चित्रानच अदीं मदीं जे धाडिल्ले तातूंत एक दोन आशिल्ले. म्हाका ते पळोवन तातूंत रमचें अशें दिसूंक नासलें केन्ना. हांवें उकतो करून बोटांनीच व्हड करून अमांदाक दाखयलो. तिणें पळयलो. पळयत रावली. तिच्या तोंडार वेगवेगळ्या भावनांचे तरंग हांवें पळयले.

''व्हॅरी प्रेटी.'' तिणें मोबायल परतो दिवन मनस्पुर्वेक म्हळें.

तिणेंच कोपां विसळून दवरलीं. पालवाकच हात पुसले. हांवूय उठलों. म्हजे बगलेक येवन तिणें म्हळें ''अवर लास्ट मिटिंग!'' आनी येवन म्हाका 'हग' दिलो. म्हज्या पोल्यांक पोले तेंकयले. आनी ल्हवूच आवाजांत म्हज्या कानांत सांगलें, ''थँक्यू, बाबू- फॉर एव्हरीथींग.'' ही वेंग इश्टागतीची आसली. तिचे ओंठ विलग जावंक नासले. तिचीं उजू उतरां उबदार आसलीं. पूण उश्ण नासलीं.

भायर आयली. ती दारांत आसतनाच भायर टॅक्सी थारली. पयलीं चित्रा आनी फाटोफाट फातिमा देंवलीं. चित्रान येवन 'हग' दिलो. फाटोफाट फातिमा आयलें आनी दोनूय हातांच्या घट्ट विळख्यांत म्हाका घुस्मटावन उडयलो.

चित्रान अमांदाक पळोवन हात दिलो आनी वळख दिली. अमांदा एक तांक फातिमाक पळयताली. फातिमाचे दोळे गच्च बंद आशिल्ले तरी तातूंतल्यान दोन दुकां भायर सरिल्लीं. हांवेंच मागीर हात सोडयले. फातिमान तिका पळयली काय ना, खबर ना. पूण लागीं येवन अमांदानच तिका ओडून वेंगेंत घेतली. तिच्या कपलाचो उमो घेतलो आनी तिच्या कानांत सांगलें - ''यू आर लकी, व्हॅरी लकी.'' फातिमाक गोंदळांत

उडोवन ‘बाय’ म्हणून अमांदा गेली.

चित्रा तिका फाटकुडी पळयत उरलें. “ही मरे ती नर्स? खूब सेन्सिटिव्ह! आनी दोळे कितले एक्स्प्रॅसीव्ह रे!”

“फातिमा खट कशें लागलें ‘या’ म्हूण. तुका पळयले बगर ताका सूख नाशिल्लें.” आनी चित्रा एकलेंच उलयत रावलें. फातिमाले दोळे म्हजे वरसून हालनासले. हांवें नदरेक नदर दिली. ताची हालली ना. म्हजे कान चित्रालें उलोवप आयकताले. पूण नदर फातिमाचेर थिराविल्ली. फातिमा म्हाका चॅलेंज दिल्लेवरी, कोण पयलीं फाटीं घेता पळोवंया म्हणिल्लेवरी, एकतांक.... करुणा, समवेदना, मोग, माया, हुसको, सगल्योच भावना ते नदरेंत उत्कटतायेन एकवटिल्ल्यो. ताच्या दोळ्यांत पळयतना थाकाय मेळिल्लेवरी म्हाका दिसतालें. असोच ताचे नदरेंत बंदिस्त रावचें अशें दिसतासतनाच हांवें बें म्हळें. चित्रालें उलोवप केन्ना बंद जाल्लें नकळो. पूण तें गंभीर जावन फातिमा कडेन पळयतालें. कपला वयल्यो हुसक्याच्यो मिरयो म्हाका स्पश्ट वाचूंक मेळटाल्यो.

“हांव हारलों.” हारलों म्हणपाक आमचे मदीं सर्त लागिल्ली तर? हांव बेठोच समजल्लों फातिमा म्हाका आव्हान दिता म्हूण. फातिमाली नदर आजून म्हाकाच दशिल्ली आसली.

“तूं सदांच हारला.” चित्रान आदलेच गंभीरतायेन म्हळें, “फातिमाचो मोग तुका कळ्ळोच ना. तुजो ताचे वयलो मोग लेगीत तें वळखल्लें. तूंच तें मानून घेनासलो. तुजें लीव्ह इन रेलेशनाचें प्रपोजल लेगीत ताका मान्य आसलें. पूण तुवें कळाव केल्लो. कारण तो मेरेने निकाह कबूल जाल्लो. पूण तूं जाणा, विपीन तें तुजो आदलेवरीच मोग करता. राधेवरी, मीरेवरी. पयर खंय फोनार तुवें सांगलें – तूं ताका मीस करता म्हूण. तेन्नाच्यान तें खूब अस्वस्थ उरलें. म्हजे फाटीक लागलें. ताका कंपनी जाय आसली – जगाक दाखोवपाखातीर तें कुळारा आयलां. आब्बू-आम्मीक मेळपाक. पूण एअरपोर्टावयल्यान आमी सरळ हांगा आयल्यांत.

दोळ्यांक उदक लावपाखातीर तें मागीर घरा वतलें. हांवूय पप्पाची खाबर घेवन येतलें. पूण आयज सांजेचेच फ्लायटीर आमी रिटर्न वतलीं.'' चित्रा घडघडीत उलयलें.

हांव तटास जावन आयकतालों. ''घरचीं बरीं करतात मुगो ताका?''

''घरचीं? ताच्या काळजांत एकूच घर आसा. तातंत फकत दोगांच रावतात - तूं आनी तें - अशें ताणेंच सांगलें म्हाका.''

''पुरो.'' नदर म्हजेरच दवरून फातिमान म्हळें, ''म्हज्यो खबरो नाकात. तुजी सांग.''

तें उलयलें आनी जीव म्हजो थाऱ्यार पडलो.

''सांगतां. चल, भितर येयात. कॉफी करतां.''

कॉफी जाली, च्या जाली. पूण फातिमा उलयलें ना, आयकत रावलें. चित्रान कॉलेजीच्यो कांय खबरी सांगल्यो.. पप्पा विशीं चार गजाली सांगल्यो... वतां वतां हांवें कसलो प्रॉजॅक्ट घेवपाचें चिंतलां तें विचारलें. खूब वेळ बसलीं. वतनां फातिमाले दोळे म्हजेकडेन उलयताले. सांगतालें- घे मरे म्हाका लागीं? सांग मरे कानांत?

तीं गेलीं. म्हज्याय लक्षांत आयलें ना- मां गेली ते विशीं उलयलींच नात.

कृष्णाचो फोन आयलो. मॅडम आग्नेस भाड्याचे मोटारसायकलीन येतनां वाटेर पडली. चड मार लागूंक ना. मातशी धोडवल्या. खबरेक पावलों.

''पायलट करून येतनां पणजे कदंब सर्कलाकडल्यान फोणकुलांतल्यान बाय्क काडटनां मॅडम उसळून वाटेर पडलीं. दोतोराक दाखयलां. दोन दिसांनीच निवळटली.'' मार्टीनसरान कांय न्हय शें करून सांगलें.

खूब जाल्यांत फोणकुलां. सबस्टँडर्ड कामाक लागून म्हूण सोडून दिवं येतालें. पूण मेरेशे लेगीत सर्कला कडले, सिग्नला कडले रस्ते, वर्स-देडवर्सा भितर फुट्टात कशे? हांवें बेठीच मज घेतली. रॅड लायटीकडेन वा ट्रॅफीक आयलण्डाकडेनच रस्ते फुट्टात ताचें कारण तितल्याच कुडक्याक ब्रेक मारप जाता. सबस्टँडर्ड मार्ग कांय वर्सांनी इबाडटात हें खरें. पूण हे सिग्नलां कडले रस्ते तरी तिगपा सारके करूंक फावो आसले.

हांवें पुराय लक्ष तातूंत घाल्लें. फुडले स दीस ताचेर अभ्यास करतकच एक विचार आयलो. तितल्याच कुडक्याक फेव्हिकॉल सॉल्युशन वापरल्यार ? ताचो विचार करतां करतां कांय सोदवावराचे निश्कर्श हाताकडेन आयले. फुडल्या आठ दिसां भितर पन्नास पानांचो रिपोर्ट तयार जालो तेन्ना पयलीं मार्टीनसराक दाखोवचो सो दिसलो.

‘‘पीडब्ल्यूडी चीफ इंजिनिअर म्हजो स्टुडंट आसलो. ताका मेळ. तोच तुका फुडली वाट दाखयतलो.’’ मार्टीनसरा कडल्यान उमेद घेवन चीफ इंजिनिअराक मेळूंक गेलों. तो कामांत बिझी आशिल्लो. तरी आयकून घेवन ‘मागीर उलोवंया’ म्हूण सांगून पेपर दवरून घेतले.

दुसऱ्याच दिसा तागेलो फोन आयलो, ‘येवन मेळ’ म्हूण. तो खूब प्रभावीत जाल्लो रिपोर्ट वाचून. आपूण रोखडोच मिनिस्टराली अपॉइंटमेंट घेतां. ‘ताका मानवलें आनी सँक्शन जालें जाल्यार रोखडेंच हें इंप्लिमेंट करूंया.’

मंत्र्याक चड काम नाशिल्लें जावंये. रोखडोच वेळा दिलो सो. चीफ इंजिनिअरान व्हडा उमळशिकेन हो प्रस्ताव ताच्या मुखार दवरलो. विस्तारांत भितर सरलो तेन्ना मंत्र्यान शिटकायलो ‘थोडे भितर सांग.’ ताच्या आकलनाचो म्हाका सुमार मेळ्ळो.

आयकून तागेलो पयलो प्रस्न आयलो, ‘‘तुजी अपेक्षा कितें आसा?’’

‘‘पैशाची म्हणटा जाल्यार कांय ना.’’

‘‘मागीर हातूंत आमचो फायदो कितें?’’

“फायदो गोंयचो जातलो. फोणकुलां उणी, अपघात उणे.”

“हांवें विचारलां- आमचो फायदो कितें, म्हजो फायदो कितें?”

म्हजेकडेन जाप नाशिल्ली.

“हें पळय, ह्या जगांत फायदो पळयनासतनां कोण कसलें काम करिनात. तुजी कांय अपेक्षा नासल्यार तुज्यान वचूं येता.”

“म्हजी अपेक्षा आसा, सर. गोंयचे रस्ते सुदारचे, अपघात उणे जावचे -”

“तें काम आमचें. आमी पळोवन घेतले.” आनी मिटिंग सोंपली.

म्हजे परसूय चीफ इंजिनिअराचें तोंड चड बाविल्लें. “सॉरी, मिस्टर परोब. सरकार हें अशेंच चलता. तुवें जर ह्या कामाचे वीस लाख मागिल्ले जाल्यार घडये तो तें मान्य करीत आशिल्लो.”

निरोप दिवचे पयलीं चीफ इंजिनिअरान विचारलें, “इफ यू डॉण्ट माइण्ड, हांव हो रिपोर्ट दवरूं? हांव म्हज्या पावंड्यार तो इंप्लिमेंट करून पळयतां. पूण तुका कांयच मेळचें ना- क्रॅडीट लेगीत.”

हेतूच मुळांत रस्ते सुदारपाचो आशिल्ल्यान म्हाका ताचें व्हडलेंशें वायट दिसलें ना.

ह्या प्रस्तावाचेर सोद वावर करतना म्हज्या मनांत आन्येक विचार घोळटालो. तकली तातूंत घाली. म्हणसर फातिमालो फोन आयलो, “इंतजार की भी हद होती है.”

पळय जाल्यार मंत्र्यान अपॉईंटमेंट दिल्ल्या वेळार फोन सायलेण्ट मोडार दवरिल्ल्यान फातिमाले दोन फोन येवन गेले तें कळूंक नासलें.

“कामांत इतलोय व्यस्त जावं नाका, की म्हजी याद लेगीत येवची ना तुका.”

गोंयां येवन गेल्या उपरांत ताचो तो मूड निवळिल्लो. ताचें कारणूय दिल्लें ताणें- ताच्या शायरीच्या अंदाजांत.

*'बहोत बरदाश्त की मैंने उदासी;*

*तो चली आई तुम्हारे पासी;*

*जब देखी यार की आँखों में मायुसी; तो क्या कहूं?*

*भाग बसी उदासी को लेकर मायुसी'.*

तेन्नाच्यान आदली मस्करी आनी शायरी हातांत हात घालून चलताली.

आयची सगली खबर सांगली फातिमाक, "मंत्र्यान निर्शेणी हाडली तरी काम चालीक लागूं येता हें म्हत्वाचें."

"गूड! काम सोंपलें जाल्यार यो मरे मुंबय."

"आनी कितें करूं?"

"हम भी अकेले, तुम भी अकेले; साथ मिलेंगे, तो बहोत कुछ करेंगे."

"हांव एकलो आसां. पूण बेकार ना. नव्या प्रॉजेक्टाचेर विचार करतां."

"वाउ! ऑल द बॅस्ट!"

"आगो अजून सुरूच करूंक ना."

"कर. आनी याद धर -

*मुझे याद करते रहोगे*

*हर मुकाम पर कामयाबि पाओगे*

*मुझे साथ लेकर चलोगे*

*हर मुश्कील को दूर करोगे*

याद उरतली मरे?"

आनी हांव नेटान कामाक लागलों. पूण आळशी उठपाक शिमरो शिंकलो तशी लायट गेली. आतां येतली, मागीर येतली, म्हणटां म्हणटां सांज जाली. काळोख पातळूंक लागलो. बेजारून हांव उठून भायर सरलों. हांव आनी उजवाडांत काळखाचो झोत घालूंक सोदतालों. उजवाड घालपी लायटच गायब जाल्यार फुडें कशें वचप? हांवें सोलर पॅनल बसयिल्ले जाल्यार हे विजेचेर निंबून रावपाक पडचें नासलें. सौर उर्जा! हो विशय म्हजो न्हय तरी सदांच म्हाका आकर्शीत करीत आयिल्लो. आतां तातूंत लक्ष घालें जाल्यार?

पेंवपाक कळना ताणें उदकांत उडकी मारची न्हय, इतलें म्हाका कळटालें. पूण कळना म्हूण हात पांगरून बसप्यां मदलो जावप म्हाका मानवपा सारकें नासलें. आमच्या देशाचे उदरगतीक सगल्यांत व्हडली आडखळ म्हळ्यार फावोशे विजेचो अभाव हें हांव जाणा आसलों. पूण विजेची निर्मिती हो अभियांत्रिकी मळार सोडोवपाचो प्रस्न आसलो. ते खातीर उपचारीक शिक्षण गरजेचें. गरजेचें? म्हज्या दोळ्यांमुखार थॉमस एडिसन आयलो. ड्रॉप आउट तो- म्हजेभाशेन. ताणें लायटीचे बल्ब, मोशन कॅमेरा कशे सोदून काडले? आचार्य पदार पाविल्लो आमचोच धर्मानंद कोसंबी जाणें बौध साहित्य आनी पाली भाशेक पुनर्जिवित केली- ताका कसलें शिक्षण आसलें? जिद्द! ती तर म्हजेकडेन खंडीत आसा. हे सगले स्वयंशिक्षीत. स्वाध्याय पद्दतीन म्हज्यानूय वावर करूं येता. घालतलों उडी. हात पांय हालयत रावतलों. केन्ना तरी तडी पावतलोंच-

निर्णय जालो आनी लायट आयली. वेळ वगडायलो ना. चार उंडयो तोंडांत उडयल्यो आनी सोमतोच बसलों.

आमच्या देशाक पुराय देशांतले जनतेक पुरो इतले विजेचे निर्मितीचो प्रस्न सदांच गरजेचो थारला. पंडीत नेहरून भाकडानंगल धरणाक हात घाल्लो तेन्ना दिशिल्लें अर्द्या भारताक पुरो इतली वीज ह्या प्रकल्पांतल्यान तयार जातली. आयज इतलीं धरणां आनी हेर वीज प्रकल्प तयार जावनूय फावो तितली वीज निर्मिती जायना. साधन सुविधांनी इतलो समृध्द हो देश आसुनूय अशें कित्याक? येन्नादर देशांतर्गत पुरवण करून निर्गत करपाइतली वीज आमचेकडेन आसूंक जाय आसली. ते नदरेन अभ्यास करतनां सोलर एनर्जीचेर म्हजें ध्यान केंद्रीत केलें. सुर्याचो उजवाड आनी वोत सगले कडेन पावता. आमचेकडेन कडकडीत वोत धारण करपी प्रदेश आनी रेंवताडां-वाळवंटां आसात. लाखांनी मैल धांवपी दिसाचे तापपी डांबराचे वा कॉंक्रीटाचे रस्ते आसात. तांचे पासून सोलर एनर्जी व्हड प्रमाणांत कित्याक मेळची न्हय?

पळय जाल्यार हो प्रयोग अस्तमतेच्या देशांनी जाला आनी जैतिवंत जाला. अभ्यासा अंतीं हेंय पळयलें की थार वाळवंटांत जरी सोलर पॅनल लायले तरी पुराय भारताची विजेची गरज भागोवपा इतली उर्जा आमचेकडेन तयार जातली. पूण ती हेर कडेन पावोवप कशी? मागणी आसली म्हूण जायना. सांठवण आनी पुरवण करपा खातीर साधनां जाय. रस्त्यां वयल्यान जी येरादारी जाता तातूंतल्यान सोलर उर्जा मेळोवपाचे प्रयोग भायल्या कांय देशांनी जाल्यात. त्या देशांनी चडशा रस्त्यांचेर ही उर्जा वापरून दिवे पेटयतात. आमच्यांनीय तांचें अनुकरण करूं येता. पूण अनुकरण करपापरस ही मोठ्या प्रमाणावयली उर्जा सांठोवन ताची निर्गत करपाची अभिनव येवजण आमी राबोवची न्हय कित्याक? पूण सांठोवप कशी? तीय कुरोटांनीं मॅगावॅट इतली!

मेळटा मेळटा ती म्हायती हांव पेन ड्रायव्हाचेर स्टोअर करीत गेलों. 4जीबी पेनड्रायव्ह भरलो तेन्ना नवो 32 जीबी हाडलो. चवकशी करतकच कळ्ळें की नवे अत्याधुनीक युएसबी फ्लॅश ड्रायव्हाची क्षमता 2 टीबी

इतली आसा. जर हें बोटभर साधन इतली म्हायती स्टोअर करूंक शकता जाल्यार उर्जाय सांठोवपाचीं साधनां निर्मण कित्याक करूंक जावचीं नात? तशें येवजलें आनी ते नदरेन म्हगेलो सोदवावर सुरू जालो.

जें ज्ञान विज्ञान उपलब्ध आसा तें समजून घेवप सोपें. पूण नव्यान घडोवप वा बदल घडोवन हाडपा खातीर येत्न करप हें कठीण. वावर खूब आसा आनी अभ्यास खूब करचो पडटलो हाची जाणविकाय जाली. वेळ लागतलो, पूण अशक्य न्हय हे भावनेन हांवें पेंगट बांदलें.

पयलीं म्हळ्यार हो सोदवावर एकट्यान करपाचो न्हय. ते खातीर समविचारी मनशांचो आदार जाय. ते भायर संसादनांची गरज. लॅब जाय, उपकरणां जाय, मनीसबळ जाय. ते खातीर स्पॉन्सर जाय. 'सर फुडें' म्हणपी प्रायोजका बगर असलो प्रकल्प फुडें वचप शक्य नासता. हें शक्य जालें जाल्यारूच हुसक्या विरयत ह्या वावराक वेंग मारूंक मेळटली.

चित्रा कडेन उलयतना ताणें सुचयलें, "तूं जीईसींत वचून हे शाखेंतल्या जाणकारांक कित्याक मेळना?" हांव गेलों. कोणाक मेळचें खबर नाशिल्लें. इलॅक्ट्रीकल अँड एलॅक्ट्रॉनिक्स शाखेंत चवकशी केली. कित्याक आयला, कितें काम आशिल्लें, कोणाक मेळपाक जाय? – म्हजेकडेन दुबावीत नदरेन पळयतल्यांक जापो दिवन जातकच तांणी सांगलें 'सगलो स्टाफ क्लासींनी गेल्लो आसा. सांजमेरेन रावचें पडटलें.' रावलों. प्रॉफिसराक मेळ्ळों ताणें फाफुडलो– 'एच ओडीक मेळ'. मेळ्ळों. काडिल्ले नोटस दाखयले. संकल्पना सांगली.

"पीएचडी खातीर अप्लाय केलां?"

हांवें सांगलें म्हाका पीएचडी नाका आनी डिग्रीय नाका. पूण एक संकल्पना आसा ती फुडें व्हरपाक मार्गदर्शन जाय.

पेपर चाळून ताणें म्हजे कडेन निरखून पळयलें.

"हाउ मेनी अवरस हॅज अ यिअर?"

"8765, सर."

"सद्याक आमच्या देशांत कितली उर्जा तयार जाता खबर आसा?"

"330 जिगावॅट सर."

"गरजे प्रमाण अदीक हार्वेस्टिंग करपाची तांक आमच्या देशा कडेन

ना, अशें दिसता तुका?''

''आसा सर. पूण हार्नेसिंग करपाची तांक वाडोवपाची गरज आसा.''

''यू मीन, ग्रीड वाडोवपाचे! पूण आनिकूय पर्याय आसात न्हय?''

''यस सर. ग्रीड आसात. बॅटरी आसात. आयज 100 मॅगावॅट पॉवर सांठोवपाची तांक लिथियम आयन बॅटरी कडेन आसा. फुडारांत ती आनिकूय वाडटली.''

''प्रॉजेक्टा वरवीं करूंक् कितें सोदता?''

''व्हडा प्रमाणांत उर्जा सांठोवन ती एक्सपोर्ट करपा इतली वीज आमी तयार करूंक शकतात, सर. पूण ती सांठोवन हार्नेसिंग करपा खातीर धाकट्युलीं उपकरणां तयार करपाचे नदरेन संशोधन.''

''कशे तरेचीं?''

''जशीं इन्फॉर्मेशन स्टोअर करपा खातीर पेन ड्रायव्ह, तशीं.'' एचओडीन पर्थून थोडो वेळ पेपर चाळ्ळे. ''यू बेटर सी प्रो. राममूर्ति ऑफ द इंडियन इन्स्टिटयूट ऑफ सायन्स ॲण्ड टेक्नोलॉजी ऑफ बँगलोर. लकीली ही इज हिअर फॉर अ सेमिनार. फाल्यां यो तूं. सेमिनारूय अटेण्ड कर.''

घरा येवन हांवें इंटरनॅट ब्राउज करून पळयलें. इंडियन इंस्टिट्यूट ऑफ सायन्स ॲण्ड टेक्नोलॉजी देशांतली म्हालगडी संस्था. म्हाका योग्य मार्गदर्शन मेळूं येता ह्या भरवंशान हांव दुसऱ्या दिसा गोआ इंजिनिअरिंग कॉलेजींत पावलों.

सेमिनाराच्या विशयांत म्हाका मज नाशिल्ली. प्रो. राममूर्तीच्या हातान सेमिनाराचें उक्तावण जालें. उपरांत च्याचो ब्रेक जालो. एचओडीक मेळ्ळों ताणें म्हाका राममुर्तीकडेन व्हेलो. आयल्या पयल्यान हेर स्टाफ आशिल्लो. हांवें म्हळें- ''म्हाका टायम दी. तेप्रमाण सांगता थंय येवन मेळटां.'' पूण राममुर्तीक ताकतीक आशिल्ली. उक्तावणाचें काम करून ताका दनपरांच परतीची फ्लायट धरपाची आशिल्ली. एचओडीन म्हाकाच सांगलें ताचेकडेन टू द पॉयंट उलय म्हूण. हांवें ताच्या हातांत पेपर दिले. माथाळो वाचून ताणें परत दिले. सिनॉप्सीस दी म्हणटकच हांवें सडसडीत ताका ब्रीफ केलो.

“तूं हें कित्याक करता?” ताणें कपलाक मिरी घालून विचारलें.

“ह्या रिसर्चाचो देशाक फायदो जावं येता, देखून.”

तो हांसलो. “हो विशय कसलेंच फॉर्मल शिक्षण नासतनां तुज्यान फुडें व्हरूं येतलो अशें दिसता तुका?”

“हय, सर.”

“कित्या वयल्यान?”

“माय फेथ इन मी.”

“यू आर ओव्हर कॉन्फिडण्ट, माय बॉय. तुका दिसता, संवसारांत हाचेर कोणेच विचार केलो ना?”

“केला आसत, सर. पूण आजून ब्रेक थ्रू मेळिल्लो ना.”

“आनी फाल्यांच मेळ्ळो, जाल्यार?”

“आय शाल बी हॅपी!”

“देन बॅटर स्टॉप टॉयलिंग ओव्हर धीस ॲण्ड बी हॅपी नाउ.”

सगले हांसलें. मागीर ताणें एचओडी कडेन पळोवन म्हळें, “सो च्यायल्डीश!”

त्या दिसा हांवें म्हाका म्हजे कुडींतल्या काळखांतल्या साक्षात्कारी भोंवतणांत लिपयलो. त्या ॲडल्टीश लोकांपासून. प्रो. राममुर्ती, भौशीक बांदकाम खात्याचो मंत्री, अकादेमीचो सचीव, प्रो. नमशीकार, गांवकार सर ह्या बुदवंतांचे नदरेक केन्ना पडचों ना असो. तांचे मदीं हांव च्यायल्डीश.

फातिमाचो फोन आयलो, “हाय फिलिपिना! कितें करता?”

“जाण्टयांलीं शाणेपणां आयकतां.”

डॅडीलीं शाणेपणां आयकत ल्हानाचो व्हड जाल्लों हांव. पूण कोणामुखार तोंड उगडलें ना. आयज मात फातिमा मुखार नॉन-स्टॉप सगलें शॅअर केलें आनी काळाजा वयलें वजें देंवोवन म्हळें, “म्हज्या मुगो मनीसपणा वयल्या विस्वासाक वेर गेल्या शें दिसता.”

“आनी पिशेपणावयल्या?” तागेलीं फकाणां कळ्ळीं नात म्हाका. ताणेंच फुडें म्हळें, “मनीसपणां आनी पिशेपणां हातूंत व्हडलोसो फरक ना, विपीन. चड चिंतू नाका.” हांवें कितेंय म्हणचे पयलींच ताणें विचारलें, “तुवें मकडी सिनेमा पळयला?” हांवें पळोवंक नासलो.

“विशाल भारद्वाज नांव आयकलां?” आयकूंक नासलें.

ताणें खंय ‘मकडी’ची पटकथा बरयली आनी व्हडा आशेन ती चिल्ड्रन फिल्म सोसायटीक धाडली. तांणी ती रिजॅक्ट केली. घडये तांकां ती च्यायल्डीश दिसली आसुंये. ताणें धीर सोडलो ना. मागीर स्वताच ताणें फिल्म तयार केलें. त्या फिल्माक बॅस्ट फिल्म म्हूण नेशनल पुरस्कार मेळ्ळो. ते भायर अनेक अंतरराष्ट्रीय पुरस्कारूय मेळ्ळे. खबर आयकून हांव वग्गी रावलों.

“अवॉर्ड मेळपा फाटलें कारण सांग? रिजॅक्शन. तें रिजॅक्ट जालें देखून ताणें ती चॅलेंज घेतली आनी फिल्म काडलें. तो जिखलो.” थोडो वेळ रावन ताणें विचारलें, “मोराल ऑफ द स्टोरी?”

“लंगड्या गायांमदीं वासरूं शाणें.” म्हजो मूड बदललो.

“रायट. पूण त्या बाबड्या गायांचे दोंके कित्याक मोडटा? त्या परस ‘त्या बैलांमदीं’ म्हण ‘पाडूक भोलाभाला.’ अशें म्हणून फातिमा व्हडल्यान हांसलें, बगलेक कोण ना म्हूण, काय म्हाका ‘चिअर अप’ करपाक?

“थँक्यू फातिमा, येदोळच्यान दिसतालें- हांव हारलों.”

“हांव आसांसर तुका कशेंच हारूंक दिवचें ना, याद धर.”

हांव फातिमा कडसून सो धिराचो तेंको सोदतां? हांव केन्नाच्यान जिखपा-हारपाच्यो गजाली करूंक लागलों? पूण आयकून बरें दिसलें तर खरें!

“आयज हांवें फोन कित्याक केला सांग?” फातिमान पर्थून म्हाका बुचकळ्यांत उडयलो.

“आज सालगिरह. कसली याद आसा?” म्हजे जापेची वाट पळोवप ना हें शिकलां तें. “थिएटरांत तुवें काळखाक गवाय दवरून म्हाका ‘ना’ म्हणिल्लें. तूं कल्पना करूंक शकचो ना विपीन, हांव कितलें खचून गेल्लें तें. तो दीस म्हाका याद धरपाचो ना. पूण तुवें चित्राकडेन कबुली दिल्ली

तो दीस आयज. वर्स जालें ज्या दिसा तुवें चित्राक सांगिल्लें – 'आय लव्ह हर'. वोह अलफाज मेरी जिंदगी में जिंदगी बनकर आये.''

''खूब कळाव केलो हांवें तुका सांगपाक.'' हांवें मनाथावन म्हळें.

''पूण जालें तें जालें. सुबह का भूला शाम को घर लौटे तो उसे भूला नहीं कहते.''

''पूण मनस्ताप दिलो तुका हांवें–''

''पर राहत भी दी– लाइफ पार्टनरची सुवात दिवन. इष्क तो पा लिया. अब बस एक ख्वाहिश है जो पूरी करनी है.''

तागेले शायरीक जाप दिवप म्हाका शक्य नासलें. पूण विचारलें, ''कसली?''

''*तेरी जिंदगी की किताब में चंद पन्नों की कहानी हूँ मैं. अधुरी जो है, पूरी करना चाहती हूँ*. केन्ना येता मुंबय तें सांग.''

''हांव फाल्यांच येन.'' येवजुचे पयलींच जाप सुटली.

''फाल्यां नाका.''

हांव चिंतपाक पडलों, ताका कितेंय अडचण आसतली. पूण ना. ''आजच यो.''

''हांव आयल्यार तुका त्रास जावचो ना, मुगो?''

''ना आयल्यार जातलो.''

''पळयतां–''

''बेग्गीन यो. म्हगेली बेताबी वाडटा.''

''एक सांगूं? तूं मुगो मुंबय गेल्ल्याक तुगेली शायरी चड फुलल्या.''

''आवडना तुका?''

''खूब आवडटा.''

''मागीर बेगीन यो. म्हगेली शायरी, हांव आनी मुंबय तुजी वाट पळयतात.''

''मुंबय शी?''

''कारण आमच्या प्रेमाची परिणती मुंबय जाल्ली पळयतलो तूं.''

''फातिमा, गोंयां मेळटालीं तेन्ना हांव तुका गृहीत धरतालों. आतां तूं फोनार उलयता तेन्ना खूब खोशी जातां. दवरनच दिसना.''

“म्हगेलीय तीच गत जाता. *फोन पे बोलती हूँ तो बहार खिलती है. फोन रखती हूँ तो उदासी छाती है.*”

सकाळीं फुडें मार्टीनसरालो फोन आयलो. ‘येवन मेळ’. गेलों. पीडब्ल्यूडीच्या चीफ इंजिनिअरान खंय सराक फोन करून म्हगेल्या त्या प्रॉजेक्टाची खूब तोखणाय केल्ली. तो प्रॉजेक्ट आपूण स्वता लक्ष घालून चालीक लायतलों. फकत कॉपीरायट नाशिल्ल्यान आनी कबलात करूंक नाशिल्ल्यान म्हाका कांय फारीक करूंक मेळचें ना हाची खंत ताणें उक्तायिल्ली खंय.

तितल्यान, केल्ल्या वावराचें चीज जालें इतलें समादान म्हाका मेळ्ळें.

राममुर्तीची खबर सराक सांगली. ती आयकून म्हजे परसूय मार्टीनसर चड खंती जालो. पूण हांवें सांगलें, ‘आजून हांवें प्रॉजेक्ट सोडून दिवंक ना. मार्गदर्शन आनी प्रायोजक मेळोवपाचे येत्न करीत रावतलों. आनी तो मेरेन पदरचो दुडू मोडून ड्राफ्ट डॉक्युमेंट तयार करतलों.’ सांगलें तेन्ना आपसूक सराच्या तोंडसून आशिर्वचन मेळ्ळें– “सर फुडें. यू वील सक्सीड.” मागीर ताका उगडास जालो जावंये– “तुवेन थोरो वाचला न्हूय? तेणेन बुकां बरयिल्लीं तीं यूजलॅस म्हुणोन पब्लिशरांनी तेका किंकोत केलेलो. तेणेन आपणाल्या दुडवांनीं तीं छापलीं. तेदनां कोणाक तेचें मोल सजमलें ना. तो मेल्या उपरांत फेमस जालो. गांधी आनी तॉलस्तॉय हेणीन लेगीत तेका व्हालोर दिलो. आनी फ्रांझ काफ्काची खबर तुका आहाच. ‘मॅटामॉर्फोसीस’ सारक्या बुकाक लेगीत पब्लिशरांनी फेल केलेलें. आयज चयता मुरे तूं? देखून सांगतां, निर्शेवं नाका.”

सराल्या उतरांनी जिद्द जागयली.

मॅडमीन केल्ली च्या घेवन भायर सरपाक चित्रालो फोन आयलो. “केन्ना येतलो मुंबय?” पर्थून ताका राममुर्तीची खबर सांगून म्हळें, त्या प्रकल्पाक हात घालचे पयलीं मुंबय वचून येतलों म्हणटां. म्हळें, ‘फातिमाकूय हांव थंय आयिल्लों जाय’. पूण म्हज्या मनांतलो हुसकोय

ताका सांगलो, ‘‘ताच्या घरच्यांक तें कितलें शें मानवतलें. म्हज्या येवपान फातिमाचे त्रास वाडूंक शकतात जाल्यार हांवें ना येवप बरें.’’

‘‘तो विचार तुवें ना केल्लो बरो. तुज्या येवपाची तें इतलें उत्कटतायेन वाट पळयता की तूं आयलो ना जाल्यार तें डिप्रॅशनांत वचत म्हणपाची भिरांत दिसता.’’

चित्रान सांगलें, तेन्ना फुडलोय प्रस्न ताका विचारलो, ‘‘आनी हांव रावूं खंय आनी ताका मेळूं खंय?’’

‘‘ताणें सांगलें ना तर तुका? म्हाका दिसलें तुका खबर आसा. म्हगेलो फ्लॅट आसा. तूं हांगाच येतलो आनी तेंय हांगा येवन तुका मेळटलें.’’

खंयूय वतलों म्हूण उमेदीन फुरफुरप, केन्ना काय पावल्यार पुरो अशी उमळशीक लागप, नाशिल्लें म्हज्या सभावांत. आयज कशें आयलें? फातिमान म्हज्या माथ्यार हात दवरला जावंये. शुभकार्याक भायर सरिल्लेवरी दिसलें. बऱ्या कामाक उशीर कित्याक? बेगीन पावपाक जाय जाल्यार रेल्वेन कित्याक?

हांव येतलों म्हूण फातिमाचीय तीच गत्त जाल्ली. ‘केन्ना पावता? काडली तिकेट? विमानान यो आं?’

‘‘काडटां तिकेट आनी कळयतां. रिटर्न केन्नाची काडूं?’’

‘‘परतुपाची केन्नाय काड. येवपाची मात फाल्यांची. तरस रही हूं, विपीन. कल कीं श्याम तुम्हारे नाम, इतलें म्हाका खबर आसा. परां म्हजे कडेन वेळ ना.’’

‘‘तशें जाल्यार परांची काडटां परतीची.’’

‘‘काड रे. रही जिन्दगी तो मिलेंगे दोबारा.’’ फातिमाक फावचें ना जाल्यार म्हाका मज नाशिल्ली मुंबय रावपांत. ऑन लायन काडली तिकेट.

अडेजांची फ्लायट. साडेतिनांक देंवली. चित्रान सांगिल्ले प्रमाण उबर ॲप पयलींच डाउनलोड केल्लो. धा मिण्टां रावचें पडलें. साडेचारां पयलींच अंधेरीच्या पत्त्यार पावलों.

''हांव कॉफी करतां. आं, तुजे खातीर च्या, विसरूंक ना हांव. तो मेरेन तूं म्हगेलीं पेण्टिंग्स पळय.''

वन बीएचके फ्लॅटाच्या हॉलांतच सगलीं मांडिल्लीं. मांडिल्लीं कसलीं, किचकट करून दवरिल्लीं. हांवें नदर मारली. चित्राची वळख जाल्ल्याक चित्रां पारखुपाची नदर आयिल्ली. पूण आयज चित्त फातिमाच्या येवपाचेर लागिल्लें. सैमाचो आविश्कार दाखोवपी चडशीं गोंयचीं, काणकोणचीं आसलीं. नॉस्टाल्जीक. पूण एका चित्रान म्हजे दोळे खिळावले. म्हणसर चित्रा थंय आयलें, च्या कॉफी तयार म्हूण सांगपाक. ''ओह, ती म्हजी सॅल्फ पोर्ट्रेट. न्यूड. कशी दिसली?''

'हांव न्यूड कशें दिसतां?' असो तो प्रस्न नाशिल्लो. आनी पेण्टिंग कशें जालां ह्या प्रस्नाक जाप दिवपाची म्हजी कुवत नाशिल्ली.

''हांवें एक एक्स्पेरिमॅण्ट म्हूण काडल्या. फोटो पळोवन न्हय, आं! एन ब्रिंगमन हिणें हाचे पयलीं काडल्यात. पूण फोटोग्राफ घेवन. फ्रिडा कोहला हिचींय सॅल्फ पोर्टेट्स खूब फेमस. हांवेंय हो प्रयोग केलो.''

''गूड. पूण एक लेमॅन म्हूण सांगतां, तूं न्हेशिल्लें चड बरें दिसता.''

''विंगळें वेगळें आनी कपड्यांत वेगळें तर? दोनूय हांवच न्हय?'' अशें म्हूण ताणें म्हाका किचनांतल्या मेजार च्या कॉफी दवरिल्ली थंय व्हेलो, ''फ्रिडा म्हणटा, आपूण सॅल्फ पोर्ट्रेट काडटां कारण 'आय ॲम द पर्सन आय नो द बॅस्ट'.''

च्याचो मग म्हज्या हातांत दिवन चित्रान कॉफी घेतली, ''फाटले खेपेक आमचे मग सदलाबदल जाल्ले तेन्ना म्हाका दिशिल्लें आमी पर्थून मेळचीं नात. हिअर वी आर. थँक्स टू फातिमा.''

''म्हाका जाल्यार दिसूंक नासलें, फातिमा म्हाका माफ करीत म्हूण...''

''तुवें नोट केलां विपीन, तूं पयले खेपेक मेळिल्लो तेन्ना कितलो एकमुळो आसलो? आतां खूब बदलला...''

“हय. आय फॅल्ट लोनली दॅन.” आतां म्हाका चडसो एकलो दिसना. थँक्स अगेन टू यू अ‍ॅण्ड फातिमा.”

फातिमान पांचांक पावतां म्हणिल्लें. म्हजो जीव गोळाक लागिल्लो. “येतलें. पांच मिणटां पयलींच येतलें.”

“येतलें गो. पूण घरा परततकच ताका प्रॉब्लेम जायना जाल्यार पुरो.” म्हजो हुसको परगटायलो.

“म्हाकाय काळजी दिसता. पूण-- ताणें कितेंय पूण विचार केला आसतलो. खूब कॉन्फिडंटली आफयला पळय ताणें तुका.” कॉफीचो घोंट मारून ताणें आपलें मन उकतें केलें. “तुवें हुसको सांगला. पूण ताच्या घरच्यां विशीं, प्रॉब्लेमांविशीं तूं जाणा?”

म्हाका कशें कळटलें?

“आतां वर्स जायत आयलें, शादी करून तें मुंबय आयल्यार. तें हांगा चार खेपो तरी येवन गेलें. हांवें तागेल्या घरांत पांय लेगीत दिल्लो ना. ताचे कडल्यान आयकतां त्यो फकत तुज्यो खबरो. आजून ताच्या तोंडसून हांवें ताच्या घोवा बद्दल, घरच्यां विशीं कांयच म्हळ्यार कांयच आयकल्लें ना. विचारल्यार वेगळीच जाप दिता. एक दीस ताणें सांगलें, *‘विपीन के साथ मेरा ऐसा रिश्ता बना है, हर चीज से पहले उसी का खयाल आता है.’* म्हाका जाल्यार तागेलीं तीं पिशेपणांच दिसतात.” थोड्या वेळान ताणें विचारलें, “लीव्ह ईन रिलेशनाची तुजी ऑफर आजून ऑन आसा?”

“पयलीं परस चड स्ट्राँगली. पूण ताका कबूल आसत काय?”

“खबर ना. पूण तुजे खातीर कितेंय करपाची ताची तयारी आसता. त्या दिसा ‘अम्मी-आब्बुची याद येता’ म्हूण सांगून तें आयलें ना तुका मेळपाक? तूं विचारून पळय.”

“आयज कितें सांगून येतलें काय?”

“ताणें सकाळीं सांगिल्लें म्हाका. मदरसांत ताचे बराबर शिकपी एक चली गोंयच्यान आयलां. ताका मेळपाक खंय तें डोंबिवलीक वतलें. अर्थांत ती फटास आमचे खातीर न्हय. पूण म्हाका कोणेय विचारल्यार तशें सांगचें म्हूण-”

पांचांक दोन मिण्टां आसतना फातिमा आयलें. दार लायलें तेंच म्हज्या गळ्यांत पडलें. मागीर ताची नदर आमकां पळोवन हांसपी चित्राचेर पडली, "एऽ तूं हांगा कितें करता, बॅड गर्ल?"

"हें पळय भायर सरतां थंय आसां. विपीन एकलो उरतलो म्हूण तुकाच राविल्लें.." पयलींच कपडे भरून दवरिल्ली स्लिंग बॅग फाटीक मारली आनी चित्रा भायर सरलें.

"तूं खंय वता?" अजापून विचारलें.

"प्रितमाल्या हॉस्टेलार."

"केन्ना येतलें परतें?"

"फातिमाक विचार." अशें म्हणून चित्रा ताका दोळो मोडून गेलें.

"तें बद्द फाल्यां सकाळीं-"

पैसावो सोंपिल्लो. फातिमाक ओडून बगलेक घेवपाक हांव उमळशिकेन फुडें सरलों जाल्यार तें कुशीक सरलें. "राव. म्हाका पयलीं साफसुथरी जावं दी." अशें म्हणून फातिमा न्हावपाक गेलें. खूब वेळ न्हालें. गाउन घालून भायर आयलें तेन्ना पावस सरतकच चंवरून वोतांत धोलपी गच्च पाकळ्यांच्या गुलाबी दशणी फुलाची याद आयली. एक पावल फुडें घालता थंय आसां, "चल, हांव च्या-कॉफी करतां सर तूं न्हावन घे. फ्रॅश दिसतलें." आनी किचनांतल्यान सांगलें, "बदलपाक कपडे हाडूंक नात जाल्यार नाका घालूं. पूण ते घाल्ले कपडे मात काडून दवर."

च्या हांवें घेतिल्ली. पूण तशें सांगल्यार तें कॉफी घेनासतना रावतलें. त्या निमतान खूब तेंपान ताचे बराबर गजाली मारीत बसूंक मेळटलें अशें येवजून हांव न्हावपाक गेलों. शॉर्टाचेर भायर आयलों तेन्ना च्या-कॉफीचे मग वाट पळयताले.

ना उलयतां घडिल्ले संवाद पयलेच खेपेक अणभवतालों. घडये हाचे पयलीं हांवें ते नोट करूंक नासले. घडये, पयलेच खेपेक आमी दोगांच अशीं लागीं बशिल्लीं. फातिमान केंस मेकळे सोडिल्ले पयलेच

पळयतालों हांव. लिपस्टीक नासतनाय ताच्या बाबऱ्या ओंठांर मंद गुलाबी रंग झळकतालो. ताचो रंग गोरो काय काळो म्हाका लागनासलो. पूण ताचे पोले आनी कानसुलां मदलीं उबारशीं हाडां उठून दिसतालीं. रुंद कपलार न्हाल्ल्या केंसांचे पोड देंवन आयिल्ले. दाट्ट भिंवयो मदीं एकठांय आयिल्ल्यान धोणवाचो आकार घेताल्यो. आनी दोन मोट्टे दोळे म्हज्या दोळ्यांक तिडायताले. सुंदरतायेची व्याख्या म्हाका खबर नासली. पूण सोबिताय ही पळोवणाऱ्याच्या दोळ्यांचेर निंबून आसता म्हणटात तें खरें आसत जाल्यार फातिमा आयज चडूच सुंदर दिसतालें. ताच्या दोळ्यांक हांव कसो दिसतां काय, असोय विचार म्हाका आफडून गेलो.

"कितें पळयता?" हांवें विचारलें.

*"तेरे आँखों में मुझे अपने प्यार की महक आती है. इतना प्यार तो मैंने खुद से भी नहीं किया. फिर भी तुमने इतना तडपाया?"*

"आतां आयलों न्हय हांव?"

"तूं आयलो, आतां म्हज्या पांयांतल्यो सगल्यो सरपळ्यो तुटून पडल्यो." अशें म्हणीत तें उठलें. म्हऱ्यांत येवन म्हजे मांडयेर बसलें, आयज हांव मुक्त जालां. आझाद जालां. आय ॲम अ फ्री बर्ड, तुजे खांदयेर." अशें म्हणून म्हज्या खांद्यार ताणें तकली दवरली.

दोन दुकां म्हज्या खांद्यार देंवलीं. हांवें बेगबेगीन फातिमाक उठयलें. पळय जाल्यार दोनूय दोळे तृप्तीन भरिल्ले. तरी विचारलें, "आर यू हॅपी?"

"पिश्या, हांव स्विमिंग पुलांत पेंवतां आनी तूं म्हाका विचारता तूं भिजलां काय म्हूण?"

हांवें दोनूय मग उकलले आनी विसुळपाक सिंका कडेन गेलों. च्याचो मग म्हज्या हातांतल्यान घेवन फातिमान म्हळें, "हो हांव विसुळटलें, तुजे ओंठ लागल्यात ताका. म्हजो मग तूं जाय जाल्यार विसूळ."

"हें कितें तुजें-म्हजें लायलां तुवें? हे दोनूय आमचे मग."

"कितलें खरें उलयलो!" मग थंयच दवरून ओल्या हातांनीच म्हजे फाटीक वेंग मारून ताणें फाटीक आपले ओंठ तेंकयले.

"फातिमा, म्हाका तुजो हुसको दिसता. फाल्यां जेन्ना तूं घरा- "

मदींच म्हाका आडावन फातिमान विचारलें, "हारशान केन्ना फातरा

कडेन दोस्ती-दुश्मनी केल्या? हांवें केल्या. तुटपाची तमन्ना बाळगून.''

''तूं म्हाका हारूंक दिवचें ना. आनी हांव तुका तुटूंक दितलों?'' हांवें स्पश्ट विचारलें, ''आमी हाचे फुडें सांगातान रावंया?''

''आमी आतां सांगातानच आसां न्हय?''

''आय मीन- सदांकाळ. लीव्ह ईन रिलेशनांत. म्हाका आवडटलें. तूं येशी मुगो?''

''हांवें सोपूत घेतला. आय वील लव्ह यू टील डॅथ डू अस अपार्ट.''

ताच्या दोळ्यांत झळकून गेली ती वेदना अशें दिसतासतनाच बशिल्ले कडेन म्हाका खेटून म्हजो हात हातांत धरून ताणें म्हळें, ''इतलो म्हजो मोग करता तूं- आनी हांव तुका ना म्हणटलें?''

खोशेची उमळ काळजांत धरना जाली तेन्ना हांवें फातिमाक घट्ट ओडून घेतलें. ताचें मुखामळ उकलून ताच्या ओंठांर ओंठ दवरून ताका आश्वस्त केलें. ''हाचे मुखार तुका कसलेच त्रास जावचे नात, फातिमा.''

ताणेंय ओंठ सोडोवन म्हळें, ''तुजे कुशींत *ना मुझे गम की परवाह, ना मुझे खुशीसे मतलब, - मेरी जिंदगी जो मेरे बाहोंमें है।*'' अशें म्हणून ताणें पर्थून घट्ट वेंग मारली.

फातिमाले शायरेंतली मिठास म्हजेर वागरें घालूंक लागिल्ली. गोंयां आसतनां म्हाका तिचें अप्रूप दिसनासलें. आज तागेल्या गद्यांतल्या संवादांत लेगीत म्हाका कवित्व दिश्टी पडटालें.

''केन्ना या गोंयां? फाल्यां?''

''इतली तुका ताकतीक कसली? तुजो हात म्हज्या हातांत आसासर भिरांत कसली? *जिंदगी में दौड लगाना मुझे पसंद नहीं, जब तक तुम्हारा साथ है, जल्दबाजी मुझे मंजूर नहीं।* कळ्ळें?''

''केन्ना येतलें तें तरी सांग.''

''फाल्यां नाका. फाल्यांची तिकेट काडल्या हांवें.'' ताणें हांसून सांगलें.

''खंय वतलें तर?''

''वतलें. एक उत्सव आसा.''

''एकलेंच?''

“कित्याक भंय दिसता कोणूय उकलून व्हरीत म्हूण?” पर्थून तें हांसलें.

“वगीच फटी मारूं नाका.”

“हांव फटी मारतां?”

“ना? तूं कोणा मदरसांतले इश्टिणीक मेळपाक वतां म्हूण सांगून आयलें ना?”

“चित्राच्या तोंडांत म्हूण कांयच धरना.”

“आनी राती येवचें ना म्हूण सांगलां?”

“हय. त्या फ्रॅण्डागेर रावतलें राती.”

“आनी सकाळीं?”

“तूं इतलो दुबावी कसो? सांगलें न्हय, सकाळीं भायलेभायर वतलें.”

“खंय वतलें तर अशें?”

“फातिमा उठलें. पर्स उगडून म्हाका रेल्वेची तिकेट दाखयली. स्वराज एक्सप्रॅसची. रतलाम स्टेशनाची. तोंड धांपून परती दिली. तिकेट भायर काडटनां कितें तरी सकयल पडलें. हांवेंच काडून दिलें. सीम कार्ड तें.

“चुकून हांगाच उरलें” म्हणीत तें बाथरूमांत गेलें. कार्ड कमोदांत उडोवन फ्लश करून आयलें, “वापरून जालें तें.”

हांव कितेंय विचारचें पयलींच तें उलयलें, “ए विपीन, पुरो जाली रुजवात. आतां म्हाका भूक लागल्या. पयलीं तूं म्हाका एक ऑम्लेट करून दी. मागीर हांव तुका आयस्क्रीम दितां. ओ के?”

ताणेंच कांदो, तोमात शिनलें. हांवें फकत तांतीं फोडून मिक्स केलीं. पाव रेडी आसलो. फ्रिजांत आयस्क्रीम आसलें. खबरी मारीत तें सोंपयलें.

“फातिमा, आतां एक डान्स दाखय न्हय?”

“भरिल्ल्या पोटार?”

“अशें पोट भरपा सारकें कितें खालां तर?”

“हांव रेडी. पूण तुवेंय नाचूंक जाय.”

“ह्यः म्हाका कळना.”

“हर दिल जो प्यार करेगा, वह गाना गाएगा –” ताणें गीत म्हणपाक सुरवात केली.

''प्लीज. बलम पिचकारी करता?''

फातिमान मोबायलाचेरच गीत लावन डान्स केलो. फकत म्हजेखातीर. पिशें कशें नाचलें. गीत सोंपलें तरी तागेल्यो गिरक्यो सोंपल्यो नात. निमाणें हांवें उठून ताका आडायलें तें म्हज्या गोपांतच आयलें. खरशेल्लें. हड्डें धांपेतालें. ताका हांवें वेंगेंत घेतले. ताच्या ओंठार ओंठ तेंकयले. कितलोसोच वेळ आमी ती गोडी चोखीत रावलीं. ओठांत ओंठ आसतनाच फातिमा धोलूंक लागलें. हांवूय ताचेवांगडा ह्या पांयावयल्यान त्या पांयार भार घालीत धोलत रावलों. मागीर तकली फाटीं घेवन तें हांसलें, ''हांव जाणां आसलें. हर दिल जो प्यार करेगा -''

म्हजे हात सदळ जाल्ले पळोवन फातिमान म्हाका पर्थून आंवुळ्ळो.

''उकल म्हाका.'' तें आपल्या दोनूय पांयांच्या बोटांचेर उबें रावलें. हांवें ताचे कमरेक विळखो घालून उबारलें. ताचें हड्डें म्हजे तकले कडेन पावलें. ताका जाय म्हूण, काय म्हाका जाय म्हूण - ताका उकलून बेडरुमांत पावलों. सकयल दवरचे पयलींच ताणें दोनूय हातांनीं म्हजी तकली ओडून हड्ड्यार चेपली.

म्हजो स्वास अंदलो. तें हांसलें. ''घुसमट्टा न्हय? हांव सदांच अशें घुस्मट्टां. तुजे यादीन उशें आंवुळटां तेन्नां.''

ताका सकयल दवरून हांव लायट पालोवपाक गेलों. ताणें आडायलो.

''ए, अंधेर नगरीच्या राजा, आयज एक रात काळखाचो सांगात सोड. म्हजेखातीर, आयची रात उजवाडांत घालोवंया?'' आनी लागीं येवन उत्कटतायेन म्हळें, ''कसम से, तुजो आयचो एके रातीचो सांगात म्हाका जल्मभर पुरो.''

तें पिसाविल्लें आनी म्हाकाय पिसायतालें. म्हजे स्वास उश्ण जाल्ले. उतर फुटनासलें. ताका वेंगेंत घेवन पोशेतना ताणें अचकीत म्हज्या हड्ड्याक ल्हवूच घांस मारलो. मागीर ताणेंच विचारलें,

''हर पहल - हांवेंच करपाची?''

अशें म्हणून म्हजो हात आपल्या हड्ड्याचेर धरून दामलो. हांव किरमीत रावलों. फातिमान विचारिसर म्हज्या लक्षांत येवंक नासलें- ''ए विपीन, तुजे म्हजे मदीं कांयच आसूंक फावना, अशें दिसना तुका?''

म्हजी ट्यूब पेटपाक थोडो वेळ लागलो. मागीर हांवें तागेलो गाउन देंवयलो. म्हगेल्या शॉर्टाक हात घालो तेन्ना फातिमान आडायलो, ''तें काम हांव करतां.''

ती आख्खी रात कुडींतले ट्यूब लायटीन मात्त भिलभिलनासतनां रतीन मदनाची मस्ती कशी जिरयली तें पळयलें.

आपल्या उतराक जागून ती सगली रात फातिमा पिडत रावलें. तोंडान उलयतालें, हातांनीं धुमकायतालें, केंस पिसुडटालें, पांयांनी धोंगशितालें, मस्तितालें... पीड पीड पिडलें आनी मागीर आमी दोन उरलींच नात... फांतोड्डेर केन्नातरी तें थांबलें, तेंय शायरीन- ''*रात कुछ ऐसी है हमने गुजारी जैसे जिन्दगी की तमन्ना हुई है पूरी.*''

रात सरली तरी तेंय न्हिदलें ना, म्हकाय न्हिदूंक दिलो ना. साडेसंक ताणें च्या-कॉफी केली. घोंट मारचे पयलींच दोनूय मग लागीं ओडले. दोनूय एका तोपांत रकोवन परते भरले. ''याद आसा तुका हांवें विचारिल्लें- च्या कॉफी मारामारी केन्ना घेतल्या काय म्हूण? घे आतां.'' हांवें घेतली.

रोखडेंच तयार जालें. ''चल, म्हाका स्टेशनार सोडटा मरे? पावणे आठांची गाडी- बांद्रा स्टेशनार सोड म्हाका''.

''न्हायना तर तूं?''

''न्हावन तुजो वास आंगार आसा तो बासून उडोवं?''

आनी आमी रिक्षा करून भायर सरलीं. वाटभर तें म्हाका खेटून दंडाक घट धरून बशिल्लें. कानांत तागेलें फॅवरेट गीत गुणगुणत- ''*आज फिर जीने की तमन्ना है। आज फिर मरनेका इरादा है।*''

स्टेशनार देंवलें. गाडये कडेन येतां म्हळ्यार, ''नाका. यहीं बिदा करो. बाऽ य.'' म्हणीत ताकतिकेन गेलें. आनी तीच रिक्षा घेवन म्हाका परतो धाडलो. लक्षांतच आयलें ना, वतना म्हज्यांतल्या म्हाकाय घेवन गेलें.

''उठलो? हाउ वॉज ईट? न्हिदूंक तरी दिलें मरे ताणें तुका?''

सकाळींच चित्रालो फोन आयलो, ''फातिमा गेलें काय आसा?''

''गेलें.'' म्हगेली परतीची फ्लायट दनपारां पावणे एकाची आसली. ''हांव साडे धांक भायर सरतलों. चावी व्हरूंक तूं येतलें? काय हांव हाडून दिवं?''

''म्हजेकडेन ड्युप्लिकेट आसा. जेवणा मेजार दवरून तूं दार ओडून घे. पूण आयक. प्रितम आसा हांगा. मेळटलो? जाल्यार यो. आमकांय आवडटलें. पूण बांद्र्याक येवन वचचें पडटलें. थोडें मुखार येवन फाटीं वचपाचें.''

प्रितमाक पळोवंक बांद्र्याक वचपाचो मूड नाशिल्लो. 'आसूं' म्हळें.

सकाळच्यान चार वेळा फातिमाक हांवें फोन लायिल्लो. 'फोन अस्तित्वांत ना' अशीच मॅसेज येत रावली. गोंयां देंवतकच परतो लायलो तरी तेंच. घरा पावसर तीन जालीं. विमानांत सँडवीच घेतिल्लो तितल्यार जेवण भागलें.

मुंबयचे भेटेन म्हाका समादान दिवचे परस अस्वस्थ चड केल्लो. फातिमान म्हजो पिशाभाशेन मोग केल्लो. सूख भरपूर दिल्लें तरी अस्वस्थ करून गेल्लें. इतलें अस्वस्थ कित्याक दिसचें ताचें समादानकारक रझांव म्हजेकडेन नाशिल्लें. तरी ते अस्वस्थतायेंतल्यान भायर सरून कामाक लागपाचें हांवें थारायलें.

सांजेर चित्राक फोन करून फातिमाची खबर घेतली. ताणें सांगलें आपुणूय ताका करतालें, लागनसलो. 'घराच आसतलें तें, 'कालचें' जिरयता आसतलें.'

''घरा कशें आसतलें? तें रतलाम वचपाक गेलां, न्हय?''

चित्राक अजाप जालें. सकाळीं तें गेलें काय विचारिल्ल्या प्रस्नाक हांवें 'हय' म्हणिल्लें कारण म्हाका दिशिल्लें चित्राक ताणें सांगिल्लें आसतलें म्हूण. तें ब्लँक! 'म्हाका सांगलेंना कशें?'

मागीर हांवें तेंय सांगलें, 'लिव्ह इन रिलेशनांत रावपाक फातिमा तयार जालां. फकत केन्ना तें आपूण मागीर सांगतां म्हळां'. चित्रा खूश जालें काय हुसक्यांत बुडलें तें म्हाका कळ्ळें ना.

सदांच घरांत, डॅडी-मां आसतना लेगीत, एकलो आनी एकमुळो रावन आयिल्ल्या म्हाका आतां घरांत भूत कसो वावुरतां अशें दिसूंक लागलें. आतां फातिमा ह्या घरांत येसर म्हजी गत्त ही अशीच उरपाची!

सद्दां सांजेर हांव चित्राक फोन करून ताचे चिंतेंत भर घालतालों. फातिमाचो आवाज कानार पडले बगर म्हजें चित्त थाऱ्यार पडपाचें नासलें. फोन लागना कित्याक? मस्करी करतां करतां म्हजे कडेन रडी बी खेळना मू तें? सीम कार्ड फ़्लश केल्लें तसो म्हाकाय आपले जिणेंतल्यान ताणें फ्लश केलो म्हणपाचें कळपाक म्हाका चार दीस लागले, जेन्ना दनपारचो चित्रालो फोन आयलो. ''फातिमान घात केलो रे तुजो.'' आनी म्हजे अस्वस्थतायेचें कारण म्हाका कळ्ळें.

चित्रान सांगिल्लें उतरान उतर आयकून घेतलें आनी म्हाका राग आयलो फातिमाचो. आनी दुस्वासूय दिसलो. काय बरीं वांगडा प्रवास करतासलीं. उत्सव मनोवपाक गेल्लें खंय! आयुश्यांत एकदांच येवपी हो उत्सव तुवें असो एकल्यान मनोवप समा जालें ना. गाडयेंत हांवूय वांगडा आसल्यार कितली मजा-मज्जा करूं येतासली आमच्यांनी! शायरी आयकत, खुटले मारीत, घट धरीत, मुड्डीत, हांसत-हांसयत, तिडायत, पिडत, किटकिटत... वाटेर डब्यांत 'च्याऽ ये, च्याय' करीत च्यावाले येतात तेन्ना तुका कूय कूय करीत हांव च्याचेर च्या घेतासलों. मागीर तुका फुसलावपाक हांव पॅंट्री कारांत वचून तुजे खातीर स्पेशल कॉफी घेवन येतासलों... नसाय दिसली तुवें अशी एकट्यान मजा केली म्हूण. वांगडा आशिल्लीं जाल्यार डब्याच्या त्या अशीर दारांत उबीं रावन घसघशाचो वारो आंगार घेतासलीं. तुकाय मजा येतासली. मदींच घड घड घड घड आवाज येतासलो पुला वयल्यान गाडी वतनां. सकयल न्हंय. पयलीं आमचे मोबायल शेंवटून मारतासलीं. कोणाचो पयस पडटासलो? काय मदीच खांब्याक आपटतासलो? मागीर हातांत हात धरून... एक.. दोन.. आनी

तीऽन. वांगडाच भायर उडकी मारपाची मजा चुकयली तुवें. एकल्यानच मारली. म्हाका चाळयत.

चित्राक फातिमाचीं निमणीं उतरां याद जातालीं खंय. 'बॅड गर्ल' म्हणिल्लें तुवें ताका. तशें म्हाकाय खूब कितें म्हणिल्लें– 'तुजो एके रातीचो सांगात म्हाका जल्मभर पुरो' आनी तुज्या शायरी अंदाजांत म्हणिल्लें, 'तेरी जिन्दगी की किताब में चंद पन्नोंकी कहानी हूं मैं; अधुरी है, पूरी करना चाहती हूं'. म्हजे जिणेच्या पुस्तकांतली काणी तुवें म्हाका कुशीक दवरून पुर्ण केली हाचो म्हाका राग येतलो अशें दिसलें ना कशें तुका? मुंबय आफयलो तेन्नाच म्हाका तयारेन यो म्हणपाचें. तयारी तरी कसली, मडसरेची? 'मुंबय यो, तुजीं म्हजीं सपनां पुर्ण करपाक', 'आमच्या मोगाची परिणती मुंबय जावपाची आसा' ह्या तुज्या उलोवण्याचो म्हाका अर्थ लागलो ना. पूण तुका खबर आशिल्लो न्हय? म्हाका असो काळखांत कित्याक दवरलो? 'कल की श्याम तुम्हारे नाम, परां म्हजे कडेन वेळ ना'– तुवें म्हणिल्लें. तुजेकडेन नाशिल्लो जावंये. पूण म्हजो सगलो वेळ हो तुजोच आसलो न्हय? 'अब बस एक ख्वाहिश है जो पूरी करनी है'. तुजी ख्वाहिश तीच म्हजी ख्वाहिश अशें हांव धरून चलतालों. राती ख्वाहिश पुर्ण जाल्या उपरांत तुवें म्हणिल्लें, 'रात कुछ ऐसी है हमने गुजारी, जिन्दगी की तमन्ना पूरी हो गयी'. आनी गाडी धरपाक वतना म्हजो हात धरून म्हणिल्लें तें गीत: 'आज फिर जीने की तमन्ना है, आज फिर मरने का इरादा है'. तूं म्हणटालें तेन्ना तुजी तमन्ना कळिल्ली पूण इरादा लक्षांत घेवपाक चुकलों हांव. 'रही जिन्दगी तो मिलेंगे दोबारा' हांवें कित्याक सिरियसली घेतलें ना?

ताळो सरांटून सांगचें शें दिसलें, ''आमी सगले मरणयात्री. स्टेशन येवपाची वाट पळयत बसपी.''

दारांत कृष्णा पावला हाचें म्हाका भान नासलें.

''तुजो राग इतलेच खातीर की तूं एकलेंच देंवन गेलें. खंय? सासणाचे शांती कडेन?''

''विपीन!'' आवाज कृष्णाचो. पूण दोळ्यां सामकार फातिमा –

''असतो मा सद्गमय, तमसो मा ज्योतिर्गमय

मृत्योर्मा अमृतम गमय, शांति , शांति, शांति;''

इगर्जेच्या सालांत बसून धीरगंभीर आवाजांत हें उपनिषद म्हणटनां मुखार आशिल्लो कृष्णा म्हाका हयन्हयसो दिसलो. ताचें काम कितें आसा हांगा? विचारचे पयलींच ताणें कूस मारली.

मरण हें अंतीम सत्य मू? मागीर मरणा कडल्यान मुखार अमरत्वा कडेन व्हरपाची प्रार्थना करप हातूंत विरोधाभास ना? असत्या कडसून सत्या कडेन व्हर म्हणप बरें आसा. पूण सत्य म्हळ्यार कितें? हांव आसां हें सत्य? हांव म्हळ्यार कोण? म्हजें नांव? म्हजी कूड? म्हजें मन? म्हजो वंश? हो तर अहंकार. काय हेंच वास्तव?

काळखांतल्यान उजवाडा कडेन व्हरपांतलो प्रतिकात्मक अर्थ कितेंय काडूं येता. पूण धरून कित्याक चलचें, काळोख हो वायट म्हूण? हांव तर उजवाडांत काळखाचो झोत घालपाक आंवडेतालों. तो आवंडो किंतें अज्ञानांतसून उप्राशिल्लो? म्हाका काळोख आवडटाच. म्हूण हांव कितें काळखाचो पुजारी? म्हजो जल्मूच काळखांतल्यान जाला. जल्माचो आनी मरणाचो परस्पर संबंद आसा काय? आवयच्या गर्भांतल्यान भायर सरलों तो जल्म? काय गर्भधारणा जाली तो जल्माचो खीण? गर्भधारणेच्या वेळार शुक्राणु केदो आसता? मिलिग्रामाचो शतांश. हांव जल्मा वेळार आठ पाउण्ड आशिल्लों. आयज हांव सत्तर किलो आसां. आतां मृत्यूंतल्यान म्हाका सुटका जाय? अमरत्वा कडेन वचपाक मागप म्हळ्यार मरणाक न्हयकारप जालें ना? शांति! मरणांतच शांती आसा म्हणटात. तशें जाल्यार फातिमान शांती मेळयली. म्हाका फाटीं घालून. हें तुवें योग्य केलें ना फातिमा. गीतेंत कृष्ण सांगता, मरण म्हळ्यार एक कूड सोडून आत्म्यान दुसरे कुडींत वचप. फातिमाचो आत्मो रावतलो काय म्हाका, वांगडाच कूड बदलपाक?

जल्म मेळप हें कितलें सुंदर तें वाचलां हांवें, अणभवंक ना. मरण अणभवपा इतलो हांव सुजाण आसां. म्हज्या जल्मान कोणाचें बरें जालें ना. मां म्हणी, म्हजो जल्म जायत सावन तिणें वायटच दीस पळयले. डॅडी तर म्हाका भोटो म्हणटालो. उपरांत ताका दिसतालें म्हाका दोतोर केल्यार हांव मनीस जातलों. थंयूय हांव शेणलों. चित्रान म्हणिल्लें, 'तुजे कडेन

चिकाटी ना', 'तूं सदांच हारला'. तुवें मात म्हणिल्लें, 'हांव आसासर तुका हारूंक दिवचें ना'. पूण म्हाका हारपाक सोडून एकलेंच गेलें! मुंबय तुका मेळटकच म्हाका दिशिल्लें, 'लाइफ फूल ऑफ लव्ह ईज वर्थ लिव्हिंग'. आतां म्हजे कडेन जियेवपाक जाय अशें कारणच उरलें ना. चित्रा आपणाले कले खातीर जियेता, मार्टीनसर वाचनांतलो आनंद घेवपा खातीर जियेता. मां म्हणटाली, 'गोडशें खावंक मेळचें ना तर जियेवं तरी कित्याक?', कल्पेश 'गंदा है पर धंदा है' म्हणीत जिगोलो जावपा खातीर जियेता. जगपाक बरें-वायट कारण जायच.

फाटीं लॅपटॉपाचेर पळयिल्ल्या एका फिल्माचो उगडास जालो- आखो संवसार रोगीट जाला, लोक खुनशी जाल्यात, रावप इन्हॅबिटेबल जालां, वातावरण असुरक्षीत जालां. मनीसजात त्या निमण्या दिसाची वाट पळयता... हय, तो दीस येतलोच. जाल्यार त्या दिसाची वाट पळयत रावपांत कितें अर्थ आसा? आसा काय मर्णकटो उकतो आजून?... मरण येना म्हूण वोतांतल्यान वाट चलपी हेंवाळ्या भाशेन मरणाची बडी फाटीर पडसर चलत रावपाचें? काय मरणाक सामकार वचपाचें?

तकली जाग्यार हाडूंक च्या मारची म्हूण किचनांत पळय जाल्यार पावडर सोंपल्या. वासुदेवागेर वचून मारुंया म्हूण भायर सरलों. रस्त्यान चलतना कुशिकच माडाचें चुडीत घोप्प करून पडलें. वयर पळयलें. ताका खबर आशिल्लें काय आपूण झडटलें म्हूण? तें पडिल्ल्यान माडाचें कितें लुकसाण जालें तर?

"बरो सुटलो तूं. तुजेर पडिल्लें जाल्यार आत्ताक वतलो आसलो" वाटेन वचपी मनशान म्हळें. चुडटान कितें उपकार केले तर म्हजेर?

वासुदेवाल्या च्यावे दुकानार वचून पळय जाल्यार वासुदेव आसा, पूण दुकान बंद.

"कितें जालें?"

"तुका सांगतां बाबू, चाळीस वर्सां जालीं म्हज्या धंद्याक आनी म्हज्या लग्नाक. इतल्या वर्सांनी आतां म्हाका जिणेचो अर्थ कळ्ळो."

म्हजी उमळशीक जागी जाली. हांव फुडलो सभावीक प्रस्न विचारतलों म्हूण वासुदेवान थोडो वेळ वाट पळयली. मागीर उलयलो, "कांयच

अर्थ ना."

वासुदेवाल्या उदास दोळ्यांत हांवें मरण पळयलें. कोणाचें? ताचें? म्हजें?

जे खातीर जगलो ते जिणेक अर्थ ना म्हूण कळपाक वासुदेवाक चाळीस वर्सां लागलीं. म्हजी तयारी नासली. जिणेक अर्थ आसप म्हळ्यार कितें? ह्या अर्थ आसपाक तरी अर्थ आसा काय? आय मस्ट क्वीट. हांवें म्हगेली तयारी करूंक जाय.

आंवंय! तयारी आनी कसली? वांगडा कांय घेवन वचपाचें ना. तिकेट लेगीत नाका.

बद्द स्टेशनार गेलों. दारांतच च्याच्या स्टॉलान चाळयलो. पूण गाडी येवपाचो वेळ जाल्लो. लोक चडपाक उतावीळ जावन राविल्ले. हांवूय गर्दैत रिगलों. म्हणसर स्पिकराचेर कळोवणी आयकली, 'गाडी वीस मिण्टां उसरां येतली.'

हांव घुसपलों.

जीव दिवं? काय च्या मारूं?

●●●



“

एका सुवार्थी, विचित्र, दुराचारी घराब्यांत वाडिल्लूया विपीन ह्या असामान्य तरनाट्याच्या अस्तित्ववादी संघर्शाची ही कथा.

भोंवतणच्या संवसारा कडेन तिरसुवाद नदरेन पळोवपी विपीन वाडटे पिरायेर दोन चलयांचे कातरेंत सांपडटा...

कलाकार तरनाटी चित्राक विपीन आनी विपीनाक चित्रा खूब आवडटा. आनी गीत-शायरीचें पिशें आशिल्लें अती-संवेदनशील फातिमा ताचो उपाट मोग करता...

संघर्श इतल्यार सोंपना-

विपीनाक च्या खूब आवडटा. पूण कॉफी ताची फाट सोडिना...

ही आसा नव्या सहस्रकाची विलक्षण कादंबरी- जीव दिवं काय च्या मारूं...

**- जुझे लोरेंस**

लेखक-समिक्षक

हे वयलेचाराचे कॉज्मॅटीक बदल केन्ना म्हज्या अंतरंगाचेर परिणाम करपाक पावले नात... हांव म्हज्या घरान घालून दिल्ले वेवस्थेक म्हजें सुरक्षेचें कवच लेखतालों... भायलें जग बदलता हाची जाणीव जाताली- भोव करून पुस्तकां वाचतालों तेन्ना... पूण तें जगच वेगळें... फ्रांझ काफ्का वा आल्बॅर्त काम्यू वा काझुओ इशिगुरो हांगेल्या बरपां कडेन हांव समरूप जातालों. पूण तांगेल्या बरपांतलो संवसार वेगळो हें वळखून अंतर दवरतालों.

---

''आमी एक पासय मारूंया, विपीन?'' भायर सरतां सरतां चित्रान विचारलें.

''हांव येतासलें. पूण- नाका. तुमी चलात.'' फातिमा वचपाक अनमनतालें जावंये. पूण चित्रान ताका धुकललें- ''चल तूं. कबाब में हड्डी नाका.''

''ओके. बाय विपीन. हड्डी घेवन तूं वच. कबाब चललें क्लासीक.'' आमकां चाळयत फातिमा धांवलें.

''शी इज सो लायव्हली. म्हाका खूब आवडटा तें.'' आनी खीणभर रावन चित्रान म्हाका कोंपर मारून म्हळें, ''आनी ताका तूं.''

संजना पब्लिकेशन्स